दुडु आनी धन सगळें दानधर्मांत खर्च करून मेकळे जाताले, आनी पुण्य आनी किर्ति जोडटाले. झुजांत एकाद्रो राजा मेलो तर ताज्या पुत्राक राज्यार बसयताले आनी ताचें रक्षणय करताले. झुजांत शूर आसले म्हणून दुसऱ्यांची राज्यां जिखून आपुण सम्राट जायनासले. महाभारताचो काळ सोंपून पांचएकशीं वर्सांनीं हिंदुस्थानांत बौद्ध धर्म उप्रासलो. यज्ञयागांत बळी दिताले ताका लोक कंटाळले. दुसऱ्या देशांतल्या लोकांबरोबर संबंध आयलो. ग्रीक लोक हिंदुस्थानांत पावले, आनी तांचे देखीन आमचे चंद्रगुप्त, अशोकासारके राजा साम्राज्यां जोडूंक लागले. आकांताची झुजां खेळून रगताच्यो न्हंयो व्हांवोवन धन, दौलत, व्यापार उद्योग वाडोवन श्रीमंत वाणी जात फुडें आयली. हाचेपैलीं राज्यांत क्षत्रिय आनी ब्राह्मणांचोच कारभार चलतालो. दुसरो चंद्रगुप्त-कुमारगुप्त हाच्या काळांत कालिदास जावन गेलो, तेन्ना माळव्यांत उज्जैन नगरांत मोठ्या साम्राज्याचें राज-पाटण आसलें. बुद्ध धर्माची लाट येवन गेली. लोकांक श्रमणांचो आनी जैन मुनींचे अहिंसेचो कंटाळो आयलो. चारशीं वर्सां संस्कृत भाशेक लोकांनीं, राजांनीं कोनशाक बसोवन, थळाव्या पाली, अर्धमागधी भासांनीं साइत्यां बरयलीं. ताकाय लोक कंटाळले. परते ब्राह्मण आनी क्षत्रिय फुडें सल्ले आनी अश्वमेध, राजसूय यज्ञ करूंक लागले. पैलींपरस बळींची संख्या उणी जाली. म्हुर्तींची पुजा, आरती, जात्रा, सणवार, एकवतां सुरू जालीं. पुराणां फुडें सल्लीं. तांतल्यो कथा आयकत लोक ब्राह्मणांकडल्यान, विष्णु, नारायण, महादेव, कालीमाता हांच्या म्हुर्तींची पुजा करून घेवन पुण्य जोडूंक लागले. गायेची गोमाता जाली. श्रुती म्हळ्यार वेद. तांचे जोडीक स्मृती म्हळ्यार शास्त्रां आयलीं. मनुस्मृति, पराशरस्मृति, याज्ञवल्क्यस्मृति, धर्मसूत्रां, ब्रह्मसूत्रां, उपनिषदां, स्तोत्रां, काव्यां, मीमांसा म्हळ्यार यज्ञाचें शास्त्र, पाणिनीचें व्याकरण, पतंजलीचें भाष्य जालीं. लोकांक रामसीता कृष्णराधा हांचीं गीतां येवजलीं. भागवत पुराण जालें. भासान नाटकां बरयलीं. आनी नागरी जिणेन सुदारिल्लया उज्जैनीच्या दरबारांत कालिदास, वराहमिहिरबी विद्वान पंडित काव्यां, नाटकां, गणिताचेर, शास्त्रांचेर ग्रंथ बरोवंक लागले. राजा तांकां मान दिवंक लागले आनी आपुणय तांचे भाशेन शास्त्रां शिकून पंडित जांवक लागले. अशा काळांत लोकांमुखार कालिदास कवीन ऋतुसंहार, कुमारसंभव आनी मेघदूत काव्यां बरोवन जातकूच पुराणांतल्यान निखटीं नांवां घेवन उत्कृष्ट कथांचें रघुवंश काव्य रचलें.

० ० ०

## रघुवंशाची कथा

पयल्या सर्गांत कालिदास आपलें दैवत पार्वतीपरमेश्वर हांकां वंदून रघुवंशांतल्या राजांची तोखणाय करता. आनी तांच्या गुणांचें आनी शूरपणाचें वर्णन करता. ते कशे धर्मान, नीतीन वागताले आनी यश जोडटाले, आनी सगळ्यांत म्हत्वाची वस्त म्हणजे ते त्यागी आनी दानशूर आशिल्ले हें सांगून कालिदास तांचे कथेचेर काव्य रचपाची आपली लायकी ना, म्हणून आपलो विनय दाखोवन दिता. मागीर तो दिलीप राजाची काणी सांगता. दिलीपाक संतत ना म्हणून तो राणयेक घेवन वसिष्ठ ऋषीकडे, गुरूकडे वता. वसिष्ठ ताका कामधेनू नंदिनीची सेवा करूंक सांगता.

दुसऱ्या सर्गांत दिलीप राजा नंदिनीक राखतासतना दोंगरार एक सिंह तिचेर घुरी घालता. राजाक त्या सिंहाक मारपाची तांक ना. कारण तो सिंह शंकराचो सेवक आसता. तेन्ना दिलीप गायेक सोडून आपल्याक खा, म्हणून त्या सिंहाक सांगता. राजाच्या ह्या त्यागान संतुष्ट जावन ती कामधेनू म्हळ्यार इच्छा पुरोवपी गाय राजाक पुत्र जावपाचो वर दिता.

तिसऱ्या सर्गांत दिलीपाक पुत्र जाता. तो रघु. तो ल्हानाचो व्हड जाता. दिलीप ताका बरे भाशेन शिकोवन शूर वीर करता. दिलीपाच्या शंबराव्या अश्वमेध यज्ञाच्या घोड्याचें रक्षण करूंक रघु राजपुत्र भोंवता. इंद्र तांचो घोडो चोरून व्हरता. तेन्ना इंद्राकडेन रघूचें युद्ध जाता. रघु इंद्राची फजेत करता, इंद्राच्या धनुष्याची वादी तोडून ताज्या रथाचे गुडयेच्यो वाद्यो करता. इंद्र दिलीपाक शंबराव्या अश्वमेध यज्ञाचें पुण्य दिवन तंटो मिटयता. दिलीप रघूक राज्य दिवन बायलेक घेवन वनांत तपश्चर्येक वता.

चौथ्या सर्गांत रघु विश्वजित् यज्ञ करता. सगळो संवसार जिखून धन एकठांय करता. तेन्ना तो पारशी, हूण लोकांचीं राज्यां जिखून हिमालयाचे अस्तमतेकडल्यान उत्तरेक वचून थंयसावन हिमालयाचे पूर्वेकडल्यान कामरूप म्हळ्यार आसाम देसांतल्या राजांक जिखून तांचेकडल्यान धन घेता; आनी यज्ञ करून सगळें धन यज्ञांत आनी दानधर्मांत सोंपयता.

पांचव्या सर्गांत वरतन्तु ऋषीचो शिष्य कौत्स रघूकडेन अतिथी म्हणून येता. रघु ताचो प्रेमान पावणेचार करता. कौत्साक आपल्या विद्या शिकोवपी गुरूक दक्षणा दिवपाक चौदा कोटी म्होरांची गरज आसता. हे वशीन रघु राजा

आपल्या संवसारांत मातयेचीं आयदनां वाफरता. तें पळोवन कौत्स आपल्या कामाखातीर दुसरेकडेन वचूंक तयार जाता. पुण रघु ताका वचूंक दिना. तो कुबेराचे अलका नगरीचेर घुरी घालपाची तयारी करता. तें कळटकूच कुबेरदेव, इंद्राभशेन आपली फजेत जांव नये म्हणून रातीभितर रघूचे कोठयेंत भांगराच्या म्होरांचो पावस घालता. रघु तें सगळें धन कौत्साक दिवन उडयता. रघूक अज म्हणून पुत्र जाता. तो बापायभशेन शूर जाता. अज विदर्भ देसाच्या राजाच्या आमन्त्रणाक लागून ताजी भयण इंदुमती राजकन्या हिच्या स्वयंवराक वता. वाटेर एक हत्ती पिसवून सैन्यांत धुमशेण घालता म्हणून अजाक बाणान ताजी तकली फोडची पडटा. तेन्ना तो हत्ती आपले कुडींतलो मेकळो जावन आपुण स्राप मेळिल्लो गंधर्व म्हणून सांगता. वतासतना तो अजाक संमोहनास्त्र म्हळ्यार दुसऱ्यांक न्हीद हाडपाची शक्ति दिता.

सव्या सर्गांत अज स्वयंवराच्या माटवांत पावला. बरे सजून शृंगारून स्वर्गातल्या देवांभशेन दिसतात अशे राजा थंय स्वयंवराक आइल्ले ताणे पळेले. पुण प्रत्यक्ष कामदेवाभशेन सुंदर अशा त्या अजाक पळोवन त्या दुसऱ्या राजांक इन्दुमती राजकन्या आपणाक बायल म्हणून मेळची ना म्हणून ते निर्शेले! एकाद्रो सिंहाचो पेटो पर्वताच्या तेमकार चडून बसता, तसो तो अज विदर्भ देसाच्या राजान ताका दाखयल्ल्या सिंहासनाचीं सोपणां चडून त्या सिंहासनाचेर बसलो. थंय तो देवांच्या स्कंद सेनापतीभशेन दिसूंक लागलो. कुपांच्या हुंवारांत विजेच्या लोळान चकचकता असो दिव्य मेघ उरता, तसो तो तिकतिकतालो. स्वर्गींच्या नंदनवनांत कल्परुखावळींत पारजताचो रूख सोबता! सगळ्या भौसाच्यो आनी राजांच्यो नदरो त्या अजराजाकच तेळूंक लागल्यो!

अशा त्या स्वयंवराच्या माटवांत सगळ्यांच्या येवकारांचीं गीतां म्हणून जातकूच, मनशांच्या खांद्यावेल्यान लालखेंत बसून लग्नसमारंभाक सोबत असो शिणगार करून आपल्यो धेडयो आनी कुळंबिणी हांचेसयत ती राजकन्या इंदुमती त्या माटवांत मोठ्या दबाज्यान आयली. ब्रह्मदेवान विशेष कुशळकायेन घडयल्ल्या त्या सुंदर राजकुंवरीचें रूप पळोवन सगळे लग्नार्थी राजा घुंवळ्ळे, म्हळ्यार ते आपापल्या जाग्यार शणले ! ते चिके पिशेपणां करूंक लागले ! एक राजा वोगीच कमळा-देंठ हातांत धरून कमळ घुवडांवक लागलो ! दुसऱ्यान आपल्या गळ्यांतलो रत्नांचो हार व्यवस्थित जाग्यार आशिल्लो, तो मात्सो हांगाचो थंय बेठोच हालोवन परतो आशिल्ल्याच जाग्यार दवल्लो ! तिसरो आपल्या पांयां-

सकयले गिरदनेचेर पांयांच्या आंगठ्यान कितें बरयल्याभशेन करूंक लागलो! चौथो राजा कांय सांगपाचें नासतनाय आपल्या म्हऱ्यांतल्या राजाच्या कानांत कितेंतरी फुतफुतूंक लागलो. पांचवो राय आपल्या दांतांनीं हातांत धरिल्लें केगदाचें पातें चाबडांवक लागलो! सवो हातांतली रत्नजडित मुदी बोटयेंतल्यान काडून घुलेभशेन हातांत खुळखुळांवक लागलो! सातव्यान आपलो घट्ट बरो तकलेक घातिल्लो मुकुट किरोंगळेन किमचून ताणे ताका एक चील घाली!

मागीर इन्दुमतीची सुनन्दा म्हणून धेडी तिच्या सांगाताक आशिल्ली, ती फुडें सरून राजकुंवरीक त्या राजांमदल्या दर एका राजाचीं वर्णनां करून नामना सांगूंक लागली. ते सुनन्दा पाठराखणीक धर्तरेवयल्या सगळ्या राजांच्यो वंशावळ्यो पाठ आसल्यो. ती दादल्यांभशेन उलोवपांत हुशार आसली. तिणे इन्दुमतीक मगध देसाच्या राजामुखार व्हेली आनी सांगलें, "हो परंतप नांवाचो शत्रूक कष्टावन आपलें नांव खरें करून दाखोवपी मगध देसाचो राजा. जो कोण ताच्या आसऱ्याक वता, ताका तो आलाशिरो दिता. हो धिरिष्ट सभावाचो; आनी प्रजेक सुख दिवन हाणे नामना जोडल्या. दुसरे जायते राजा धर्तरेर आसात. पुण पिर्थुमेर हो राजा आस म्हणून तिका राजन्वती म्हळ्यार 'राजा आशिल्ली' अशें नांव पडलें. रातचीं मळबांत गिरे, नक्षत्रां, चांदन्यो जायतीं लिकलिकतात. तरी आसतना चन्द्रिमाक लागूनच रातीक ज्योतिष्मती म्हळ्यार, 'उजवाड आशिल्ली,' अशें म्हणटात. हो राजा सदां उठून यज्ञ करीत आसता. म्हणटकूच यज्ञांतली आपणाक दिल्ली आहुती व्हरपाक इंद्राक परतोपरतो पिर्थुमेर येंवचें पडटा. इंद्र स्वर्गांत नासतकूच ताची इंद्राणी शचि आपले केंसवान वळोवन फुल-चामळ माळिना, आनी दुःखीत जावन तिचें तोंड फिकें पडटा. ह्या राजाकडेन तूं लग्न न्हाशीत तर पाटलिपुत्र नगरींतल्या बायलांक तुजी सुन्दरकाय दाखोवन तूं धादोशी करशीत." हातांतली अशोकाच्या फुलांची दुर्वांनीं गुथिली वरमाळ फुडें काडून वैर उखलूंचे बदला, इंदुमतीन ती माळ आपलेवशीनच वडली, आनी त्या राजाक चिके नमस्कार केल्ल्याभशेन करून सुनन्दा धेडयेक मुखार सरूंक सांगलें.

मानस नांवाच्या सरोवरांत वाऱ्यान उठिल्ल्या उदकाच्या ल्हारान थंय पोंवपी राजहंसीक एका कमळाकडल्यान दुसऱ्या कमळालागीं व्हरचें, त्याप्रमाण हातांत बेतकाठी धरून राजकुंवरीक सांबाळपी अशे ते सुनन्दा धेडयेन इन्दुमती राजकन्येक दुसऱ्या राजा-म्हऱ्यांत व्हेली. आनी ती सुनन्दा सखी उलयली: "हो अंग देसाचो राय, हाचे जुवानपणाचे कीर्तीक भुल्लन

स्वर्गीच्यो अप्सरा लेगीत हाचो लाव घेंवक सोदतात! कसल्यातरी स्रापाक लागून हो राजा धर्तरेर राज्य करता! ना जाल्यार तो स्वर्गांत रावपाचेच लायकेचो! एक फावट स्वर्गांत आसतना देवर्षीनीं ताका हत्तीक वश करून घेवपाची विद्या शिकयली. धर्तरेर आसुनय तो इंद्राचें वैभव भोगता. ह्या राजान आपल्या शत्रूच्या बायलांच्या थानांवेल्यान तांच्याच दोळ्यांतल्यान व्हांवपी मोतयांएद्या दुखांच्यो माळो जणु पातळायल्यो. आनी अशे रीतीन दोरयेन गांठांवक नाशिल्ले निखटे हार तांच्या गळ्यांत घाले! लक्ष्मी आनी सरस्वती आपापल्या वेगळ्या सबावांक लागून एकठांय नंदनात! पुण ह्या राजाचेर त्यो दोनय देवता एकठांय जाल्यात! सुन्दरकायेन लक्ष्मी आनी सत् उलोवपी आशिल्ल्यान सरस्वती अशी तूं ह्या राजाक माळ घालशीत जाल्यार लक्ष्मी आनी सरस्वती ह्या दोन देवतांमजगत तूं तिसरी देवता सोबून दिसशीत!"

अंगरायावेल्यान आपली नदर काडून इंदुमती राजकन्येन सुनन्देक, फुडें सर, म्हणून सांगलें. तिणे मोग करचो इतले योग्यतायेचो तो राजा नाशिल्लो, अशें न्हय! आनी तिका मनशां पारखुपाची बारीक नदर नाशिल्ली, अशेंय न्हय! तर, वेगळ्या वेगळ्या मनशांच्यो आवडी वेगळ्यो वेगळ्यो उरतात, हेंच खरें!

हाचेनंतर इंदुमतीच्या म्हालाचें कवड सांबाळपी ते सुनन्देन शत्रूंक जिखूंक कठीन, आनी चारचौगांत उगवत्या चंद्रिमाभाशेन उठून दिसपी अशा एका राजाक इंदुमतीक दाखयलो.

"हो अवन्ती नगराचो राजा. लांब बावळ्यांचो, रुंद हड्डें आशिल्लो, पोटाकडेन बारीक. विश्व घडप्यान ह्या राजाक मोठे कुशळकायेन सुर्याभशेन कांतीमान घडयला! ह्या राजाचें सैन्य चालीक लागलें, कीं मुखार धांवपी घोड्यांच्या खुरांनीं उसळिल्ल्या धुल्लान, ह्या राजाचे जे सामन्त म्हळ्यार हाका खंड घालपी दुसरे राजा आसात, तांच्या मुकुटांतले हिरे त्या धुल्लान म्हेळटात! हो राजा अवन्ति नगरींत महाकाल म्हळ्यार शंकर देवालागसारच रावता, म्हणटकूच म्हयन्याचे काळखे पंद्रशींच्या रातींतय महाकाल देवाच्या कपलार आशिल्ले चंद्रकोरीच्या उजवाडाक लागून ताका आपल्या राणयांच्या संगतींत चांदन्यांत खेळूंक मेळटा! केळींच्या कांडाय्यासारक्यो मांडयो आशिल्ले राजकुंवरी, ह्या राजाचेर तुजें मन बसलें जाल्यार, त्या जुवान राजाबरोबर तुज्यान क्षिप्रा न्हयेच्या ल्हारांवेल्यान व्हांवून आयिल्ल्या वाऱ्याच्या थंड शिरशिऱ्यान थंयच्या पोरसावळींतल्यान खेळूंक तुका मानवत!"

कुमुद्वती म्हळ्यार रातचीं फुलपी कमळां. आनी भानुमती म्हणजे दिसपटें फुलपी कमळ. हीं कमळां एकमेकांच्या तोंडार नदर घालिनात! एक तिवतिवता तेन्ना दुसरें आपले न्हिदेंत सोंशेता. आशिल्लोनाशिल्लो रेबो चोखून खावपाचो कष्टाचो वावर भानुमती करता! अवन्तिचो राय दुस्मानांचो तांती-पिलो तिगूंक दिना. त्या रायाकडेन इंदुमतीचें मन ओडलें ना!

तांबड्या कमळाच्या मदेवर्ती रंगाभशेन जिची कांती, जी गुणांनीं पुराय चंवरिल्ली, ब्रह्मदेवाची जणु उपाट ललितान रचिल्ली सृष्टी, सुंदर दांत आशिल्ले अशे ते इंदुमती कुंवरीक अनुप देसच्या रायामुखार व्हरून, ती सुनंदा सखी उलयली: "युद्धांत जणु हजार हातांनीं झुजपी, पिर्थुमेचयल्या अठरा खंडांनीं जाणे यज्ञ करून सगळ्या रायांचा राय जावनय जो योगीय आसलो, असो कार्तवीर्य नांवाचो एक राजा जावन गेलो. लोकांमजगतच्या वेव्हारांत सोडच, पुण मनांतल्या मनांत जरी प्रजेमदल्यान कोणे दुसऱ्याचें वायट चिंतून कल्पनेन कितेंय गुन्यांव केलो, तरीय त्या अपराधाखातीर प्रजेक ख्यास्त लावपी असो हो कार्तवीर्य राजा जावन गेलो. ताणे आपल्या पराक्रमान इंद्राक जिखपी लंकेश्वर रावणाक आळाबंदा हाडून, ताका आपले बंदखणींत घालून, धाय तोंडांनीं सुंकसुंक करीत रडयत दवल्लो. आनी निमाणे ताजी दया येवन सोडून दिलो. त्या कार्तवीर्य राजाच्या कुळांत हो प्रतीप नांवांचो वेदधर्मान चलपी आनी जाणटेल्यांची सेवा करपी राजा आसा. लक्ष्मी चंचल उरता म्हणून सगळो संवसार तिची निंदा करता. ते लक्ष्मीक सतत सांबाळून दवरून ह्या राजान तिच्या नांवाक चंचलपणाचो लागिल्लो दाग पुसून उडयलो. झुजांत अग्निदेवाचे मजतीन हो राजा क्षत्रियांचो काळ जालाच. त्या भायर परशुरामाच्या कुराडीचे खरखरीत धारेक लेगीत तो कमळाच्या पाखळ्यांइतलोच मान दिता! ह्या रायाचे माहिष्मती नगरींतल्या राजम्हालाचे जाळयेंतल्यान ते नगरीभोंवतणी कमरपट्ट्यासारकी जी रेवा न्हय व्हांवता, तिची सोबा तूं पळेतली जाल्यार ह्या लांब हातांच्या प्रतीप रायाकडेन तूं लग्न न्हा. आनी लक्ष्मीभशेन ताजे मांडयेर बस!"

तो राजा दिसूंक कोणाचेंय मन ओडून घेवपी असोच आशिल्लो. तरीय ते इंदुमतीच्या मनांत तो आयलो ना! शरद ऋतूंत सगळीं कुपां अंतराळांतल्यान पैसावलीं, आनी चांद्रिम पुनवेचे रातीं जरी चकचकूंक लागलो, तरी नलिनी ह्या सुर्याबरोबर फुलपी आनी दिस धारेर वतकीर कवळासपी कमळाक तो चांद्रिम आवडना!

मागीर ती अंत:पुरांतली द्वारकी सुनन्दा कुंवरी शूरसेन देसाच्या सुषेण राजाविशीं उलोंवक लागली. "आचारान शुद्ध अशा आवयच्या आनी बापायच्या दोनूय कुळांचो दिवो असो हो राय! हाजी कीर्ति स्वर्गबी दुसऱ्या लोकांतय गायतात! हो नीप राजाच्या कुळांतलो. गुणांनीं आनी सबावान हो सिंह, हत्ती बी हांचे सारको आसुनय, सिंह आनी हत्तीसारकिल्या मोनजातींमदीं जें वैर, दुस्वास बी दोष उरतात ते मात ऋषींच्या आस्रमांत रावून आइल्ल्या ह्या राजान सोडून दिले! ह्या राजाच्या दुस्मानांच्या घरांच्या पाख्यांचेर चार वाडल्या. कारण तीं घरां हाणे पाड घालीं. हाच्या आंगचें तेज पळोवपी मनीस मनान संतुष्ट जाता! ह्या राजाच्या म्हालांतल्यो बायलो मथुरेक कालिन्दी न्हयेच्या काळ्या शार उदकांत पोंवक लागल्यो, कीं थंडसाणेखातीर तांच्या थानांक लाइल्लें चंदन न्हातासतना त्यो बायलो उदकान धुंवक लागल्यो कीं मथुरेची काळी कालिन्दी त्या चंदनाक लागून प्रयागचे गंगेप्रमाण धवी जाता! गरुडाच्या भयान कालिया नाग यमुनेंत लिपून रावलो, तेन्ना ह्या राजाचे उपकार फेडचे म्हणून ताणे ह्या सुषेण रायाक आपलो नागमणी दिलो. कृष्ण भगवानाक कौस्तुभ मणी सोबून दिसता तसो तो नागमणी ह्या रायाचें हड्डें सोबयता! ह्या जुवान राजाक तुवें घोव म्हणून पत्करलो, तर कुबेराचे अलका नगरीपरसय सुंदर अशा वृन्दावनांत मोव कोमऱ्यांच्या, फुलांच्या हातुळगार तूं संवसारांतलें तरुणपणचें सुख भोगतली! आनी पावशा दिसांनीं गोवर्धन पर्वताच्या घळयांत खडपांच्या बसकांचेर बसून उदका थेंबानीं थंड जाल्ल्या सुगंधी वावशिऱ्यांत तूं मोरांचो नाच पळेतली!"

सागराकडेन व्हांवत वचपी न्हय आडवो आइल्ल्या पर्वताक कुशीक घालून फुडें वता. न्हयेंच्या उदकांत भोंवरे आसतात तशे भोंवरे जिचे बोंबलेभोंवतणी आसले अशी ती इंदुमती त्या सुषेण राजाक सोडून फुडें सल्ली!

हाजेनंतर इंदुमतीची ती वावराडी सुनंदा पुनवेच्या चंद्राभाशेन जिचें मुख आसलें, ते इंदुमतीक, जाच्या बावळ्यांक केगदांचीं भूशणां बांदिल्लीं, आनी जाणे शत्रुपक्षच सोंपोवन उडयल्लो, अशा कलिंग देसाच्या हेमांगद ह्या नांवाच्या राजालागीं व्हरून ताजेसंबंदान सांगूंक लागली. "महेन्द्र पर्वताच्याइतलें बळगें आशिल्लो हो महेन्द्रपर्वताचो आनी महासागराचो धनी असो राजा. हाचें सैन्य भोंवडेर आसलें कीं त्या सैन्यांतल्यान जे हत्ती चलतात, तांकां पळोवन महेंद्र पर्वतच मार्गाक लागला, अशें पळोवप्याक दिसता! ह्या राजाच्या दोनय खांद्यांचेर धनुष्याचे वादयेचे वळंगार उठिल्ले दिसतात. ताज्या शत्रूंक ताणे आपले बंदे

करून तांच्या डोळयांतल्यान रकिल्ल्या दुखांच्यो त्यो वळी कशो दिसतात! एक वळ काजळ घाल्ल्या दोळ्यांतलीं दुखां एका खांद्यावेल्यान व्हांवलीं अशें सुचयता! तर दुसऱ्या खांद्यावेलो दाग हुडक्याहुडक्यांनीं दोळयां व्हांविल्ल्या दुखांचो! ह्या राजाच्या म्हालाच्या जनेलांतल्यान दर्याचीं ल्हारां दिसतात. आनी फांतोडच्या पाराक दर्याच्या गंभीर संगीतान तो राय न्हिदेंतल्यान जागो जाता. ह्या राजालागीं तूं लगीन न्हाशीत तर समुद्राचे वेळेर ताडाच्या रुखावळींतल्यान समुद्राच्या दुसरे कडेच्या खंडांतल्यान आइल्ले वलसर वाऱ्यांच्या घुमघुमपी नादांत तूं धादोसकाय भोगशीत!"

त्या राजाची आंगलट कोणाय व्हंकलेक भुलयत अशी आसली. पुण दैव प्रतिकूल आसलें कीं, पयशिल्ल्यान हाडिल्ली, लक्ष्मी लेगीत फाट दाखोवन परती वता; त्याप्रमाण ती विदर्भदेसच्या राजाची भयण त्या राजाकडल्यान मुखार गेली!

हाचेमागीर ते इंदुमतीक ती सुनंदा उलोंवक लागली: "हो पळे नागपुरचो राजा. हाचें नांव पांड्य! हाच्या गळ्यांत खांद्यांवेल्यान इतलो मोठो हार लोंबत आस. आनी हाणे गोपिचंदन आंगाक लायलां. जाच्या आंगावेल्यान झरी व्हांवतात आनी जाचीं तेमकां सकाळच्या सुर्याच्या वताक लागून तांबसार दिसतात, अशा पर्वताभशेन हो राजा दिसता! ह्या राजान अश्वमेध यज्ञ केलो तेन्ना विन्ध्य पर्वताक जमनीर दांबून दवरपी आनी समुद्राचें सगळें उदक पियेवपी अगस्त्य ऋषीन त्या राजाक अश्वमेध यज्ञ करतकूच प्रेमान 'अवभृथस्नान बरे भाशेन जालें मूं?' म्हणून विचारिल्लें. कांय काळाफाटीं शंकराकडसून ब्रह्मशिरो अस्त्र मेळोवन इंद्राक जिखूंक लंकेचो रावण राजा गेलो, तेन्ना ताणे पैलीं ह्या पाण्ड्य राजाकडे मैत्री करूनच मागीर तो स्वर्गार गेलो! ह्या मोठ्या कुळांतल्या राजान धर्मशास्त्राप्रमाण अफाट अशें पिर्थुमेचे दक्षिणेचें राज्य केलां! ताज्या राज्याभोंवतणी रत्नांची खणच अशा समुद्राची मेर आसा. म्हळ्यार ताज्या राज्याचे कमरेंत रत्नाकर म्हळ्यार समुद्राचो घागरपाट आस. पिर्थुमेन ह्या राजाल्या राज्याच्या रुपान जसो रत्नाकराचो घागरपाट घाल्लून ती सोबल्या, तशी तूं राजकुंवरी इंदुमतीय रत्नांचें घागराळें कमराक घाल्लून दक्षिण दिशेची सवत जा! म्हणटकीर मलय पर्वताच्या घळयांतल्यान पानवेलींच्या वालींनीं वेडिल्ल्या पोफळांच्या माडयांच्या रुखावळींतल्यान, वेलच्यांच्या वालींनीं खेम दिल्ल्या चन्दनाच्या रुखांमदल्यान, तापियादांच्या रुखांच्या सांवळेंत सदांकाळ सुख भोगून संतुष्ट जा! हो राजा विष्णु भगवानाभशेन काळ्या वर्णाचो आस, आनी तूं गोरे

आंगकाठयेची सुंदरी आसा. म्हणटकीर तुमचो दोगांचोय एकचार म्हळ्यार उदकान भरिल्लो कुप आनी वीज हांच्या एकचाराप्रमाण एकमेकांची कांती वाडोवपी असोच जातलो!"

सूर्य अस्तमतेक वतकूच सूर्यकमळ कवळसता. त्या कमळाभितर मागीर चंद्रकिरण रिगूंक पावनात. तेच भाशेन सुनंदेच्या उपदेशाक इंदुमती राज-कन्येच्या मनांत रिगावच मेळ्ळो ना!

रातच्या पारार राजमार्गावेल्यान दिव्याची जोत भोंवक लागली कीं ती जोत लागसार आससर ती आस थंय उजवाड दिसता, आनी ती थंयच्यान फुडें गेली कीं त्या जाग्यार काळवाण पडटा. तेच तरेन ती सौभाग्यकांक्षिणी इंदुमती त्या माटवांत एका राजाकडल्यान दुसऱ्या राजाकडे वतासताना दिपरदनेवरी दिसली आनी ज्या राजांकडल्यान ती फुडें सरताली त्या त्या राजांच्या तोंडांवेली सया वचून तांचीं तोंडां फिकीं पडटालीं!

ते इंदुमती राजकुंवरीक सगळ्या राजांक नाकारतासतना पळोवन रघु-राजाचो पुत्र अज हाका ही आपणाक वरीत काय म्हणपाचो हुसको जालो. पुण ती ताज्या म्हऱ्यांत पावता म्हणसर ताज्या उजव्या बावळ्याक जंय केगदाचें कडें बांदिल्लें, थंय ताजो बावळो फुरफुरूंक लागून ताका सुगुर्याचो दिष्टावो जाल्ल्यान, तो अज हुस्कयामेकळो जालो!

चंवरिल्ल्या आंब्याच्या रुखाचेर एक फावट पावतकच म्होंवाचे मूंस मागीर दुसऱ्या रुखाची इच्छा धरिनात. त्या प्रमाण आंगलटीन आनी सगळ्याच तरांनीं निर्दोष अशा त्या अजाची कान्ती पळोवन ती इंदुमती मुखार दुसऱ्या राजां-कडेन वचपाची बंद जाली. चंद्रिमाची कांतीच आशिल्ली अशी ती इंदुमती त्या अज रायाकडेन अंतस्कर्णान ओडली, तें वळखून कितें पयलीं उलोवचें आनी कितें फाटल्यान उलोंवचें ताजी सविस्तर माहिती आशिल्ली सुनंदा उल-यली: "इक्ष्वाकु राजाच्या कुळांतलो हो राजा. त्या राजाचें प्रख्यात येस 'ककुत्स्थ' म्हळ्यार माथ्यार बसपी. एक फावट देव आनी राक्षस हांच्या युद्धांत इंद्र मोठ्या बैलाचें रूप घेवन युद्ध करतालो. तेन्ना इक्ष्वाकु राजा त्या बैलरूपी इंद्राचेर बसून असुरांबरोबर युद्ध करून ताणे देवांक जैत मेळोवन दिलें! म्हणून ताच्या वंशांतल्या राजांक काकुत्स्थ म्हणूंक लागले. इंद्राचो ऐरावत हत्ती आपणाक जाय ते भाशेन चलचो म्हणून इंद्र ताका वेळोवेळ हातान आमुडटा! तें करतासना इंद्राच्या बावळ्याक घाल्ली रत्नां-माणकांची पोची सयल जाता, आनी इंद्राच्या अर्धा

आसनाचेर बशिल्या इक्ष्वाकु राजाच्या बावळ्याचे पोचयेक इंद्राची सयल जाल्ली पोची घांसता! अशी ह्या कुळांतल्या राजांची नामना आस!

"इक्ष्वाकूच्या कुळांत जलम्लो दिलीप राजा इंद्राच्या मनांतलो आपले विशींचो मत्सर काडून उडोंवचो म्हणून नव्याण्णव अश्वमेध यज्ञ करून थांबलो! त्या दिलीप राजाचो पुत्र रघुराज सद्या कोसल देसाचें राज्य करता. ताणे विश्वजित् यज्ञ करतासतना चारूय दिकांच्या राजांक जिखून खंड एकठांय करून सगळो दुडु आनी आपलो संवसारय ब्राह्मणांक दान केलो आनी तो मातयेचीं आयदनां घेवन संवसार करूंक लागलो.

"ह्या वंशांतल्या राजांचें यश त्रिभुवनांत गाजता! हो अज राजकुंवर इंद्रदेवाच्या जयन्त पुत्राभशेन आस; जाचो बापुय संवसाराच्या राज्यरुपी गाड्याचें जूं आपले मानेर सांबाळटा, ताजो हो पुत्र! गाड्याक धुरी म्हणून अणभव आशिल्लो मोटो बैल जुंपतात. तो त्या गाड्याक फुडें ओडीत व्हरता. असल्या धुरी बैलाचे जोडयेक दम्य म्हणजे शिकावू बैल दुसरे वटेन जुंपतात. म्हणटकीर त्या दुसऱ्या बैलाक गाडी वडपाचें काम हो मोठो बैल शिकयता! त्याप्रमाण हो अजराज आपल्या बापायकडे, रघुराजाकडे, राज्यशासनाची विद्या शिकता आनी राज्यय चलयता.

"कुळान, तेजान, जुवान पिरायेन, विनय बी गुणांक लागून हो तुजे समान आस, म्हणून राजकुंवरी, तूं ह्या अजरायाक माळ घाल! रत्न आनी भांगर हीं एकामेकांक जोडून उरचीं, अशी आमची इच्छा!"

सुनन्दा सखीचीं हीं उतरां आयकून ते राजकुंवरीन लजेन आपले आंग चोरलें, म्हळयार आपणाकडे नम्रतायेन ल्हानपण घेवन आपली कुड जणु आंखडली! तिच्या हातांत ती वरमाळ आसली. आपले नदरेन जणु तिणे त्या अज रायाक आपलोसो केलो. आपल्या अजरायावेल्या प्रेमाचीच खूण असो तो मंगळ पिंजर शिंपडिल्लो फुलांचो हार आपले दुदकान्नीच्या म्हळ्यार सुनंदेच्या हातांनीं इंदुमतीन अजरायाच्या कंठांत योग्य जाग्यार घालूंक लायलो!

कुपांतल्यान मेकळो जाल्लो चंद्रिम आनी ताचें चांदनें म्हळ्यार चंद्रिका हीं एकठांय जालीं! जाह्नवी न्हय योग्य अशा पतीकडेन म्हळ्यार सागरांत उतरली! अशें सगळे लोक म्हणूंक लागले; पुण स्वयंवराक आइल्ल्या लग्नार्थी राजांक तें मानलें ना! तांकां विदर्भ राजान लग्नाक आपयले. तांकां अहेर केले. ते ताणी घेवन न्हवऱ्या-व्हंकलेक परते घाले.

सातव्या सर्गांत अज-इंदुमतीची नगरांतल्यान सुंवारी काडटात, आनी मागीर तांचें थाटान लग्न जाता. सगळे पात्रणे राजा लग्नांत बोवळून आपापल्या घरा वतात. अज इंदुमतीक घेवन अयोध्येक येतासतना मगध, अंग, अवन्ती, अनूप, शूरसेन, कलिंग आनी पांड्य देशांचे ते तिडिल्ले राजा अज-इंदुमतीचे वाटेर पायणींत तांचेर धुरी घालून इंदुमतीक पळोवन व्हरूंक सोदतात. तेन्ना अज तांकां सडीक फोव घालता. संमोहनास्त्र सोडून तांकां खातोणांत लोळयता, आनी इंदुमतीक घेवन अयोध्येक येता. रघु अजाक राज्य दिवन आपुण नगर सोडून तपश्चर्येक वता.

आठव्या सर्गांत अज राजा राज्य करता. इंदुमतीक दशरथ हो पुत्र जाता. अज आपले कारकर्तींत प्रजेक सुख दिता. एक फावट राणयेक इंदुमतीक घेवन तो नगराभायल्या एका पोरसांत खेळटा आसतना अंतराळांतल्यान नारद मुनी वता. ताचे विणेवयली फुलांची माळ इंदुमती राणयेच्या हड्ड्यार पडटा, आनी ती राणी एका खिणांत मरून पडटा. अज राजा बायलेवेल्या मोगाक लागून खूब विखळापता.

त्या राजाचो बोवाळ आयकून सगळे चाखरमाने दादले-बायल्यो धांवून आंयलीं. थंयच्या तळ्यांतले हंसपक्षी लेगीत हो मनशांचो बोवाळ आयकून दुःख जाल्लेभशेन रडूंक–आडडूंक लागले! त्या राजाच्या गळ्यांत हुडको भरून आयलो आनी तो आकांत करीत विखळापूंक लागलो. तापिल्लें लोखंडसुद्दा मोव जाता. मागीर दुःखान तापिल्लो मनीस काचाबुल जावन रडूंक लागल्यार अजाप न्हय. तो हाडामांसाचो, माणसुकी आशिल्लो, मायेस्त, संवसारी असो मोगाळ गृहस्थाश्रमी राजा आसलो!

“फुलां!–आनी तीं कोणाय मनशाच्या आंगार पडटकूच जर मनशां मरूंक लागलीं, तर लोकांक जिवानशीं मारपाक दुर्दैवाक आनीक कसलेंच आवत सोद-पाची गरजच उरची नासुंये! म्हजे बायलेसारकी मोवाळ वस्त ना-नपश्यात करचे-खातीर यमदेवान मोव फुलां निर्माण करपाक आतांपासून सुरवात केल्या जांवये! दंवांच्या थेंब्यांनीं नलिनी कमळ मेलें अशें हें हांव आजच पळेतां! ही माळ प्राण घेवपी आसत जाल्यार म्हज्या हड्ड्यार हांवें दवल्ली जाल्यार, ती म्हाका कित्याक मारून उडयना? ईश्वराचे इच्छेक लागून विखाचें अमृत जाता, आनी अमृताचें वीख जाता जांवये!

“ना जाल्यार म्हज्या फुटक्या कपलाक लागून ब्रह्मदेवान हे माळेच्या

रुपान वज्रच घडयलां जांवये! ह्या वज्रान रूख कोसळांवचेबदला वालीकच त्या वज्रान लासून उडयली! म्हजे लक्तुवाये! हांवें जायते फावटी तुका कष्टायली. तरी तूं केन्ना रागान म्हजेकडेन उलोवपाची बंद जाली ना! सदांच म्हजेकडेन प्रेमान वागली! आनी आज हांवें तुजो कांयच गुन्यांव करिनासतना तूं ह्या निरपराध्याकडे उलोंवची बंद जाली! आज तूं हांवें सांगिल्लें आयकनाशी जाली!

"सदांच मेकळ्या मनान हांसपी बाये! हांव फटकिरो मनीस, हें तर खरेंच आस! जायते फावटी हांवें तुजीं फकाणां करून तुका कष्टायल्या! हें सगळें सोंसून आज अकस्मात म्हाका विचाल्ल्याविरयत, म्हजो निरोप घेतल्याबगर तूं परती केन्नाच येंवक पावना अशा परलोकाक गेली! म्हजे प्रिय घरकान्नी बरोबर म्हजोय जीव गेल्लो तर बरें जातलें आसलें!

"हे म्हजे अपुर्बायेचो जीव गेल्लो पळोवन म्हजोय जीव गेलो. पुण थोड्या वेळान म्हजो गेल्लो जीव परतो आयलो! तो तिचेविरयत कित्याक परतो आयलो? म्हज्या जिवा, परतो आयलो मूं तूं? आतां भोग तुज्या दुष्कर्मांचीं फळां! आतां मेल्ली जीण जग! एकामेकांचें शरीरसुख भोगून तुका पुरो जालें, आनी तुका घाम आयलो. त्या घामाचे थेंबे आजून तुज्या मुखार आसात! आनी तुवें प्राण सोडलो! भंगली ही खिणाभरयाचोय भरवंसो नाशिल्ली जीण!

"तुका जांतूंत खोशी नासली, तसलें कितेंय करचेलें मनान लेगीत हांवें केन्ना येवाजिलें ना! हे पिर्थुमेचो हांव पति! नांवाचो पृथ्वीपति! खऱ्यानशीं म्हळ्यार म्हजी ओढ तुजेर चड आशिल्ली! म्होंवाच्या काळ्या मुंसांसारके तुजे काळे मुदयाळे केंस! त्या केंसांत तुवें फुलां माळल्यांत! वाऱ्यान ते तुजे केंस हालतात आनी आगे सुंदर मांडयांचे बायले, म्हज्या अंतस्कर्णाक दिसता कीं तूं पुन्ना जिती जाली! हिमालय पर्वताच्या धोलींनीं रातचो जाल्लो काळोख ना-सो करून उजवाड घालपी ओखतांच्यो वनस्पती आसतात. तशी तूं–म्हज्या मोगा, तुजो गेल्लो जीव परतो हाड, आनी म्हजी खंत ना-शी कर!

"रातचें कमळ कवळाशिल्लें उरता आनी तांतूंत भोंवर नाशिल्ल्यान ताका एकसुरें दिसूंक लागता! तशें हें तुजें मुख म्हजेकडेन नुलयत ओगी रावलां. आनी तुजे केंस विसकटल्यात. हाका लागून म्हजो जीव कोरांतता! रात आपल्या पतीक चंद्रिमाक परती मेळटा! रातचीं पानाचे वणटीक लागून एकामेकांक पयसावल्लीं चक्रवाकांचीं जोडीं उजवाडटकूच एकठांय येतात, म्हणून तीं एका-

मेकांमदीं पडिल्लें ताटातुटीचें दुःख विसरूक पावतात! पुण तूं तर सासणाचींच म्हाका सोडून गेल्या. म्हणटकूच म्हजें काळीज कित्याक जळचें न्हय?

"तुजी कुड इतली नाजूक कीं कोंवळ्या कोमऱ्यांचो पालो हांतरून तुका ताजेर न्हिदयली, तरी तुज्या आंगाक त्यो खोलयो कुचकुचताल्यो! सुंदर मांडयांचे बाये, आतां तूं सरणार न्हिदतकीर जाल्ली दुख कशी सोंसशीत? तूं केन्नाच परती उठची ना, म्हणून निमाणी न्हीद काडटा! तुजे कमरेभोंवतणचें हें घागराळें, जाची तुका मात्र लज दिस नाशिल्ली अशी तुजी ही सखी. तुजी कुड खेळटासतना हालली कीं हें घागराळें कितलोसोच कलकल नाद करीत गाजतालें! आतां तें घागराळें थंड पडलां! पुण तें घागराळें तुज्या मरणाच्या दुःखान मेल्लां अशें दिसना!

"तुका स्वर्गांत वचचेली ताकतीक जाली, तरी म्हज्या मोगाक लागून तुवें म्हजेखातीर तुजी मंजुळ वाणी कोगळीच्या गळ्यांत दवरून गेली, तुजी मस्तेक लागून मंद गतीची चाल तूं राजहंसी पक्षिणीच्या पायांत म्हजेखातीर दवरून गेली! तुजी चंचल नदर तूं हरणांच्या दोळ्यांत म्हजेखातीर सांठावन गेली. तुज्या आंगाचें मुड्डप वाऱ्यान हालपी वालींत हांवें पळोंवचें म्हणून तें फाटीं दवरून तूं गेली. पुण तूं म्हज्या सांगताक नासतना म्हजें अंतस्कर्ण सांबाळून धरपाची तांक ह्या सगळ्या वस्तींत ना!

"हो आंब्याचो रूख आनी ही ताका मिठी मारून फुलती मिरवेल, ह्या दोगांयचें लग्न लावन दिंवचें म्हणून तुवें थारायल्लें! ह्या लग्नकार्याचें पुण्यवचन केल्याविरयत तूं ह्या दोगांकय सोडून योग्य वेळ येंवचे पयलींच उठून गेली! हें तुजें वचप योग्य न्हय! ह्या अशोक रुखाचे डुवाळे तुवें पूर्ण केल्ले. ताका जाय जाल्लें तें तें त्या त्या वेळार खांवक घाल्लें. आतां त्या अशोक रुखाचीं फुलां हांव तुका तिडडेर बांदतासतना तुज्या केंसांत कशीं माळूं?

"अप्रूप अशा सुन्दरकायेचे म्हजे बायले, तो अशोक रूख आतां तुजेखातीर रडटा, आनी फुलांच्या रुपान दुखां गळयता! खुळखुळपी घागऱ्यो घाल्लीं पांयजणां आशिल्ल्या पायांचो फांपर तुवें त्या अशोकाचेर ताजी फुलां फुलचीं म्हणून मोठे मायेन आनी कवतुकान मारिल्लो! असलो फांपर मारून घेंवचें भाग्य सगळ्याच अशोक रुखांच्या नशिबांत नासता!

"तुज्या तोंडांतल्यान भायर सरपी सुवासीक निश्वासांचो दरवळ जांचेमदीं आजून भल्ला, अशा वोवळांच्या फुलांचो तुवें आनी हांवें मेळून तुजेखातीर

विणिल्लो घागरपाट अर्दकुटोच उडोवन हे मंजुळ गळ्यान गीतां म्हणपी म्हजे पुतळे, तूं अशी कशी न्हिदून रावल्या? तुजीं सगळीं नातेवगीं आनी तुजें सुख दुख वांटून घेवपी अशीं काळजाचीं लोकां हांगा जमल्यांत. तुजेबरोबर कायेन, मनान, बुद्दीन सगळ्यान मेळून एकरूप, एकरस जाल्लो हांव, हो तुजो-म्हजो पाडव्याच्या चंद्रिमाभाशेन सोबता असो बाळक दशरथ, हें सगळें जंयचें थंय जाय तशें आस. आनी तूं अशी कठोरकायेन आमचे सगळ्यांकडेन वागली ही तुजी अति निष्ठुरकाय जाल्या!

"म्हजो धीर अस्तगतेक गेलो! सोंपलो! आतां म्हजें संवसार सुख मेलें! जिणेंतलें संगीत बेसूर जावन आटलें! वसंत ऋतूंतलो आनंद विरजलो! वस्ती-दागिन्यांची, रत्नां-माणकांची, भुशणां-बिरुदांची आतां गरज उरूंक ना! आज म्हजी शेज रिकामी जाली! आज म्हजे बाजेर न्हिदपी गेली!!

"म्हजी घरकान्न, बऱ्या-वायटांत म्हाका बुद्ध दिवपी, म्हजें हितगुज करपी सांगातीण, सखी, मनाक सुख दिवपी अशा ललित कळांतली म्हजी शिष्यीण! असले म्हजे राणयेक व्हरपी दयामाया नाशिल्या मर्णान म्हजें कितें व्हरपाचें सोडलें? सगळेंच व्हेलें! सगळें घेवन गेलो!!

"पळेतल्याक धुंद करपी अशे दोळे आशिल्ले म्हजे बाये, म्हज्या तोंडांतल्यान तुज्या तोंडांत हांवें रकयल्ली सुवादीक सूर पिवपी तूं आतां म्हज्या दोळ्यांतल्या दुखांत मिसळिल्लें हांवें तुज्या नांवान सोडिल्लें कुडचोभर उदक पिवन परलोकांत तूं कशी रावतली? तें पिवन तूं धादोशी कशी जाशीत?

"तुजे विरयत एदी उपाट संपत्ती आनी ऐश्वर्य आसून आज अजराजा भिकारी जाला! म्हाका सुख भोगपाची दुसरीं साधनां केन्ना आपले वशीन ओढूंक पावलीं ना! म्हज्या सुखाचीं सगळीं साधनां तुजे भोंवतणीच तुज्या सुख दिवपाच्या गुणांचेर आदारिल्लीं आसलीं!

अशे तरेन तो कोसलाधीश आपले प्रिय बायलेखातीर विखळापतासतना पळोवन त्या पोरसांतली रुखावळ तांचीं दुखां मिसळिल्लो तांच्या खांदयांचो रोस रकोंवक लागली. मागीर मोट्या कष्टांनीं ताज्या नातेवग्यांनीं ते इंदुमती राणयेचें प्रेत त्या राजाचे मांडयेवयलें उखलून, जे माळेन तिका परलोकांत व्हेली, ते माळेन तिका शिणगारून ताणी तिचेर सुगंधी ओखतां शिंपडून चंदनाच्या सरणार शास्त्रानुसार तिका अग्नीक अर्पण केली.

निमाणें बायलेची क्रिया करून अज खंतीन अयोध्या नगरींत येता. तेन्ना

वसिष्ठ गुरू ताका निरोप धाडून "धीरान वाग. शोक करीत रावप तुका सोबना." म्हणून निरोप कळोवन ताका वेव्हाराक लायता. आनीक आठ वर्सांनीं अज बायलेचे खंतीन वायटाक लागून भायर पडटा. तेन्ना आपली कुड गंगेक अर्पण करून तो स्वर्ग जोडटा. आनी हे तरेन स्वर्गांत आपले मोगाळ बायलेक भेटटा.

णवव्या सर्गांत—दशरथ आपल्या पूर्वजांभाशेनच अयोध्या नगरेंत राज्य करता. ताज्या शूरपणाक लागून स्वर्गीचो इंद्रराजा राक्षसांकडेन आपलें युद्ध उप्रासलें कीं दशरथाक आपले मजतीक आपयता. एक फावट शिकारेक गेल्लो आसतना दशरथ राजा काळखांत आवाज आयकून सावद समजून एका ब्राह्मण भुरग्याक बाण मारता. तेन्ना त्या भुरग्याचो आंदळो बापुय दशरथाक "पुत्राच्या शोकान तूं मरतलो!" म्हणून स्राप दिवन त्या पुताच्या सरणार दोगांय आवयबापुय जाळून घेवन मरतात. दशरथाक तंवसर भुरगेंबाळ जांवक नासलें. स्राप आयकून पुत्र जातलो म्हणून सुखान, आनी पुत्रशोकान मरतलो म्हणून दुःखान तो अयोध्येक येता.

धाव्या सर्गांत—वैर सांगिल्ले गजालीक धा हजार वर्सां जावन गेलीं. दशरथ राजा अयोध्येचें राज्य करतालो. पुण ताका संतत जालीच ना. लंकेंत रावण म्हणून एक राक्षस राजा राज्य करीत आयला. तो देवांक त्रास दिंवक लागलो. तेन्ना देवांनीं विष्णुपरमात्म्याची प्रार्थना केली आनी रावणाक ख्यास्त लांवचेली मागणी केली. आपुण दशरथ राजाच्या कुळांत जल्म घेवन रावणाक मारतां म्हणून विष्णून देवांक वचन दिलें. दशरथ राजाक यज्ञपुरुषान प्रसाद दिलो. तो ताच्या राणयांनीं खातकूच कौसल्येक राम, कैकेयीक भरत आनी सुमित्रेक लक्ष्मण आनी शत्रुघ्न हे जुंवळे पुत्र जाले. हे सगळे विष्णूचे अवतार आसले. ते सगळे पुत्र सद्‌गुणी आसून त्या सगळ्यांत राम हो जाणटो आसलो.

अकराव्या सर्गांत—विश्वामित्र ऋषी दशरथाचे राजसभेंत येता. तो आपल्या आस्रमांत यज्ञ करतासतना राक्षस विघ्नां हाडून ताजो यज्ञ पाड घालतात. त्या राक्षसांक मारून यज्ञाचें रक्षण करचेखातीर विश्वामित्र राम आनी लक्ष्मण ह्या दोगां राजकुंवरांक दशरथाकडल्यान मागून घेवन व्हरता. वाटेर राम ताटका राक्शिणीक मारून उडयता. विश्वामित्र रामाचेर प्रसन्न जावन ताका जायत्या अस्त्रांची विद्या शिकयता. मागीर यज्ञरक्षण करतासतना राम सुबाहु

ह्या राक्षसाक मारून बाकीच्या राक्षसांक आमडून काडटा.

यज्ञ सोंपतकूच जनक राजाच्या आमंत्रणाक लागून रामलक्ष्मण विश्वामित्राच्या सांगातान मिथिला नगरेंत वतात. वाटेंत राम गौतम ऋषीचे शिळा जावन पडिल्ले बायलेचो, अहल्येचो उद्धार करता. मिथिलेक जनक राजाकडेन परशुरामान दवरिल्लें शिवधनुष्य आसता. तें पळोंवची रामाक इच्छा जाता. त्या धनुष्याची वादी बांदतासतना रामान तें धनुष्य चड बागयलें, आनी तें शिवधनुष्य मोडून पडलें. तें धनुष्य बागयतल्याक आपली राजकन्या सीता लग्न करून दिवपाचो जनकाचो पण उरता. जनक दशरथाकबी सगळ्यांक मानान आफोवन राम, लक्ष्मण, भरत, शत्रुघ्न हांकां चौगांय राजकुंवरांक आपल्या कुळांतल्यो चार राजकन्या सीता, उर्मिळा, मांडवी आनी श्रुतकीर्ति हांकां लग्न करून दिता. अयोध्येक सगळे परततासतना वाटेर परशुराम भगवान रामान आपलें शिवधनुष्य मोडलें म्हणून किंवाट्यान रामाक दबकांवक लागता. आपल्या हातांत आशिल्लें, धनुष्य बागय म्हणून रामाक सांगता. रामान परशुरामाचें धनुष्य बागोवन ताचेर बाण लायलो, तेन्ना परशुरामाक कळून आयलें, कीं राम हो खरोच विष्णूचो अवतार आस. हें पळोवन तो रामाचेर प्रसन्न जाता आनी आशीर्वाद दिवन वता.

बाराव्या सर्गांत — दशरथ राजा म्हातारो जालो म्हणून रामाक राजा करूंक सोदता. पुण ताणे कैकेयीक एक फावट दोन वर दिल्ले. ह्या वेळार कैकेयीन ते वर मागले: पैल्या वरान रामान चवदा वर्सां वनवास भोगचो, आनी दुसऱ्या वरान कैकेयीच्या पुताक भरताक राज्य मेळचें. राम खोसयेन वनवासाक गेलो. ताचेबरोबर लक्ष्मण आनी सीता गेलीं. दशरथ भुरग्यांच्या दुःखान आवरो उडून मेलो. भरत राज्यार बसूंक तयार जायना; तो रामाक राजा जा, म्हणून आग्रह करता. राम आयकना. भरत रामाचो कारभारी म्हणून नंदिग्रामासावन राज्य चलयता. दंडकारण्यांत विराध, खर, दूषण बी राक्षसांची भयण शूर्पणखा रामाकडे येवन लग्न जांवक सोदता. राम तिका लक्ष्मणाकडेन धाडटा. लक्ष्मण तिका विद्रूप करून आमडून धावडांयता. ती भावांकडेन वचून तांकां रामलक्ष्मणांक ध्यास्त लांवक सांगता. खर, दूषण, त्रिशिर हे तिचे राक्षस भाव रामाकडेन युद्ध करूंक आयले. रामान एकट्यान तांकां मारून उडयले. शूर्पणखा रावणाक वचून ही खबर सांगता; आनी आपणाक विद्रूप केली म्हणून रामलक्ष्मणाक ध्यास्त दी म्हणून रावणाक सांगता.

रावण एका राक्षसाक मिर्गाचें रूप दिवन रामालक्ष्मणांक आपल्या कवतिकान

फसोवन सीतेक घेवन लंकेक वता. वाटेंत जटायू गरुडान ताका आडायलो म्हणून तो जटायूचीं पांखां कापून उडयता. जटायू मरता मरतां 'रावणान सीतेक व्हेली!' म्हणून सीतेचो सोद करतल्या रामलक्ष्मणांक सांगून प्राण सोडटा. राम किष्किंधानगरीचो वानर राजा सुग्रीव हाचेकडेन मैत्री करता. ताज्या भावाक वालीक मारून सुग्रिवाक किष्किंधेचें राज्य दिता. सुग्रिवाचो मित्र मारुती रामाचो भक्त जाता. तो लंकेक उड्डाण करून सीतेक सोदून काडटा. सीतेक रामाचो निरोप सांगून रामाची मुदी दिता. मागीर तो रावणाच्या पुत्राक अक्षाक मारता. इंद्रजितान ब्रह्मास्त्र सोडलें तांतूंत तो खिणभर सांपडलो आनी मारुतीन लंका जाळून उडयली. सीतेन दिल्लो मणी ताणे रामाक व्हरून दिलो. लंकेंत वचपाक राम वानरसैन्य घेवन समुद्राचे वेळेर आयलो. थंय ताका रावणाचो भाव बिभीषणय येवन मेळ्ळो. वानरांकडल्यान समुद्राचेर सेतू बांदून वानरांचें सैन्य घेवन लंकेर धुरी घालून रामलक्ष्मण आकांताचीं युद्धां खेळून मेघनाद, कुंभकर्णबी राक्षसांक मारून निमाणें राम रावणाक मारून उडयता. रावणाच्या भावाक, बिभीषणाक लंकेचें राज्य दिता. पुष्पक विमानांतल्यान राम, लक्ष्मण, सीता, सगळें वानरसैन्य, सुग्रीव आनी बिभीषण हे अयोध्येक येंवक लागतात.

तेराव्या सर्गांत—लंकेसावन अयोध्येचो पुष्पक विमानांतल्यान प्रवास. राम सीतेक वाटेर म्हत्वाचीं थळां दाखयता: समुद्रार सीतेक सोडोवन हाडचे खातीर बांदिल्लो सेतू. समुद्राचें जायतें वर्णन. "हें जनस्थान; थंय जायते ऋषींचे आस्रम आसात. ह्या एका थळार तुका राक्षसान व्हरतासतना तुज्या पायांतली पडिल्ली एक जंद्री म्हाका दिसली. तुका सोदूंक आमी दक्षिणेक वतासतना ह्या माल्यवत नांवाच्या पर्वतार म्हज्या दोळ्यांतल्या दुखांभशेन कुपांतल्यान पावस पडलो. आमी दक्षिणेक वतासतना हांगा मोर नाचताले. पुण हांव तुज्या दुःखांत आशिल्लों म्हणटकूच म्हाका त्या मोरांचो नाच सहन जालो ना. ह्या पंपा सरोवराची सोबा दक्षिणेकडे वतासतना आमकां आमच्या दुःखाक लागून बरे भाशेन पळोंवक मेळ्ळी ना. तेन्ना आमच्या दोळ्यांतल्यान दुखां व्हांवतालीं. ही पंचवटी आमकां दिसली! हांगां कोंड्यांच्या घरांत तुजे मांडयेचें उशें करून हांव न्हिदिल्लों, ती म्हाका याद जाता! जाणे आपले भुंवयेचे निखटे खुणेन इंद्रपद लाभिल्ल्या नहुष राजाक इंद्रपदावेल्यान सकयल उडयलो त्या अगस्ति ऋषीचो हो आस्रम! ही पेल्यान दिसता ती शातकर्णि ऋषीची खेळपाची तळी! ते तळयेंत त्या ऋषीखातीर इंद्रान धाडिल्ल्या पांच अप्सरांसयत तो

ऋषी एका मोठ्या म्हालांत सुख भोगता! थंयचें संगीत आनी मुर्दंगांचो ताळ हांगच्यानय कानार पडटा! हांगा सुतीक्ष्ण नांवाचो एक तपस्वी पंचाग्नि-साधन म्हळ्यार चार दिशांनीं अग्नि पेटोवन तांचेमदीं आसन घालून बसला आनी तप करता. ताचे तकलेर सूर्य तापता! ह्या ऋषीक इंद्राच्यो अप्सरा भुलोंवक पावल्यो ना!

"हो शरभंग ऋषीचो आश्रम. त्या ऋषीन मंत्र म्हणून आपले कुडीचीच आहुती अग्नीक दिली! हीं शरभंग ऋषीन रोंविल्लीं झाडां. हो चित्रकूट पर्वत बैलाच्या खांद्याभशेन तेमुक वैर काडून बसला! ही मन्दाकिनी न्हय धर्तरेच्या गळ्यांतली मोतयांचे माळेसारकी दिसता! हें अत्रि ऋषीचें तप करपाचें वन! हो श्याम नांवाचो वडाचो रूख. तुवें हाजी प्रार्थना केल्ली आनी म्हजें कल्याण जांवचें म्हणून हाचेकडेन मागिल्लें!

"पळे! निर्दोष आंगलटीचे सीते, ही पळे गंगा न्हय! ही यमुना न्हये-च्याकय वेगळी दिसता! हिची सोबा सुंदर! ही कांय थळांनीं इंद्रनीळ रत्नांचे गुथिल्ले माळेच्या तेजासारकी चकचकता! दुसऱ्या जाग्यांर ही कमळांच्या माळेसारकी तिवतिवता! कांय जाग्यांनीं मानस सरोवरांतल्या निळ्या हंसाचे रांगेसारकी दिसता! दुसऱ्या वाठारांत ती भुंयेंक चंदनाची उटी लाइल्लेवरी सोबता! खंयखंय चंद्रिमाच्या चांदन्यावरी दिसूंक लागता! कांय जाग्यांनीं सांवळ्यांक लागून चंद्रकोरीवरी भासता! हेर कांय आवांठांनीं शरद ऋतूंतल्या धव्या कुपांभशेन जाल्या! कांय जाग्यांनीं काळे सोरोप आंगार भुषणां म्हणून खेळोवपी, भस्माचो लेप आंगाक चर्चिल्ल्या शंकराच्या रंगाची ही गंगा न्हय जाता! गंगा-यमुनेंत जे आपली कुड सोडटात, तांकां पुनर्जल्म घेंवचो लागना!

"हें निषादांचो राजा गुह हाचें नगर. हांगा हांवें म्हजे तकलेवयलो शिरोमणी काडून उडयलो आनी केंसांची जटा बांदिल्ली! आनी तें पळोवन 'कैकेयी, तुजी इच्छा पूर्ण जाली!' अशें म्हणून सुमंत्र प्रधान रडूंक लागिल्लो!

"आनी ही आमची कोसलच्या राजांची आवयच अशी सरयू न्हय आयली! हो पळे, सैन्य घेवन भरत आमकां मेळूंक येता! हांवें म्हज्या बापायची प्रतिज्ञा खरी करून दाखयली! राक्षसांक मारून तुका आनी लक्ष्मणाक घेवन परतो आयलों. म्हज्या बापायन जें वैभव आमचे खातीर सांबाळून दवरिल्लें, जुवान आसूनय तांतलें कांयच ऐश्वर्य भोगिनासतना, इतलीं वर्सां हो भरत तरवारीचे धारेसारकें एकवत करीत रावलो! हाचे होटयेंत घातिल्लें राज्य हाणे

भोगिनासतना अचळय म्हजे सुवादीन करूंक आयला !

"म्हजेवेळे भक्तीक लागून हाणे अशें केलें!"

इतल्यांत पुष्पक विमान सकल देंवलें. राम आनी भरत हे दुखांनीं भरिल्ल्या दोळ्यांनीं एकामेकांक भेटले! रामान भरताक बिभीषण, सुग्रीव हांचयो सगळ्यांच्यो वळखी करून दिल्यो. "हे म्हजे संकटकाळचे भाव!" म्हणून सांगलें. भरतान सगळ्यांक वन्दन केलें. पुष्पक विमान परतें गेलें!

चौदाव्या सर्गांत—राम-लक्ष्मण आनी सगळीं अयोध्येक गेलीं. म्हातार्‍या आवयांक सगळे मेळ्ळे! तो प्रसंग चड करुण जालो. सगळ्यांच्या दोळ्यांतल्यान दुखां व्हांवतालीं. म्हणटकूच कांय वेळ कोण कोणाक पळोंवक पावले नात! सीता सासवांक मेळ्ळी!

रामाक राज्याभिषेक जालो. सगळे लोक सुखी जाले. राजा-राणयेची नगरांतल्यान सुंवारी काडली. तेन्ना साकेत–अयोध्या–नगरींतल्या सगळ्या बायलांनीं सितेक नमस्कार केले! अग्नींतल्यान अचळय भायर आइल्ली ती सीता आपल्या घोवाबरोबर आपल्या तेजान चकचकून दिसली! रामान कैकेयीक समजायली! सगळ्या चाखरमान्यांक भेटो, केळवणी दिल्यो! राक्षसांक आनी वानरांक बी निरोप दिलो!

राम राजा म्हणून लाभिल्ल्यान कोसल देसचे लोक सनाथ जाले. निर्भय जाले. तो वेळच्या वेळार प्रजेचीं कामां करून मागीर सितेबरोबर संसारसुख भोगतालो. इतलेभितर सीता गुर्वार जाली. रामान तिका आपले मांडयेर बसोवन, तिचे दुवाळे विचाल्ले! तेन्ना तिणे गंगेच्या कांठार आशिल्ल्या वनांत तपोवनांतल्या ऋषींच्या धुवांक मेळचेंशें दिसता, अशें घोवाक लजत लजत सांगलें!

इतले भितर रामान आपल्या भद्र नांवांच्या एका गुप्त हेराक आपल्या देशांतल्यो प्रजेच्यो बातम्यो विचाल्ल्यो. ताणे सांगलें कीं, "सगळे लोक राजाची स्तुती करतात. पुण राक्षसाच्या घरांत राविल्ले सीतेक राणी म्हणून परती घरांत घेतली म्हणून लोकांक तितलेंच वायट दिसता!" हें आयकून रामाक आपल्या काळजाचेर कोणय लोखणाच्या घणाचे घाव घालता अशें जालें! ताज्या अंतस्करणाचे कुडके जाल्ल्यावरी ताका दुःख जालें!

लोक आपली निंदा करतात तिचेर दुर्लक्ष करचें, काय निरपराधी बायलेक सोडची, हें ताका सुचना जावन ताचें चित्त कांयबांय जालें ! निमाणें ताणे थारायलें कीं लोकांची निंदा बंद करूंक दुसरो उपायच नाशिल्ल्यान सितेक

सोडून दिंवची ! आपले कुडीच्या सुखापरस यश जोडप हें चड श्रेष्ठ ! यश हीच जांची जोड म्हळ्यार धन आसता, तांकां आपले कुडीपरस यशाचें मोठेपण मानवता !

रामाचें मुख निस्तेज जालें ! ताणे लक्ष्मणाक आपोवन हाडून सांगलें, "आमच्या राजर्षींच्या ह्या वंशाक म्हाका लागून कितें कलंक लागलो, तें पळे ! सुर्यापासून जाल्लो हो वंश ! हारशाक उदकाची वाफ तेंकतकच हारसो म्हेळटा, तशें जालें ! उदकांत पडिल्लो तेलाचो थेंबो पातळटा आनी सगळें उदक तेलसार जाता, तशी ही निंदा प्रजेभितर वाडत वतली ! म्हज्यान हें सोंसूंक नज ! पैलीं हांवें बापायचे आज्ञेक लागून पिर्थुमेचें राज्य सोडलें, तसो आतां प्रजेखातीर हांव सितेक सोडटलों ! ती निर्दोष आस म्हणून हांव जाणां. पुण म्हज्यान हो अपवाद सोसूं नज. निर्मळ चंद्राचेर धर्तरेची सांवळी पडली जाल्यार लोकांनीं तो चंद्रिमावेलो कलंक अशें मानलें !

"राक्षसांक मारचेलो म्हजो प्रयत्न फुकट गेलो अशें तूं समजूं नाका ! तांचें म्हजें वैर आशिल्लें, म्हणटकीर हांवें तांकां मारुंकच जाय आसलें. आपणाक पांय लायतल्याक सोरोप रगत पिंवचें म्हणून चाबना, तर रागाक लागून चाबता ! दयेमायेक लागून म्हाका दोष दिंव नाकात. हांव जगचो अशें तुमकां दिसता जाल्यार सितेक सोडून दिंवचीच पडटली ! ती गुर्वार आसा. तिका वाल्मिकी ऋषीच्या आस्रमालागीं वनांत सोडून यो !"

बापायचे, जमदग्नी ऋषीचे, आज्ञेन भार्गव परशुरामान आपले आवयक दुस्मानाक मारतात ते भाशेन मारून उडयल्ली; हें लक्ष्मणान पयलीं आयकिल्लें. जाणट्यांची आज्ञा मानल्याबगर रांवच्या नज ! म्हणून लक्ष्मणान जाणट्या भावाची ही राजाज्ञा मान्य केली !

वनांत वचूंक मेळटा म्हणून सितेक आनंद जालो ! लक्ष्मणान तिचेकडल्यान चोरून दवरिल्ली गुप्त आज्ञा सितेक तिच्या उजव्या दोळ्याच्या हालपी भुंवयेन सांगली ! लक्ष्मणाच्या निस्तेज मुखानय तिका तें कळ्ळें ! गंगा न्हयेवेल्यान तिका व्हडयेन पलतडी पावयली ! शिळांचो पावस तिच्या आंगार घालचो असली ती राजाची आज्ञा लक्ष्मणान तिका कशींतरी उतरां गांठांवन सांगली ! वाऱ्याच्या नेटान वाल कोसळून पडची, तशी ती आज्ञा आयकून सीता आपणाक जल्माक घालपी भुंयेर कोसळ्ळी !

इक्ष्वाकु वंशांतलो बऱ्या आचरणाचो राजा हिका कसो अकस्मात् सोडीत,

म्हणून येवजून धर्तरेन सितेक त्या वेळार आपल्या पोटांत घेतली ना! सीता जींव वचून भुंयेर पडली! तेन्ना तिका दुःखाची धंग नाशिल्ली. लक्ष्मणान प्रयत्नान तिका शुद्धीर हाडली, तेन्ना तिका जींव गेल्लो तेन्नाचे परस चड दुःख जालें! तिणे घोवाक दोष दिलो ना! आपलेकडेनच वायटपण घेतलें! परती-परती आपली निंदा केली! लक्ष्मणान तिका वाल्मिकीच्या आस्रमाचो मार्ग दाखयलो, आनी तिची क्षमा मागली. तिणे लक्ष्मणाक क्षमा केली. ताका आशीर्वाद दिलो! आपल्या सगळ्या सासवांक नमस्कार सांगले. आनी आपल्या पोटांतल्या गर्भाक आशीर्वाद मागलो!

निमाणे तिणे लक्ष्मणाकडेन रामाक निरोप सांगलो, "तुमच्यामुखार उज्यांतल्यान भायर सरून हांव शुद्ध आसं हें सिद्ध जालें, तरी लोकनिंदेक लागून तुवें म्हाका सोडली! तुज्या कुळांत अशे तरेन आतांमेरेन कोण वागला अशें तुवें आयकलां? म्हज्या कल्याणाचे बुद्दीनच तुवें म्हाका हांगा सोडल्या आसतली. तुजे स्वताचे इच्छेन तुवें म्हाका सोडल्या असो दुबाव हांव धरिना. म्हज्याच पूर्वजल्मांत केल्ल्या पातकांचें हें फळ आसतलें! पैलीं चलून आइल्ली लक्ष्मी सोडून तूं म्हज्या सांगताक वनांत वावुल्लो. म्हणून ते लक्ष्मीक म्हजो राग आयलो, आनी हांव तिजेर शेक चलोंवक परतीं आयलीं तें तिका सहन जालें ना, अशेंच जांवये! पैलीं राक्षसांच्या भयान तपस्वी ऋषींच्यो बायलो म्हज्या आसऱ्याक आयल्यो तर, तुज्या आधाराक लागून म्हज्यान तांकां आलाशिरो दिंव येतालो. एक वेळ लोक म्हज्या आस्रयाक येताले! आतां तूं परजळटा आसताना हांव आसऱ्याखातीर दुसऱ्याक कशी शरण वचूं?

"तुवें म्हाका सासणाची पयसायली म्हणून हांवें ही कुड सोडून दिंवक फाव. पुण म्हजे भितर तुजें तेज वाडटा. म्हणून म्हाका ही कुड सोडूंक मेळना. बाळंत जावन मेकळी जातकीर हांव सूर्यदेवाकडे नदर थीर करून तप करतलीं. आनी फुडल्या जल्मांत तूंच म्हाका घोव जाय म्हणून मागतलीं. मात्र तुजेकडल्यान म्हाका पैस वचचें पडचें न्हय, हेंय मागतलीं.

"चार वर्ण आनी चार आस्रम हांचें प्रजेकडल्यान पाळण करून घेंवचें हो राजाचो धर्म आस. तुवें म्हाका घराभायर काडून उडयल्या. पुण एक सादी तप करपी बायल अशी, हांव तुजी प्रजा म्हणून तुका म्हाका सांबाळची पडटली."

"तशें जांव!" म्हणून लक्ष्मणान तिचो निरोप घेवन तो थंयच्यान दिष्टिभायर वतकूच ती मोठ्यान आडडून संकटाच्या ओज्यापोंदा भियेल्ले पाणकोंब-

येभशेन रडूंक लागली!

तिचो शोक आयकून आनी तिका पळोवन मोरांनीं नाचप सोडलें! रुखांनीं फुलां गळयलीं. हरणांनीं तण खावपाचें सोडून दिलें; तिच्या रड्याक लागून त्या वनांत सगळ्यांची आकांताची रडारड जाली! एका निषादान क्रौंच पक्ष्यांच्या जोड्यांमदल्या एका पाखराक माल्लो म्हणून जाका शोक जाल्लो, आनी जाचो शोक श्लोकांत देंवून रामाचें रामायण जालें, तो वाल्मिकी कुश-तण हाडूंक गेल्लो. तो सितेचें रडप आयकून तिचेकडेन आयलो. सितेन भरिल्ल्या दोळ्यांनीं ताका नमस्कार केलो. 'पुत्रवती जा!' म्हणून ताणे आशीर्वाद दिलो. "लोकापवादाक लागून घोवान तुका सोडून दिल्या, हांव जाणां. तूं निष्कलंक आसा, म्हणुनय हांव जाणां. तूं म्हजेलागीं पावल्या. तुज्या कुळारा, बापायले थंय आयल्या, अशें समज. हांगा तुजो बाळंतेर आमी बरे भाशेन काडटलीं. हांगच्या मुनींच्यो धुवो तुजे सगळे सुवाळे करतल्यो."

जी ल्हानपणांत शिवधनुष्याचो घोडो करून खेळ्ळी, जिच्या लग्नांत शिव-धनुष्याचे कुडके जाले, जिका लागून दण्डकारण्यांत राक्षसांच्या घरांचेर एरंड वाडले, जिका लागून लंका जळ्ळी, समुद्राचेर सेतू जालो, जिका लागून तेत्तीस कोटी देवांक बंदखणींत घालपी रावण आनी राक्षसकुळ हांचें घटण जालें, आनी जिका सोडून दितकीर अयोध्येचो राजा राम जोगयाची जीण जगून राज्य चलयत रावलो, महाराणी म्हणून जिचेर अभिषेक जाल्लो, ती रामाचो जीवप्राण अशी सीता रुखांच्यो साली न्हेसून, कंदमुळां खावन आनी फकत केंसाळ चामड्याच्या तट्यार जमनीर न्हिदून रामाची संतत आपल्या उदरांत वाडयताली! बायलेक वनांत सोडटकूच राम दुसरे बायलेबरोबर लग्न न्हालो ना. हाजेमुखार यज्ञ करचेखातीर सीतेसारकीच भांगराची म्हूर्त घडोवन ताणे येजमानपण केलें!

पंद्राव्या सर्गांत–रावणाचो भाचो एक लवणासुर म्हणून राक्षस मधुपघ्न नांवाचे नगरींत राज्य करून लोकांक त्रास दितालो. रामाचे आज्ञेन शत्रुघ्नान ताका मारून उडयलो, आनी कालिन्दी न्हयेच्या कांठार मथुरा म्हणून नगर वसयलें. जानकीक कुश-लव हे दोन जुंवळे पुत्र जाले. वाल्मिकी ऋषीन तांचे सगळे सुवाळे केले. त्या दिसांत शत्रुघ्न थंय पाविल्लो. पुण वाल्मिकी ऋषीचे सांगणेक लागून ताणे सितेक पुत्र जाले म्हणून रामाक सांगलें ना!

स्वर्ग लोकांत वचूंक मेळचें म्हणून एक शंबूक नांवाचो सुदीर तपश्चर्या करूंक लागलो! ताचे विपरीत परिणाम जावन एका ब्राह्मणाचो पुत्र मेलो!

रामान चत्रकशी करून त्या सुद्राक सोदून काडून मारून उडयलो. रामाच्या हातान ताका मरण आयलें म्हणून तो मोक्षाक पावलो!

अगस्ति ऋषीचे सांगणेन रामान अश्वमेध यज्ञ करूंक घेतलो. सगळ्या ऋषींक, वाल्मिकीक बी यज्ञाक आमंत्रण गेलें. तो लवांकुशांसयत यज्ञाक आयलो. थंय यज्ञमंटपांत लवांकुश वाल्मिकी ऋषीन शिकयल्लें रामायण गांवक लागले. तें आयकून सगळे धादोशी जाले. सगळ्या लोकांक ते कुंवर आवडले. तेन्ना वाल्मिकीन ते रामाचे पुत्र म्हणून सगळ्यांक सांगलें. सीता शुद्ध आस. रामान तिका परती घरांत घेंवची म्हणून वाल्मिकीन सांगलें. सीता आपुण शुद्ध आसां हें लोकांक सिद्ध करून दाखयत, तर आपुण तिका पत्करतां म्हणून रामान सांगलें.

पवित्र उदकाचें आचिमन करून सितेन सपूत घेतलो, "वाचेन, मनान, कर्मान घोवाकडे हांवें खोटेपण करूंक नासत जाल्यार, हे संवसार सांबाळपी देवी, तूं म्हाका आपले भितर घे!" हें ते पतिव्रतेन म्हळ्याबरोबर थंय धर्तरेक खण पडून तिच्यांतल्यान नागाचे फोडेचेर सिंहासनार बशिल्ली समुद्राचो घागरपाट कमराक बांदिल्ली साक्षात् वसुंधरा देवी वयर सल्ली. तिणे सितेक आपले मांडयेर घेवन ती भुंयेंतल्यान पाताळांत गेली. सितेक व्हरूं नाका, म्हणून रामान तिका परतें परतें काकुळटीक येवन विनयलें. पुण तिणे तें मानलें ना!

धर्तरेन सितेक व्हेली! रामान यज्ञ आटपलो. रामान सितेवेल्या मोगाक लागून पुत्रांचेर चड माया केली. भरताचो मामा युधाजित् हाचे सांगणेक लागून रामान ऐश्वर्यासयत सिंधुदेशचें राज्य भरताक दिलें. भरतान आपल्या तक्ष पुत्राक तक्षशिला नगरीचें, आनी पुष्कल नांवाच्या पुत्राक पुष्कलावती नगरीचें राज्य दिवन, भरत रामाकडेन रावपाक आयलो.

रामाचे आज्ञेन लक्ष्मणान आपल्या अंगद आनी चंद्रकेतु ह्या पुत्रांक कारापथ देसाचें राज्य दिलें. मुनीच्या रुपान काळ रामाक मेळूंक आयलो. "आमच्या गुप्त उलोवपांत कोण आमकां त्रास दियत ताका देहान्ताची ख्यास्त दिंवची!" अशें त्या मुनीन सांगलें. भायर दुर्वास ऋषी रामाक मेळूंक आयलो. राम मुनीबरोबर उलयतासतना भितर वचून सांगचेंच पडलें. ना जाल्यार रामाक मेळूंक आइल्लो दुर्वास सगळ्यांक स्राप दीत आशिल्लो! रामाचे प्रतिज्ञेप्रमाण लक्ष्मणान सरयु न्हयेंत कुड सोडली. रामान कुशावती नगरींत कुशाक राजा केलो, शरावती नगरींत लवाक राज्य दिलें आनी आपली कुड उदकांत सोडली!

सोळाव्या सर्गांत—कुश आपले कुशावती नगरींत बरे भाशेन राज्य करतासतना तो एक दिस मध्यान रातीक जागो जालो, आनी प्रवाशाच्या वेषांत एक केन्ना पळोंवक नाशिल्ली बायल-मनीस ताणे पळेली. हात जोडून कुशाचो जयजयकार करीत जणु ती ताच्या बऱ्याक आइल्लेभशेन दिसताली. म्हालाचीं दारां बंद आसतना ती कशी भितर येंवक पावली? ती योगिनी अशी दिसनाशिल्ली. तिची सुवर्णकमळाची कांती आसली! "बाये तूं कोण सभागीण? तुका कोणे कसल्या कामाक म्हजेकडे धाडल्या, काय म्हजेकडे कितें मागूंक तूं आयल्या? रघूच्या कुळांतल्या राजांचो मनाचेर शेक आसता. ते दुसऱ्याचे बायलेच्या नादाक लागनात."

"राजा, हांव अयोध्या नगरींची अनाथ जाल्ली अधिदेवता! सूर्यवंशाच्या राजांच्या वसतेक लागून अलकापुरीभशेन म्हजें वैभव आसलें. आज राजमार्गांनीं भालवो भोंवतात. जंय मुदंग घुमघुमताले थंय रानरेडे आरडटात. रंगयल्ल्या पावलांच्यो सुंदर बायलो जीं सोपणां चडटाल्यो थंय वागांचीं पावलां उठिल्लीं दिसतात.

माकडां पोरसांतल्यो वाली तोडून पाड घालतात. मोठ्या म्हालांच्या जनेलांत कोळिष्टकां जाल्यांत. राजा, तूं तुज्या जाणटेल्याचे नगरींत येवन तिका तिचें मूळचें वैभव परतें मेळोवन दी."

कुशान अयोध्या नगरदेवतेची म्हणणी मान्य केली, आनी ताणे आपलें राजपाटण अयोध्येक हाडलें. जाणटल्यांचे नगरेक पयलींचें वैभव मेळोवन दिलें. एक दिस सरयु न्हयेंत तो पोंवतासतना ताज्या हातांतलें एक सलकडें न्हयच्या उदकांत पडलें. न्हयेंतल्यान वयर सरतकच ताज्या लक्षांत तें आयलें. तें सोदून काडपाक ताणें आपल्या सेवकांक सांगलें. पुण कितलेंय सोदून तांकां तें मेळना जालें. तेन्ना ताणी निर्शेवन राजाक सांगलें, कीं ते न्हयेंत कुमुद म्हणून नाग वसतेक रावता. ताणे तें सलकडें हांवरटपणान चोरून व्हेलें जांवये! कुशान रागान धनुष्याक बाण जोडून त्या नागाच्या नांवान मंत्र म्हणून अस्त्रासयत बाण सोडलो. त्या बाणान ती न्हय सगळी खदवळून काडली आनी समुद्र-मंथनावेळार इंद्र लक्ष्मीक घेवन समुद्रांतल्यान वयर सरिल्लो, तसो तो कुमुद नांवाचो नागराय आपले धाकले भयणीक आनी तें सलकडें घेवन वयर आयलो. ताणे कुशरायाची प्रार्थना केली, कीं आपले कुमुद्वती भयणीकडेन कुशान लग्न न्हांवचें. कुशरायान तें मानून दोगांयचें

मोठ्या दबाज्यान लग्न जावन नाग आनी सूर्यवंश हांचेभितर मैत्री जाली.

सतराव्या सर्गांत — कुशरायाक कुमुद्वती राणयेपासून अतिथि म्हणून पुत्र जाता. ताणे जल्माक येवन आवयच्या आनी बापायच्या दोनीय कुळांचें नांव वयर काडलें. कुशान ताका विद्या शिकोवन शूर केला. स्वताच्या मनाक जिखून ताचेर संयम कसो राखचो तें शिकयलें. कुश आपल्या कुळाचाराप्रमाण इंद्रदेवाक राक्षसांकडेन युद्ध करतासतना मजत करपाक म्हणून गेलो. तेन्ना ताणे दुर्जय नांवाच्या राक्षसाक माल्लो! त्या झुजांत कुशय मेलो. तेन्ना कुमुद्वती राणी घोवाच्या प्रेताबरोबर सती गेली. कुशान मरचे-वेळार दिल्ले आज्ञेप्रमाण ताच्या प्रधानांनीं अतिथीक राज्याभिषेक केलो. तो मोठो कीर्तिवन्त राजा जालो. तो आपल्या सरंजामासयत एक फावट इंद्रसभेंत वचून आयलो. ताणे अयोध्या नगरी इंद्रनगरी अमरावतीभशेन सजयली! वसिष्ठ गुरूचें मंत्राचें बळगें आनी त्या राजाचो युद्धांतलो पराक्रम मेळून तांकां अमुक वस्त करूंक जमना अशें घडलें ना! ताजे कारकर्दीं प्रजेक खूब सुख लाभलें. तो जें उलयलो तें ताणे खरें करून दाखयलें. जें ताणे एक फावटी दुसऱ्याक दिलें, तें ताणे परतें घेतलें ना. तो खांपो यज्ञ करपी राजा जालो. शत्रूंक ताणे जिखून तांची राज्यां तांकां परतीं दिलीं. ताका गर्व नासलो. विद्येन, ऐश्वर्यान, जुवानपणान, बळायान, सत्तेन ताका मस्ती आयली ना! प्रजेचेर ताणे सदांच मायां केली. भायले शत्रू सदांच तेचतेच नासतात. भायले शत्रू बदलतात. पुण भितल्ले शत्रू म्हळ्यार, काम, क्रोध, मद, मत्सर, लोभ, मोह हे कुड आससर सासणाचे उरतात. ते बदलनात. म्हणून त्या अतिथि राजान मोठ्या प्रयत्नान त्या भितल्ल्या शत्रूंक भायर धांवडावन दिले. म्हणजे तो राजर्षि जालो. योगीराजा जालो. संवसारांत असलो राजा मेळूंक कठीन आसता! नीति आनी शूरपण ह्या गुणांनीं ताणे सगळ्या शत्रूंक फाटीं घाल्लून आपणे नांव जोडलें. सदां तो प्रधानांबरोबर राज्याच्या कारभाराचीं उलोवणीं करतालो. सदांच सावध रावतालो. ताणे केल्ल्या वावराचें फळ ताका सदांच मेळटालें. ताज्या दुस्मानांक ताजे दुर्ग जिखूंक जमनासलें. ताणे मोठी सत्ता भोगली. पुण ताणे धर्माचो मार्ग केन्ना सोडलो ना. ताणे कोणाचेर अन्याय केलो ना, जुलूम-जबरदस्ती केली ना. धन जोडचेखातीर ताणे कोणाक लुटले नात. राज्यांत राजाच्या कसल्याय वावराक वा नवीन कायद्याक वा हेर संकटांक लागून लोकांमदीं असंतोष निर्माण जालो, तर तो राजा चळवळ करपी लोकांक बंदखणींत घाल्लून वा दंड करून वा मारून तांची बंडाय

मोडूंक समर्थ आसलो. पुण ताणे तशें केन्ना केलें ना. हाचे उफाट्टें तसल्या लोकांची म्हणणी पुराय आयकून घेवन कितें उपाय करपाचो तो येवजूनच केलो.

आपल्या खासगी मित्रांक चड सकयल्या अधिकाराचेर दवल्ले तर ते आपणे केल्ले उपकार केन्ना फेडूंक पावनात, आनी मित्रांक चड वयल्या जाग्यार नेमले तर ते आपलें लुस्कान करूंक पावतात. म्हणून आपल्या मित्रांक मद्दम अधिकारां-चेर वा दर्ज्यांचेर दवरुंचे हो नेम ताणे घालो!

निखटी नीति म्हळ्यार भित्रेपण; आनी फकत शूरपण हें मोनजातींतल्या रानवट सावदांत उरता. नीति आनी शूरपण हीं एका मनशाभितर एकठांय जावन तो राजा राजकर्णी जालो! त्या राजाच्या गुप्त हेरांकडल्यान ताका राज्यांतली सगळी खबर रातदिस मेळटाली! अयोध्या नगरींतल्या देवळांतल्यो देवता त्या अतिथि राजाचेर मायेमोगान पळेताल्यो. कारण त्या म्हुर्तींमदीं देवतांचें तेज आशिल्लें, आनी तांचीं देवळां शेकानशेक मोठीं बांदिल्लीं आसलीं!

तो राय धर्माखातीर काम म्हळ्यार इच्छा सोडूंक तयार नाशिल्लो! कामाकलागून म्हळ्यार कुडीच्या सुखाखातीर धर्म सोडिनासलो; आनी धर्म आनी सुख हांचेखातीर धन सोडूंक राजी नासलो! तात्पर्य, धर्म, अर्थ आनी काम हीं तीनय सांबाळून दवरूंक तो जाण आसलो! तपस्वी ऋषी आनी शेतकामती हांचें रक्षण तो करतालो, म्हणून ते ताका आपल्या पुण्यांतलो आनी पिकिल्ले पिकेंतलो सवो वांटो मोठे खोसयेन दिताले! आपली कोणेय स्तुती केल्ली ताका आवड नासली!

अठराव्या सर्गांत—अतिथि राजान निषध देसच्या अर्थपती राजाचे कन्येबरोबर लग्न केलें. ताका पुत्र जालो. ताचें नांव निषध म्हणून दवल्लें. त्या पुत्राक ल्हानाचो व्हड करून विद्याशास्त्र शिकोवन राज्य ताजे सुवादीन करून अतिथि राजा स्वर्गवासी जालो! त्या निषधाक नल म्हणून पुत्र जालो. नलाच्या कुंवराचें नांव नभ! नभाचो पुत्र जालो ताचें नांव पुंडरीक. पुंडरिकाचो पुत्र क्षेमधन्वा. ताचो पुत देवानीक. देवानिकाचो अहिनगु. ताचो पुत्र पारियात्र. पारियात्राचो शील. ह्या शील राजाक कुडीचें सुख भोगून समाधान जालें ना! ताजी इच्छा अर्दकुटी उल्ली! ताका तशेंच मर्ण आयलें. ताजो पुत उन्नाभ. ताका जालो वज्रणाभ. ताज्या पुत्राचें नांव शंखण. ताचो पुत्र व्युषिताश्व. ताका पुत्र जालो ताचें नांव विश्वसह. ताचो पुत्र हिरण्यनाभ. ताजेनंतर कौसल्य. ताजो पुत्र ब्रह्मिष्ठ. तो इंद्राचो मित्र आसलो. तीन पुष्कर तिर्थांत न्हावपाच्या

पुण्याक लागून तो स्वर्गाक गेलो. ताका पुत्र म्हणून कुंवर जालो. पुत्रराजाचो पुत पुष्य. ताणे जैमिनीकडल्यान योगाभ्यास शिकून घेतलो आनी मोक्ष जोडलो. ताका पुत्र जालो तो ध्रुवसंधि. तो शिकारेक गेल्लो आसतना ताका सिंहान खालो. ताका पुत्र जालो तो सुदर्शन. बापुय मेलो तेन्ना तो स वर्साचो आसलो. पुण ताजे प्रजेन ताका राजाचो पुराय मान दिलो. बरपाक्षराची वळख जांवचेपयलींच तो राजा जालो. मोठे मोठे पिरायेचे राजा येवन ताजे पांय पावनाशिल्ले ते पांयांपोंदचे गिर्दनेचेर तकली दवरून ताका नमस्कार करताले.

कांय काळान तो सुदर्शन राय शस्त्रास्त्रविद्या शिकलो. जाणटो जालो आनी ताणे धर्म, अर्थ, काम जोडले. मागीर तो सुंदर सुंदर राजकन्यांबरोबर लग्नां न्हालो.

एकुणिसाव्या सर्गांत—सुदर्शन राजा बरे भाशेन धर्मान, न्यायान बी राज्य करून, म्हातारपणांत आपलो पुत्र अग्निवर्ण राय हाज्या हातांत राज्यलक्ष्मी दिवन आपुण नैमिषारण्यांत तपश्चर्या करूंक गेलो.

हो अग्निवर्ण उज्याभाशेन तेजिष्ट आसलो. पुण बापुय वनांत वतकूच तो बायलांच्या नादाक लागून ताणे राज्यकारभार आपल्या प्रधानांक दिलो. सदांकाळ शरीरसुखाच्या भोगांतच गुल्ल उरून तो राजा प्रजेक विसरून गेलो. ताजे प्रधान ताका सदां विनयताले, कीं ताणे प्रजेक दर्शन दिवचें. तेन्ना तेन्ना तो आपल्या म्हालाच्या जनेलांतल्यान एक पांय भायर काडून प्रजेक दाखयतालो. ताचे चाखरमाने ताचो पांय पळोवन समाधान मानताले.

आपल्या दुर्गाभितर ताणे तळीं बादलीं आनी तांतूंत कमळांच्यो वाली लायल्यो. पुण तो राजा आनी ताज्यो बायलो सदांकाळ उदकांत पोंवतासतना तें उदक धवळून हाल्डून हाल्डून त्या कमळांक दुखापत जाताली. त्या तळ्यांतल्यान तो राजा विलास भोगतालो. त्या बायलांभोंवतणी तो सदांकाळ घुंवतालो आनी तांचेविरयत ताका दुसरें कांय सुचनासलें!

तो राय सोरो पिवपांत गुल्ल उरूंक लागलो. त्यो बायलोय ताजेबरोबर पिताल्यो. सूर पिवन बेबदे अवस्तेंत राजाचे दिसान दिस नाच-गाण्यांत आनी विलासांत गेले. ताज्या शरीरसुखाच्या हांवरटपणाक सीमा उल्ली ना. तो वर्तणुकेन उणाक जालो. ताका भोगाविरयत दुसरें कांयच सुचना जालें. त्या बायलांभितर मत्सर, झगडीं बी जातालीं. तो वायट नादाक लागून धर्म, नीत विसल्लो, आनी भिजूड जालो! तो व्यभिचारी जालो—दुसऱ्याच्या बायलांचेर दोळो दवरूंक

लागलो. तांचो लोभ धरूंक लागलो. ताज्यो बायलो ताका पातयेनात जाल्यो. तो फटिंग जालो! सदां उठून ताजी शक्ती ल्हवल्हव उणी जावन तो थकूंक लागलो! तो वायटान हातुळणार पडलो. वैजांनीं सांगिल्लें पथ तो करिना जालो, आनी निमाणें ताका खेय रोग लागलो. तो कुडीन सडूंक लागलो.

तो वायटान हातुळणार पडला अशें लोकांक कळोंवक प्रधान बी भिंवक लागले! ताका भुरगेंबाळ जालेंच ना! निमाणे तो राजा ही कुड सोडून एक दिस भायर पडलो!

ताजी एक राणी गुर्वार आशिल्ली. ती राज्य चलोंवक लागली. लोक तिची आज्ञा मानताले!

अशे तरेन रघुवंशाची कथा जणु अर्धारच सोंपली! कालिदासान ती बरे भाशेन सोबून दिसत अशे रीतीन आटपली अशें दिसना. हाचें कारण कितें तें कोणाक सांगूंक कळना!

o o o

## रघुवंशाचे टीकाकार

कालिदासाच्या रघुवंश काव्याचेर संस्कृत भाशेंत तेत्तीस टीकाकारांनीं टीका म्हळ्यार सोपे भाशेंत रघुवंशाच्यो फोडणिशो बरयल्यो. त्या सगळ्या टीकाकारांत मल्लिनाथ ह्या कवीन बरयल्ली संजीवनी नांवाची रघुवंशाची टीका चडशा विद्वान लोकांक मानल्या. मल्लिनाथ पयल्या फाराक कालिदासाच्या श्लोकांत सामासिक म्हळ्यार जोडिल्लीं उतरां आयलीं तर तीं फोडून तो समास व्याकरणांत कसल्या नांवनिशेचो आस तें सांगता. मल्लिनाथ प्रत्येक उतराचो अर्थ सांगता आनी एकाद्या कठीण उतराचें नेमाभायलें आडवादी अशें व्याकरणी रूप आयलें, तर व्याकरणाची फोडणिशी आनी पाणिनीचो, पतंजलीच्या महाभाष्यांतलो वा भट्टोजी दिक्षिताच्या सिद्धांतकौमुदींतलो नेम वा फोडणिशी सांगता. सबंध रघुवंशाच्या १५६९ श्लोकांचो अर्थ सांगतासतना मल्लिनाथान नव्याण्णव संस्कृत ग्रंथांच्यो नांवनिशो दिल्यात. तांतूंत पुराणां, काव्यां, व्याकरणां, कोश, शास्त्रां, जातकां, भाष्यां, सूत्रां, संहिता बी ग्रंथ आसात. देखीक, रघुवंशाच्या दुसऱ्या सर्गांतल्या पंचाहत्तराव्या श्लोकांतल्या 'आधत्त' ह्या उतराचो अर्थ सांगतासतना मल्लिनाथ

आश्वलायनाच्या 'सीमन्तमंत्रे स्त्रीव्यापारधारण....' सूत्राचो आधार दिता. तिसऱ्या सर्गांत धाव्या श्लोकाच्या 'पुंसवन' ह्या उतराचो अर्थ सांगूंक याज्ञवल्क्यस्मृतीच्या अकराव्या आचाराध्यायाचो तेंको घेता. सगळ्याच श्लोकांचो अर्थ सांगपाक तो अमरकोशाचो आधार घेता. सातव्या सर्गांत बाविसाव्या श्लोकाची, आनी एकुणिसाव्या सर्गांत सोळाव्या आनी एकतिसाव्या श्लोकांची फोडणिशी करपाक मल्लिनाथ वात्स्यायनाच्या कामसूत्रांचो तेंको घेता. भरताच्या नाट्यशास्त्राचो उल्लेख एकुणिसाव्या सर्गांत छत्तिसाव्या श्लोकाच्या अर्थांत दिला. एकाएका श्लोकांत कितल्योशोच नांवनिशो येतात. देखीक, दुसऱ्या सर्गाच्या निमाण्या, म्हळयार पंच्याहत्तराव्या श्लोकांत, पाणिनी, रामायण-बालकांड, मनुस्मृति, विश्वकोश, हलायुध, हरिवंश, अमरकोश, आश्वलायनसूत्रां इतल्या ग्रंथांचो आधार मल्लिनाथ दिता.

मल्लिनाथाचो एक मुळावो नेम सगळ्या टीकाकारांक मार्ग दाखवपी इतल्या म्हत्वाचो आस. तो म्हळ्यार: **नामूलं लिख्यते किंचिन्नानपेक्षितमुच्यते**। मुळांत ना तें आपणें टिकेंत म्हणजे फोडणिशेंत बरोंवचें न्हय, आनी आपलें शाणपण दाखोवपाक आळार–फळार बरोंवचो न्हय ! मल्लिनाथ मोठ्या विनयान बरयता!

कांय विद्वानांक मल्लिनाथाची टीका वाचून समाधान जायना. ते ताका 'अतिसंकुचित' म्हणटात, तो वाचप्याक धांवडायत व्हरता अशें म्हणटात. त्या विद्वानांक वल्लभदेवाची 'पंजिका' वा भट्ट हेमाद्रीची 'रघुवंशदर्पणम्' ह्यो टीका पसंत पडटात. त्या भायर दिनकर मिश्राची 'सुबोधिनी', चारित्रवर्धनाची 'शिशुहितैषिणी' सुमतिविजयाची 'सुगमान्वया' ह्यो टिकाय लोकांक उपकारा पडटात. धर्ममेरु, विजयगणि, विजयानन्दसेवक, दिनकरमिश्र ह्या बरोवप्यांच्योय रघुवंशाचेर बरयल्ल्यो टीका खोल अभ्यास करप्यान वाचल्यार बऱ्यो. ह्या दुसऱ्या टीकाकारांनींय वार्तिकां, अष्टांगहृदय, बृहज्जातक, उणादि-सूत्र, गणसूत्र, भर्तृहरीचीं तीन शतकां, मनुस्मृति, तैत्तिरीयोपनिषत्, श्वेताश्वतरोपनिषत्, माघकाव्य, काव्यालंकारसूत्रां, काव्यप्रकाश, काव्यादर्श आनी धनंजयाचें दशरूपक हांचे संदर्भ दिल्यात.

ह्या दुसऱ्या टीकाकारांनींय पोन्न्या धर्मग्रंथांचे आनी शास्त्रांचे आधार घेवन रघुवंशाचेर आनी कालिदासाच्या हेर काव्यांचेर टीका बरयल्यात.

कांय टीकाकार कालिदासाची व्हडवीक गायतात :

**निर्गतासु न वा कस्य कालिदासस्य सूक्तिषु ।**
**प्रीतिर्मधुरसान्द्रासु मञ्जरीष्विव जायते ॥—बाण कवि ॥**

कालिदासाचे लिखणेन जें साहित्य निर्मिलें तें मोगाळ, म्होंवाळ, भावनेन भिजिल्लें वाणयेंतल्यान कोंबेवन आयलें ना अशें जालेंच ना !

कालिदासाचें अभिज्ञानशाकुंतल हें नाटक वाचून जर्मन कवी गटे आनंदान नाचूंक लागलो, आनी ताणे म्हळें:

**वासन्तं कुसुमं फलं च युगपद् ग्रीष्मस्य सर्वं च यद् ।**
**यच्चान्यन्मनसो रसायनमतः सन्तर्पणं मोहनम् ।।**
**एकीभूतमभूतपूर्वमथवा स्वर्लोकभूलोकयोः**
**ऐश्वर्यं यदि वांछसि प्रिय सखे ! शाकुन्तलं सेव्यताम् ।।**

गटेच्या जर्मन कवितेचें हें संस्कृत भाशांतर महामहोपाध्याय मिराशीच्या पुस्तकांतल्यान घेतलां.

गटेच्या मूळ कवितेचो जर्मन भाशेंतल्यान इंग्लेज तर्जुमो ईस्टविक नांवाच्या इंग्लेज कवीन केला:

*"Wouldst thou the young year's blossoms*
*and the fruits of its decline,*
*And all by which the soul is charmed,*
*enraptured, feasted, fed?*
*Wouldst thou the earth and heaven itself*
*in one sole name combine?*
*I name thee, O Śhakuntalā,*
*and all at once is said."*

*"कोणाक नवे वर्सलीचीं फुलांचीं तंवरां,*
*कोणाक सोंपत्या गिमाचीं पिकिल्लीं फळां,*
*आनी कोणाक जिवाक सुख, संतोष,*
*समाधान, धादोसकाय, जाय, जाय?*
*कोणा सभाग्याक धर्तरी आनी स्वर्ग,*
*हीं एकठांय आइल्लीं जाय, जाय?*
*एकाच उतरांत सांगतां: सांगूं?*
*शाकुन्तल, शाकुन्तल, शाकुन्तल!"*

o o o

## रघुवंशांतले छंद (श्लोकांच्यो चाली)

दंडी, भामह, राजशेखर बी काव्याच्या शास्त्र्यांनीं नेम घालून दिले, कीं महाकाव्यांत इतले सर्ग आसचे, आनी एका सर्गांत अमुक श्लोक आसचे, आनी ते एकाच वृत्तांत आसचे! निमाणो श्लोक वेगळ्या चालींत रचचो! पुण कवि हे कोणाचें आयकूंक आयल्यात? केशवसुत म्हणटा:

*अशी असावी कविता, फिरून*
*तशी नसावी कविता, म्हणून*
*सांगावया कोण तुम्ही कवीला*
*अहांत मोठे?–पुसतों तुम्हाला ॥*

कालिदासान आपणाक जाय तशें काव्य रचलें! आनी तेंच बेस जालें. शास्त्री सांगतात:

**एकवृत्तमयैः पद्यैरवसानेऽन्यवृत्तकैः ॥ — साहित्यदर्पण – विश्वनाथ**
**सर्गैरनतिविस्तीर्णैः श्रव्यवृत्तैः सुसंधिभिः।**
**सर्वत्र भिन्नवृत्तान्तैरुपेतं लोकरंजनम् ॥ दंडी ॥**

कालिदासान रघुवंशांत फुडें दिल्ल्या वृत्तांतल्यान श्लोक रचले: (१) अनुष्टुप, (२) उपजाति, (३) इन्द्रवज्रा, (४) मालिनी, (५) वंशस्थ, (६) हरिणी, (७) प्रहर्षणी, (८) उपेन्द्रवज्रा, (९) वसन्ततिलका, (१०) पुष्पिताग्रा, (११) वैतालीय, (१२) तोटक, (१३) मन्दाक्रान्ता, (१४) द्रुतविलम्बित, (१५) शालिनी, (१६) औपच्छन्दसिक, (१७) रथोद्धता, (१८) मंजुभाषिणी, (१९) विषमवृत्त, (२०) स्वागता, (२१) मत्तमयूर, (२२) नाराच (सिंह-विक्रीडित). हें सिंहविक्रीडित म्हणजे आमचें शार्दुलविक्रीडित न्हय.

एकवृत्तमयैः पद्यैरवसानेऽन्यवृत्तकैः। सर्गभर एका वृत्तांत श्लोक रचचे आनी सर्गाचो निमाणो श्लोक वेगळ्या वृत्तांत आसचो, अशें साहित्यदर्पणांत विश्वनाथ पंडित सांगता. कालिदास असलें बिलकुल आयकूंक तयार ना! देखीक, णव्व्या सर्गांत १ ते ५४ श्लोक द्रुतविलंबितांत रचल्यात. ५५ ते ६३ श्लोकांखातीर वसन्ततिलका वृत्त घेतलां. ६४ वो श्लोक शालिनी वृत्तांत, ६५वो प्रहर्षणींत, ६६व्या श्लोकाखातीर औपच्छंदसिक वृत्त, मालिनीवृत्तांत ६७ वो श्लोक, ६८ वो श्लोक रथोद्धता वृत्तांत, ६९ वो मंजुभाषिणींत, ७० आनी ७१ पुष्पिताग्रांत, बहात्तरावो श्लोक विषमवृत्तांत. श्लोक ७३–स्वागता वृत्त, श्लोक ७४–वैतालीय आनी

७५वो श्लोक मत्तमयूर वृत्तांत रचल्यात. हे भाशेन ह्या सर्गाच्या ७५ श्लोकांत तेरा छन्द आयल्यात.

कालिदासान ह्या काव्याखातीर इतलीं वृत्तां कित्याक वापरलीं? पयल्याच सर्गाक सुर्वेक कालिदासान अनुष्टुप छंद घेतलो! कित्याक? एकाद्रो खांपो सभेंत उलोवपी उलोवपाचे सुर्वेक कांय वाक्यां सवकासायेन उलयता. सुर्वेक ल्हव आवाजांत उलयता आनी मागीर जशें ताचें उलोवप रंगत चल्लें, तसो तसो तो उलोवपी बेगानि बेगीन आनी मोठ्या आवाजान उलोंवक लागता. उलोवप सोंपतां सोंपतां तो निमाणे सवकासायेन उलयता! कित्याक? आनी ताच्या उलोवपाचेर आयकुपी धादोशी जातात! उलोवप, गावप ह्यो कळा आसतात. आनो त्यो कळा सोप्यो नासतात. कालिदास गायनांत खांपो असो कवि आसलो. ताज्या रघुवंशांचे वा हेर काव्यांचे श्लोक गावपी लोकांनीं गावन पळोंवचे. म्हणटूकच तांकां कालिदासान वेगळीं वेगळीं वृत्तां वेगळ्या वेगळ्या रसाचो योग्य असो परिणाम वाचप्याचेर आनी आयकुप्याचेर जांवचो म्हणून कशीं वापरलीं हें छंदशास्त्राचो अणभव आशिल्ल्या वाचप्यांक कळून येता. आठव्या सर्गांतलो अजविलाप वैतालीय वृत्तांत मोठ्यान गावन पळोंवचो आनी म्हणप्याक कितें अणभव येता तें पळोंवचें. कालिदासाक शास्त्रनेम आवडनात अशें न्हय. पुण ताका औचित्य म्हळ्यार खंयच्या वेळार कशें गांवचें, उलोवचें हें खबर आशिल्लें.

रस हो काव्याचो प्राण आसता. आनी छंद, वृत्तां हीं रस फुलोवपाक उपकारा पडटीत तरच तांचो उपयोग. ओगीच जीब उखलून ताळ्याक लायली म्हणून उलोवप जायना. गण आनी मात्रा एकठांय हाडल्यो म्हणून रस फुलोवपी अशें वृत्त तयार जायना. कालिदास कळावंत आशिल्लो आनी कविकुलगुरू आशिल्लो. देवी सरस्वतीच जणु काय ताज्या तोंडांतल्यान उलयताली. कालिदास हो द्रष्टो आशिल्लो, म्हळ्यार खूब मुखावेलें, पयशिलें भविष्य पळोवपी आसलो. पूर्वजल्मांत मोठो अभ्यास केल्लो असो योगी आसलो. म्हणून ताणे रचलें तें रत्नां-माणकांसारकें लकलकूंक लागलें!

सतां हि संदेहपदेषु वस्तुषु प्रमाणमन्तःकरणप्रवृत्तयः । (शाकुंतल)— सज्जन मनशाक कसलेय वस्तीविशीं दुबाव आयलो की ताणे आपल्या अंतस्कर्णाक विचारचें! आनी तें सांगत तें करचें! ह्या पांवड्याचो उपदेश करपी कालिदास, 'भावान्तराणि जननान्तरसौहृदाणि'। (शाकुंतल)— ह्या जल्मांतल्यो रिणानुबंधांच्यो गांठी पूर्वजल्मांत मारिल्ल्यो आसतात! हें सांगपी कालिदास हो

पुण्यात्मो, तत्वज्ञानी आसूंक फात्र.

रघुवंशाच्या पयल्या पांच सर्गांचो अर्थ आनी तांची कोंकणी भाशेंतली फोडणिशी मुखार येंवचेली आस. तिचे पयलीं कालिदास, ताचे वेळचो समाज, लोकांची त्या वेळची परंपरा आनी ज्ञानी लोकांचो, बरपाक्षरी लोकांचो ज्ञान मेळोवपाचो वावर हांचेविशीं बरयल्याबगर कालिदासाच्या रघुवंशाची कथा आनी आनी तांतले विचार वाचप्यांक सपसप कळूंक कठीन, म्हणून हो इतलो बरोवपाचो वावर केलो. हांतूंत जायत्या वाचप्यांक खबर आसा अशें जायतें आयलां आसतलें. हें वाचपांत कांय वाचप्यांचो वेळ फुकट गेलो अशें जालें, तर ताणी म्हाका भोगसुंचें. पुण सद्याच्या धांदलेच्या काळांत लोकांक पोन्नें पुराण वा काव्य वाचूंक वेळ नासता; आनी ताजी वळख आसची म्हणून थोड्याभितर बरोवपाचो प्रयत्न केला.

रघुवंशाची कथा गद्यांत सांगप आनी मुळांत वाचप हांतलो भेद सगळे जाणात. हांव स्वता बरप्याच्या पंगडांतलो मनीस न्हय. कितेंय आगळें उणें जालें तर वाचप्यांनीं मानून घेंवचें.

आतां रघुवंशाच्या पयल्या पांच सर्गांचें आख्यान वाचप्यांनीं मनापासून वाचचें. आतांमेरेन हो पूर्वरंगच जाला. आतां कालिदासाचें खरें काव्य तुमी वाचतले आनी आतांमेरेन सोशिल्ल्या त्रासाचे बदला धादोशी जातले अशी आस्त आस.

कवि वा बरोवपी काव्य रचतात वा बरयतात तें आपल्याक कितेंय लोकांक सांगपाची खाज येता, ती खाजोवन आपल्या जिवाचें समाधान करचेखातीर बरयतात. कवि वा बरोवपी हे विचारांनीं, कल्पनांनीं, वर्तणुकेन, संस्कारानीं उंच पांवड्याचे उरतीत आनी ताणी हे जिणेंत वा पुर्विल्ले जिणेंत बरोच वावर-अभ्यास करून ज्ञान मेळोवन योग्यताय जोडिल्ली आसली तर तांच्या बरपांतल्यान भौसाक सदांकाळ देखदिणे अशे विचार आनी कल्पना काव्याच्या वा हेर वाङ्मयाच्या रूपान रचून मेळटात. असलें साइत्य मोलादीक वाङ्मय आनी मनाक रंजवपाचें साधन म्हणून उपकारा पडटा. इतलेंच न्हय तर ज्ञानेश्वरी, रामचरितमानस सारकिलीं काव्यां वाचप्यांक नरांचे नारायण करून वतात. प्रतिभा हे ईश्वराचें देणें आसता. तें कालिदासान मेळयल्लें. रघुवंशाच्या वाचपान आनी अभ्यासान वायट नादाक लागिल्ले भुरगे वा जुवान सुदरतात असो अणभव आसा.

o o o



# रघुवंश

## पयलो सर्ग

**वागर्थाविव संपृक्तौ वागर्थप्रतिपत्तये ।**
**जगतः पितरौ वन्दे पार्वतीपरमेश्वरौ ॥१॥**

---

रघुवंश म्हळ्यार रघुकुळांतल्या राजांचो वंश आनी रघुवंश म्हळ्यार रघुवंशांतल्या राजांचेर बरयल्लें काव्य. हांगा रघुवंशाचें नांव काव्याक दिलें. हाका काव्यशास्त्रांत उपचार अळंकार म्हणटात. सादे रितीन न बरयतां, आपलें बरोवप सोबून दिसचेखातीर कितेंय वेगळेभशेन बरयलें कीं तो अळंकार जालो.

१. उतर आनी ताचो अर्थ हांचो पुराय एकवट जाल्लो आसता. ते भाशेन पार्वती आनी परमेश्वर हीं एकरूप आसात. उतर आनी ताचो अर्थ हीं म्हाका पुराय समजुंचीं म्हणून हांव संवसाराच्या आवय-बापायच्या, पार्वतीपरमेश्वराच्या पायां पडटां.

मनशाच्या तोंडांतल्यान जें कितें दुसऱ्याक कळोंवचें म्हणून भायर सरता तें उतर. त्या उतराक वाणी, वाचा अशेंय म्हणटात. मनीस मनांत कितेंय कल्पना आयली कीं ती दुसऱ्यांक कळोंवची म्हणून उलयता ती वाणी उतरांची जाल्ली आसता. पयलीं कल्पना मनशाच्या मनांत जल्म घेता आनी मागीर ती कल्पना उतरांच्या रुपान आगळ्याउण्या आकारान तोंडाभायर सरता. अर्थान भरिल्लीं उतरां योग्य ते भाशेन जुळोवन तोंडाभायर काडपाक उतरांचो अर्थ पुराय जाण जांवक जाय. उलोवप ही कळा सगळ्या कळांभितर चडांत चड कठीन. ती शिकपाक कांय जाणांक जल्म घालयलो तरी जमना. हाचे उफाटटें कांय जाण ल्हानपणासावन मोठे चतुरायेन उतरांचो अर्थ पुराय समजून घेवन आपल्या मनांतले भोव बारिकसाणो आशिल्ले विचार सोपे भाशेंत लोकांच्या मुखार दवरूंक पावतात. कांय जाण मोठे पंडित उरतात, ते सोपे भाशेंत सादे विचार उक्तांवचे बदला जडगुळो, कठीन उतरांचो आनी वाक्यांचो घुस्पा-गोंदळ करून आयकतल्याच्या कानाक आनी मनाक त्रास दितात. कालिदास बऱ्यांत बरे विचार आनी कल्पना सोप्या उतरांनीं वाचप्यां-

क्व सूर्यप्रभवो वंशो क्व चाल्पविषया मतिः ।
तितीर्षुर्दुस्तरं मोहादुडुपेनास्मि सागरम् ॥२॥
मन्दः कवियशःप्रार्थी गमिष्याम्युपहास्यताम् ।
प्रांशुलभ्ये फले लोभादुद्बाहुरिव वामनः ॥३॥

मुखार दवरता. म्हणून वाचप्यांक ताची भास आवडटा. एदें मोठें काव्य रचूंक सुरवात करतासतना देवाची प्रार्थना करून ताजो आशीर्वाद मागप हें सबावीक आस. देवाचे कृपेविरयत कोणाच्यान असलीं गोड म्हॊंवाळ आनी अमर काव्यां रचून जायनात. ही देवाची प्रार्थना करतासतनाय कालिदास एक ओपार मारून लोकांक धादोस करपी असो एक अळंकार पयल्याच श्लोकांत भाशेक घालता. कालिदासाक कितें सांगचेलें आस? वागर्थप्रतिपत्तये जगतः पितरौ पार्वतीपरमेश्वरौ वन्दे । उतर आनी ताची फोडणिशी म्हाका बरे भाशेन कळची म्हणून हांव संवसाराच्या आवयबापायच्या, पार्वतीपरमेश्वराच्या पायां पडटां. इतलेंच म्हणून कालिदासाच्यान ओगी रावूं येतालें. पुण पार्वती-परमेश्वर ह्या दैवतांचो एकवट तसोच उतर आनी अर्थ हांचो एकवट हांची एकामेकांबरोबर जी सारकाय आस, ती ताचे नदरेंत भरून तो चड्ड करून ओपार मारता: 'वागर्थाविव संपृक्तौ!' दोन उतरांत एक सुंदर ओपार हो संस्कृत भाशेचो खाशेलो गुण!

२. सूर्यदेवापासून चलत आइल्लो सूर्यवंश खंय! आनी म्हजी थोंटी मत खंय! बारकेल्या, साद्या विषयांत ती कशीतरी चलता. मोठ्या विषयांत म्हजी मत चलना! म्हजेसारक्या बुद्दीन उणो आशिल्ल्या मनशान सूर्यवंशांतल्या राजांच्या कर्तुपांचें काव्य रचप म्हणजे पनेळांतल्यान दर्या हुपून वचप! हें भोव कठीन काम! असलें कठीन काम करूंक लागप हें म्हजें पिशेपण! कालिदासाच्या ह्या श्लोकांतय दुसरी ओपार आयली! काव्यशास्त्रांत हिका निदर्शना अळंकार म्हणटात.

३. कवि बुदवंत आसतात, ते काव्यां रचूंक पावतात. आनी काव्य रचून यश जोडटात. हांव मन्द बुद्दीचो, आनी कवीक मेळटा त्या यशाची आस्त धरतां! म्हाका लोक खेबडायतले! उंच मनशाचो हात उंचेमेरेन पावता आनी झाडाक उंचायेर लागिल्लें फळ ताच्यान तोडूं येता. हांव वामन म्हळ्यार मोटव्यांतलो मोटवो मनीस आनी म्हजे हांवरटसाणेकलागून उंचायेवेलें फळ तोडूंक हांव म्हजे मोटवे हात वयर उबारतां!

ही आयली आनीक एक ओपार! श्लोकागणखणीं कालिदास ओपारी

**अथ वा कृतवाग्द्वारे वंशेऽस्मिन्पूर्वसूरिभिः ।**
**मणौ वज्रसमुत्कीर्णे सूत्रस्येवास्ति मे गतिः ॥४॥**
**सोऽहमाजन्मशुद्धानामाफलोदयकर्मणाम् ।**
**आसमुद्रक्षितीशानामानाकरथवर्त्मनाम् ॥५॥**

मारता. म्हणून ताका ओपारींचो राजा म्हणटात!

**उपमा कालिदासस्य भारवेरर्थगौरवम् ।**
**दण्डिनः पदलालित्यं माघे सन्ति त्रयो गुणाः ॥**

असो एक श्लोक आस. तांतूंत कालिदासाची ओपारींखातीर तोखणाय केल्या. कालिदास निखटे ओपारींचोच जाणकार नासलो. काव्यांतलें ललित, अर्थाची सोबा हे सगळे गुण कालिदासाच्या काव्यांत पावलागणखणीं मेळटात. ओपारींचो राजा आसूनय सगळे काव्यगुण एकाद्या खांप्या जादुगिराभशेन तो हातांत खेळयता. ताजो सगळ्यांत मोठो गुण म्हळ्यार भाशेचें सोपेपण. तो केन्नाच वाचप्याक कंटाळो हाडिना!

४. पयलीं जावन गेल्ल्या कवींनीं ह्या सूर्यवंशांतल्या राजांच्या मोठेपणाचीं काव्या रचल्यांत. तीं रचतासतना ताणी जणु वज्रान रत्नाक बुराख काडल्यात! आपले वज्रासारकी धार आशिल्ले मतीन सूर्यवंशाचीं वर्णनां रचलीं. रत्नाच्या बुराखांतल्यान सूत वता. हांव त्या सुताभशेन त्या पुराण्या कवींच्या काव्यांच्या दरवट्यांतल्यान सूर्यवंशाच्या म्हालांत भितर सरतां जांवये! तीन ओपारी!

५–९. जल्मान शुद्ध, केल्ल्या कर्माचें फळ मेळसर कर्म करीत रावपी, दर्यान वेडिल्ले सगळे पिर्थुमेचेर राज्य करपी, स्वर्गलोकांतल्या मार्गांनीं आपल्या रथांतल्यान भोंवपी, शास्त्रांत सांगिल्ल्याप्रमाण यज्ञांत आहुती दिवपी, दारांत आइल्ल्या मागप्याची इच्छा पूर्ण करपी, गुन्यांव करप्याक फाव तितलीच ख्यास्त लावपी, वेळप्रसंग वळखून सावध रावपी, गरजेक आइल्ल्याक दिंवचेखातीर धन जोडपी, सतच उलोंवचें म्हणून थोडें उलोवपी, यश मेळोंवचेखातीरच म्हणून दुसऱ्या राजांक जिखचेली आस्त धरपी, संतत जांवची इतल्याच हेतान शरीरसुख भोगपी, भुरगेपणांत विद्या शिकपी, जुवानपणांत संवसारसुखाची इच्छा धरपी, देंवते पिरायेर परमार्थी जीण जगपी आनी निमाणे योगाभ्यास करून आपल्या आत्म्याचो आनी परमात्म्याचो एकचार जोडून कुड सोडून वचपी; रघुवंशांतल्या असल्या राजांची कथा सांगूंक, उलोवपांत लुडबो आसलों, तरी हांव उप्रासलां. त्या राजांचे गुण म्हज्या

**यथाविधिहुताग्नीनां यथाकामार्चितार्थिनाम् ।**
**यथापराधदण्डानाम् यथाकालप्रबोधिनाम् ॥६॥**

कानार आयले, म्हणून हें धुमशेण घालूंक हांव पुरफुल्लां! रघूणामन्वयं – रघूंचो वंश म्हळ्यार रघुकुळांतल्या राजांचो वंश – लक्षणा अळंकार.

ह्या सर्गाच्या पांचव्या श्लोकापासून णवव्या श्लोकामेरेन एका वाक्यांत कवीची एक म्हणणी आयल्या. असल्या श्लोकांचे जुडयेक काव्यशास्त्रांत कुलक म्हणटात! कुलकांत पांचपासून पंद्रामेरेन श्लोक आसतात.

'आजन्मशुद्ध' म्हळ्यार कितें? ज्या कुळांत दादले आनी बायलो पिडयांन-पिडयो आपल्या मनाचेर शेक दवरून चलतात, अनाचारान वागनात, तें शुद्ध-जल्माचें कुळ. एका काळार मनीसप्राण्याच्या समाजांत लग्न ही रीत वा लग्नगांठीची पवित्रकाय उदेंवकूच नाशिल्ली जांवये! हजारांनीं वर्सांच्या अणभवान शाण्यासुर्त्या लोकांनीं एकठांय येवन नेम घालून दिले. आज आमकां अचळय जल्माक आइल्ल्या दिसापासून एक मोगाळ आवय, चारित्र्यान धड असो बापुय, मायेस्त अशे हेर नातेवर्गी आयते मेळटात. पांच-स वर्सांचे पिरायेर बरी परंपरा आशिल्ली साळ आनी शणै विद्या शिकोंवक मेळटात! बरे भाशेन अभ्यास केलो तर पास जातकीर वावर-धंदो, चाकरी मेळटा. शिकिल्ली-सवरिल्ली, सुंदर, मायेस्त आनी वर्तणुकेन उजू, आपली सेवा करपी, आपलेखातीर जीव दिवपी, कष्ट काडपी बऱ्या कुळां-तली, बरे देखीची बायल मेळटा. आनी आमचें सगळें कल्याण जाता!

एका काळार अशें घडनाशिल्लें! श्वेतकेतु ऋषीची आवय न्हयेर न्हांवक गेली. ती न्हावन परत येतासतना तिचे फाटल्यान एक परकी मनीस घरांत आयलो आनी तिचे कुडींत गेलो! श्वेतकेतु वसऱ्यार बापायकडेन बसून पाठ शिकतालो! ताका आपले आवयबरोबर परकी मनीस कुडींत गेल्लो पळोवन भिरभिरी माल्ली! ताणे बापायक विचारलें, "ताता, हें कितें?" बापायन जाप दिली, "एषः धर्मः सनातनः।" हो सासणाचो धर्म आस! श्वेतकेतूच्या मनाक पटलें ना! ताणे थारायलें, हें बदलूंक जाय! अशेंच चालू उरूंक फावना. आनी ताणे जल्मभर वावरून लग्नसंस्था म्हळ्यार देवा-ब्राह्मणांचे साक्षीन सपूत घेवन घोव-बायलांनीं एकनिष्ठ रांवचें, ही पद्धत चालू केली! हें काम सोपें नासलें! एका मनशाचें, एका समाजाचें, एके जमातीचें, एका देशाचें वा देवाच्या एका अवतारांत घडत अशें नासलें! कदीम काळापासून आपल्या मनाक मानत तशे वागपी लोकांक रीत

त्यागाय संभृतार्थानां सत्याय मितभाषिणाम् ।
यशसे विजिगीषूणां प्रजायै गृहमेधिनाम् ।।७।।

लायप भोव कठीन! पुण आमच्या जागटेल्यांनीं हें सगळें थीर करून घेतलें! तें करपाक जायतीं वर्सां लागलीं. लोकांक, पिळग्यांच्या पिळग्यांक जायतें भोगचें पडलें आनी लोक शाणे जाले! मनाचेर शेक दवरूंक शिकले. जे मनार शेक दवरूंक जाणात तेच आजन्मशुद्ध! हे भाशेन संवसार सुदरूंक आजूनय कळाव आसा. आजून लोक भायली म्हळ्यार कुडीचीच जीण सुदरपांत रातदिस वावुरतात. कुड म्हेळ्ळी तर न्हावन-धुवन लकलकीत जातात. सुंदर दिसचे म्हणून बरो भेस करतात. चड लोकांक सुखान जीण जगूंक मेळची म्हणून राज्य-शास्त्राचे, समाजशास्त्राचे नेम घालून त्याप्रमाण वागतात. नेम मोडटल्याक ख्यास्त लायतात. पुण भितर्यां हेर मनशांविशीं आपल्या मनांत वायट विचार येवन वा नष्ट्यो वान्सा जावन आपलें मन म्हेळ्ळें, तर तें निश्चयान, अभ्यासान, खर प्रयत्नांनीं शुद्ध करचेविशीं लोक चडसो विचार करिनात. सूर्यवंशांतले राजा अशे तरेचे जावन गेले कीं तांचो मनाचेर पुराय शेक उरतालो. म्हणूनच आमी हजारांनीं वर्सां जालीं तरी तांचे गुण गातात. तांचेर काव्यां रचतात.

सूर्यवंशांतल्या राजांच्यो काणयो सगळ्यो फट म्हणून सांगपी जायते लोक मेळटात. तांचे नदरेंतल्यान भूतकाळचो इतिहास हो फटींनीं भरिल्लो आस. तो इतिहास न्हय. त्यो निखळ्यो कल्पना, काव्यां!—आसतीत तीं काव्यां! पुण त्या काव्यांतल्यान वाचप्यांक बरी देख मेळून तांची जीण सुदरता, हें कोणाच्यान विसरूं नज. वाल्मिकी ऋषी जावन गेलो. ताणे रामायण रचलें. तें रामायण वाचून आनी रामाची भक्ती करून खूब जाणांक दुष्ट लोकांक ख्यास्त लावपाचें बळगें लाभलें, हो सत्य इतिहास आस.

कालिदास जल्मान शुद्ध म्हळ्यार पिळग्या-पिळग्यांच्या शुद्ध वर्तणुकेन बरे संस्कार जाल्ल्या राजांचे गुण गाता! कालिदासाच्या काळच्या आनी आयच्या लोकांच्या चालीरितींत, देव, धर्म, नीत हांचेविशींच्या कल्पनांत चड फेर ना. आयचेसारक्योच तेन्ना जाती आसल्यो. पुण कालिदास जातींक चड म्हत्व दिना. जल्मान शुद्ध म्हळ्यार ब्राह्मण न्हय. कालिदासाच्या वेळारच, "जन्मना जायते शूद्रः। संस्काराद्द्विज उच्यते!" हें शास्त्रवचन लोकांक मान्य आसलें.

आज कालिदासाक वचून दोन हजार वर्सां जालीं, तरी आमी भितर्यां

शैशवेऽभ्यस्तविद्यानां यौवने विषयैषिणाम् ।
वार्द्धके मुनिवृत्तीनां योगेनान्ते तनुत्यजाम् ॥८॥

सुदरले नात. मनार शेक दवरून आमी जैत मेळयलें ना. जें रघुवंशांतल्या राजांनीं केलें तें आमकां आजून करूंक जमना. विचार करून आपुणजावन शाण्या लोकांनीं घातिल्लीं शास्त्रांचीं जायतीं बंदनां आमी तोडून सयल केलीं. आमी शास्त्रांतल्यान मेकळे जांवक सोदतात. चडचड सुख भोगूंक सोदताक. दोन हजार वर्सांनीं आमचीं सुख भोगपाचीं सादनां वाडलीं. पुण सुख खंय आसता तें आमकां कळ्ळेंच ना. आजूय आमकां रघुवंशांतल्या राजांकडल्यान शिकपासारकें जायतें उल्लां. आज आमी आमकां विद्येन सुदरिल्ले, सुसंस्कृत समजतात. आमी कित्यान सुदरले? गणित, रसायणशास्त्र, भौतिक शास्त्रां हांतूंत फुडें सल्लें. पुण भितर्यां सुदरले नात. इंद्रियांचीं सुखां वाडयलीं आनी सुख भोगपाच्यो पद्धती वाडल्यो!

आज शरीरसुख भोगून मनाचें समाधान जायना. एक बायल पावना! चार घोव पावनात! भुरग्या-बाळांचो मायामोग ना! कुटुंबांच्या अन्नाचें भंय उल्लें ना. लग्नमोडांची संख्या वाडली! चड श्रीमंत राष्ट्रांत घोवाक बायल वळखना. बायलेक घोव नेणा! भुरग्यांक आवयबापुय नात! ही ह्या शतकांतली संस्कृताय! ही संस्कृताय संवसारभर पातळूंक सोदता. तिका आडांवचेखातीर कालिदासाचे शिकवणेची आज चड गरज आसा.

रघुवंशांतले राजा 'आफलोदयकर्म' आशिल्ले. ताणी कसलेंय काम करपाक हातांत घेतलें कीं तें काम जालेंच. हें कशें जांवक पावतालें? तर हातांत घेतिल्लें काम पवित्र म्हळ्यार समाजाच्या, राष्ट्राच्या कल्याणाचें उरतालें! तो शेजाऱ्याच्या घराचेर सुणें चडोवपाचो वावर नासतालो! शेजारच्या राष्ट्राचेर वा देशाचेर घुरी घालून तो देश आपली वसाहत म्हणून बांदून दवरुंचो, त्या देशांतल्या गरीब-धाकट्यांक गुलाम करून जनावरांभशेन तांचे हाल करचे, तांकां नाडचे असलीं कामां ते करनासले. दुसरे देस जिखले तरी रघुवंशांतले राजा ते देस आपल्या शेकासकला दवरिनासले. ते आपणाक सम्राट म्हणयताले. पुण सम्राट ह्या उतराचो अर्थ 'राजांचो राजा' असो जाय नासलो. तर सम्राट म्हळ्यार, बरो राजा, असो अर्थ उरतालो. यश जोडचेखातीरच दुसरे देस जिखचे. बरें, लोकांच्या कल्याणाचें, शास्त्रांत नेमून दिल्लें अशें काम करूंक घेतलें कीं देव आपलो गडी जाता. आपल्या सुखदुःखाचो भागिदार जाता. आपणाक कसाक लायता आनी

**रघूणामन्वयं वक्ष्ये तनुवाग्विभवोऽपि सन् ।**
**तद्गुणैः कर्णमागत्य चापलाय प्रचोदितः ॥९॥**

निमाणे आपणाक आपल्या कामांत यश दिता. तें काम मोठें आसलें तरी आपली इच्छा जबरदस्त उरता. आनी ते इच्छाशक्तीच्या बळार आपुण आइल्ल्या संकटां-कडेन झुजून यश मेळयतात. अशे ते सूर्यवंशांतले राजा आसले. म्हणून तांकां कालिदास 'आफलोदयकर्म' म्हणटा. ताणी कसलेंय काम करूंक घेतलें कीं तें बरें आसतलेंच आनी ताणी हातांत घेतिल्लें काम बरेभशेन जालेंच! रघुवंशाच्या एकुणीस सर्गांत फुडें वाचप्यांक अशीं हातांत घेतिल्लीं कामां ते कशीं पुरीं करताले हें वाचूंक मेळटलें!

रघुवंशांतले राजा 'आसमुद्रक्षितीश' आसले! कालिदासाच्या वेळार आनी ताजेपयलीं लोकांक भुगोलाचें आनी इतिहासाचें ज्ञान आयचेसारकें शिकचेलीं साधनां नासलीं. 'नवखंड पृथ्वी आनी धावें खंड काशी!' हें आमचें भुगोलाचें ज्ञान इसवी सनाच्या अठराव्या शेंकड्याभेरेन आसलें! आमचो इतिहास पुराणां, रामायण आनी महाभारतांत आस्पाविल्लो! पुराणांतल्यो सगळ्यो काणयो खऱ्यानशींच घडल्यात अशें आमचे पूर्वज मानताले! ज्यू लोक ओल्ड टेस्टामेंटांत जें बरयल्लें आसा ताका इतिहास मानताले! ग्रीक लोक आपल्या देवांचीं पुराणां हो इतिहास मानताले. हे भाशेन सगळोच संवसार चलतालो! सगळे पिर्थुमे-भोंवतणी समुद्राची मेर आसा, पृथ्विदेवतेच्या कमरांत समुद्राचो घागरपाट आसा. शेष नांवाच्या हजार फोडांच्या नागदेवान धर्तरी आपले तकलेर धल्ल्या आनी तो दुदाच्या क्षीरसागरांत आपल्या आंगाचे विळखे घाल्चून तांचें एक होड्याभशेन मोठें आयदन करून तांतूंत शेषशायी भगवान बिष्णु न्हिदला. लक्ष्मी ताचे पांय वळटा आनी ताचे बोंबलेंतल्यान आइल्ल्या देंठाचेर कमळांत चार तोंडांचो ब्रह्मदेव बसला. कैलास पर्वताचेर वा कैलास लोकांत शंकर-पार्वती आसात. स्वर्गांत इंद्रदेवाचें राज्य चल्लां आनी पाताळांत बळी राजा राज्य चलयता अशें लोकांचें इतिहास-भुगोलाचें ज्ञान उरतालें.

उत्तरेकडल्यान हिंदुस्थानांत लोक घुरी घालीत येताले तशे तशे पैलीं वसती करून राविल्ले लोक मुखार पूर्वेक वा दक्षिणेक वताले. नवीन लोक खंयच्यान येतात ती कोणे चवकशी केली ना. ते आयले तेय आपलो पयलींचो इतिहास-भुगोल विसरत विसरत येताले. हिंदुस्थानांत थीर जाता म्हणसर ते सामके हिंदु

तं सन्तः श्रोतुमर्हन्ति सदसद्व्यक्तिहेतवः।
हेम्नः संलक्ष्यते ह्यग्नौ विशुद्धिः श्यामिकाऽपि वा ॥१०॥

जावन आमची संस्कृताय आपणायताले. हे भाशेन इसवी सनाच्या धाव्या शेंकड्यामेरेन चलें. मागीर मुसलमान आयले. ताणी हिंदुस्थान जिखलो. हिंदू आनीक इल्ले दक्षिणेक गेले. पंद्राव्या शतकांत पुर्तुगेज आयले, मागीर इंग्लेज, डच आयले तरी आमचे पिर्थुमेची आमची कल्पना बदल्ली ना! पुण्याच्या पेशव्यांचो कारभारी नाना फडणीस हाणे सवाई माधवराव पेशवे हाका शिकोंवचे-खातीर एक भुगोलाचें पुस्तक बरोवन घेतलें. तें वाचल्यार आमच्या संवसाराच्या भुगोलाच्या आनी इतिहासाविशींच्या अज्ञानाच्या फोंडाक पोंद नाशिल्लें हें कळून येता. बाकी सगळ्या विषयांनीं पंद्राव्या शेंकड्यामेरेन संवसाराचे फुडें आशिल्ले भारतीय लोक ताजेनंतर कशे अज्ञानांत पुरून गेले हाजें अजाप दिसता.

कशेंय आसूं. ते सूर्यवंशांतले राजा आमकां खबर आशिल्ले पिर्थुमेचे सम्राट आसले! ते कामानिमित्तीं आपल्या रथांत बसून स्वर्गांत इंद्रदेवाच्या लोकांत वचून येताले! ही स्वर्गांत वचून येवपाची कल्पना सुंदर आसा! ही कल्पना वास्तव म्हळ्यार वेव्हारांत घडूंक कठीन. पुण कवीच्या काव्यगुणाक लागून असल्या कल्पनांचें वेव्हाराभायरें घडप आमी कवीक माफ करचें.

आज आमी लोक चडकरून भक्तिमार्गी उरतात. देवाची पुजा, प्रार्थना करतात. कालिदासाच्या काळांतय पुजा, प्रार्थना आसली. देवळां आसलीं. रामायण काळांत सुर्यवंशांचे राजा यज्ञयाग करूनच देवांक संतुष्ट करताले, हें खरें. दारांत आइल्ल्या गरजी मनशाक ताची इच्छा पुरी करून वयार करप हें मोठें पुण्य जोडपाचें कर्म. आनी ह्या देशांतले पुण्यात्मे राजा असलें पुण्य कर्म करताले. जायतो दानधर्म करताले. राज्य चलयतासतना आनी झुजांत वी खूब बरींवायट कर्मां राजांच्या हातान कळत नकळत घडटात. त्या वायट कर्मांखातीर राजांक पाप लागचें न्हय म्हणून ही दानधर्म करपाची पद्धत पडली जांवये! ऐश्वर्य भोगपी लोक दयेस्त, मोगाळय उरतात. गरीब धाकट्यांक मागिल्लें दिंवचें हें सज्जनपणाचें लक्षण. सूर्यवंशांतले राजा हाचे फुडें पाविल्ले! ते दान दिंवचेखातीरच धन एकठांय करताले! स्वता मातयेच्या आयदनांत रांदून जेवपाची आनी दळिद्र भोगपाची तांची तयारी उरताली! राज्य करप म्हळ्यार ऐश्वर्य भोगप न्हय! राज्य करप म्हणजे लोकांक बरेभाशेन सांबाळप आनी

**वैवस्वतो मनुर्नाम माननीयो मनीषिणाम्।**
**आसीन्महीक्षितामाद्यः प्रणवश्छंदसामिव ॥११॥**

तांचेकडल्यान चार वर्ण आनी चार आस्रम हांचें पाळण करून घेवप. राजते इति राजा। ही राजा ह्या उतराची फोडणिशी न्हय! रंजयति लोकान्। रंजयति इति राजा । ही तांची रीत.

ते राजा न्यायी आसले. आगळोउणो बचकभर न्याय करपी न्हय. कांटो बरे भाशेन तोल्लून अपराध्याक ख्यास्त दिवपी. ह्या विचाराचे फुडें आमी आजुनय पावूंक ना! ते सदांकाळ सावध रावपी. आळशी नासले!

राजान वा मोठ्या अधिकारावेल्या मनशान सदांच सत्य उलयत रावप हें सोपें न्हय. फट उलोंवचें लागचें न्हय म्हणून ते कमीच उलयताले! कीर्ति मेळोंवचेखातीरच दुसऱ्या राज्याचेर धुरी घालताले. तांकां दुसऱ्यांच्या राज्यांचो लोभ नाशिल्लो. संतत जावपाची इच्छा जाता तेन्नाच शरीरसुख भोगप, हें मनाचेर पुराय शेक आसल्याबगर घडूंक पावना. रघुवंशांतल्या राजांक तें जमतालें. पुण्यात्म्याचेंच कुळ तें!

ल्हानपणांत भुरग्या राजकुंवरांनीं अभ्यास करप आनी विद्या शिकप हाका एक घरांतलें वातावरण लागता. जाणटे लोक शिस्तीन, रितीन वागतात काय मनाक येता त्या लहरीपणान शपातां मारतात, तें भुरगे बारीकसाणीन पळेतात. जाणट्यांभितर ज्ञानाची आवड आनी अभ्यास करपाची संवय आसली तर भुरगीं अभ्यासू जातात. आवयबापुय तोंडामुखार एक एक पुस्तक घेवन बसलीं तर दोन वर्सांचो ल्हान भुरगो घंटोभर आपुणय एक बावलींय नाशिल्लें पुस्तक तोंडा-मुखार घेवन बशिल्लो हांवें पळेला! एक चार वर्सांचो म्हजे वळखिचो भुरगो फांतोडेर चार घंट्यांमेरेन संगिताच्या शोकिनांमदीं बसून जितेंद्र अभिषेकीलें गायन आयकतासतना आमी पळेला. गजेंद्रगडकरांचीं आनी बनहट्टींचीं नातरां शालान्त परीक्षांनीं पैलो नंबर काडटात! रघुवंशांत पिराय जाल्ले जाणटे राजाय अभ्यास चालू दवरताले होच हाचो अर्थ! भुरगेपणांत हेर भुरग्यांचे सर्तीक लागून अभ्यास करून परीक्षेंत नंबर मारून, बरी चाकरी मेळूंक जाय म्हणून परीक्षेच्या दिसांत अभ्यास करून शास्त्रज्ञ जावप, आनी मागीर एक फावट कायमची चाकरी मेळ्ळी कीं अभ्यास सोडून विस्रांती घेवपी लोक, भुरग्यांक 'अभ्यास करा' म्हणून जायतो आग्रो करतासतना दिसतात. ताचो परिणाम कितें जाता ताचो

**तदन्वये शुद्धिमति प्रसूतः शुद्धिमत्तरः ।**
**दिलीप इति राजेन्दुरिन्दुः क्षीरनिधाविव ॥१२॥**

आमकां अणभव येताच!

जलमभर अभ्यास करपी मनीसच म्हातारपणांत मुनीवृत्ती म्हळ्यार निःसंग जांवक पावता. पन्नास वर्सां सत्ता, सुख भोगून मागीर आपुण जावन तीं सोडपाक जायत्या जल्मांचें सुकृत लागता. ते मनीस योगी उरतात. बहुतां सुकृतांची जोडी। म्हणुनी विठ्ठलीं आवडी। ह्या पांवड्याचे ते रघुवंशांतले राजा जावन गेले!

म्हातारपणांत चट्टकरून योगाभ्यासाक सुरवात करून योगाभ्यास जायना. ताका जायत्या वर्सांचो परिपाठ लागता. म्हातारपणांत जायते लोक देवाकडेन वचून ज्ञान आनी मोक्ष मागतात. दुसरें कांय करूंक येना म्हणून ते देवाकडेन वतात. तांतल्या चडशा जाणांक दोन हजार रुपयांची चाखरी वा शरीरसुख भोगपाची तांक दिवन एक गोरी तन्नी बायल लग्न करून दिल्यार, ते परते चाळीस वर्सां संवसार करून दाखयतीत अशे आसतात! रघुवंशांतले राजा म्हातारपणांत योगाभ्यास करून मनाचेर पुराय शेक दवरून, परमात्म्याकडे एकचार करून, आपले खोसयेन कुड सोडटाले. हाजो अर्थ असो, कीं जुवानपणा-पासून संवसारसुख भोगतासतनाय, ते योगाभ्यास करताले. म्हळ्यार मनाचेर, कुडीचेर, बुद्धीचेर शेक चलोवपी उरताले.

म्हजी वाणी दुबळी आसली तरीय हांव रघुवंशांतल्या राजांची कथा रचतलों अशें कालिदास सांगता. रघुवंशाचे णव श्लोक वाचून कालिदासाची वाणी बिलकुल दुबळी नासून समर्थ आस म्हणपाचें वाचप्यांनीं इतल्यांत वळखिलां आसतलें. कालिदास आपणाकडेन ल्हानपण घेवन वागता. मोठे मनीस अशेच आसतात.

१०. तुमी वाचपी सज्जन लोक आसात. भांगर उज्यांत वितळायलें कीं तांतलें शुद्ध कितलें आनी हीण कितलें तें कळटा. तुमी सभाग्यांनीं म्हजें काव्य वाचलें कीं हांव म्हणटां तांतलें खरें आनी लटकें तुमकां वेगळें काडूंक येतलें!

११. वेदांमदीं ॐ हें उतर म्हालगडो मंत्र उरता. तसो सगळ्या राजांत पयलोच राजा मनु म्हणून जालो. तो विवस्वानाचो म्हळ्यार सुर्याचो पुत्र. शाणे लोक ताका मान दिताले.

ब्राह्मणान वेद म्हणूंक सुरवात करतासतना ॐ म्हणून सुरवात करची

**व्यूढोरस्को वृषस्कन्धः शालप्रांशुर्महाभुजः ।**
**आत्मकर्मक्षमं देहं क्षात्रो धर्म इवाश्रितः ॥१३॥**

आनी वेद म्हणून थांबतासतना परतें ॐ म्हणचें. तरच ताणे वेद म्हाणिल्याचें पुण्य ताका मेळटा. तशें केलें ना जाल्यार ते वेद म्हणून कांय फायदो जायना. अ, उ आनी म मेळून ॐ हें अक्षर घडलां.

**अकारो विष्णुरुद्दिष्ट उकारस्तु महेश्वरः ।**
**मकारेणोच्यते ब्रह्मा प्रणवस्तु त्रयो मताः** ॥ मनुस्मृति, दुसरो अध्याय ॥

वेदांतल्यान ॐ कार आयलो म्हणून ऐतरेय ब्राह्मणांत दुसऱ्या अध्यायांत एकतिसाव्या श्लोकांत सांगलां! ॐ हो मंत्र म्हळ्यार ब्रह्म. हें सगळें जग म्हळ्यार ब्रह्म. भूत, वर्तमान, भविष्य ह्या तिनय काळांत वावरून तांचे परसय श्रेष्ठ उल्लां तें ॐ, अशें मांडूक्योपनिषदांत सांगलां. छान्दोग्योपनिषदांत सांगलां कीं ॐ ह्या अक्षरब्रह्माची उपासना करची. म्हळ्यार सदांकाळ ॐ मंत्र जपचो. म्हणटकीर मनीस संवसाराच्या दुःखांतल्यान सुटटा.

चौदा मनु आसात: (१) स्वायंभुव, (२) स्वारोचिष, (३) उत्तम, (४) तामस, (५) रैवत, (६) चाक्षुष, (७) वैवस्वत, (८) सावर्णि, (९) दक्षसावर्णि, (१०) ब्रह्मसावर्णि, (११) धर्मसावर्णि, (१२) रुद्रसावर्णि, (१३) देवसावर्णि आनी (१४) इंद्रसावर्णि. प्रत्येक मनूचो कांय काळ उरता. ताका मन्वन्तर म्हणटात. त्या मन्वन्तरांत कृत, त्रेता, द्वापर आनी कली अशीं चार युगां उरतात. प्रत्येक युगांत लक्षांनीं वर्सांचो काळ उरता अशें मानतात. सद्या वैवस्वत मन्वन्तर चालू आसा अशें देवाचे पुजेचो संकल्प म्हणटासतना आमी म्हणटात.

१२. देव आनी दैत्यांनीं समुद्र चाळ्ळो तेन्ना त्या क्षीरसागरांतल्यान चंद्रिम वयर सल्लो. त्याप्रमाण मनूच्या शुद्ध कुळांत दिलीप हो चड शुद्ध असो श्रेष्ठ राजा जल्माक आयलो.

१३. रुंद छातीचो, बैलाच्या इतल्या घट्ट खांद्यांचो, सायला-रुखाभशेन उंच, मोठ्या बाव्ळ्यांचो असो हो राजा आसलो. क्षत्रियांचो क्षात्र धर्मच जणु आपले योग्यतायेचें कर्म करून दाखोंवक म्हणून त्या राजाचे कुडींत आस्रीत म्हणून राविल्लो.

हो उत्प्रेक्षा अळंकार जालो. श्लोकागणखणीं कालिदास अळंकार घालीत वता.

सर्वातिरिक्तसारेण सर्वतेजोभिभाविना ।
स्थितः सर्वोन्नतेनोर्वीं क्रान्त्वा मेरुरिवात्मना ॥१४॥
आकारसदृशप्रज्ञः प्रज्ञया सदृशागमः ।
आगमैः सदृशारम्भ आरम्भसदृशोदयः ॥१५॥
भीमकान्तैर्नृपगुणैः स बभूवोपजीविनाम् ।
अधृष्यश्चाभिगम्यश्च यादोरत्नैरिवार्णवः ॥१६॥
रेखामात्रमपि क्षुण्णादा मनोर्वर्त्मनः परम् ।
न व्यतीयुः प्रजास्तस्य नियन्तुर्नेमिवृत्तयः ॥१७॥

१४. मेरु पर्वत सगळे पिर्थुमेक आस्पावून थिरावला, तसो हो दिलीप राजा सगळ्या लोकांपरस बळग्यान आनी तेजान श्रेष्ठ आसून तो सगळ्यांचेर सत्ता गाजयतालो!

१५. कुडीन तो राजा मोठो लांबरुंद आशिल्लो. ताजे कुडीक सोबत अशी ताजी बुद्दय श्रेष्ठ आसली. आपले बुद्दीक सोबत असो शास्त्रांचो अभ्यास ताणे केल्लो. आपल्या ज्ञानाक योग्य अशेच मोठे वावर तो करतालो. आनी आपल्या अरूप वावराचें फळय तो मेळयतालो.

'प्रज्ञया सदृश' आनी 'आगमैः सदृश' ह्या उतरांत कालिदासान व्याकरणी दिष्टीन चुको केल्यात अशें कांय जाण म्हणटात. प्रज्ञासदृश आनी आगमाःसदृश अशें बरोंवक जाय आसलें. आकार-सदृश, आरंभ-सदृश हीं उतरां बरोबर आसात. त्या भायर 'हेत्वौ तृतीया' म्हणून एक नेम लावन व्याकरण्यांनीं कालिदासाक दोषांतल्यान मेकळो केलो! कालिदासासारक्या कवीन एकाद्री व्याकरणी चूक केली तर तें वाचप्यांनीं लक्षांत धरचें न्हय, हेंच खरें.

१६. दर्यांत वागोळीं आसतात म्हणून लोकांक दर्याचें भंय दिसता, आनी दर्यांत रत्नां मेळटात म्हणून लोक दर्यांत उडी मारतात. त्याचप्रमाण दिलीप राजाच्या धेंकाक लागून ताज्या आश्रितांक ताचें भंय दिसतालें. आनी ताज्या आंगांत शीळ, पावणेचार बी राजाचे गुण आसले; तांकां लागून त्या राजाचे आस्रीत ताजेकडे ओडून येताले.

१७. रथ चलोवपी कुशळ आसलो कीं रथाचीं चक्रां घालून दिल्ल्या मार्गाभायर केन्नाच वचनात. तेच भाशेन दिलीप राजा खांपो राज्यकर्तो आशिल्ल्यान ताजी प्रजा मनून घालून दिल्ल्या नेमांभायर केन्नाच गेली ना.

**प्रजानामेव भूत्यर्थं स ताभ्यो बलिमग्रहीत् ।**
**सहस्रगुणमुत्स्रष्टुमादत्ते हि रसं रविः ॥१८॥**
**सेना परिच्छदस्तस्य द्वयमेवार्थसाधनम् ।**
**शास्त्रेष्वकुण्ठिता बुद्धिर्मौर्वी धनुषि चातता ॥१९॥**
**तस्य संवृतमन्त्रस्य गूढाकारेङ्गितस्य च ।**
**फलानुमेयाः प्रारम्भाः संस्काराः प्राक्तना इव ॥२०॥**

---

१८. सूर्य हजार पटींनीं वाडोवन पावसाच्या रुपान परतें दिंवचें म्हणून धर्तरेवेलें उदक ओडून घेता. तेच तरेन प्रजेची जयपत वाडोंवची ह्या एकाच हेतान दिलीप राजा प्रजेकडल्यान पटी घेतालो.

१९. त्या दिलीप राजाचें सैन्य म्हणजे ताजो सरंजाम आसलो. सरंजाम म्हळ्यार सोबेची वस्त. ताज्या मनांतले हेत पूर्ण करचेखातीर ताका सैन्याची गरज लागनासली. येवजिल्लीं कामां करपाचीं ताजीं साधनां दोनच आसलीं. ताचे तिखे बुद्दीन तो शास्त्रांतल्या कितल्याय कठीण नेमाचो अर्थ लायतालो आनी ताज्या धनुष्याची वादी सदांच ताणिल्ली उरताली! तात्पर्य, आपले स्वताचे बुद्दीन आनी शस्त्रविद्येच्या बळार तो राज्य चलयतालो!

२०. मनशाचे जिणेंत आतां जें घडटा तें आतांमेरेन केल्ल्या कर्माचें फळ आसता. पयलींच्या जल्मांनीं केल्लें संचित आमकां खबर नासता. चालू काळांत आमचे जिणेंत जें घडटा ताचे वेल्यान आमी पयलीं केल्लीं कर्मां बरीं काय वायट आशिल्लीं म्हणपाचें अंदाजून पळेतात. तेचभशेन दिलीप राजाच्या राज्यांत जीं घडितां घडटालीं, तीं घडून जातकीर ते ते घटिचार घडचेखातीर राजान आनी ताच्या गुप्त हेर खात्यान पयलीं कितें थारावण्यो केल्ल्यो आसुंये, ताचो अदमास लोक करूंक पावताले. तीं घडितां घडून येंवचेपयलीं लोकांक राजाच्या गुप्त हेर खात्यांत कितें थारावण्यो चलतात तें कळपाक मार्ग नासलो! इतली त्या राजाची गुप्त हेर यंत्रणा खऱ्यानीं गुप्त उरताली!

आयच्या काळांत आमच्या विज्ञानाचे मजतीन भिकुणांएदीं यंत्रां दुसऱ्या राजकर्णी पक्षाच्या गुप्त सभांभितर दवरून सुदरिल्ल्या देशांतले लोक दुसऱ्या पक्षाचीं गुपितां फोडपांत खांपे जाल्यात. गरीब देशांतले कितले लोक दुसऱ्या देसांच्या सरकारी हेरांनीं दुडुवांनीं विकते घेतिल्ले आसतात ताजो थाव लागना! दिलीप राजाचें गुप्त हेर खातें आजच्या श्रीमंत देसांच्या गुप्त यंत्रणेपरस

**जुगोपात्मानमत्रस्तो भेजे धर्ममनातुरः।**
**अगृध्नुराददे सोऽर्थमसक्तः सुखमन्वभून् ॥२१॥**

चड हुशार आसलें.

२१. त्या राजाक आपणाक कोणूय मारीत म्हणून भंय दिसनाशिल्लें! पुण तो आपली कुड बरे भाशेन सांबाळटालो. तो केन्ना वायटान हातुळणार पड नासलो. पुण तो सदांच धर्माक पाळो दितालो! तो दुडवांचो लोभी नासलो, तरीय धन एकठांय करतालो! सुखाची ओड नासूनय तो सुख भोगतालो!

वेदांत सांगलां कीं, "सततं आत्मानं गोपायीत।" मनशान सदांकाळ आपली कुड सांबाळपांत लक्ष दिंवचें. मनुस्मृतींत सांगलां, कीं "आत्मानं सततं रक्षेद्दारैरपि धनैरपी॥" बायल आनी धन हांचेपरस स्वताची कुड चड जपची. शास्त्राची आज्ञा पाळप हें राजाचें कर्तव्य! राजानच शास्त्र पाळ्ळें ना जाल्यार बाकीच्या लोकांक बरी देख मेळना. आनी तेय शास्त्राक मान दिंवचे नात. आनी वेळोवेळ संकष्टांत पडटले. तशें घडचें न्हय म्हणून दिलीप राजा आपले कुडीक सांबाळटालो. मनीस वायटांत पडटकीर दानधर्म करून त्या पुण्यान रोखडोच बरो जांवक सोदता. तशें कांय घडना आनी लोकांक वायट भोगचें पडटा. सदांकाळ बरें आरोग्य आसतनाय धर्म पाळून पुण्य जोडीत रावपाची देख लोकांमुखार दिलीप राजा दवरतालो. ताका लागून प्रजेचें आरोग्य बरें उरतालें! धन एकठांय करप आनी ओड नासतनाय सुख भोगप, हेंय प्रजेक शिकोंवचे खातीर राजाक तशें तशें वागचें पडटा. राजा आनी प्रजा हांचे जापसाल्दारकेंत जायतो भेद उरता. राजाचेर प्रजेक देख दिवपाची मोटी लागणूक उरता. यथा राजा तथा प्रजा; म्हणून खूब पोन्नी म्हण आस. राजा कसो वागता, कसो चलता, कसो उलयता, कोणाक चड मान दिता, ताका कितें खांवक आवडटा, तो कसले कळेंत सुख मानता, ताका कसले नाद आसात, तो भायल्या छंदाचो आसा काय देव-धर्मिष्ट आसा, हें लोक हजार दोळ्यांनीं पळेतात. राजाचें सोडात, आजकाल एकाद्रो फुडारी समाजांत वावुरतासतना लोकांची ताजेर बारीक नदर उरता. एकाद्रो प्राध्यापक स्वंय नाटक-सिनेमा पळोंवक गेलो तर ताज्या विद्यार्थ्यांतलो कोणूय एकलो थंय नाटकाक आइल्लो आसता; ताजेकडल्यान ही बातमी दुसऱ्या दिसा कॉलेजांत पावता.

मोठ्या पांवड्यावेल्या मनशांनीं आपली चलणूक उजू दवरूंक जाय. ते

**ज्ञाने मौनं क्षमा शक्तौ त्यागे श्लाघाविपर्ययः ।**
**गुणा गुणानुबन्धित्वात्तस्य सप्रसवा इव ॥२२॥**

उलयतात तशे सादे लोक उलोंवचो प्रयत्न करतात. ते चलतात, चेष्टा, मस्कऱ्यो करतात तशेच सादे मनीस करूंक शिकतात.

राजा कवि आसलो तर राज्यांतल्या कवींक बरे दिस येतात. राजा संगीत कळेंत तज्ञ जालो तर संगीत कळेचेर पोट भरपी लोकांचें नशीब उगडलें. राजाक शिकारेचो नाद लागलो तर शिकारी लोकांची उदरगत जाता आनी रानांतल्या मोनजातीचेर हावळ येता. राजा बोले, दळ हाले, अशें म्हणटात. राजाचेर सगळ्या राज्यांतल्या लोकांचे चलणुकेची जबाबदारी आसता म्हणून भगवद्गीतेंतल्या श्लोकांत कृष्ण भगवानान अर्जुनाक सांगलें कीं मोठे लोक जशे वागतात तशे हेर लोक वागूंक सोदतात.

**यद्यदाचरति श्रेष्ठस्तत्तदेवेतरो जनः ।**
**स यत्प्रमाणं कुरुते लोकस्तदनुवर्तते ॥ भ. गी. ३–२१ ॥**

जो मनीस चार-चौगांतल्यान नांवरूप काडून वयर सरता ताणे सदांच समजून रांवचें कीं लोकांचे दोळे आपलेकडे लागिल्ले आसात. आपुण चार दिस कांय लोकांक फसयन, पुण सदांच सगळ्यांक फटवप कठीन आसता. म्हणून राजांनीं, मोठ्या मनशांनीं उजू रीतीन चलूंक जाय. दिलीप राजा हें वळखतालो आनी शास्त्रान घातिल्ल्या नेमाप्रमाण वागतालो.

शास्त्राच्या नेमांनीं सगळ्यांनीं चलचें, आपणाक एकल्याकच तांतूंतल्यान मात्शी सोड मेळची, अशें चडशा लोकांक दिसता. दर एक मनीस कोणाक कळनासतना अशी सूट चोरून भोगूंक सोदता. हे भाशेन सगळ्यांनींच लिपां-चोरयांनीं शास्त्राचे नेम मोडले तर समाज ढोंगी जाता. आनी लोक फटकिरे जातात. भुरग्यांक हें ढोंग सगळ्यांत पयलीं कळटा. आनी जुवान पिळगी सदांच जाणटे पिळगेचें ढोंग फोडूंक फुडें सरता.

रामाच्या राज्यांत एका ब्राह्मणाचो पांच वर्सांचो पुत ल्हानपणांतच मेलो. त्या ब्राह्मणान त्या पुताचें मडें हाडून रामाच्या फुड्यांत दवल्लें, आनी रामाक सांगलें: "हांवें ह्या जल्मांत कसलें पाप करूंक ना. पूर्वजल्मांत केल्यार हांव नकळं. म्हाका दुबाव येता कीं, रामाच्या राज्यांत म्हजो सज्जन ब्राह्मणाचो पुत मरचो, हांतूंत राजा रामाचो कितेंय गुन्यांव घडिल्लो आसुंये!

अनाकृष्टस्य विषयैर्विद्यानां पारदृश्वनः ।
तस्य धर्मरतेरासीद्वृद्धत्वं जरसा विना ॥२३॥

रामस्य दुष्कृतं किंचिन्महदस्ति न संशयः ।
यथा हि विषयस्थानां बालानां मृत्युरागतः ॥ अ. ५१–३१
राजद्वारि मरिष्यामि पत्न्या सार्धमनाथवत् ।
ब्रह्महत्यां ततो राम समुपेत्य सुखी भव ॥५१–३३ ॥

वाल्मीकिरामायण–उत्तरकाण्ड

"रामा, हांव बायलेसयत आतां तुज्या दारांत मरतां. हे ब्रह्महत्येचें पाप भोगून तूं सुखी जा."

कालिदासान रघुवंशाच्या पंद्राव्या सर्गांत ह्या ब्राह्मणाचीं उतरां दिल्यांत:

शोचनीयासि वसुधे या त्वं दशरथाच्च्युता ।
रामहस्तमनुप्राप्य कष्टात्कष्टतरं गता ॥४३॥

"धर्तरे, दशरथ राजाच्या हातांतल्यान तूं रामाच्या हातांत पडून मोठ्या कष्टांत पडली!" म्हज्यासारक्या ब्राह्मणाचो पांच वर्सांचोच पुत मेलो! रामान त्या ब्राह्मणाची क्षमा मागली आनी ताज्या पुत्राक जिवो केलो, तेन्ना राम आपले लागणुकेंतल्यान मेकळो जालो.

अशे आशिल्ले हे सूर्यवंशांतले राजा!

फाटीं चवदाव्या पानार रामायण आनी रघुवंश हांचे भाशेविशीं बरयलां. रामायणाची भास आनी कल्पना साद्यो आसल्यो. कालिदासाच्यो संस्कारी आसल्यो. हाची एक देख ही ब्राह्मणाची काणी आस त्या श्लोकांवेल्यान दिसून येतली.

२२. तो दिलीप राजा ज्ञानी आसलो, तरी आपल्या ज्ञानाविशीं केन्ना कांय दाखोवन दिनासलो, चिप-ओगी रावतालो. ताका त्रास दिवप्यांक ख्यास्त लांवक समर्थ आसलो. तरी तो जायते फावटी तांकां क्षमा करतालो. तो त्याग करपी आसलो, म्हळ्यार दुसऱ्यांखातीर कष्ट सोंसतालो; गरीब-धाकट्यांखातीर आपल्या तोंडांतली उंडी दिवपी आसलो. पुण हे तरेन लोकांचेर केल्ल्या उपकाराविशीं तो केन्नाच कोणाक आपली नामना गांवक दिनासलो. ज्ञान आनी ज्ञानाविशीं मौन्य; शक्ती आनी क्षमा; उपकार करप आनी त्याखातीर उपकार मानूंक बंदी; हे एकामेकांभायरे गुण त्या राजाच्या ठांय जुंवळ्या जिंत्रुपांभशेन वावुरताले!

**प्रजानां विनयाधानाद्रक्षणाद्भरणादपि ।**
**स पिता पितरस्तासां केवलं जन्महेतवः ।।२४।।**

ह्याय श्लोकांत कालिदासान 'सप्रसवा' ह्या उतरांत पाणिनीच्या अष्टाध्यायीचो नेम मोडून समासीक उतर घडयलें. ह्या व्याकरणदोषांतल्यान कालिदासासारक्या कवीक वाटांवक वामन हो व्याकरणकार पंडीत आपले काशिवृत्तींत खटपट करता आनी कसोतरी कालिदासाक वाटायता. मागीर भट्टोजी दिक्षीत आपले सिद्धांतकौमुदींत वामनाक तेंको दिता. हरदत्त म्हणून आनीक एक व्याकरणकारय कालिदासाक मजत करूंक फुडें सरता. तात्पर्य, हे व्याकरणकार, अळंकारशास्त्री आनी टीकाकार कालिदासान बरयल्लें उतरान उतर उफाट्टें-सुफाट्टें तपासून एकामेकांबरोबर झगडटात. आतां ह्या सप्रसव ह्या उतरांत एके वटेन मल्लिनाथ आनी दुसरे वशीन भट्टोजी, वामन आनी हरदत्त एकामेकांकडेन करा करून पळेतात! हांकां पळोवन वयर पाणिनी आनी कालिदास पोटभर हांसतात जांवये!

२३. तो दिलीप राजा जुवान आसलो तरी इंद्रियांचीं सुखां ताका भुलोंवक पावलीं नात! ताणे सगळ्या विद्यांची दुसरी तड पळेली! तो सदांच धर्माक पाळो दितालो! तो पिरायेन म्हातारो जालो ना, तरी गुणांनीं जाणटो जाल्लो.

विषय म्हळ्यार इंद्रियां बांदून घालपी सुखां. सुंदर रूप दोळ्यांक भुलयता. मंजुळ नाद कानांक भूल घालता. परमळ नाखाक धुंद करता. सुवादीक रोस जिबेक लाळायता. आपले आवडीची, मोगाची वस्त सांसपून, वेंगेंत घेवन मनाक धादोसकाय जाता. पुण हें सगळें साद्या मनशांक लागू जाता. दिलीप राजा ह्या विषयांक भुलपी नाशिल्लो.

विद्या चार आसातः (१) आन्वीक्षिकी म्हळ्यार तर्कशास्त्र आनी अध्यात्मशास्त्र, (२) त्रयी म्हळ्यार ऋग्वेद, यजुर्वेद, सामवेद, (३) वार्ता म्हळ्यार वेव्हारविद्या म्हणजे शेतकामत, वेपारधंदो बी विद्या; आनी चौथी दंडनिती म्हळ्यार राज्यशास्त्र अशें कामन्दक नीतिसारांत सांगता. ह्या चार विद्यांत मनु आपले मनुस्मृतीच्या सातव्या अध्यायांत ४३व्या श्लोकांत आत्मविद्या ही पांचवी विद्या मेळयता. रघुवंशांत पांचव्या सर्गांत २१व्या श्लोकांत दिल्ले भाशेन विद्या चौदा आसातः कांय जाण त्या चौदा विद्यांत आयुर्वेद, धनुर्वेद, गान्धर्ववेद, अर्थशास्त्र घालून अठरा विद्या म्हणटात.

स्थित्यै दण्डयतो दण्ड्यान्परिणेतुः प्रसूतये ।
अप्यर्थकामौ तस्यास्तां धर्म एव मनीषिणः ॥२५॥
दुदोह गां स यज्ञाय सस्याय मघवा दिवम् ।
संपद्विनिमयेनोभौ दधतुर्भुवनद्वयम् ॥२६॥
न किलानुययुस्तस्य राजानो रक्षितुर्यशः ।
व्यावृत्ता यत्परस्वेभ्यः श्रुतौ तस्करता स्थिता ॥२७॥

मनु सांगता : न तेन वृद्धो भवति येनास्य पलितं शिरः ।
यो वै युवाऽप्यधीयानस्तं देवाः स्थविरं विदुः ॥

केंस गळून निखडयो जालो म्हणून मनीस जाणटो जायना. जुवान आसुनय जो ज्ञान मेळयता, ताका जाणटो म्हणटात.

दिलीप राजा ज्ञानान जाणटो आसलो.

२४. तो दिलीप राजा आपले प्रजेक रीत लायतालो, तांचें संकटांतल्यान रक्षण करतालो, आनी तांकां पोसतालो. ताज्या प्रजाजनांचे बापुय हे जल्माक घालपी बापुय उरताले. खऱ्या अर्थान दिलीप राजाच तांचो बापुय जातालो.

२५. लोकांमदीं शान्ती आनी सुख आसचीं म्हणून गुन्यांव करतल्यांक तो ख्यास्त लायतालो. संतत जावंची म्हणून तो लग्न न्हालो. धन सांठोवंचें म्हणून तो तें जोडिनाशिल्लो. मौज मारची म्हणून तो आपल्या मनाची इच्छा पुरी करिनासलो. जे ज्ञानी आसतात ते धर्माक पाळो दिवंचे खातीरच दुडू जोडटात आनी आपल्यो इच्छा पूर्ण करतात.

२६. यज्ञ करून देवांक संतुष्ट करचेखातीर धन जाय म्हणून तो पिर्थुमभर भोंवून खंडाचो वुशिल करतालो. धर्तरेक पीक येवंचें म्हणून इंद्रदेव अंत्राळ पिळून धर्तरेर पावस शिंवरतालो. एकामेकांची जोड एकामेकांक दिवन दिलीप आनी इंद्र धर्तरी आनी स्वर्ग हे दोन लोक सांबाळटाले.

मनशांनीं आनी स्वर्गांतल्या देवांनीं एकामेकांक पोसून एकामेकांची संभावना करची, ही कल्पना भगवद्गीतेच्या तिसऱ्या अध्यायांत १० ते १२ श्लोकांत आयल्या. तशीच ती कल्पना शाकुन्तलांतय आयल्या.

२७. आपले प्रजेचें रक्षण करपाचें यश जें दिलीप राजान जोडिल्लें ते भाशेन दुसरे राजा करूंक पावनासले. ताणी तशें केल्यार दिलीपाच्या यशांतलें यश ताणी चोर्ल्लें अशें कोणाकय दिसपाक फाव आसलें. पुण

द्वेष्योऽपि संमतः शिष्टस्तस्यार्तस्य यथौषधम् ।
त्याज्यो दुष्टः प्रियोऽप्यासीदङ्गुलीवोरगक्षता ॥२८॥
तं वेधा विदधे नूनं महाभूतसमाधिना ।
तथा हि सर्वे तस्यासन्परार्थैकफला गुणाः ॥२९॥
स वेलावप्रवलयां परिखीकृतसागराम् ।
अनन्यशासनामुर्वी शशासैकपुरीमिव ॥३०॥
तस्य दाक्षिण्यरूढेन नाम्ना मगधवंशजा ।
पत्नी सुदक्षिणेत्यासीदध्वरस्येव दक्षिणा ॥३१॥

दिलीपाच्या राज्यांत चोरी ही आयकिवांतली गजाल उरिल्ली. ताज्या राज्यांत चोरी करूंक कोणाक काळीज जायनासलें.

२८. वायटांत पडिल्ल्या मनशाक कोडू लागलें तरी वखद घेवप मानवता. तसोच दुस्मान जरी आसलो तरी तो सज्जन आसल्यार दिलीप राजाक मानवतालो. सोरोप किरोंगळेक चाबलो तर ती किरोंगळी कापून उडवप बरें. तेच भाशेन कोणय दिलिपाचो मित्र जालो तरी तो दुष्ट आसलो तर दिलिपाक आवडनासलो. दिलीप ताका पयसायतालो.

२९. भूंय, उदक, उजो, वाय आनी अंत्राळ हीं पांच महाभुतां. ब्रह्मदेवान ह्या पांचांचो मेळून संवसार रचला, आनी जिंत्रूप जल्माक घाल्यात. तांतूंत दरेक महाभुतांतलो बरो वांटो घेवन दिलीप राजाक घडयल्लो. म्हणून दुसऱ्यांच्या उपकारा पडपाचेच गुण ताजेठांय एकवटिल्ले. दुसऱ्यांचेखातीर आपली कुड झरवप तो आपले जिणेचें कार्य अशें समजतालो.

३०. सगळे पिर्थुमेचेर दुसऱ्या कोणाची सत्ता नासली. ती पिर्थुम म्हळ्यार एक नगर आनी दर्याचे वेळेचें कांड तिच्या प्राकाराभोंवतणी घाल्लें आनी दर्या म्हळ्यार तिचे चोंयवशींनीं खाणिल्लो चर आशिल्लो.

धर्तरी ही त्या राजाची जणु लग्नाची बायल आसली! तिच्या कमराक सागराचो घागरपाट आसलो. घोवाची बायलेचेर जशी सत्ता आसता तशे तरेची निष्ठा जोडिल्ली सत्ता तो पिर्थुमेर चलयतालो.

३१. ब्राह्मणांक दक्षणा दिल्याबगर यज्ञाची सांगता जायना. यज्ञांत दक्षणा ही एक म्हत्वाची वस्त आसता. तेच भाशेन मगध देसच्या राजकुळांतली एक राजकन्या लोकांकडेन गोड चलणुकेन वागपी सबावांतल्यानच जणु वयर

कलत्रवन्तमात्मानमवरोधे महत्यपि ।
तया मेने मनस्विन्या लक्ष्म्या च वसुधाधिपः ॥३२॥
तस्यामात्मानुरूपायामात्मजन्मसमुत्सुकः ।
विलम्बितफलैः कालं स निनाय मनोरथैः ॥३३॥
संतानार्थाय विधये स्वभुजादवतारिता ।
तेन धूर्जगतो गुर्वी सचिवेषु निचिक्षिपे ॥३४॥
अथाभ्यर्च्य विधातारं प्रयतौ पुत्रकाम्यया ।
तौ दंपती वसिष्ठस्य गुरोर्जग्मतुराश्रमम् ॥३५॥
स्निग्धगम्भीरनिर्घोषमेकं स्यन्दनमास्थितौ ।
प्रावृषेण्यं पयोवाहं विद्युदैरावताविव ॥३६॥
मा भूदाश्रमपीडेति परिमेयपुरःसरौ ।
अनुभावविशेषात्तु सेनापरिवृताविव ॥३७॥

सरिल्ली अशी सुदक्षिणा नांवाची त्या दिलिपाची राणी आसली. तिचे वर्तणुकीचे गोडयेक लागून तिका सुदक्षिणा हें नांव सोबलें.

यज्ञ हो जणु काय पति आनी दक्षणा ही यज्ञाची पत्नी मानतात!

३२. पिर्थुमेचो पति आशिल्ल्यान त्या राजाचें कुटुंब मोठें आसलें. तरीय राजाचेर पुराय एकनिष्ठपणान चित्त दवरून आशिल्ले ते राज्यलक्ष्मीच अशे सुदक्षिणा राणयेक लागूनच तो राजा आपणाक घोव समजतालो.

३३. त्या राजाक सोबसारकी आनी फाव अशी ती राणी आसली. ते राणयेक भुरगें जांवक कळाव लागलो. तिका चलो जांवचो अशी त्या राजाची इच्छा वेळार पूर्ण जाली ना. ३४. आपणाक भुरगें जांवचें म्हणून कितेंय देवस्पण करचें म्हणून आपल्या खांद्यावेली राज्यकारभाराची जापसालदारकी दिलिपान प्रधानाकडे दिली. ३५. मागीर त्या घोव-बायलांनीं ब्रह्मदेवाची पुजा केली आनी दोगांय जाणां वसिष्ठ गुरूच्या आस्रमांत वचपाक भायर सर्लीं. ३६. आयकुप्याच्या कानाक आवडत आनी घुमघुमपी असो, चड घडघडना इतलोच आवाज करपी एका रथांत बसून तीं दोगांय जाणां वचूंक लागलीं. वीज आनी ऐरावत एका पावस घालपी कुपाचेर बसून वतात अशीं तीं घोव-बायलां दिसलीं! ३७. आस्रमांतल्या लोकांक वा जिंत्रुपाक त्रास जायसारको ना म्हणून ताणी आपले बरोबर मेजकेच सेवक घेवन तीं भायर सर्लीं. पुण तांचो दोगांचो

सेव्यमानौ सुखस्पर्शैः शालनिर्याखगन्धिभिः ।
पुष्परेणूत्किरैर्वातैराधूतवनराजिभिः ॥३८॥
मनोभिरामाः शृण्वन्तौ रथनेमिस्वनोन्मुखैः ।
षड्जसंवादिनीः केका द्विधा भिन्नाः शिखण्डिभिः ॥३९॥
परस्पराक्षिसादृश्यमदूरोज्झितवर्त्मसु ।
मृगद्वन्द्वेषु पश्यन्तौ स्यन्दनाबद्धदृष्टिषु ॥४०॥
श्रेणीबन्धाद्वितन्वद्भिरस्तम्भां तोरणस्रजम् ।
सारसैः कलनिर्ह्रादैः क्वचिदुन्नमिताननौ ॥४१॥

राजाराणयेचोच दबाजो इतलो आसलो कीं पळेतल्यांक तांचे भोंवतणी सैन्यच आसा अशें दिसतालें. ३८. सायला रुखांचेर फुलिल्ल्या फुलांचे रेंवें घेवन ल्हवल्हव त्या रानांरानांतल्या रुखावळींक धोलयत थंडसार वारो त्या राजा-राणयेक मायेन सांसपून तांची सेवा करतालो. ३९. त्या राजा-राणयेच्या रथाच्या चक्रांच्या आवाजान थंयच्या मोरांक कुपां घडघडटात अशें दिसलें, आनी त्या आवाजान मोर खोसयेन तोंडां वयर करून साऽऽ हो षड्जाचो आवाज करूंक लागले. मोर आनी लांडोरीचे वेगळेवेगळे साऽऽ आयकूंक येवंक लागले. म्हणून ते संवादी म्हळ्यार एकमेकांक साथ दिवपी अशे दिसताले!

नाख, गळो, हड्डें, ताळू, जीब आनी दांत ह्या स जाग्यांवेल्यान साऽऽ हो आवाज घडून येता, म्हणून ताका षड्ज—स जाग्यांतल्यान जल्माक आइल्लो, अशें म्हणटात. अमरकोशांत सांगलां कीं “निषादर्षभगान्धारषड्जमध्यमधैवताः। पंचमश्चेत्यमी सप्त तन्त्रीकण्ठोत्थिताः स्वराः॥” सा (षड्ज), रे (ऋषभ), ग (गान्धार), म (मध्यम), प (पंचम), ध (धैवत), नी (निषाद), हे सात सूर वीणा आनी मनशाच्या गळ्यांतल्यान येतात.

४०. तो रथ येता तें पळेवन मिर्ग आनी हरीण हें जोडें मात्शीं पयस वचून रथाक पळोंवक लागलीं. तेन्ना दिलीप आनी सुदक्षिणेक आपल्यो दोगांयच्यो नदरो आनी त्या मिर्गांच्या जोड्याच्यो नदरो हांचेभितर सारकाय दिसूंक लागली. दिलीप राजा आनी दादलो मिर्ग हांच्यो नदरो सारक्यो दिसताल्यो आनी सुदक्षिणा राणी आनी हरीण (बायल) हांच्यो नदरो सारक्यो दिसल्यो. ४१. तो रथ त्या रानांतल्यान भोंवतासतना त्या राजाराणयेक केन्ना केन्ना बळारींच्या कळकळाक लागून आपलीं तोंडां वयर करून पळेतकूच बळारींच्यो अंत्राळांतल्यान

पवनस्यानुकूलत्वात्प्रार्थनासिद्धिशंसिनः ।
रजोभिस्तुरगोत्कीर्णैरस्पृष्टालकवेष्टनौ ॥४२॥
सरसीष्वरविन्दानां वीचिविक्षोभशीतलम् ।
आमोदमुपजिघ्रन्तौ स्वनिःश्वासानुकारिणम् ॥४३॥
ग्रामेष्वात्मविसृष्टेषु यूपचिह्नेषु यज्वनाम् ।
अमोघाः प्रतिगृह्णन्तावर्घ्यानुपदमाशिषः ॥४४॥
हैयंगवीनमादाय घोषवृद्धानुपस्थितान् ।
नामधेयानि पृच्छन्तौ वन्यानां मार्गशाखिनाम् ॥४५॥
काऽप्यभिख्या तयोरासीद्व्रजतोः शुद्धवेषयोः ।
हिमनिर्मुक्तयोर्योगे चित्रचंद्रमसोरिव ॥४६॥
तत्तद्भूमिपतिः पत्न्यै दर्शयन्प्रियदर्शनः ।
अपि लंघितमध्वानं बुबुधे न बुधोपमः ॥४७॥

उडटासतना माळोकशो दिसताल्यो. आनी त्यो माळो म्हळ्यार मेडी नाशिल्लीं तोन्नाकशीं सोबलीं. ४२. वारो तांकां जाय ते दिशेन येतालो. म्हणटकूच तांचे कें.स विस्कटनासले आनी घोड्यांच्या खुरांनीं उसळिल्ल्या धुल्लान मुंडाशें म्हेळ्ळें ना. ४३. तळ्यांतल्यान कमळां फुलिल्लीं. उदकाच्या ल्हारांवेल्यान कमळांच्या वासासयत आइल्लो वाऱ्याचो परमळ हुंगून राजाराणयेक एकामेकांच्या निस्वासांचो वास येवजलो. ४४. ज्या वाठारांतल्यान तांचो रथ चलतालो ते गांव त्या राजान यज्ञ करपी ब्राह्मणांक दान दिल्ले. आनी थंय यज्ञ करतल्यांनीं यज्ञांचे खांबे पुरिल्ले दिसताले. त्या यज्ञ करपी ब्राह्मणांकडल्यान ताणी अर्घ्यां आनी आशीर्वाद घेतले. अर्घ्यां म्हळ्यार पांय धुवपाक उदक आनी फुलां-फळांबी केळवण म्हणून हाडिल्ल्यो वस्तू. देवाचे पुजेंत देवाक अर्घ्यां दितात. ४५. लोणी घेवन राजा-राणयेक भेट म्हणून दिवंक जाणटेले गोरखे आयले. वाटेर आशिल्ल्या रान-रुखांचीं नांवां राजा-राणयेन त्या गोरख्यांकडल्यान विचारून घेतलीं. ४६. शिंयाळ्या दिसांनीं फांतोडेर धुंवें विरून वतकच चित्रा नक्षत्र चंद्रिमालागीं अंत्राळांत जशें सोबून दिसता, तशीं तीं दोगां आपल्या चकचकीत भेसांत वतासतना दिसतालीं. ४७. तो ज्ञानी राजा दिसपाकय देखणो आसलो. आपले राणयेक तो वाटेर दाखोवंचेसारकें जें कितें आसलें तें दाखयत वतासतना वाट कशी सोंपली तें कळ्ळेंच ना! ४८. सगळ्या दिसाच्या प्रवासान त्या

स दुष्प्रापयशाः प्रापदाश्रमं श्रान्तवाहनः ।
सायं संयमिनस्तस्य महर्षेर्महिषीसखः ॥४८॥

वनान्तरादुपावृत्तैः समित्कुशफलाहरैः ।
पूर्यमाणमदृश्याग्निप्रत्युद्यातैस्तपस्विभिः ॥४९॥

आकीर्णमृषिपत्नीनामुटजद्वाररोधिभिः ।
अपत्यैरिव नीवारभागधेयोचितैर्मृगैः ॥५०॥

सेकान्ते मुनिकन्याभिस्तत्क्षणोज्झितवृक्षकम् ।
विश्वासाय विहंगानामालवालाम्बुपायिनाम् ॥५१॥

आतपात्ययसंक्षिप्तनीवारासु निषादिभिः ।
मृगैर्वर्तितरोमन्थमुटजांगनभूमिषु ॥५२॥

अभ्युत्थिताग्निपिशुनैरतिथीनाश्रमोन्मुखान् ।
पुनानं पवनोद्धूतैर्धूमैराहुतिगन्धिभिः ॥५३॥

---

राजाच्या रथाच्या घोड्यांक पुरो जालें! जाचेइतलें यश कोणाकूच जोडूंक जमलें ना असो ते राणयेचो जीवप्राण, तो राजा, सदां नेमान वागपी अशा त्या वासिष्ठ महर्षीच्या आस्रमांत आमोरेर पावलो.

४९. थंयचे तप करपी ऋषी रानां-रानांनीं भोंवून समिधा, कुश-तण आनी फळां घेवन परते आइल्ले पळोवन अग्नि आपलें रूप न दाखयतां त्या आस्रमांत येवपी ऋषींक येवकार दिवंक फुडें सल्ले. ५०. त्या आस्रमाच्या दारांत नीवार तांदळांच्या दाण्यांचो आपलो वांटो खावंक म्हणून हरणां जणु त्या ऋषींच्या बायलांचीं भुरगींच कशीं दार आडावन उबीं आशिल्लीं. ५१. थंयच्या झाडांच्या रोप्यांक उदक शिंपतासना आळ्यांत ओतिल्लें उदक पिवंक सवणीं जमतालीं. तांकां भंय दिसचें न्हय म्हणून त्या मुनींच्यो धुवो उदक आळ्यांत शिंपल्याबराबर रोखड्योच पेल्यान वचून उब्यो रावताल्यो. म्हणटकीर सुकणीं मनमेकळेपणान येवन उदक पितालीं. ५२. धारेर आइल्ल्या दिसाच्या वोतांत मिर्ग आस्रमांच्या आंगणांत बसून रवंथ करताले. वोत कमी जालें तशो वोतांत सुकूंक पातळायल्ल्या दाण्यांच्यो राशी एकठांय पुंजावन दवरिल्ल्यो. ५३. यज्ञाचो अग्नि आपली तकली वयर काडून जणु काय कोण पावणो-रावळो येता काय म्हणून आस्रमाचे भायले वशीन पळेतालो आनी आपणाभितर जे वस्तीची आहुती दिल्या ते वस्तीचो परमळ आशिल्ल्या वाऱ्यान भोंवर मारपी धुंवरान जणु आस्रमांत

अथ यन्तारमादिश्य धुर्यान्विश्रामयेति सः ।
तामवारोहयत्पत्नीं रथादवततार च ॥५४॥
तस्मै सभ्याः सभार्याय गोप्त्रे गुप्ततमेन्द्रियाः
अर्हणामर्हते चक्रुर्मुनयो नयचक्षुषे ॥५५॥
विधेः सायंतनस्यान्ते स ददर्श तपोनिधिम् ।
अन्वासितमरुन्धत्या स्वाहयेव हविर्भुजम् ॥५६॥
तयोर्जगृहतुः पादान्राजा राज्ञी च मागधी ।
तौ गुरुर्गुरुपत्नी च प्रीत्या प्रतिननन्दतुः ॥५७॥
तमातिथ्यक्रियाशान्तरथक्षोभपरिश्रमम् ।
पप्रच्छ कुशलं राज्ये राज्याश्रममुनिं मुनिः ॥५८॥

---

येवपी पावण्याक पवित्र करतालो. हांगा ४९ ते ५३ श्लोकांची एक कुलक—जुडी जाली.

५४. त्या राजान रथ चलोवपी सारथ्याक सांगून घोड्यांक विसंव दिवंक लायलो. राणयेक रथांतल्यान सकला भुंयेर देवंयली, आनी आपुणय रथांतल्यान देवंलो. ५५. तो राजा नितीन चलपी आशिल्लो म्हणून त्या आस्रमांतले जे सत्पुरुष आशिल्ले, ताणी सगळ्यांनीं त्या आपल्या रक्षणकरत्या मानादीक राजाक आनी राणयेक येवकार दिलो. ५६. सांजवेळचो होम करून जातकीर त्या राजान तपाचो सागर अशा वसिष्ठ गुरूचें दर्शन घेतलें. अग्निदेवासरीं स्वाहा देवता आसता, त्याप्रमाण त्या ऋषीसरीं ताजी बायल अरुन्धती बशिल्ली. ५७. तो राजा आनी मगधाच्या कुळांतले ताचे राणयेन त्या गुरूचे आनी गुरूचे पत्नीचे पांय धरून तीं तांच्या पांयां पडलीं. आनी ताणीय तांकां मायेन आशीर्वाद दिले. ५८. तो राजा आपलें राज्य हो एक आस्रम अशेंच मानतालो. आनी स्वताक आस्रमवासी मुनी समजतालो. प्रवासांत रथाच्या धपक्यांनीं त्या राजा-राणयेक जी थाकाय आइल्ली, ती ऋषीच्या पावणेचाराचे मायेन बरी जाली. मागीर ऋषीन त्या राजाक 'राज्य खुशाल आस मू?' म्हणून विचाल्लें.

वसिष्ठ ऋषी अथर्ववेदाचो ज्ञानी आसलो. अथर्व वेद हो चवथो वेद. तो पयल्या तीनय वेदांपरस जिणेचें पडबिंब बरें दाखयता; वेव्हारांत चांटये-पांवलाक उपयोगी पडटा. त्या वेदांत जादू, मंत्र, तंत्र, फुडें येवपी संकटांतल्यान पयलींच सोडवण करून घेवपाचे उपाय सांगिल्ले आसात. अथर्व वेद म्हळ्यार मनशाचें कल्याण करपी

**अथाथर्वनिधेस्तस्य विजितारिपुरः पुरः ।**
**अर्थ्यामर्थपतिर्वाचमाददे वदतां वरः ॥५९॥**
**उपपन्नं ननु शिवं सप्तस्वंगेषु यस्य मे ।**
**दैवीनां मानुषीणां च प्रतिहर्ता त्वमापदाम् ॥६०॥**

---

वेद. राजाच्या पुरयताक ह्या वेदाचें पुराय ज्ञान आसूंक जाय. कारण राजाक खूब शत्रू आसतात; आनी त्या शत्रूंनीं राजाचेर कितेंय करणी करून घाली जाल्यार, राजाच्या पुरयताक ते करणेच्या वायट परिणामांतल्यान राजाक वाटावंक येवंक जाय. दिलीप राजाक भुरगें जायना, ह्याचेर कितें उपाय करचो, हें विचारपाक दिलिपाक आपलो गुरू वसिष्ठ हाजेपरस दुसऱ्या ज्ञानी मनशाची गरज नासली. वसिष्ठ ऋषी अथर्व वेदाचो जाणकार आशिल्ल्यान ताका भूत, भविष्याचें ज्ञान आशिल्लें. तो दिलीप राजाक भुरगें जावपाचो अचूक उपाय सांगतलो म्हणपाची दिलिपाक खात्री आसली. वसिष्ठ हो एक ब्रह्मर्षि आसलो. सूर्यवंशांतल्या राजांचो गुरू जांवची योग्यताय वसिष्ठ ऋषींत आसली. तो पूर्ण ब्रह्मज्ञानी आनी योगी आसलो. आपल्या मनाचेर ताजो पुराय शेक आसलो. सूर्यवंशांतल्या राजांक तो सांबाळटालो. आपल्या तपाच्या तेजान सूर्यवंशाच्या राजांचें तो कल्याण करूंक समर्थ आसलो. तांचेर तो शेक दवरून तांकां बऱ्या मार्गाक लायतालो. कालिदास वसिष्ठाक अथर्वनिधी म्हळ्यार अथर्व ज्ञानाचो सागर म्हणटा तें योग्यच आसलें.

५९. उलोवप्यांत श्रेष्ठ असो तो दुस्मानांचीं नगरां जिखिल्लो धनपती राजा दिलीप, ताणे अथर्ववेदाच्या जाणट्या अशा त्या मुनीक अर्थान उपाट भरिल्ल्या उतरांत जाप केली :

६०. म्हज्या राज्यार दैवान धाडिल्लीं आनी मनशांनीं उमथून घाल्लीं अरिष्टां घडघडलीं तर त्या अरिष्टांक धिसपटावन उडोवपी तूं समर्थ आसतना, म्हज्या राज्याच्या सातय आंगांपांगांनीं धादोसकाय नंदची हें सबावीक आसा.

कामन्दक नीतिसारांत सांगता कीं, उजो, हुंवार, कसल्याय रोगाची धाम, दुकळ आनी मरण हीं पांच दैवान धाडिल्लीं संकष्टां उरतात. सरकारी चाखरमाने, चोर, शेजारी-सांबारी, राजाचे नातेवर्गी, स्वता राजा लोभी आशिल्ल्यान जर प्रजेक त्रास जालो, तर तीं मनशांनीं उखल्लून घाल्लीं संकष्टां जालीं. कामन्दकान नीतिसाराच्या चवथ्या अध्यायांत आनी मनुस्मृतींत गवळ्या

**तव मन्त्रकृतो मन्त्रैर्दूरात्प्रशमितारिभिः ।**
**प्रत्यादिश्यन्त इव मे दृष्टलक्ष्यभिदः शराः ॥६१॥**
**हविरावर्जितं होतस्त्वया विधिवदग्निषु ।**
**वृष्टिर्भवति सस्यानामवग्रहविशोषिणाम् ॥६२॥**
**पुरुषायुषजीविन्यो निरातंका निरीतयः ।**
**यन्मदीयाः प्रजास्तस्य हेतुस्त्वद्ब्रह्मवर्चसम् ॥६३॥**
**त्वयैवं चिन्त्यमानस्य गुरुणा ब्रह्मयोनिना ।**
**सानुबन्धाः कथं न स्युः संपदो मे निरापदः ॥६४॥**
**किं तु वध्वां तवैतस्यामदृष्टसदृशप्रजम् ।**
**न मामवति सद्वीपा रत्नसूरपि मेदिनी ॥६५॥**

---

अध्यायांत सांगिल्लेप्रमाण (१) राजा, (२)प्रधान, (३) राजाचे मित्र, (४) कोठी, (५) राज्य, (६) दुर्ग आनी (७) सैन्य ही राज्याचीं सात आंगां आसतात.

दिलीप मुखार उलयता :

६१. म्हज्या दोळ्यांमुखार आशिल्ल्या म्हज्या दुस्मानांक हांव बाणांनीं स्यास्त लायतां. पुण म्हाका दिसूंक पावनाशिल्ल्या म्हज्या दुस्मानांक तुज्यान स्वता मंत्रकर्तो म्हणून पयससावन मंत्रांनीं स्यास्त लावं येता. ६२. तुवें शास्त्रनेमा-प्रमाण यज्ञांत आहुती दिली, कीं तें आहुतीचो पावस जावन येता आनी आमचीं शेतां पिकतात. तुवें यज्ञ केले ना तर पावसाविरयत दुकळान म्हज्या राज्यांतलीं पिकां लासून वतलीं. ६३. म्हजी प्रजा शंबर वर्सांची पुराय जीण जगता. ते वायटान हातुळणार पडनात! घटघुमट आसतात! चड पावस पडून हुंवारान वा पिकां कुसून तांचें लुस्कान जायना. दुकळ पडून ते भिकेक लागनात. कोळ्हुंदरांचे धाडीक लागून तांच्या पिकांची नासाडी जायना. किडी पडून वा किरांसारक्या सवण्यांकडच्यान तांचे पिकेर हावळ येना. तुज्या ब्रह्मतेजाक लागून सगळ्या वायटपणांतल्यान आनी निजाच्या संकश्टांतल्यान म्हजे प्रजेचें रक्षण जाता. ६४. तूं ब्रह्मदेवाचो पुत, म्हजो गुरू आशिलयान म्हजें घर भरून दारांतल्यान ओतपी संपदा सासणाची कित्याक चालू रावंची न्हय?

ब्रह्मदेवाक धा मानस पुत्र जाले अशें मत्स्यपुराणांत आसा : (१) मरीचि, (२) अत्रि, (३) अंगिरा, (४) पुलस्त्य, (५) पुलह, (६) क्रतु, (७) प्रचेता, (८) वसिष्ठ, (९) भृगु आनी (१०) नारद.

**नूनं मत्तः परं वंश्याः पिण्डविच्छेददर्शिनः ।**
**न प्रकामभुजः श्राद्धे स्वधासंग्रहतत्पराः ॥६६॥**
**मत्परं दुर्लभं मत्वा नूनमावर्जितं मया ।**
**पयः पूर्वैः स्वनिःश्वासैः कवोष्णमुपभुज्यते ॥६७॥**
**सोऽहमिज्याविशुद्धात्मा प्रजालोपनिमीलितः ।**
**प्रकाशश्चाप्रकाशश्च लोकालोक इवाचलः ॥६८॥**
**लोकान्तरसुखं पुण्यं तपोदानसमुद्भवम् ।**
**संततिः शुद्धवंश्या हि परत्रेह च शर्मणे ॥६९॥**

राजा फुडें उलयलोः

६५. जे पिर्थुमेर हांव राज्य करतां तिचीं जायतीं खंडां आसत. आनी तांच्या खणींतल्यान जायतीं रत्नां-माणकां मेळूनय हांव सुखी जावंक पावना. कारण हे तुजे सुनेक अजून पुत्रलाभ जावंक ना.

दिलीप राजा स्वताक वसिष्ट गुरूचो पुत समजता. म्हणून सुदक्षिणा ही वसिष्ठाची सून जाली. गुरूक त्या काळांत सज्जन लोक बापायसारकोच मान दिताले. ही भारतीय परंपरा. देवापरस गुरूक श्रेष्ठ मानताले. कारण गुरूचे दयेन मनीस देवाचे कृपेक पात्र जाता. दिलीप उलयता :

६६. म्हजे नंतर पिंड मेळचो बंद जातलो, ह्या दुबावान म्हजे पितर, सद्या हांव तांकां श्राद्धाच्या वेळार दितां त्या पिंडांतलो कांय वांटो, फुडल्या काळाखातीर सांठवन दवरुंचो लागिल्ल्यान, ते धादोशी जायनासतनाच उरतात जांवये! ६७. हांव सद्या म्हज्या पितरांचें तर्पण करतासतना म्हजेमागीर तांकां अशें तर्पणाचें उदक मेळपाचें ना, म्हणून दुःखान सोडिल्ल्या सुस्काऱ्यांक लागून, हांवें तांच्या नांवान सोडिल्लें उदक हुनसार जाल्लें पितात जांवये! ६८. लोकालोक पर्वतार अर्दा आंगाचेर सुर्याचो उजवाड पडटा, आनी दुसरें अर्दें आंग काळखांत उरता. तसो यज्ञयाग केल्ल्यान आत्म्यान शुद्ध असो हांव पर्जळटां आसतनाय, भुरगें-बाळ नाशिल्ल्यान पाल्यल्लेभशेन काळखांत उरतां. ६९. तप केलें, दान दिलें तर त्या पुण्यान परलोकांत पावतकच सुख मेळटा. पुण शुद्ध वंशाची संतत ह्या लोकांत आनी परलोकांत दोनीयकडेन सुख दिता.

कालिदास शुद्ध वंशाक कितलें म्हत्व दिता तें परतें हांगा दिलिपाच्या तोंडान सांगता. दिलीप फुडें उलयताः

**तया हीनं विधातर्मां कथं पश्यन्न दूयसे ।**
**सिक्तं स्वयमिव स्नेहाद्वन्ध्यमाश्रमवृक्षकम् ॥७०॥**
**असह्यपीडं भगवन्नृणमन्त्यमवेहि मे ।**
**अरुंतुदमिवालानमनिर्वाणस्य दन्तिनः ॥७१॥**

७०. तूं म्हजो गुरू. तुज्या आस्रमांतल्या रुखाच्या ल्हान रोंप्याभशेन तुवें म्हाका जणु स्वताच उदक शिंपून ल्हानाचो मोठो केला. त्या म्हाका फळ धरना तें पळोवन तुका समर्थाक वायट कशें दिसना?

कालिदास दिलीप राजाक 'वदतां वरः' —खांपो उलोवपी, अशें म्हणटा. आस्रमांतल्या उदक शिंपून वाडयल्ल्या रोंप्याचेर ऋषी-मुनींची माया आसता. आनी आपुण तांतलोच एक रोंपो म्हणून एदो मोठो सम्राट त्या वसिष्ठ गुरूचे-मुखार आपणाक ल्हानपण घेवन त्या ऋषीक मोठेपण दिता; आनी जणु त्या ऋषीच्या काळजाक हात घालता. संवसारांत रस मानिनाशिल्ल्या निःसंग ऋषी-मुनींक कशें मानोवंचे तें दिलीप जाणा आसलो. म्हणून कालिदास ताका 'वदतां वरः' म्हणटा. आपलें काम करून घेवंचेखातीर त्या ऋषीकडेन कशें उलोवंचें तें दिलीप बरेंभाशेन जाण आसलो. म्हणूनच कालिदास रघुवंशी राजांक 'आफलोदयकर्म'—हातांत घेतिल्लें काम तडीक व्हरपी, अशें म्हणटा. दिलीप फुडें उलयता :

७१. हत्तीक न्हावंक दिनासतना खांब्याक बांदून दवल्लो तर ताच्या मनाक प्राणांतीक दुःख जाता. तेच भाशेन देवाचें रिण, ऋषींचें रिण आनी पितरांचें रिण फारीक केल्याबगर रांवचें म्हळ्यार म्हाका मर्णापरस चड दुःख भोगता. वसिष्ठ भगवंता, तूं म्हजें दुःख समजून घे.

दिलीप राजा वसिष्ठ गुरूक 'भगवन्ता' म्हणून उलो मारता. कळवळून उलो मारता! जो पूर्ण ज्ञानी आसता ताकाच भगवंत म्हणटात. हिंदु धर्मशास्त्रा-प्रमाण यज्ञयाग करून देवाचें रिण, वेद शिकून ऋषींचें रिण आनी पुत्र जातकीच पितरांचें रिण फिटटा! हीं तीन अन्तिम रिणां. हीं कोणाक सुटूंक येवक नात. हीं रिणां फारीक केलीं ना, तर मनीस संवसारांतल्यान, जल्मामर्णाच्या भोंवडेतल्यान सुटूंक पावना. ह्या दिलीप राजाची धर्मशास्त्राचेर पूर्ण स्रद्धा. म्हणून तो आपणाक पितरांच्या रिणांतल्यान वाटाय म्हणून वसिष्ठाचे काकुळटी येता! दिलीप उलयता:

७२. इक्ष्वाकूच्या कुळांतले संततेक जें कितें करूंक जमना, तें तूं तांकां

तस्मान्मुच्ये यथा तात संविधातुं तथाऽर्हसि ।
इक्ष्वाकूणां दुरापेऽथ त्वदधीना हि सिद्धयः ॥७२॥
इति विज्ञापितो राज्ञा ध्यानस्तिमितलोचनः ।
क्षणमात्रमृषिस्तस्थौ सुप्तमीन इव ह्रदः ॥७३॥
सोऽपश्यत्प्रणिधानेन संततेः स्तम्भकारणम् ।
भावितात्मा भुवो भर्तुरथैनं प्रत्यबोधयत् ॥७४॥
पुरा शक्रमुपस्थाय तवोर्वीं प्रतियास्यतः ।
आसीत्कल्पतरुच्छायामाश्रिता सुरभिः पथि ॥७५॥
धर्मलोपभयाद्राज्ञीमृतुस्नातामिमां स्मरन् ।
प्रदक्षिणक्रियार्हायां तस्यां त्वं साधु नाचरः ॥७६॥

---

दिंवक समर्थ आस. कारण तुजेलागीं सगळ्यो सिद्धी आसत. म्हणून जशें तुका योग्य दिसत ते भाशेन म्हाका ह्या पितरांच्या रिणांतल्यान मेकळो कर. तूं म्हजो बापुयच आस.

७३. हे भाशेन त्या राजान वसिष्ठ गुरूक विनयलो. तेन्ना एकाद्या तळ्यांतलें नुसतें न्हिदलें कीं तें तळें हालनासतना निश्चळ उरता, तसो तो वसिष्ठ गुरू खिणभर दोळ्यांच्यो पातयो हालयनासतना निश्चळ जावन ध्यानाचे अवस्तेंत बसलो. ७४. शुद्ध अन्तस्कर्णाच्या त्या ऋषीन आपलें चित्त एकाच वस्तीचेर तोंचून, त्या धर्तरेच्या धनयाक संतत कित्याक जायना ताचें कारण उस्तून पळेलें आनी राजाक शिटकायलो: ७५. फाटीं एक फावट इंद्राचें कसलें तरी काम करून तूं स्वर्गातल्यान धर्तरेर येतासतना, वाटेर कल्प-रुखाचे सावळेक सुरभि ही कामधेनु राविल्ली. ७६. तुवें ते कामधेनूक प्रदक्षणा घालून फुडें वचूंक जाय आसलें. पुण तुजे राणयेचो तो म्हयन्याचो न्हाल्लो दिस आसलो, म्हणून तिचेकडेन बेगीन वचपाचें तुजें धर्मिक कर्तव्य आसलें. धर्माक पाळो दिल्याबगर रांव नये, म्हणून राणयेचे यादेंत गुल्ल आशिल्ल्यान तुवें ते कामधेनूक प्रदक्षणा घालीच ना.

ऋतौ भार्यामुपेयात् । अशें वेदांत सांगलां. आपली बायल म्हयन्याची न्हाता त्या दिसा घोवान बायलेक सोडून रावसारकें ना, अशें मनुस्मृतींत 'ऋतुकाला-भिगामी स्यात्स्वदारनिरतः सदा ।' म्हणून सांगलां. ऋतुस्नातां तु यो भार्यां स्वस्थः सन्नोपगच्छति । बालगोघ्नापराधेन विध्यते नात्र संशयः ॥ अशें पराशर स्मृतींत सांगलां. बायल म्हयन्याची न्हाली आनी आरोग्यान बरी आसतना

अवजानासि मां यस्मादतस्ते न भविष्यति ।
मत्प्रसूतिमनाराध्य प्रजेति त्वां शशाप सा ॥७७॥
स शापो न त्वया राजन्न च सारथिना श्रुतः ।
नदत्याकाशगंगायाः स्रोतस्युद्दामदिग्गजे ॥७८॥
ईप्सितं तदवज्ञानाद्विद्धि सार्गलमात्मनः ।
प्रतिबध्नाति हि श्रेयः पूज्यपूजाव्यतिक्रमः ॥७९॥

घोवान तिचेकडेन दुर्लक्ष केलें, तर बाळहत्या आनी गायहत्येचो दोष लागता. दिलीप राजा न चुकतां शास्त्राचे नेम पाळपी आशिल्यान तो बायलेलागीं बेगीन वचपाचे येवजणेंत गुल्ल असो उरिल्यान, ताजेकडल्यान सुरभी काम-धेनूचो अपमान जालो. त्या काळांत संतत वाडोंवचें शास्त्र आसलें. संतत उणी करपाचें शास्त्र नासलें. त्या काळचे नेम आयज लागू जायनात. पुण नेम करतकीच ते शिस्तीन पाळची राजाची जापसालदारकी आमी वळखूंक जाय.

७७. "म्हाका तूं वळखना. तर म्हजे संततीची सेवा केल्याबगर तुका संतत जावंची ना!" अशें म्हणून ते कामधेनून तुका स्राप दिलो.

७८. तो स्राप तुवें आयकलोच ना. तुज्या सारथ्याकय तो आयकूंक आयलो ना. कारण ते घटकेक अंत्राळांतली गंगा मंदाकिनी हिच्या उदकाच्या झोतांत मस्तेक आइल्ले दिकांचे हत्ती रोमट घालीत न्हाताले.

आठ दिशांक दिक्पाल संवसार राखतात. तांचे आठ हत्ती उरतात. पूर्व दिशेक इंद्राचो हत्ती ऐरावत; आग्नेय दिशेक आग्निदेवाचो हत्ती पुण्डरिक म्हणून आसता; दक्षिण दिशेक यमदेवालो वामन हत्ती; नैऋत्य दिशेक सूर्यदेवाचो कुमुद हो हत्ती; पश्चिम दिशेक वरुणदेवाचो अंजन हो हत्ती; वायव्य दिशे-वसल्यान वायुदेवाचो पुष्पदन्त हो हत्ती; उत्तरेकडेन कुबेर देवाचो सार्वभौम म्हणून हत्ती; आनी ईशान्य दिशेलागीं सोमदेवाचो सुप्रतीक. अशे अष्ट दिक्पालांचे आठ दिग्गज उरतात.

७९. वसिष्ठ ऋषी फुडें उलयता: तुवें ते कामधेनूच्या केल्लया अपमानाक लागून तुवें येवजिल्लें घडून येवंक अडचणी येतात. जाची पुजा करची ताचो अपमान केलो, आनी जाची पुजा करची न्हय ताची पुजा बांदली; कीं येस मेळपाचें बंद जालेंच म्हणून समजुंचें! पुजेक योग्य आनी पुजेक अयोग्य हांची सदलाबदल जाली कीं पुजेचें श्रेय पयसावलेंच! ८०. सद्या ती सुरभि कामधेनू

हविषे दीर्घसत्रस्य सा चेदानीं प्रचेतसः ।
भुजंगपिहितद्वारं पातालमधितिष्ठति ॥८०॥
सुतां तदीयां सुरभेः कृत्वा प्रतिनिधिं शुचिः ।
आराधय सपत्नीकः प्रीता कामदुघा हि सा ॥८१॥
इति वादिन एवास्य होतुराहुतिसाधनम् ।
अनिन्द्या नन्दिनी नाम धेनुराववृते वनात् ॥८२॥
ललाटोदयमाभुग्नं पल्लवस्निग्धपाटला ।
बिभ्रती श्वेतरोमांकं संध्येव शशिनं नवम् ॥८३॥
भुवं कोष्णेन कुण्डोध्नी मेध्येनावभृथादपि ।
प्रस्नवेनाभिवर्षन्ती वत्सालोकप्रवर्तिना ॥८४॥



पाताळलोकांत आसा. थंय वरुणदेव एक मोठें सत्र करता. त्या सत्रांत आहुती दिवंचेखातीर सुरभि कामधेनू दूध, धंय, तूप हांची पुरवण करूंक थंयच रावल्या. पाताळ लोकाच्या दारार सोरोप आशिल्ल्यान तो दरवटो आडांबो घाल्ल्याभशेन बंद जाला.

सत्र म्हळ्यार खूब दिस चलपी यज्ञ. सत्र एक वर्सभर तरी चालू उरता, आनी हजार वर्सांमेरेनय चलता. यज्ञाचें पुण्य येजमान्याक मेळटा आनी यज्ञ करपी ब्राह्मणांक दक्षणा मेळटा. सत्रांत येजमान्याक आनी सत्र करपी सोळा ब्राह्मणांक सत्र केल्ल्याचें पुण्य मेळटा.

८१. त्या सुरभि कामधेनूच्या जाग्यार तिची पाडी नंदिनी आस, अशें समजून ते नन्दिनीची तुजे बायलेसयत तूं सेवा कर. ती तुजे सेवेन संतुष्ट जावन तुमचे हेत पूर्ण करीत. ८२. इतलें तो ऋषी उलयता म्हणसर नन्दिनी नांवाची ती कांयच खत नाशिल्ली अशी गाय रानांतल्यान परती आयली. ती गाय वसिष्ठ ऋषीक होमांत आहुती दिंवचेखातीर सदांच तुपाची पुरवण करताली. ८३. सांजवेळा चंद्रिमाची कोर अंत्राळांत उदेली कीं मळबाचो रंग पिंगसो दिसता. तेच भाशेन चंद्रकोरीच्या आकाराचो असो धवे फुल्ल ल्हवेंचो तिवो ते नन्दिनीच्या कपलार आशिल्लो आनी तिचें बाकी सगळें आग चिके पिंगशा रंगाचें आशिल्लें. पानाचे कंवळे आंकरेभशेन तिचो रंग दिसतालो. ८४. तिची कासांडीं मोठी आशिल्ली. आपल्या पाडकाक पळोवन तिच्या बोंबांतल्यान ती हुन दूद स्कोवन भूंय भिजोवंक लागली. यज्ञ करून जातकीर अवभृथस्नान म्हणून एक पवित्र न्हाणाचो सुवाळो करतात. ताका लागून यज्ञ करप्याक पुण्य

रजःकणैः खुरोद्धूतैः स्पृशद्भिर्गात्रमन्तिकात् ।
तीर्थाभिषेकजां शुद्धिमादधाना महीक्षितः ॥८५॥
तां पुण्यदर्शनां दृष्ट्वा निमित्तज्ञस्तपोनिधिः ।
याज्यमाशंसितावन्ध्यप्रार्थनं पुनरब्रवीत् ॥८६॥
अदूरवर्तिनीं सिद्धिं राजन्विगणयात्मनः ।
उपस्थितेयं कल्याणी नाम्नि कीर्तित एव यत् ॥८७॥
वन्यवृत्तिरिमां शश्वदात्मानुगमनेन गाम् ।
विद्यामभ्यसनेनेव प्रसादयितुमर्हसि ॥८८॥
प्रस्थितायां प्रतिष्ठेथाः स्थितायां स्थितिमाचरेः ।
निषण्णायां निषीदास्यां पीताम्भसि पिबेरपः ॥८९ ॥

---

लाभता. त्या अवभृथ न्हाणापरसय नन्दिनीच्या दृदान भुंयेंक घाल्लें न्हाण चड पवित्र आसलें.

८५. ती नन्दिनी कामधेनू त्या राजाच्यासरीं आयली. तिणे आपल्या खुरांनीं जमनीचो धुळ्ळ हुबयलो तो राजाच्या आंगभर जावन त्या राजाक जणु एक पवित्र अशें न्हाणच घडलें. कूर्म पुराणांत स तरांच्या पवित्र न्हाणांचें वर्णन आयलां: (१) ब्राह्म, (२) आग्नेय, (३) वारुण, (४) दिव्य, (५) वायव्य आनी (६) यौगिक. त्या दिलीप राजाक वायव्य न्हाण घडलें. तें पुण्य दिवपी आसलें. त्या राजाक त्या धुळ्ळान जणु पवित्र तिर्थांच्या उदकाचो अभिशेकच जालो !

८६. जिचें दर्शन जाल्यार पुण्य लाभता अशे ते नन्दिनी कामधेनूक पळोवन बरो-वायट शकुन वळखुपी अशा त्या तपोधन आनी राजाखातीर यज्ञ करपी अशा ऋषीन त्या राजाक ताची इच्छा पूर्ण जाल्याबगर रांवची ना म्हणून सांगलें. ८७. राजा, हे गायेची कीर्त हांव तुका सांगतां सांगतांच ही कल्याणी हांगा पावली. म्हणटकूच तुजें काम पूर्ण जांवक कळाव लागचो ना हें समज. ८८. मन लावन अभ्यास करतकूच ज्ञानाचो लाभ जाता. त्याचप्रमाण रानांतल्या वस्तीचेर ही आपलें पोट भरून आसता अशी गाय, हिचेर मनस्पुर्वेक सदांकाळ लक्ष दिवन तुवें हिची सेवा करून हिका संतुष्ट करूंक फाव. ८९. ही चलूंक लागली कीं तुवें हिचे बरोबर भोंवचें. ही थांबली तर तुवें थांबूंक जाय, ही बसून रावली तर तुवें बसचें, आनी तिणे उदक पिवन जालें की तुवें उदक पिंवचें!

**तत्र जन्यं रघोर्घोरं पर्वतीयैर्गणैरभूत् ।**
**नाराचक्षेपणीयाश्मनिष्पेषोत्पतितानलम् ॥७७॥**
**शरैरुत्सवसंकेतान्स कृत्वा विरतोत्सवान् ।**
**जयोदाहरण बाह्वोर्गापयामास किंनरान् ॥७८॥**
**परस्परेण विज्ञातस्तेषूपायनपाणिषु ।**
**राज्ञा हिमवतः सारो राज्ञः सारो हिमाद्रिणा ॥७९॥**

जिखले. ते क्रूर आनी खांपे तिरकामठी आसताले. ते चामडीं न्हेसताले आनी फळां आनी कंदमुळां खावन रावताले. रत्नावलींत तांकां मोरपिसां न्हेसपी पारधी अशें म्हळां.

७७. हिमालय पर्वताचेर रावपी जमाती आनी रघूलें सैन्य हांचेमदीं घोरांकारांचें झूज जालें. रघूचे सैनीक नाराच हे लोखणाचीं पातीं आशिल्ले बाण तांचेर सोडटाले. आनी ते पर्वताचे रहवासी रघूल्या सैन्याचेर रोव्रणांनीं फातर मोखून मारताले. फातर आनी बाणाचीं पातीं एकमेकांचेर घांसून उजो पेटटालो.
७८. उत्सवसंकेत जातींतल्या लोकांब्रोबर झूज मारून रघून आपल्या बाणांनीं तांकां जिखून निरुत्सवी म्हळ्यार दुःखी केले. थंयच किंनर जातींतल्या, गावपांत हुशार आशिल्ल्या लोकांक झुजांत जिखून रघून आपले गुण गावंक लायले.

आतांच्या लडाख प्रांताक रघूच्या काळार हाशक म्हणटाले. थंय कूनर न्हय व्हांवता. पुराणकाळांत थंय किंपुरुप जमातीचे लोक वसताले. तेच किन्नर. ते मनीस आनी देव हांचे मदल्या पावंड्याचे जिंत्रूप उरताले.

उदाहरण म्हळ्यार मोठ्या आवाजान विजयाचीं गायनां म्हणप. हीं कवनां मालिनी वृत्तांत म्हणटाले. दर वळीचे सुर्वेक “जयति” हें उतर म्हणटाले. किंनर म्हळ्यार ‘कुत्सित नर’ म्हळ्यार विद्रूप मनीस. तांचीं तोंडां घोड्याच्या तोंडांसारकीं दिसतालीं आनी बाकीची कुड मनशाची आसताली. महाभारतांत राजसूय यज्ञाचे वेळचे उसलाचे भोवंडेंत अर्जुनान ह्या सात जमातींच्या लोकांक जिखले.

७९. थंयचे गांवकार रघुराजाक केळवणो घेवन आयले, तेन्ना त्या राजाच्या पराक्रमाची तांकां पुराय वळख जाली. आनी त्या राजाकय तांचे संपदेची पूर्ण कल्पना आयली. त्या राजान हिमवताक वळखून घेतलो आनी हिमाद्री राजाक वळखलो. हिमवत हो धातूंची आनी ओखदांची संपत्ती आशिल्लो पर्वत, आनी हिमाद्री हो बर्फान भरिल्लो हिमवत पर्वत.

तत्राक्षोभ्यं यशोराशिं निवेश्यावरुरोह सः।
पौलस्त्यतुलितस्याद्रेरादधान इव ह्रियम् ॥८०॥

८०. आपल्या पराक्रमाच्या तरंगाचें नारींग थंय पर्वताचेर घट्ट बरें मारून रघुराय, रावणान एक वेळ तुळिल्ल्या कैलास पर्वताक जिखप आपणाक सोबना, म्हणून थंय वचनासतना तो सैन्यासयत भारतांत देंवलो. रघूली ही वर्तणूक त्या पर्वताक लजेक म्हारग जाली!

रामायणाच्या उत्तरकांडांत अगस्त्य ऋषीन रामाक रावणाची सगळी काणी सांगली. तेन्ना सोळाव्या सर्गांत रावणान कैलास पर्वत उबाल्लो म्हणपाची खबर आयली. पुष्पक विमानांत बसून रावण कैलास पर्वताचेर वचूंक लागलो. थंय नन्दीन ताका आडायलो, आनी शंकर पार्वती कैलासार आसात, तांकां त्रास दिवं नाका म्हणून सांगलें. रावणान मोठ्या गर्वान कैलास पर्वत उखल्लूंक आपले वीस हात घाले: "म्हज्या पुष्पक विमानाची चाल बंद करपी हो कैलास पर्वत कोण ?"

तमिमं शैलमुन्मूलं करोमि तव गोपते। केन प्रभावेण भवो नित्यं क्रीडति राजवत् ।२४।
································। ··············भुजान् विक्षिप्य पर्वते ॥२५॥
तोलयामास तं शैलं स शैलः समकंपत। चालनात्पर्वतस्यैव गणा देवस्य कंपिताः॥२६॥
चचाल पार्वती चापि तदाश्लिष्टा महेश्वरं।
ततो राम महादेवो देवानां प्रवरो हरः ॥२७॥
पादांगुष्ठेन तं शैलं पीडयामास लीलया। ································ ॥२८॥

रावणाचें गर्व रावणाक भुजलें. शंकरान पायांच्या आंगठ्यान तो पर्वत दांबलो आनी रावण कैलासाच्या वज्यापोंदा खासावीस जावन व्हड्डान बेंबटूंक लागलो !

मुक्तो विरावः सहसा त्रैलोक्यं येन कंपितं। ································ ॥३०॥

मोठ्या लोकांचें सगळेंच मोठें! रावणाचे बोबेन आनी बोंबलेच्या देंठा-पासून काडिल्ल्या होळमांनीं त्रिभुवनांतल्या जिंवृपांचे कान किटले ! समुद्रांत तुफानां जालीं! पर्वत कोसळूंक लागले! शंकरान ताका हजारभर वर्सां पोटभर रडयत बसयलो. तो एकसारकें शंकराक गारायणें घालीत काकुळटी येवंक लागलो. निमाणे त्या भोळ्या देवाक ताजी दया येवन ताणे रावणाक मेकळो केलो. इतलो काळ सुमाराभायर सतत रडत कारान्दाय केली म्हणून शंकरान ताका रावण म्हळ्यार 'रडपी' ही पदवी दिली!

चकम्पे तीर्णलौहित्ये तस्मिन्प्राग्ज्योतिषेश्वरः ।
तद्गजालानतां प्राप्तैः सह कालागुरुद्रुमैः ॥८१॥
न प्रसेहे स रुद्धार्कमधारावर्षदुर्दिनम् ।
रथवर्त्मरजोऽप्यस्य कुत एव पताकिनीम् ॥८२॥
तमीशः कामरूपाणमात्याखण्डलविक्रमम् ।
भेजे भिन्नकटैर्नागैरन्यानुपरुरोध यैः ॥८३॥

---

शैलाक्रान्तेन यो मुक्तस्त्वया रावः सुदारुणः। ································ ॥३८॥
तस्मात्त्वं रावणो नाम नाम्ना राजन् भविष्यसि । ························· ॥३९॥

वा. रामायण, उत्तरकांड.

आत्मिक तेजान ब्राह्मण क्षत्रियांपरस वयल्या पावंड्याचे. पुण कुडीच्या बळग्यान क्षत्रियांमुखार ब्राह्मण दुबळे! रावणासारक्या बामणान हालयल्ल्या कैलास पर्वताचेर रघुसारक्या धनुर्धराक घुरी घालपाक बरें दिसलें ना! तो आपले वशीन आयलो ना म्हणून कैलास पर्वताक लज दिसली जावंये!

८१. रघुराय लौहित्या म्हळ्यार ब्रह्मपुत्रा न्हयेचे आलतडी उतल्लो. ताचे घुरयेक लागून प्राग्ज्योतिष देशाचो राजा भंयान कांपलो! रघूल्या सैन्यांतले हत्ती थंय काळ्या अगुरु ह्या रुखांक सांखळ्यांनीं बांदिल्ले. हतयांचे मस्तेक लागून ते रूखय कांपले!

प्राग्ज्योतिषपूर हें नगर हिंदुस्थानचे ईशान्य दिशेच्या कामरूप देशाचें राजपाटण. पूर्व भूतान आनी पश्चिम आसाम ह्या भागांचो मेळून हो प्राग्ज्योतिष देश जाल्लो. नक्षत्रां रचचे पयलीं ब्रह्मदेव ह्या नगरांत राविल्लो; म्हणून हे नगरीक तें नांव पडलें अशें म्हणटात. लौहित्या हो मोठो नद कैलासार लौहित्य नांवाच्या तळ्यांतल्यान उमळ्ळा. ब्रह्मदेवाच्या तेजाक लागून लौहित्या न्हयेक ब्रह्मपुत्रा म्हणूंक लागले. परशुरामान आपले कुराडीन हे न्हयेक हिमाल्यावेल्यान देवूंक वाट करून दिली. ही वर्णना कालिका पुराणांत आयल्या.

८२. रघूच्या सैन्याच्या रथांचे धावंडेन हुबिल्ल्या धुल्लाक लागून अंत्राळांत सूर्य दिसना जालो. पावस पडनासतना कुपांनीं भरिल्लें अंत्राळ आनी दमट दीस उरता तशी अवस्ता जाली. त्या कामरुपाच्या राजाच्यान तेंच सोसूंक नज जालें. तो रघुरायाच्या सैन्याची घुरी कशी सोशीत? ८३. मादान चडिल्ल्या अशा ज्या हतयांक घेवन कामरुपाच्या राजान दुसऱ्या राजांकडेन झुजां मारिल्लीं, तेच हत्ती ताणे रघुरायाक भेट म्हणून ओपले.

कामरूपेश्वरस्तस्य हेमपीठाधिदेवताम् ।
रत्नपुष्पोपहारेण च्छायामानर्च पादयोः ॥८४॥
इति जित्वा दिशो जिष्णुर्न्यवर्तत रथोद्धतम् ।
रजो विश्रामयन्राज्ञां छत्रशून्येषु मौलिषु ॥८५॥
स विश्वजितमाजह्रे यज्ञं सर्वस्वदक्षिणम् ।
आदानं हि विसर्गाय सतां वारिमुचामिव ॥ ८६॥

करतोया वा सदानीरा हे न्हयेपासून आसाम देसाची मेर सोंपता थंयसर कामरूप देस पातळिल्लो. महाभारतांत सभापर्वांत सव्विसाव्या अध्यायांत कामरूप देसाचो भगदत्त हो शूर राजा राजसूय यज्ञाखातीर भोवंडेर आयिल्ल्या अर्जुना-कडेन आठ दीस झूज मारतालो. तेन्ना ताणे आपले मजतीक किरात, चीनी आनी दर्याचे वेळेर रावपी खांपे झुजारी हाडिल्ले. आठ दिसांनीं तो अर्जुनाक शरण आयलो. भारतीय युद्धांत भगदत्तान कौरवांचो पाखो घेतलो, आनी पांडवांनीं ताका मारून उडयलो, अशें वर्णन आसा.

८४. मागीर त्या कामरूपच्या रायान रघुरायाले चरणलक्ष्मीचेर फुलांच्या जाग्यार रत्नहार घालून तिची पुजा केली. ८५. हे भाशेन सगळ्यो दिशा जिखून रघुराजान सगळ्या राजांचीं धवींफुल्ल छत्रां काडून घेतलीं, आनी आपल्या रथांचे धावंडेन हुबिल्लो धुल्ल तांच्या तकल्यांर थापलो, आनी तो परतो अयोध्येक आयलो. ८६. मागीर त्या रघुरायान विश्वजित् यज्ञ केलो. कुपांनीं एकठांय केल्लें उदक धर्तरेर पावसाच्या रुपान शिंवरचेलें आसता. तशें रघुराजान एकठांय केल्लो खंड तांतूंत आपली स्वताची घरची सगळी जोड घालून सगळें धन विश्वजितासारक्या यज्ञांत दान दिवंचेखातीरच आसता. 'विश्वजित्सर्वस्वदाक्षिणः' अशी विश्वजित् ह्या उतराची वेदांत फोडणिशी दिल्या. विश्वजित् हो सगळ्या यज्ञांभितर श्रेष्ठ असो यज्ञ उरता. ह्या यज्ञांत येजमान्यान पुरयतांक आपलें सर्वस्व दान करचें आसता. ह्या यज्ञांत दोन वा पांच बोकडच बळी दितात. आपले संवसार–भोवंडेक लागून रघून सगळ्या क्षत्रिय राजांलागीं संबंध जोडून तांकां आपलेशे केले. तांकां सगळ्यांक यज्ञाक आमंत्रण दिवंचें आसता. तांचो सगळ्यांचो पावणेचार करपाचो आसता. आपले भोवंडेक लागून रघून संवसारभर वाटो करून देसांदेसांमदीं वेपार वाडपाक वाणी लोकांक मजत केली. ताणे नव्यो जमनी शेतकामताक मेकळ्यो करून कष्टेल्यांक खोशी केले. निमाणे यज्ञ करून ब्राह्मणांक संतुष्ट केले. आनी तांचे आशिर्वाद घेतले.

सत्रान्ते सचिवसखः पुरस्क्रियाभि—
गुर्वीभिः शमितपराजयव्यलीकान् ।
काकुत्स्थश्चिरविरहोत्सुकावरोधान्
राजन्यान्स्वपुरनिवृत्तयेऽनुमेने ॥८७॥
ते रेखाध्वजकुलिशातपत्रचिह्नं
सम्राजश्चरणयुगं प्रसादलभ्यम् ।
प्रस्थानप्रणतिभिरंगुलीषु चक्रु —
मौलिस्रक्च्युतमकरन्दरेणुगौरम् ॥८८॥

इति महाकवि श्रीकालिदासकृतौ रघुवंशे महाकाव्ये रघुदिग्विजयो नाम चतुर्थः सर्गः ॥

---

८७. यज्ञ करून जातकीर रघून आपल्या मंत्र्यांसयत त्या आमंत्रीत राजांच्या मनांत तांच्या पराभवाक लागून कांय वायटपण उरचें न्हय म्हणून बरे भाशेन तांची उठबस केली. तांकां तांचीं राज्यां आनी कुटुंबां सोडून जायने दीस जाल्ले, म्हणून परते घरा वचपाक निरोप दिलो. त्या राजांच्यो राणयो तांची वाट पळेताल्यो जावंये !

हो विश्वजित् यज्ञ बरेच दीस चलतालो.

ह्या सर्गाचे १ ते ८६ श्लोक अनुष्टुप वृत्तांत आसात. आनी ८७ आनी ८८ हे दोन निमाणे श्लोक प्रहर्षिणी वृत्तांत आयल्यात.

८८. रघुराजाच्या हाताचेर आनी पांयांचेर सम्राट वा सार्वभौम राजाचीं चिन्हां आसलीं. ते पावणे राजा निरोप घेवन वतासतना रघुरायाच्या पांयां पडले. तांच्या माथ्यांचेर फुलांचे हार माळिल्ले; त्या फुलांतल्या म्होंवाचे थेंबे आनी फुलांतले रेवें रघुरायाच्या पावलांचेर पडून तीं पावलां हळडुवीं आनी गोरीं दिसूंक लागलीं.

सामुद्रक शास्त्रांत सांगलां :

यस्य पादतले पद्मं चक्रं वाऽप्यथ तोरणम् ।
अंकुशं कुलिशं छत्रं स सम्राट् भवति ध्रुवम् ॥

जाच्या पावलांच्या तळांचेर पद्म म्हळ्यार साळीक, चक्र वा गुडी, अंकुश, वज्र, छत्र हीं चिन्हां आसतात तो राजांचो राजा जाता. जाच्या हातांचेर धनुष्य आनी अंकुशाचीं चिन्हां आसतात तो सम्राट जाता अशेंय सांगलां.

हे भाशेन महाकवी कालिदासान रचिल्ल्या रघुवंश महाकाव्यांतलो रघु-दिग्विजय नांवाचो चवथो सर्ग जालो.

O O O

ह्या सर्गांत रघुरायाचे संवसार-भोवंडेचें वर्णन आयलां. सुर्वेच्या वीस श्लोकांत पावशे दीस सोंपले आनी शरदृऋतू आयलो इतलेंच तपशिलान ओपारींसयत आयलां. मागीर ल्हवूच रघुरायाले भोवंडेची गजाल आयली. फुडल्या पैंसट श्लोकांत रघून राजांचेर कशें जैत मेळयलें आनी खंड वसूल केलो, झुजां कशीं माल्लीं तें आयलें. निमाण्या तीन श्लोकांत विश्वजित यज्ञाविशीं वर्णन साणटेशें आयलां. रघून सगळ्या संवसारार जैत मेळयलें! हाचेपरस ताणे आपल्या इंद्रियांचेर आनी मनाचेर, दोळ्यांक दिष्टी पडनात पुण मोठ्यामोठ्या शूर विरांक लोळयतात अशे भितल्ले शत्रू—स विकार—काम, क्रोध, लोभ, मद, मोह आनी मत्सर—हांचेर जैत मेळयलें. हें वाचप्यांनीं चड ध्यानांत धरपासारकें आस. येदी संपत्ती जिखून हाडली, हाल-उपाद्रे, त्रास-कष्ट सोसून मेळयल्लें धन सगळें वांटून उडयलें! त्या धनाविशीं कांय गर्व मनांत आयलें ना. तें धन वांटटासतना तो कांगचेलो ना! फाल्यां आपलें, आपल्या बायलां-भुरग्यांचें, राज्यलक्ष्मीचें, वैभवाचें, संपदेचें, अब्रूचें, किर्तीचें कितें जातलें म्हणपाचो ताणे हुस्को केलो ना. पंचप्राण तळठार घेवन, रातीचे दीस करून एकठांय केल्लें धन आंगावेल्या रत्नां-माणकां, पोशेगांसयत, आयदनां, घरदार सगळें दान केलें! अशें संवसारांत घडलें ना. असो दुसरो राजा जालोच ना. आनी म्हणून कालिदासान ताका रघुवंशांत अजरावर केलो. सगळो रघुरायालो इतिहास एका श्लोकांत आयलो:

**स विश्वजितमाजह्रे यज्ञं सर्वस्वदक्षिणम् ।**
**आदानं हि विसर्गाय सतां वारिमुचामिव ।।८६।।**

सतां आदानं विसर्गाय। साधु लोक जोड जोडटात, ती वांटून उडोवंचे खातीर जोडटात!

इतल्यान रघूची काणी सोंपना. दैव ताका आनीकूय खर कसाक लायता. तो निर्धन जाला अशे अवस्तेंत ताजें सत्त्व पळेता. हें कशें घडटा तें फुडल्या सर्गांत वाचुया!

O O O

# रघुवंश

## पांचवो सर्ग

**तमध्वरे विश्वजिति क्षितीशं निःशेषविश्राणितकोषजातम् ।**
**उपात्तविद्यो गुरुदक्षिणार्थी कौत्सः प्रपेदे वरतन्तुशिष्यः ॥१॥**

---

१. वरतंतु ऋषीच्या कौत्स नांवाच्या शिष्यान गुरूकडल्यान विद्या शिकून घेतल्यो. गुरूक दक्षणा दिवपाची व्यवस्था करचेखातीर तो अयोध्येक रघुराजाकडेन आयलो. हेवटेन रघुराजान कांय एक जिन्नस बाकी दवरिनासतना विश्वजित यज्ञाखातीर आपली कोठी रिंकामी केल्ली!

ह्या सर्गाच्या ७६ श्लोकांत ५, ९, १३, २२, ३५, ३८, ४० आनी ६० हे श्लोक इंद्रवज्रा वृत्तांत रचल्यात. ३, २७ आनी ५३ हे श्लोक उपेन्द्रवज्रा वृत्तांत रचल्यात. ६३ ते ७३ हे श्लोक वसंततिलका ह्या वृत्तांत आयल्यात. ७४ आनी ७५ मालिनी वृत्तांत. निमाणो श्लोक पुष्पिताग्रांत; आनी बाकी सगळे म्हळयार एकावन श्लोक उपजाति वृत्तांत आसात. णवव्या सर्गांत तेरा वृत्तां वापरल्यांत म्हणून फाटीं ४७ व्या पानार आयलां. णवव्या-फाटोफाट पांचव्या सर्गांत स वृत्तां आयल्यांत. बाकीच्या सर्गांत कालिदासान सर्गागणीक दोन, तीन, चार इतलींच वृत्तां वापरल्यांत. कालिदासान रघुवंशांत चडांत चड श्लोक अनुष्टुप (५४८) आनी उपजाति (४९३) वृत्तांत रचले. हाचे फाटल्यान रथोद्धता (१४७), वैतालीयं (९१), इंद्रवज्रा (७३), वंशस्थ (६९), द्रुतविलंबित (५४) आनी वसंततिलका (३७) अशीं वृत्तां घेतलीं. एक फावट एका वृत्तांत सर्गाक सुरवात केली, कीं निमाणचे कांय श्लोक सोडून सगळो सर्ग तो एकाच वृत्तांत घेतालो. वैतालीयम् वृत्तांत रचिल्ल्या ९१ श्लोकांपैकीं ९० श्लोक एकाच आठव्या सर्गांत वापरले. कालिदासाच्या काळार हे श्लोक मोठ्या आवाजान सवकासायेन सुंदर चालींचेर गावपी गाताले. म्हणटकच आयकुपी चार-चौगांक तीं वृत्तां वळखूंक येतालीं. तीं आयकून खोस जाताली. आयचे म्हालीक विमानांच्या घरघर आवाजांत ही वृत्तां आनी दुसरें जायतें सगळें बेजाराचें जालां!

**स मृण्मये वीतहिरण्मयत्वात्पात्रे निधायार्घ्यमनर्घशीलः ।**
**श्रुतप्रकाशं यशसा प्रकाशः प्रत्युज्जगामातिथिमातिथेयः ॥२॥**

---

तर तो कौत्स रघुराजाकडेन याचक म्हणून आयलो.

२. विश्वजित यज्ञांत भांगराचीं आयदनां-विरदनां सगळीं सोंपिल्लीं. भांगराचो चकचकाट गेल्लो. पुण रघु राजा यशान परजळटालो. वेदाच्या ज्ञानाचें जणु साक्षात तेजच असो तो पावणो! ताका येवकार दिवंक हो मोलादीक सभावाचो येजमान मातयेच्या कयलार अर्घ्य घेवन ताजेमुखार गेलो!

कालिदास ओपारींखातीर नांवाजला. ओपारी म्हळ्यार उपमा, उत्प्रेक्षा, अर्थान्तरन्यास, अन्योक्ती, सहोक्ती, श्लेष, लक्षणा, व्यंजना, निदर्शना अशे शेंकड्यांनीं अर्थाळंकार कवी वापरतात आनी काव्य सोबयतात. अर्थाळंकारांनीं काव्य सजोवंक खूब चतुराय आनी प्रतिभाशक्ती लागता. अळंकारांची दुसरी तरा म्हळ्यार शब्दाळंकार. देखीक, यमक म्हळ्यार चरणाचीं निमाणीं तीन अक्षरां तींच तींच घालप. आनी त्या अक्षरांचीं उतरां आनी तांचो अर्थ वेगवेगळो आसप. जुने मराठी कवी असलीं यमकां जुळयल्याबगर कविता रचिनासले. हे चडकरून पंडित कवी उरताले. हांतलो नामनेचो कवी मोरोपंत. ताणे शब्दाळंकार आनी जड-गुळो अशीं संस्कृत उतरां घालून समासीक उतरां वापरून आपली कविता त्या काळचे रितीन सोबीत करून उडयली. मोरोपंतान अनुप्रास शब्दाळंकार खूब वापरला. देखीक,

**तो शर गरधरवरसा रविसा पविसा स्मराररिसायकसा ।**
**पार्थ भुजांतरिं घुसला वल्मीकामाजि नागनायकसा ॥**

हे आर्येंत यमक शब्दाळंकाराक लागतात तीं निमाणीं तीन अक्षरां आनी तांचे वेगळे अर्थ हे दोनय नेम कवीन पाळ्ल्यात. यमकाबगर मराठी कविता तेन्ना घडच नासली. हालींचे म्हालीक यमक, मात्रा, गण, वृत्तां हें सगळें पोन्नें जालें. आतां मुक्त छंदाबगर बरी कविता जायना. वाचप्यांक वाचून समजना तें नवकाव्य! पळोवप्यांक निहाळून समजना ती नव चित्रकला!

शब्दाळंकारांत अनुप्रासाचें प्रस्थ मोठें! एकच अक्षर सा, सा, सा वयले मोरोपंताचे आर्येंत एके वळींत पांच फावटी आयलां. र हें अक्षर पांच फावटी आयलां. हाका म्हणटात अनुप्रास. एक वा दोन पूर्ण उतरां एके वळींत परतीं परतीं आयलीं कीं लाटानुप्रास हो शब्दाळंकार घडटा.

**तमर्चयित्वा विधिवद्विधिज्ञस्तपोधनं मानधनाग्रयायी ।**
**विशांपतिर्विष्टरभाजमारात्कृतांजलिः कृत्यविदित्युवाच ॥३॥**

संस्कृत काव्यांत यमक कोण वापरिनात. पुण अनुप्रास जायते फावटीं येतात. देखीक, पांचव्या सर्गाच्या दुसऱ्या श्लोकांत र्घ्म हें अक्षर दोन फावटीं एकेच वळींत आयलां. अर्घ्य आनी अर्घ हीं उतरांय एकेच वळींत एका फाटो-फाट आयल्यांत. दुसरे वळींत प्रकाश हें उतर आनी अतिथिमातिथेयः ह्या उतरांनीं अनुप्रास हो शब्दाळंकार चालू दवरला.

कालिदास हो मोठो प्रतिभावान कवी आपल्या मोलादीक कल्पनांनीं, ओपारींनीं आनी बुद्धीक भिडटात, अंतस्कर्ण भिजयतात असल्या येवजण्यांनीं वाचप्यांचीं मनां जिखता. बुद्धीक घुवंळायता. कांय थोड्या जाग्यांनीं तो अनुप्रासा-सारक्या शब्दाळंकाराच्या मोहांत घुसपता. ताच्या तोलाच्या कवीक असले शब्दा-ळंकार, सुंदर ल्हान भुरग्याक पोल्याचेर काजळा-बोट लायतात ते भाशेन दिष्ट काडूंक उपकरतान! बाकी जायते कवी सुंदर कल्पना सुचना जातकूच शब्दाळंकाराच्या मोहांत पडून आपलें काव्य इब्राडून उडयतात. देखीक,

सहितमहाहवमल्लमतल्लिकमल्लितरल्लकमल्लरते ।
विरचितवल्लिकपल्लिकमल्लिकझिल्लिकभिल्लिकवर्गवृते ॥
सितकृतफुल्लिसमुल्लसितारुणतल्लजपल्लव सल्ललिते ।
जयजय हे महिषासुरमर्दिनि रम्यकर्पर्दिनि शैलसुते ॥१८॥

—भगवतीपद्यपुष्पांजलिस्तोत्रम् ॥

रघुवंशाच्या णवव्या सर्गांत कालिदासान अनुप्रासांची गर्दी केल्या. पैल्या श्लोकापासून सुरवात.

..................यमवतामवतां च धुरि स्थितः ॥१॥
..................सनगरं नगरन्ध्रकरौजसः ॥२॥
..................श्रमनुदं मनुदण्डधरान्वयम् ॥३॥
..................शमरतेऽमरतेजसि पार्थिवे ॥४॥
..................न न महीनमहीनपराक्रमम् ॥५॥

मनुस्मृतींत सांगलां:

**संप्राप्ताय त्वतिथये प्रदद्यादासनोदके । अन्नं चैव यथाशक्ति सत्कृत्य विधिपूर्वकम् ॥**

देवाक, ब्राह्मणांक, गुरूक, विद्वान, मानादीक लोकांक अर्घ्य दितात. अर्घ्य म्हळ्यार फुलां, उदक, तांदूळ बी जिन्नस. तंत्रशास्त्रांत अर्घ्यांत आठ जिन्नस घालतात अशें सांगलां:– उदक, दूद, कुशाग्र तण, धंय, तूप, तांदूळ, यव,

अप्यग्रणीर्मन्त्रकृतामृषीणां कुशाग्रबुद्धे कुशली गुरुस्ते ।
यतस्त्वया ज्ञानमशेषप्राप्तं लोकेन चैतन्यमिवोष्णरश्मेः ॥४॥
कायेन वाचा मनसाऽपि शश्वद्यत्संभृतं वासवधैर्यलोपि ।
आपाद्यते न व्ययमन्तरायैः कच्चिन्महर्षेस्त्रिविधं तपस्तत् ॥५॥
आधारबन्धप्रमुखैः प्रयत्नैः संवर्धितानां सुतनिर्विशेषम् ।
कच्चिन्न वाय्वादिरुपप्लवो वः श्रमच्छिदामाश्रमपादपानाम् ॥६॥
क्रियानिमित्तेष्वपि वत्सलत्वादभग्नकामा मुनिभिः कुशेषु ।
तदंकशय्याच्युतनाभिनाला कच्चिन्मृगीणामनघा प्रसूतिः ॥७॥

धवी म्होवरी. एकच रात पावणो म्हणून रावंक येता तो अतिथी, अशें मनुस्मृतीच्या तिसऱ्या अध्यायांत ११२व्या श्लोकांत सांगलां.

३. संवसारांत भौसाकडसून बरें म्हणून घेवंचें हें ध्येय मानप्यांमदीं तो रघुराय मुखेल आसलो. असल्या लोकांक मानधन, यशोधन म्हणटात. अशा मानधन रघुरायान आसनार बसोवन त्या तपोधन ब्राह्मणाची शास्त्रनेमाप्रमाण पुजा केली. ब्राह्मण उंच आसनाचेर बसनात. जमनीर हांतरिल्ल्या जमखणाक वा दाळयेक विष्टर अशें म्हणटात. कारण रघुराजाक शास्त्रांचें सगळें ज्ञान आसलें. मागीर तो हात जोडून लागीं उबो रावन त्या ब्राह्मणाकडेन उलयलो:

४–११. " तिखे बुद्दीच्या म्हाजना, सगळो संवसार सूर्यदेवाकडसून जिणेची शक्ती घेता. त्याचप्रमाण गुरूकडल्यान ज्ञानाच्या रुपान जीणभर उपकरा पडत अशी सामुग्री शिष्य घेता. गुरूकडल्यान घेतिल्ले ज्ञान हे शक्तीन शिष्य जल्मभर जगता. अशे रितीन तुमकां ज्ञान पुराय दिवपी आनी वेदांच्या मंत्राचो दिष्टावो जाल्ल्या ऋषींमदीं मुखेल असो तुमचो गुरू खुशाल आसा मू ? तुमच्या थोर गुरून कुडीन, वाणीन आनी मनान तिटटी तप करून त्या तपाच्या तेजान, इंद्रासारक्या देवाक तुमचो गुरू इंद्रपद मेळयत आनी आपुण उबन्त पडूं म्हणून भंय पडलें. त्या तुमच्या गुरूच्या तपांत कांय विघ्नां येवन त्या आडमेळ्यांनीं तुमच्या गुरूचें तप इबाडलें बी ना मू ? मुळांत भोवंतणी आळीं बी बांदून आपल्या स्वताच्या भुरग्यांइतली जतनाय घेवन ल्हानाचे व्हड केल्ले, तुमच्या आस्रमांतले रूख तुमचो स्रमांनीं आयिल्लो शीण घालयतात. वाऱ्याच्या वादळाक बी लागून त्या तुमच्या रुखांक नखनामी जावंक ना मू ? तुमच्या आस्रमांतल्या मिर्गाचीं पिलां जल्माक येतात तींच वारीसयत मुनींच्या होटयेंत हातरूण म्हणून न्हिदतात ! आनी यज्ञाखातीर हाडिल्लें कुशतण त्या मिर्गांच्या पोरांक

**निर्वर्त्यते यैर्नियमाभिषेको येभ्यो निवापांजलयः पितृणाम् ।**
**तान्युञ्छषष्ठांकितसैकतानि शिवानि वस्तीर्थजलानि कच्चित् ॥८॥**
**नीवारपाकादि कडंगरीयैरामृश्यते जानपदैर्न कच्चित् ।**
**कालोपपन्नातिथिकल्प्यभागं वन्यं शरीरस्थितिसाधनं वः ॥९॥**

---

खायनशें दिसलें जाल्यार तुमचे मुनी त्या पिलांची इच्छा पुरयल्याबगर केन्नाच रावंचे नात, इतली तांची अपुर्बाय करतात! तीं हरिणींचीं पोरां बरीं आसात मू? तुमकां शास्त्राप्रमाण अभिषेक करपाक आनी पितरांक तर्पण करचेखातीर जांच्या व्हाळवटार तुमी पिकवन काडिल्ल्या पिकाचो सवो वांटो पटी म्हणून काडून राजाच्या चाखरमान्यांनीं राजाखातीर व्हरचो म्हणून दवरतात, अशा न्हंयांचीं पवित्र उदकां जाय तितलीं मेळटात मू? तुमचें आरोग्य बरें भाशेन उरचें म्हणून गरजेचें अशें रानांत पिकता तें नीवार धान्य बी तुमकां आनी जेवणा-वेळार आयिल्ल्या तुमच्या पावण्या-रावळ्याक जाय तितलें मेळटा मू? लागशिल्या गांवांतलीं पिकांतलें पोल खावपी गोरवां येवन तुमचें पीक खावन वचनात मू? तुमच्या व्हड गुरून तुमकां मोठ्या आनंदान विद्या शिकोवन आनी तुमच्या ज्ञानान खोशी जावन तुमकां घरा वचून गृहस्थाश्रमी जावंक आज्ञा दिली काय ना? कारण ब्रह्मचर्याश्रम, वानप्रस्थाश्रम आनी संन्यासाश्रम ह्या तीनय आश्रमांतल्या लोकांक सगळ्या परींनीं उपकारा पडपी असो हो गृहस्थाश्रम आसता. आनी जिणेंतल्या ह्या दुसऱ्या आश्रमांत वचपाची तुमची पिराय जाल्या. तुमी वनांतल्यान म्हज्या घरांत येवन म्हजो भोवमान केलो. तुमी म्हगेले-थंय आयले, इतल्यान म्हजें समाधान जालें ना. तुमचें कितेंय काम म्हजेकडल्यान घडचें अशी म्हाका उमळशीक लागल्या. तुमी तुमचेच इच्छेन हांगा आयले, काय तुमच्या गुरूचे आज्ञेन आयल्यात?"

रघुराजान मोठ्या विनयान हात जोडून कौत्स मुनीक हे प्रस्न केले. रघुवंशांतल्या राजांचे घरची रीतरवीस वाचप्यांनीं शिकून घेवंची. सगळो संवसार जिखून राजांच्यो तकल्यो आपल्या पांयांर बागोवपी असो हो रघु राजा तपोधन ब्राह्मणामुखार कितलो ल्हानविकायेन उलयता! कितलें अगत्य आनी कितली आस्त दाखयता! आपुण दुडवांनीं दळिद्री जाला म्हणून ताका पर्वा ना. दारांत आयिल्ल्या अतिथीचें काम करपाची ताका ताकीत जाल्या.

'ब्राह्मणं कुशलं पृच्छेत्' म्हणून शास्त्राची आज्ञा आस. शास्त्राची आज्ञा

**अपि प्रसन्नेन महर्षिणा त्वं सम्यग्विनीयानुमतो गृहाय ।**
**कालो ह्ययं संक्रमितुं द्वितीयं सर्वोपकारक्षममाश्रमं ते ॥१०॥**
**तवार्हतो नाभिगमेन तृप्तं मनो नियोगक्रिययोत्सुकं मे ।**
**अप्याज्ञया शासितुरात्मना वा प्राप्तोऽसि संभावयितुं वनान्माम् ॥११॥**

---

राजान पाळूंक जाय. मागीर सगळी प्रजा तशी वागून सुखी जातली. ब्राह्मण मेळ्ळो कीं ताची खुशाली विचारून घेवंची. चार ते अकरा ह्या आठ श्लोकांनीं रघुरायान कौत्साची खुशाली विचाल्ली. सगळ्यान पयलीं गुरुविशीं खुशाली विचाल्ली. स गुरुर्यः क्रियां कृत्वा वेदमस्मै प्रयच्छति । अशें यजुर्वेदांत सांगलां. वेद शिकयता तो गुरू. देवल ऋषीन अकरा गुरू म्हळ्यार जाणटेले अशें सांगलां: आचार्य, बापुय, जाणटो भाव, राजा, मामा, मांव, संकटांतल्यान आपणाक वाटावपी, आवयचो बापुय, बापायचो बापुय, आपल्या वर्णांतलो जाणटो मनीस, बापुलयो. हे सगळे गुरू.

आस्रमांत जल्माक आयिल्ल्या मिर्गाच्या पिल्यांक धा दिसांमेरेन मुनी मांडयेर रातदीस घेवन बसताले. सावदां येवन ताका खातीत म्हणून सांबाळटाले, अशें हेमाद्रि शांतिदयोक्त ग्रंथांत सांगता.

आठव्या श्लोकांत पितर म्हणून उतर आयलां. आपले भायर पडिल्ले जाणटे म्हळ्यार बापुय, आजो, पणजो, शणजो, खरशणजो बी, असो ह्या उतराचो अर्थ जाता. त्या भायर सगळे मनीसजातीचे पितर म्हळ्यार मनीस जातीक मुळांत जल्माक घालपी अशे हे ब्रह्मदेवाचे पुत्र. तांकां पितर म्हणून ब्राह्मणांनीं तर्पण करचेलें आसता. हे दैवी शक्ती आशिल्ले आत्मे. ते सात वर्गांतले उरतातः वैराज, अग्निष्वात्त, बर्हिषद, सुकाल, आंगिरस, सुस्वधा आनी सोमपा. पयल्या तीन वर्गांतले पितर अमूर्त म्हळ्यार महाभुतांचे जाल्ले नासले. ते आत्मिकच आसतात. तांच्यान आपल्याक जाय तसली कुड, रूप घेवन भोवं येता. उरिल्ल्या चार वर्गांतले पितर कुडीच्या आधारान रावतात.

हे पितर आमच्या भूलोकार आमच्या दोळ्यांक दिसनात. ते दुसऱ्या लोकांत म्हळ्यार भुवर्लोक, स्वर्लोक असल्या लोकांत वावुरतात. ते आमचे आवंतणी भोवंतणी आसले तरी आमकां तांकां वळखूंक येना. तांचे वेव्हार ते करीत आसतात आनी ताचे बरेवायट परिणाम आमी भोगतात. वायुपुराणांत हाचो विस्तार आयला. मनुस्मृतींतय हांचें वर्णन आयलां.

**इत्यर्घ्यपात्रानुमितव्ययस्य रघोरुदारामपि गां निशम्य ।**
**स्वार्थोपपत्तिं प्रति दुर्बलाशस्तमित्यवोचद्वरतन्तुशिष्यः ॥१२॥**
**सर्वत्र नो वार्तमवेहि राजन्नाथे कुतस्त्वय्यशुभं प्रजानाम् ।**
**सूर्ये तपत्यावरणाय दृष्टेः कल्पेत लोकस्य कथं तमिस्रा ॥१३॥**
**भक्तिः प्रतीक्ष्येषु कुलोचिता ते पूर्वान्महाभाग तयाऽतिशेषे ।**
**व्यतीतकालस्त्वहमभ्युपेतस्त्वामर्थिभावादिति मे विषादः ॥१४॥**
**शरीरमात्रेण नरेन्द्र तिष्ठन्नाभासि तीर्थप्रतिपादितर्द्धिः ।**
**आरण्यकोपात्तफलप्रसूतिः स्तम्बेन नीवार इवावशिष्टः ॥१५॥**
**स्थाने भवानेकनराधिपः सन्नकिंचनत्वं मखजं व्यनक्ति ।**
**पर्यायपीतस्य सुरैर्हिमांशोः कलाक्षयः श्लाघ्यतरो हि वृद्धेः ॥१६॥**

---

१२. रघुरायाचीं तीं उदार मनान उलयल्लीं उतरां आयकून आनी अर्घ्य दिवंचेखातीर पडगो वा ताठ नाशिल्ल्यान मातयेच्या कयलांतल्यान रघून अर्घ्य दिल्लें तें पळोवन, रघून आपलें सगळें धन दान केलां, आपलें काम रघूकडे जावंचें ना, अशें येवजून निर्शेवन तो वरतन्तूचो शिष्य उलयलो :

१३. "राजा, सगळ्या अर्थांनीं आमी खुशाल आसात, हें समज. तूं आमचो राजा आसतना प्रजेक त्रास कशे जातीत? सूर्य माथ्यार परजळटासतना लोकांक काळखे रातीचो त्रास कसो जायत?"

हो अर्थान्तरन्यास अळंकार जालो, अशें पुराणे काव्यशास्त्री म्हणटात. हालींच्या काव्यशास्त्र्यांच्या मत्तान हो दृष्टान्त अळंकार जालो.

१४. "जांकां मान दिवंक फाव अशांचो आदर करप, ही तुज्या कुळांतल्या राजांची वंशपरंपरा चलत आइल्ली संपदा आस. आनी ह्या गुणांत, व्हड राजा, तुज्या जाणटेल्या राजांचेकूय तूं चड परजळटा. हांव तुजेकडेन कितें मागूंक आयिल्लों. पुण म्हजो वेळ वांकडो म्हणून म्हाका वायट दिसता. १५. निवाराच्या रोंप्याचे सगळे दाणे वनवाशी मुनींनीं उरबडून व्हरतकूच ताची निखटी कांडी फाटल्यान उरता, ते भाशेन आपली सगळी संपत्ती फाव त्या योग्यतायेच्या मागप्यांक दान दिवन तूं तुजी निखटी कुड घेवन रावला.

१६. "काळखे पंद्रशींत देव चंद्राक खिस्ति-खिस्तींनीं पिवन सोंपयतात. चांदन्याचे पंद्रशींत तो वाडटा. ते वाडीपरस काळखे पंद्रशींतलें ताचें सोंपप हें चड मोलाचें उरता. आनी ताका लागून ताजी नामना जाता. तूं रायांचो राय

**तदन्यतस्तावदनन्यकार्यो गुर्वर्थमाहर्तुमहं यतिष्ये ।**
**स्वस्त्यस्तु ते निर्गलिताम्बुगर्भं शरद्घनं नार्दति चातकोऽपि ॥१७॥**

आसून यज्ञाक लागून निर्धन जालो. ह्या तुज्या वावरान तुवें मोठें यश जोडलां. तें तुका फावसारकें आस. योग्य आस."

ऐतरेय ब्राह्मणांत सांगलां, कीं चंद्राच्यो सोळा कळा आसतात. काळखे पंद्रशींत देव एका फाटल्यान एक दिसानदीस ताज्यो कळा पियत पंद्रा कळो सोंपयतात. उरिल्ले सोळावे कळेन चंद्र उमाशे दिसा सुर्यांत रिगता. देवीपुराणांत सांगलां : शुक्ल पक्षांत म्हळ्यार धवे पंद्रशींत सूर्य चंद्राक सोळा कळा दिवन वाडयता. काळखे पंद्रशींत पाडव्या-दिसा अग्नी चंद्राची पयली कळा पिता. बिये-दिसा वायुदेव ताची दुसरी कळा पिता. तये-दिस विश्वेदेव तिसरी कळा पितात. चवथी-दिसा प्रजापती पिता. पंचमी-दीस वरुणदेवाची खिस्त. षष्ठीचो दीस वासवाचो. सत्तमी-दिसा स्वर्गीचे दिव्य ऋषी ताचेर घुरी घालतात. अष्टमी-दीस तो अष्टावसु म्हळ्यार आठ वसूंचया तोंडांत पडटा. नमीक इंद्र ताजी कळा पिवन वता. दसमी-दिसा मरुद्गण चंद्राची कळा पितात. अकरा रुद्र ताका एकादशी-दीस कवळटात. दुवादशीक विष्णुदेवाची खेप. तिरोदस कुबेराची. शंकर चतुर्दशीक ताका पिता. उमाशे-दिसा पितर ताची पंद्रावी कळा घेवन चल्ले. आनी उरिल्ले एके कळेन तो सूर्यमंडळांत रिगता. अमृतेनामृतं कृष्णे पीयते दैवतैः क्रमात् ।

कामन्दक सांगता : धर्मार्थ क्षीणकोशस्य क्षीणत्वमपि शोभते ।

शुक्ल पक्षाच्या पाडव्या दिसा चंद्र ल्हानांत ल्हान आसलो तरी लोक ताज्या पायां पडटात. शुक्लप्रतिपदि सर्वे क्षीणमपि चंद्रं नमस्कुर्वन्ति ॥

वृद्धचाणक्य सांगता : गुणाः सर्वत्र पूज्यन्ते न महत्योऽपि संपदः ।
पूर्णेन्दुः किं तथा वन्द्यो निष्कलंको यथा कृशः ॥

चंद्र उदकाचोच गुळो अशें वराहमिहिर म्हणटा. भगवद्गीतेंत, पुष्णामि चौषधीः सर्वाः सोमो भूत्वा रसात्मकः । अशें पंद्राव्या अध्यायांत तेराव्या श्लोकांत आयलां. चंद्र अमृताचो शिंवर करपी रोसाचो गुळो आस. तो धर्तरेवेल्यो ओखदांच्यो वनस्पती पोसता.

१७. "शरद्ऋतूंत मळबांतल्या कुपांतलें उदक सोंपिल्लें आसता. म्हणून चातक सवणें तेदवळच्या कुपांकडेन उदक मागना. म्हजें दुसरें कांय काम ना.

**एतावदुक्त्वा प्रतियातुकामं शिष्यं महर्षेर्नृपतिर्निषिध्य ।**
**किं वस्तु विद्वन्गुरवे प्रदेयं त्वया कियद्वेति तमन्वयुंक्त ॥१८॥**
**ततो यथावद्विहिताध्वराय तस्मै स्मयावेशविवर्जिताय ।**
**वर्णाश्रमाणां गुरवे स वर्णी विचक्षणः प्रस्तुतमाचचक्षे ॥१९॥**

म्हज्या गुरूक दिवंक म्हाका धन जाय, तें हांव दुसरेकडच्यान मेळोवंचो यत्न करीन. तुजें कल्याण जावं !"

चातक हें सवणें चिमणेयेदें आसता. ताजी शेपडी लांब उरता. काळो, धवो आनी हळडुवो अशे तीनय रंग ताज्या पिसांनीं आंगभर दिसतात. ताजे तकलेर धनुष्य आनी बाण हांच्या आकाराचो एक तुरो उरता. त्या तुऱ्याक लागून तकली बागोवन चोंचीन ताका जमनीवेलें उदक पिवंक येना. मळबांतल्या कुपांतल्यान पडपी थेंबे हें सवणें मदींच गिळटा. ताजो आवाज कोगळीच्या सुराइतलो उंच आनी कर्कश उरता. हें सवणें पावसांत हिंदुस्थानांत येता आनी शिंयाळ्या दिसांनीं दुसऱ्या देशांत वता. ह्या देशांतल्या शिंयाळ्या दिसांनीं दुसऱ्या देशांत जंय पावस पडटा थंय वचून रावता जावंये. चेरापुंजीक वर्सभर पावस पडटा. थंय वता जावंये. मळबाकडे पळोवन चातक "मेघ", "मेघ" म्हणून आड्‌डल्ल्याभाशेन आवाज काडटा. कालिदासाची कल्पना कीं चातक मेघाक सोडून आनीक कोणाकडल्यान उदक मागून पिवंक तयार ना. कै. शंकर पांडुरंग पंडित हे एकुणिसाव्या शेंकड्यांत मोठे नांवाजते संस्कृत भाशेचे विद्वान जावन गेले. ताणीं जायत्या संस्कृत ग्रंथांचेर टिका बरयल्यो. तांचे माहितीप्रमाण चातक हें सवणें पश्चिम हिंदुस्थानांत पावसाळ्यांत दिसता.

दंडी आनी भोज ह्या काव्यशास्त्र्यांल्या मतान ह्या श्लोकांत अर्थांतरन्यास हो अळंकार जालो, पुण हालींच्या विद्वानांल्या मतान हो दृष्टान्त अळंकार जाता.

१८. अशे तरेन उलोवन तो महर्षीचो शिष्य परतो वचूंक लागलो. तेन्ना राजान ताका वचूंक दिलो ना! ताज्या विद्वान गुरूक दक्षणा कितें दिवंक जाय तें विचाल्लें.

१९–२२. जाणे शास्त्राप्रमाण यज्ञ केल्लो, जाका मुळांतच गर्व नासलो, जो चार वर्ण म्हळ्यार ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र; आनी ब्रह्मचर्य, ग्राहस्थ, वानप्रस्थ आनी संन्यास ह्या चार आस्रमांची व्यवस्था राखतालो अशा त्या रघुरायाक तो विद्वान ब्रह्मचारी कौत्स उलयलो : "म्हजें शिक्षण पूर्ण जालें तेन्ना

समाप्तविद्येन मया महर्षिर्विज्ञापितोऽभूद्गुरुदक्षिणायै ।
स मे चिरायास्खलितोपचारां तां भक्तिमेवागणयत्पुरस्तात् ॥२०॥
निर्बन्धसंजातरुषाऽर्थकार्श्यमचिन्तयित्वा गुरुणाऽहमुक्तः ।
वित्तस्य विद्यापरिसंख्यया मे कोटीश्चतस्रो दश चाहरेति ॥२१॥
सोऽहं सपर्याविधिभाजनेन मत्वा भवन्तं प्रभुशब्दशेषम् ।
अभ्युत्सहे संप्रति नोपरोद्धुमल्पेतरत्वाच्छ्रुतनिष्क्रयस्य ॥२२॥
इत्थं द्विजेन द्विजराजकान्तिरावेदितो वेदविदां वरेण ।
एनोनिवृत्तेन्द्रियवृत्तिरेनं जगाद भूयो जगदेकनाथः ॥२३॥
गुर्वर्थमर्थी श्रुतपारदृश्वा रघोः सकाशादनवाप्य कामम् ।
गतो वदान्यान्तरमित्ययं मे मा भूत्परीवादनवावतारः ॥२४॥

हांवें, गुरुदक्षणा कितें दिंव, म्हणून महर्षीक ल्हानविकायेन विचाल्लें. कांय उणेपण दवरिनासतना सतत भक्तीन हांवें गुरुची सेवा केल्ली. ती सेवा दक्षणे-परस चड मोलाची अशें म्हजो गुरू मानतालो. हांवें गुरूक परतो परतो आग्रो करून विनंती केली म्हणून गुरूक राग आयलो आनी म्हज्या दळिद्राचो विचार करिनासतना गुरून म्हाका सांगलें: 'हांवें तुका चौदा विद्या शिकयल्यो तर तितल्योच कोटी भांगराच्यो म्होरो घेवन यो!' अशे अवस्तेंत तुजें पुजेखातीर वापरिल्लें मातयेचें अर्घ्याचें आयदन पळोवन, तूं निखटो नांवापुरतो राजा उल्ला हें वळखून म्हजे विद्येची दक्षणा मोठी आशिल्ल्यान तिचेखातीर तुका त्रास दिवपाक म्हाका तोंड येना!"

२३–२५. तो वेदमूर्ति कौत्स चंद्राच्या तेजाइतली कांत मारता अशा रघुराजाक हें उलयलो. तो राजा केन्नाच वायट कर्म करपाची वान्सा धरिनासलो. सगळे पिर्थुमेचो तो धनी कौत्साक उलयलो: "पुराय विद्या शिकिल्लो एक याचक रघूकडे गुरुदक्षणेखातीर आयलो आनी रघूकडल्यान आपलें काम जालें ना म्हणून दुसऱ्याकडे गेलो! असो म्हज्या नांवाक नवो कळंक लागचो न्हय! म्हणून अशे अवस्तेंत भौमान्य पुरुषा, म्हजे नांवाजते आनी मानादीक अशे यज्ञसाळेंत तुमी चवथ्या अग्नीप्रमाण दोन–तीन दीस रावंचेलो उपकार करा. तितल्याभितर हांव तुमची इच्छा पूर्ण करचो यत्न करतां."

द्विज म्हळ्यार दोन फावटी जल्मल्लो. हें उतर ब्राह्मण, क्षत्रिय आनी वैश्य ह्या तिनय जातींतल्या लोकांक लागू पडटा. मातुरग्रेऽधिजननं द्वितीयं

**प्रदक्षिणीकृत्य हुतं हुताशमनन्तरं भर्तुररुन्धतीं च ।**
**धेनुं सवत्सां च नृपः प्रतस्थे सन्मंगलोदग्रतरप्रभावः ॥७१॥**
**श्रोत्राभिरामध्वनिना रथेन स धर्मपत्नीसहितः सहिष्णुः ।**
**ययावनुद्घातसुखेन मार्गं स्वेनेव पूर्णेन मनोरथेन ॥७२॥**
**तमाहितौत्सुक्यमदर्शनेन प्रजाः प्रजार्थव्रतकर्शितांगम् ।**
**नेत्रैः पपुस्तृप्तिमनाप्नुवद्भिर्नवोदयं नाथमिवौषधीनाम् ॥७३॥**
**पुरन्दरश्रीः पुरमुत्पताकं प्रविश्य पौरैरभिनन्द्यमानः ।**
**भुजे भुजंगेन्द्रसमानसारे भूयः स भूमेर्धुरमाससंज ॥७४॥**

---

७१. तांच्या भायर सरपाच्या वेळार जे विधी केले, तांकां लागून त्या राजाचो पराक्रम वाडलो. त्यानंतर राजान अग्नीक आहुती दिवन संतुष्ट केलो, वसिष्ठ गुरूक, ताचे बायलेक अरुन्धतीक आनी पाडकासयत ते गायेक प्रदक्षणा घाल्न तो राजा भायर सल्लो.

७२. एकव्रतांचे कष्ट सोसपाची आवड आशिल्लो तो राजा आपले धर्मपत्नीसयत कानाक गोड लागपी असो आवाज करपी रथांत बसून तीं सुखान प्रवास करून राजपाटणांत आयलीं. कारण तांचे मनोरथ म्हळ्यार मनांतल्यो इच्छा पूर्ण जाल्ल्यो आनी प्रवास करतासतना रथांतल्यान तांकां धपके बसले नात.

७३. ओखदांचो देव चंद्रिम, देव ताका पितात त्या पंद्रा दिसांत बारीक जायत वता; आनी निमाण्या अुमाशेच्या दिसा जाल्यार दिष्टीच पडना. मागीर लोकांक ओखदां मेळूंक जाय म्हणून तो चंद्रिम ल्हवल्हव मोठो जायत संवसारांतले प्रजेचे दिष्टीक पडटा. पैलेंच फावटी तो दिष्टी पडटा तेन्ना लोक जणु ताका आंवडेवन उमाळ्यान पितात. त्याचप्रमाण प्रजेखातीर आपणाक संतत जांवची म्हणून तो राजा राजपाटणांतल्यान भायर गेल्लो. तो एकव्रत करपाच्या कष्टांक लागून आंगान भागलो आनी बारीक जालो. तो परत राजपाटणांत आयलो तेन्ना ताज्या दर्शनाक ल्हालेल्ले प्रजेन ताका जणु आंवडेवन पिवन घेतलो.

७४. राक्षसांचें नगर मोडून उडोवपी इन्द्रदेवाभशेन जाचें तेज दिसतालें असो तो दिलीप राजा आपल्या पाटणांत भितर सरतासतना सगळ्या पाटणांत लोकांनीं गुडयो उबारून त्या राजाक आनंदान आपली खोशी दाखोवन दिली. आपल्या राजपाटणांत येतकूच, शेषदेव आपल्याचेर सगळे धर्तरेचो भार घेता त्या तोलाचें बळगें आशिल्ल्या, त्या राजान सगळे पिर्थुमेच्या कारभाराचें वजें

**अथ नयनसमुत्थं ज्योतिरत्रेरिव द्यौः**
**सुरसरिदिव तेजो वह्निनिष्ठ्यूतमैशम् ।**
**नरपतिकुलभूत्यै गर्भमाधत्त राज्ञी**
**गुरुभिरभिनिविष्टं लोकपालानुभावैः ॥७५॥**

**इति श्रीमहाकविकालिदासकृतौ रघुवंशे महाकाव्ये नन्दिनीवरप्रदानो नाम द्वितीयः सर्गः ॥**

---

आपल्या बावळ्यांचेर माळ्ळें.

७५. ब्रह्मदेवाचो मानसपुत्र अत्रिऋषि ध्यान करतासतना ताज्या दोळ्यांतल्यान सोम वा चंद्रिमाचें तेज भायर सळें. धा दिशांच्या राखणदार इंद्र, अग्नी, यम, नैर्ऋत, वरूण, कुबेर, ब्रह्मा आनी अनंत ह्या देवतांनीं तो गर्भ सांबाळून मागीर चंद्रिम जल्माक आयलो. स्वर्गींच्या देवांची न्हय गंगा हिणे शंकर देवाचें तेज अग्नीन दवळें तें धारण केळें. तेच भाशेन त्या दिलीप राजाच्या कुळाचें बरें जावंचें म्हणून दिशांच्या राखणदार लोकपाळांनीं जड अशा अर्कांनीं घडिल्लो गर्भ ते सुदक्षिणा राणयेन धारण केलो.

महाकवि कालिदासान रचिल्ल्या रघुवंश महाकाव्यांतलो नन्दिनीन वर दिवप ह्या नांवाचो दुसरो सर्ग जालो.

O O O

ह्या सर्गांत कालिदासान रचिल्ल्या श्लोकांचीं वृत्तां:

उपजाति—श्लोकः १–४, ६, ८–२५, २७–४५, ४७–५७, ५९–६९, ७१–७४. इंद्रवज्रा—श्लोकः ५, ७, २६, ४६, ५८ आनी ७०. मालिनी—श्लोकः ७५.

ह्या सर्गांत १०व्या श्लोकापासून १२व्या श्लोकामेरेन एक पूर्णोपमा म्हणून अळंकार आयला, तो असोः

दिलीप राजा आपल्या राज्यांतल्या नगरांत भोंवतासतना ताजी सुंवारी आयली कीं ताजे फुडल्यान, फाटल्यान चाखरमाने, दूत बी चलताले. ते राजा आयलो म्हणून लोकांक व्हडान कळयताले. लोक आनी ते चाखरमाने मेळून मोठ्यान राजाक जैत मागताले. नगरांतल्यो आंकवारी चलयो राजावेल्यान ल्हायो शिंवरताल्यो; आनी सगळ्या घरांनीं बायलो दारांतल्यान वा जनेलाकडेनसावन राजाक पळोवन धादोस जाताल्यो.

दिलीप राजा नंदिनीचे फाटल्यान रानांत भोवंतासतना सवण्यांच्या कळकळाच्या सुरांनीं जणु रूख म्हणटाले : 'आमचो राजा आयलो, ताका जैत मेळूं!' तो राजा ल्हान वालींच्या लागसारच्यान वचूंक लागलो कीं ताजेर त्यो फुलां शिंवरताल्यो. रानांतलीं हरणां त्या राजाक पळोवन खोशी जातालीं.

एका घटिताचेरं दुसऱ्या घडिचाराची तपशिलासयत ओपार माह्ली कीं तो धूर्णोपमा अळंकार जाता.

ललीत, ओपारींच्या अळंकारांनीं भरिल्ली सोपी भास हो कालिदासाचो एक मोठो काव्यगुण. प्रसंगाक फात्र अशें वर्णन आनी योग्य अशीं उतरां काव्यांतल्या मनशांनीं उलवप हो कालिदासाचो दुसरो गुण. ताच्या काव्यां-तलीं मनशां लोकांक देख घालून दिवपी. दिलीप राजाक सदांच दुसऱ्या-खातीर आपली कुड झरोवपाची सवंय आसली. वसिष्ट गुरून येद्या मोठ्या राजाक एकव्रत सांगलें तें गायेक सांबाळपाचें. कितले दिस सांबाळचेली? ती प्रसन्न जायसर. ती गाय बसली ना जाल्यार राजान बसप ना! गायेक तान लागलीच ना, आनी राजाक तान लागली तर कितें करचें? ते गायेक तान लागून तिणे उदक पी म्हणसर राजान आपलो ताळो सुकून गेलो तरी उदक पिवप ना! हेंच एकव्रत. रातची ती गाय न्हिदतकीर राजान न्हिदप!

आपले मायेचे शक्तीन सिंह निर्मून राजाची खर परीक्षा घेवपी अशे ते गायेन एकाद्री रातभर जागी रावून त्या राजाक जागरण घडयलें जावंये! ताची परीक्षा घेवंचेखातीर आपुण उदक पिनासतना वोतांतल्यान सगलो दिस भोवूंन त्या राजाचो ताळो सुकयलो जावंये! आनी हें सगळें सोसून ते गायेक आपखोसयेन, मायेन सांबाळप म्हळ्यार एक तपश्चर्याच जाली. पितरांचें रीण फारीक करूक पुत जांवक जाय, म्हणून ही जीव खासावीस करपी तपश्चर्या त्या राजान केली. हें सामान्यांभायलें काम जालें. सद्याच्या काळांत असलीं एकव्रतां करूंक कोण फुडें सरपाक कठीन. हाचेपरस युद्धांत मरप सोपें! बुदवंत मनशाक बुद्धीची गरज नाशिल्लें, गोरवां राखपाचें काम सांगप, म्हळ्यारच बुदवंत आनी सत्तेवेलो राजा अपमानान तकली फिरूंक खरो! पुण दिलीप राजा तसो नासलो. ताजे प्रजेक सांबाळूंक राजपुत्र जाय म्हणून दिलीप कितलेय त्रास सोसूंक तयार जाल्लो.

पयल्या सर्गांत दिलिपान वसिष्ठ गुरूक आपल्या उलोवपान वश करून

घेतलो. दुसऱ्या सर्गांत ताणे त्या सिंहाक आपल्या उलोवपान वश करून घेवन आपुण 'वदतां वरः', 'आफलोदय कर्म' आनी गायेखातीर कुडीचेर उदार जावन, तत्वज्ञानांत करमिल्लो कांदो आसां, म्हणपाचें दाखोवन दिलें. हो निखटो राजा नासलो. फकत दुसऱ्या राजांक जिखून आवतांच्या आनी मंत्रांच्या बळग्यान संवसार जिखपी नासलो. तर इतलें सगळें करूनय लोकां-खातीर आपली कुड झरवप हें आपले जिणेचें ध्येय मानून चलपी आसलो. गुरूचे गायेमुखार म्हळ्यार आपल्या कर्तव्यामुखार, 'एकातपत्रं जगतः प्रभुत्वं नवं वयं कान्तमिदं वपुश्च' म्हळ्यार संवसाराची एकछत्री सत्ता अशें राज्य, जुवानींनली पिराय आनी कान्तीवंत अशी कुड, हांकां सगळ्यांक कुस्कुटा-समान मानपी, असो हो राजर्षी राजा, योगी राजा आसलो; कर्मयोगी आसलो.

आपल्या काव्यांतल्यान भाशेचें लळीत, अळंकार आनी ताळार म्हणिल्ल्या वृत्तांतल्यान सुरबूस काणयो रचून वाचप्यांक खोशी करप, इतलेंच कालि-दासाचें मोठेपण न्हय; तर लोकांमुखार अशो व्यक्ती उब्यो करप, कीं तांचें तेज संवसाराक दिपकावन उडयता. दिलीप हो असो एक राजयोगी घडयलो कीं संवसारांत असो दुसरो मेळ्ंक कठीन. असल्या मनशाची देख घेवन, वाचप्याची वर्तणूक सुदरचेसारको खोल परिणाम घडून येता !

दिलीप राजा आपणे जोडिल्लें यश ही आपली खरी कुड मानता. रामाचें वर्णन करतासतनाय कालिदास चवदाव्या सर्गांत हेंच सांगता: यशोधनानां हि यशो गरीयः। जाणी यश जोडिल्लें आसता तांकांच यशाचें मोल कळटा. बापायच्या उतराखातीर चलून आइल्लें होटयेंतलें राज्य सोडून वनवास काडप हें महा कठीन काम! त्रैलोक्य जिखून सगळ्या देवांक बंदखणींत घालपी, सुर्या-भशेन तेजस्वी अशा रावणासारक्या शत्रूबरोबर संवसारांत पयलीं घडलेंच ना अशें झुज करप, आनी ताका मारून उडवप, हें काम करूंक देवाक अवतार घेवंचो पडटा. अशा अवतारी पुरुषांच्याकडल्यानूच, प्रजेक धादोशी दवरून आपल्या पवित्र कुळाक कळंक लागचो न्हय, म्हणून निष्कळंक अशें जीव कीं प्राण बायलेक, सितेक रानांत सोडपाचो, जीणभर जीव कोरांतपी असो महान त्याग घडटा. हाका संवसाराचेकूय मोठीं मनशां लागतात. असलीं मनशां वाचप्यांच्या मुखार उबीं करपाचें यश कालिदासान मेळयलें म्हणून तो कवि-कुलगुरू जालो!

० ० ०




# रघुवंश

## तिसरो सर्ग

**अथेप्सितं भर्तुरुपस्थितोदयं सखीजनोद्वीक्षणकौमुदीमुखम् ।**
**निदानमिक्ष्वाकुकुलस्य संततेः सुदक्षिणा दौर्हृदलक्षणं दधौ ॥१॥**
**शरीरसादादसमग्रभूषणा मुखेन साऽलक्ष्यत लोध्रपाण्डुना ।**
**तनुप्रकाशेन विचेयतारका प्रभातकल्पा शशिनेव शर्वरी ॥२॥**
**तदाननं मृत्सुरभि क्षितीश्वरो रहस्युपाघ्राय न तृप्तिमाययौ ।**
**करीव सिक्तं पृषतैः पयोमुचां शुचिव्यपाये वनराजिपल्वलम् ॥३॥**

---

१. सुदक्षिणा राणी गुरवार जाली. तिका दुवाळे लागले म्हणपाच्यो खुमो दिसूंक लागल्यो. तिच्या घोवाचे मनची इच्छा पुरी जावंक आयली. तिच्या मैत्रिणींक तिच्या तोंडार चंद्रिमाचें चान्नें फुलिल्लें दिसूंक लागलें. इक्ष्वाकु राजाच्या कुळांत संतत जावन तो वंश सासणाचो नंदतलो म्हणपाचें थारलें.

ह्या सर्गांतले श्लोक वंशस्थ वृत्तांत रचल्यात. 'दौर्हृदलक्षणं' हें उतर व्याकरणाचे दिष्टीन चूक. दौर्हृद म्हळ्यार दोन हृदयां आशिल्लीः एक आपलें आनी दुसरें पोटांतल्या गर्भाचें. इतलें करूनय हें उतर व्याकरणी दिष्टीन चूक उरता. फुडें सव्या आनी सातव्या श्लोकांनीं 'दोहद' हें उतर बरोबर वापरलां.

२. सुदक्षिणा राणी आंगान भागली, म्हणून सगळे अळंकार आंगार घालिना जाली. लोध्र रुखाचीं फुलां फिकट धवसार आसतात, तशी सुदक्षिणेच्या तोंडार धवसाण मारूंक लागली. फांतोडे-पारार अंत्राळांतलीं चडशीं नक्षत्रां मावळून थोडींच मळबांत लिकलिकतात, आनी चंद्रिमाचोय उजवाड उणो जाता. अशे अवस्तेंत रात जशी दिसता तशी ती राणी दिसूंक लागली.

३. गीम सोंपून मिर्ग लागच्या वेळार कुपांतल्यान उदकाचे कांय थेंबे रानांतल्या उदका-फोंडल्यांत पडले म्हणून हती धादोशी जायना. तेच भाशेन राजा-राणी एकठांय आसतकीर दुवाळ्याक लागून तिच्या तोंडाक (भाजिल्ले) मातयेचो परमळ येतालो. तितल्यान त्या राजाची खोशी जायनासली.

दुवाळकान्नींक जायते फावटी माती खायनशी दिसता.

दिवं मरुत्वानिव भोक्ष्यते भुवं दिगन्तविश्रान्तरथो हि तत्सुतः ।
अतोऽभिलाषे प्रथमं तथाविधे मनो बबन्धान्यरसान्विलंघ्य सा ॥४॥
न मे ह्रिया शंसति किंचिदीप्सितं स्पृहावती वस्तुषु केषु मागधी ।
इति स्म पृच्छत्यनुवेलमादृतः प्रियासखीरुत्तरकोसलेश्वरः ॥५॥
उपेत्य सा दोहददुःखशीलतां यदेव वव्रे तदपश्यदाहृतम् ।
न हीष्टमस्य त्रिदिवेऽपि भूपतेरभूदनासाद्यमधिज्यधन्वनः ॥६॥

४. स्वर्गार इंद्रदेव सगळो आस्वाद भोगता, म्हळ्यार सगळे वसतेचेर सत्ता गाजयता. त्याचप्रमाण सुदक्षिणा राणयेचो जल्माक येवंचो आशिल्लो कुंवर पिर्थुमेच्या सगळ्या दिकांच्या देगांमेरेन पावूनच आपल्या रथाक विसंव दिवपी असो जावंचेलो आसलो. हेर जिनसांची गांठ लागच्या जाग्यार ते राणयेक मातयेचो दुवाळो लागलो. काव्यशास्त्रांत हाका उत्प्रेक्षा अळंकार म्हणटात.

५. तो उत्तर कोसल देशाचो दिलीप राजा राणयेच्या मैत्रिणींक भोवन भोवन विचारतालो, "ते मागधी सुदक्षिणेक कसली कसली गांठ लागल्या? ती लजेक लागून म्हाका कांय सांगना."

हिमालयांतल्यान सरयू न्हय देंवता. थंयसावन दक्षिणेंत माळवा देशामेरेन कोसल देश पातळिल्लो. हे सरयू न्हयेक आतां घोग्रा म्हणटात. कोसल देशाच्या उत्तर भागांत अयोध्या हें राजपाटण आसलें. ताका साकेत अशेंय म्हणटाले. रामायणांत बालकाण्डाच्या पांचव्या अध्यायांत सवायशीं किलोमिटर लांब आनी तीस किलोमिटर रुंद येदे मोठे अयोध्या नगरीचो तपशील दिला. अयोध्या, श्रावस्ती हीं नगरां उत्तर कोसलांत पडटालीं. महाभारताच्या काळांत राजसूय यज्ञ करच्या वेळार भिमान गण्डक देशाचेर घुरी घालून तो देश जिखिल्लो, अशें सभापर्वाच्या २९ व्या अध्यायांत आसा. हो गण्डक देश एका जिल्ह्यायेदो आसा. आजुनय ताका गण्ड जिल्हो म्हणटात. दक्षिण कोसलांत कुशावती हें रामाचेनंतर कुशान राजपाटण वसयलें. तें नगर विंध्य आनी महेंद्र म्हळ्यार अमरकंटक पर्वतांचे म्हदीं वसयलें. श्रावस्ती नगर हें लवाचें राजपाटण आसलें. मत्स्य-पुराणांत उत्तर कोसलाक गण्ड देश म्हणून नांव दिलां.

६. दुवाळ्याचे अवस्तेंत राणयेक कष्ट जाताले आनी ती सोदताली तें तिका स्वर्गांतल्यान लेगीत हाडून मेळटालें. कारण धनुर्धारी अशा त्या राजाक मेळूंक कठीन अशें कांयच नासलें.

**क्रमेण निस्तीर्य च दोहदव्यथां प्रचीयमानावयवा रराज सा ।**
**पुराणपत्रापगमादनन्तरं लतेव संनद्धमनोज्ञपल्लवा ॥७॥**
**दिनेषु गच्छत्सु नितान्तपीवरं तदीयमानीलमुखं स्तनद्वयम् ।**
**तिरश्चकार भ्रमराभिलीनयोः सुजातयोः पंकजकोशयोः श्रियम् ॥८॥**
**निधानगर्भामिव सागराम्बरां शमीमिवाभ्यन्तरलीनपावकाम् ।**
**नदीमिवान्तःसलिलां सरस्वतीं नृपः ससत्त्वां महिषीममन्यत ॥९॥**

---

७. गुरवाचारांतलो दुवाळ्यांचो त्रास सोसून ती मेकळी जाली. मागीर आंगान भल्ली, तेन्ना ती बाविल्लीं पानां गळून नव्यो आंकऱ्यो आयिल्ल्या वालीवरी सोबूंक लागली.

८. दिशीं-माशीं तिचीं थानां जायतीं भल्लीं. तांच्या चिंवांभोवंतणी कातीक निळो रंग आयलो. मोठ्या आकाराच्या कमळांच्या कळ्यांचेर काळे भोवंर बसतकीर ते कळे सुंदर दिसतात. त्या कळ्यांची सोबा ते राणयेन आपले सोबीतकायेन फाटीं घाली.

उपमा अलंकार घडून येवंक उपमेय, उपमान, समान गुण आनी उपमा घडपी उतरां इतलें साइत्य लागता. जे वस्तूक उपमा दिवंची आसता, तिका उपमेय म्हणटात. जे कसलेय वस्तीची उपमा दिवंचेली आसता तिका उपमान म्हणटात. उपमेय आनी उपमान हांचे मदें एकाद्रो-दुसरो समान गुण आसूंक जाय. दोनीय वस्तींचे सगळे गुण सारके आससारके नात. त्यो वस्तू एकेच जातीच्यो आसूंक फावनात. उपमेय वस्तूचो गुण वाडोवन, सोबीत करून, शिणगारून सांगचो म्हणून उपमेयापरस उपमान ही वस्त चड बऱ्या गुणांची आसची. देखीक, व्हंकलेचें तोंड कमळाभशेन सुंदर दिसता. व्हंकलेचें तोंड हें उपमेय. कमळ हें उपमान. सुंदरकाय हो तोंडाचो आनी कमळाचो समान गुण. भशेन हें उपमा घडपी उतर. व्हंकलेच्या तोंडापरस कमळ चड सुंदर उरता हें उक्तेंच आसा. ही सादी उपमा जाली.

वयर आठव्या श्लोकांत राणयेचीं थानां हें उपमेय. कमळाचे कळे हें उपमान. हे ओपारींत कालिदासान उपमानापरस उपमेय श्रेष्ठ म्हणून वर्णन केलां. असले उपमेक व्यतिरेक अलंकार म्हणटात.

९. धर्तरी आपल्या पोटांत रत्नां दवरून भायल्यान दर्याचें कापड न्हेसता. शमीचो रूख आपलेभितर उज्याक सांबाळटा. सरस्वती न्हय भुयेंतल्यान व्हांवता.

**प्रियानुरागस्य मनःसमुन्नतेर्भुजार्जितानां च दिगन्तसंपदाम् ।**
**यथाक्रमं पुंसवनादिकाः क्रिया धृतेश्च धीरः सदृशीर्व्यधत्त सः ॥१०॥**
**सुरेंद्रमात्राश्रितगर्भगौरवात्प्रयत्नमुक्तासनया गृहागतः ।**
**तयोपचारांजलिखिन्नहस्तया ननन्द पारिप्लवनेत्रया नृपः ॥११॥**

तेच भाशेन राणयेच्या पोटांत गर्भ आसा अशें राजा मानतालो.

राणी आनी तिचो गर्भ हें उपमेय. धर्तरी, शमी रूख आनी सरस्वती न्हय हीं तीन उपमानां. म्हणून हो मालोपमा अळंकार जालो.

१०. त्या राजाचो राणयेचेर चड मोग आसलो; तो उदार मनाचो आसलो. आपल्या आंगच्या पराक्रमान ताणे सगळ्या दिशांतल्यान जायती संपदा एकठांय केल्लीं आनी राणी गुरवार जाली म्हणून ताका आनंदाचे उत्फरके येताले. इतल्या सगळ्या कारणांक लागून सोब्रून दिसत इतल्या दबाज्यान त्या राजान राणयेच्या गुरवाचारांतलें पुंसवन बी सुवाळे केले.

कोणूय बायलमनीस गुरवार जाली, कीं दुसऱ्या वा तिसऱ्या म्हयन्यांत चांद्रिम पुष्य नक्षत्राचेर वा दुसऱ्या कसल्याय पुरुष लिंगी नक्षत्राचेर आसतना पुंसवन हो संस्कार करचो अशें गोभिल, वसिष्ठ, शौनक बी ऋषींनीं शास्त्र घाल्लून दिलां. गुरवाचाराचीं लक्षणां बेगीन कळून आयलीं नात तर चवथ्या म्हयन्यांतय पुंसवन केल्यार जाता. गुरवारणीक पुत्र जावंचो म्हणून हे संस्कार करतात. ह्या विधींत घोव बायलेच्या फाटल्यान उबो रावन तिचे बोंबलेक हात लावन 'पुमांसौ मित्रावरुणौ पुमांसावश्विनावुभौ । पुमानाग्निश्च वायुश्च पुमान्गर्भस्त-वोदरे॥' हो मंत्र म्हणटा. कांय जाण 'पुमानग्निः पुमानिंद्रः पुमान्देवो बृहस्पतिः। पुमांसं पुत्रं विन्दस्व तं पुमाननुजायताम्॥' असोय मंत्र म्हणटात. पुत्र जल्माक येवंचो म्हणून इच्छा करून हे मंत्र म्हणटाले. त्या काळार मंत्रांचेर लोकांचो विश्वास उरतालो. मंत्रांनीं कामाचें फळ मेळटालें. लोकांची इच्छाशक्ती बलिष्ट उरताली. ते इच्छाशक्तीन कामां जातालीं, आयच्या काळांत विश्वास आनी इच्छाशक्तीचें बळगें भोव थोड्या लोकांचेठांय उरता. जांचेकडेन तें उरता तांकां तांचें फळ मेळटा. सामान्य मनशांक हांतलें कांयच जमना.

११. जेन्ना राजा राणयेच्या म्हालांत वतालो, तेन्ना मोठ्या देवांच्या सत्वांनीं पुष्ट जाल्ल्या अशा त्या गर्भाचे जडसाणेक लागून, ती बशिल्ल्या जाग्यावेली कष्टान उठून उबी रावताली. तेन्ना लजेक लागून तिची नदर थीर उरनासली.

**कुमारभृत्याकुशलैरनुष्ठिते भिषग्भिराप्तैरथ गर्भभर्मणि ।**
**पतिः प्रतीतः प्रसवोन्मुखीं प्रियां ददर्श काले दिवमभ्रितामिव ॥१२॥**
**ग्रहैस्ततः पंचभिरुच्चसंश्रयैरसूर्यगैः सूचितभाग्यसंपदम् ।**
**असूत पुत्रं समये शचीसमा त्रिसाधना शक्तिरिवार्थमक्षयम् ॥१३॥**

रीत म्हणून घोवाक नमस्कार करूंक हात उखलपाक त्रास जातालो. आनी हें पळोवन राजा खोशी जातालो.

राजाचो गर्भ आठ मुखेल देवांच्या सत्त्वांचो घडिल्लो आसता, अशें मनुस्मृतींत सांगलां.

१२. आयुर्वेदांत कुमारभृत्या म्हळ्यार गुरवारणीच्या पोटांतल्या गर्भाची फाव तशी वाढ आनी तो जल्माक येतकीर करपाचे वैजकेचें एक शास्त्र आस. त्या शास्त्राचे जाणटे वैज आनी मायेचीं नातेवर्गी मनशां हांच्या वेळच्या वेळार केल्ल्या उपचारांनीं, ती राणी गुरवाचाराचे अंतीं बाळंत जावंक आयली. गिमाचे अंतीं अंत्राळ कुपांनीं भरून पावस पडूंक येता तेभशेन जालें.

१३. इंद्राणी शचीसारकी ती सुदक्षिणा राणी अंत्राळांतले पांच ग्रह उंच जाग्यांर आसात, आनी सुर्यासरीं नाशिल्ल्यान तांचो अस्त जावंक ना, सुख, भाग्य आनी संपदा मेळोवन दिवपी अशा जल्मवेळार बाळंत जावन निका पुत्र जालो. राजाची सत्ता तीन शक्तींतल्यान आकार घेता. आनी ताका सासणाची संपदा ओंपीत रावता. प्रभुशक्ती म्हळ्यार राजाची सत्ता. उत्साहशक्ती ही राजाचे निजाचे प्रकृतींत म्हळ्यार सबावांत उरता. मंत्रशक्ती ही गुरू, प्रधान, नातेवर्गी, जाणटे हांच्या उपदेशांतल्यान लाभता. ह्या तीन शक्तींतल्यान राजाचें वैभव सासणाचें तिगता.

रविचें उच्च थळ मेष राशी. चंद्राचो सगळ्यांत वयलो पावंडो वृषभ रास. मंगळ मकर राशींत उंचांत उंच जाग्यार पावता. कन्या राशींत आसतना बुध ग्रह उत्तम. गुरू ग्रह कर्केक आसतकीर हिताचो. शुक्र मीन राशींत आसतकीर जल्माक येवपी जिवाक जीणभर जयपत दिता. शनी तूळ राशींत आसलो, कीं त्या वेळार जलमल्ल्या मनशाक केन्नाच त्रास दिना. हें जातक श्लोकांत ज्योतिष शास्त्रांत सांगलां. एक ग्रह उच्चीचो आसतना मनीस जल्माक आयलो तर त्या मनशाक जिणेंत सुख मेळटा. दोन ग्रह उंच जाग्यार आसल्ले तर सुख आणि कीर्त मेळटा. जल्माच्या खिणार तीन

**दिशः प्रसेदुर्मरुतो ववुः सुखाः प्रदक्षिणार्चिर्हविरग्निराददे ।**
**बभूव सर्वं शुभशंसि तत्क्षणं भवो हि लोकाभ्युदयाय तादृशाम् ॥१४॥**
**अरिष्टशय्यां परितो विसारिणा सुजन्मनस्तस्य निजेन तेजसा ।**
**निशीथदीपाः सहसा हतत्विषो बभूवुरालेख्यसमर्पिता इव ॥१५॥**

ग्रह उंच पावड्यार आसले तर सुख, कीर्त आनी सत्ता हातांत येतात. चार ग्रह उंचीचे आसले तर सुख, किर्ती, सत्ता आनी राज्याचो लाभ जाता. जल्मतासतना पांच ग्रह उंच जाग्यांर आसप म्हळ्यार त्या मनशाच्या आंगांतल्यान देवाचें तेज प्रगटटा. रामायणांत बालकांडाच्या तेराव्या सर्गांत रामाच्या जल्माचें अशेंच वर्णन वाल्मिकीन केलां: "चैत्रे नावमिके तिथौ ॥८॥ नक्षत्रेऽदितिदैवत्ये स्वोच्चसंस्थेषु पंचसु । ग्रहेषु कर्कटे लग्ने वाक्पताविन्दुना सह ॥९॥ प्रोद्यमाने जगन्नाथं सर्वलोकनमस्कृतम् । कौसल्याऽजनयद्रामं सर्वलक्षणसंयुतम् ॥१०॥

देवाचे अवतार जल्माक येतासतना पांच ग्रह उंच जाग्यांर उरतात. रघु, राम हे जल्माक आयले तेन्ना अशे ग्रह आसले.

१४. रघु जल्माक येवंच्या वेळार दिशा चकचकूंक लागल्यो. लोकांक सुखवपी वारो आयलो. होमाचो अग्नी उजवे वशीन सरून आहुती घेवंक लागलो. सगळीं सुगुर्याचीं लक्षणां जालीं. रघुसारक्यिल्यांचो जल्म संवसाराचे उदरगतीखातीर घडून येता.

रघुवंशाच्या धाव्या सर्गांत ७२व्या श्लोकांत रामजल्माचें वर्णन करतासतना कालिदास सांगता : "**निर्दोषमभवत्सर्वमाविष्कृतगुणं जगत् । अन्वगादिव हि स्वर्गो गां गतं पुरुषोत्तमम्**" ॥ राम जल्माक आयलो तेन्ना सगळो संवसार निर्दोष जालो. कारण विष्णु पुरुषोत्तम धर्तरेर आयलो, तेन्ना स्वर्ग ताचेबरोबर पिर्थुमेर देवंलो.

भागवतांत दशमस्कंधाच्या पूर्वार्धांत तिसऱ्या अध्यायांत श्रीकृष्णजल्माचें अशेंच वर्णन आयलां.

दिशः प्रसेदुर्गगनं निर्मलोडुगणोदयम् । मही मंगलभूयिष्ठपुरग्रामव्रजाकरा ॥२॥
ववौ वायुः सुखस्पर्शः पुण्यगंधवहः शुचिः ।
अग्नयश्च द्विजातीनां शांतास्तत्र समिन्धत ॥४॥

१५. बरे रितीन जल्माक आयिल्ल्या त्या रघु बाळाच्या निजाच्या तेजाक लागून रातचे बाळंटीच्या हातुळणाभोवंतणी जे दिवे पेटटाले, ते चित्रांतल्या

**जनाय शुद्धान्तचराय शंसते कुमारजन्मामृतसंमिताक्षरम् ।
अदेयमासीत्त्रयमेव भूपतेः शशिप्रभं छत्रमुभे च चामरे ॥१६॥
निवातपद्मस्तिमितेन चक्षुषा नृपस्य कान्तं पिबतः सुताननम् ।
महोदधेः पूर इवेन्दुदर्शनाद्गुरुः प्रहर्षः प्रबभूव नात्मनि ॥१७॥
स जातकर्मण्यखिले तपस्विना तपोवनादेत्य पुरोधसा कृते ।
दिलीपसूनुर्मणिराकरोद्भवः प्रयुक्तसंस्कार इवाधिकं बभौ ॥१८॥**

---

रंगयल्ल्या दिव्यांभशेन निस्तेज दिसूंक लागले. अरिष्ट ह्या उतराचो पोन्नो अर्थ "भंय नाशिल्लो". कांय काळान ह्या उतराचो अर्थ बदलून "संकट" असो जालो.

१६. त्या राजाच्या छत्राचें तेज चंद्राच्या तेजाइतलें चकचकीत आसलें. कारण तें राजांच्या राजाचें छत्र आसलें. तें छत्र आनी राजाचेर वारयतात त्यो चवंर्‍यो हीं तीन राजचिन्हां राजा कोणाक दिवंक पावना. कुंवर जल्मलो म्हणून अमृताइतलो गोड लागपी निरोप राणीच्या म्हालांतल्यान घेवन येवपी सेवकांक दिलीप राजान छत्र आनी चंवर्‍यो सोडून दिवं येता तें सगळें दिवन उडयलें.

१७. वारो नासलो कीं कमळ हालनासतना निश्चळ उरता, ते भाशेन दोळ्यांच्यो पातयो हालयनासतना तो राजा आपल्या पुत्राचें सुंदर मुख पळयत जणु काय पीतच रावलो. चंद्राच्या दर्शनान दर्याक हुंवार येता, त्याप्रमाण त्या पुत्राच्या दर्शनान आपणाक जाल्ली धादोसकाय तो राजा आपले भितर सांबाळूंक पावलो ना !

१८. तपोवनांतल्यान तपस्वी ऋषी आयले आनी ताणी दिलीप राजाच्या पुत्राचें जातकर्म हो विधी केलो. खणींतल्यान काडिल्लें रत्न तासां मारतकीर जशें लकलकता तसो तो राजकुंवर पयलींपरस चड परजळूंक लागलो.

नारायणभट्टाच्या प्रयोगरत्न ह्या ग्रंथांत पुताचें नाळें कापचे पयलीं जातकर्म विधी करताले ताजें वर्णन आसा: पुत्र जल्मल्याबरोबर बापायन पुताचें तोंड पळोवन, न्हावन, णव पितरांचें स्राद्ध घालचें. त्या स्राद्धाखातीर केल्ल्या होमांत अग्नी, इंद्र, प्रजापती, विश्वेदेव आनी ब्रह्मा हांकां आहुत्यो दिवंच्यो. ताजे-मागीर म्होंवांत भांगर झरवन त्या बाळकाक तें चाटयतासतना "ॐ प्र ते ददामि मधुनो घृतस्य वेदं सवित्रा प्रसूतं मघोनाम्। आयुष्यमान्गुप्तो देवताभिः शतं जीव शरदो लोके अस्मिन्॥" हो मंत्र म्हणचो. मागीर त्या पुत्राच्या उजव्या आनी

**सुखश्रवा मंगलतूर्यनिस्वनाः प्रमोदनृत्यैः सह वारयोषिताम् ।**
**न केवलं सद्मनि मागधीपतेः पथि व्यजृम्भन्त दिवौकसामपि ॥१९॥**
**न संयतस्तस्य बभूव रक्षितुर्विसर्जयेद्यं सुतजन्महर्षितः ।**
**ऋणाभिधानात्स्वयमेव केवलं तदा पितृणां मुमुचे स बन्धनात् ॥२०॥**
**श्रुतस्य यायादयमन्तमर्भकस्तथा परेषां युधि चेति पार्थिवः ।**
**अवेक्ष्य धातोर्गमनार्थमर्थविच्चकार नाम्ना रघुमात्मसंभवम् ॥२१॥**

दाव्या कानाकडे तोंड व्हरून "**ॐ मेधां ते देवः सविता मेधां देवी सरस्वती। मेधां अश्विनौ देवावधत्तां पुष्करस्रजौ॥** हो मंत्र दोनदा म्हणचो. हाचेनंतर उजव्या हाताचें वेंथ भुरग्याच्या दोनय खांद्यांक ल्हव तेंकवन मंत्र म्हणचोः

**अश्मा भव परशुर्भव हिरण्यमस्तृतं भव ।**

**वेदो वै पुत्रनामासि स जीव शरदः शतम् ।**

आनीकय अशे तीन मंत्र म्हणून जातकच भुरग्याचें कल्याण मागतासतना मंत्र म्हणचोः "**अंगादंगात्संभवसि हृदयादधि जायसे। आत्मा वै पुत्रनामासि स जीव शरदः शतम्॥** इतलें म्हणून पुताची तक्ली तीन फावटी हुंगची. भुरग्याक आवयचें दूद पयलेंच फावटी दितासतनाय मंत्र म्हणपाचो आसतालो. आनी मागीर ब्राह्मणांक गायो, जमनी, तीळ, भांगर दान करचें.

१९. दिलीप राजाच्या म्हालांतच कानाक गोड लागपी मंगळ वाजपांचे साथीन नाचपी कळावंत बायलो आनंदान नाचूंक लागल्यो! इतलेंच न्हय तर स्वर्गांत देवलेगीत दुन्दुभी वाजपां वाजयताले तीं अंत्राळांत घुमघुमतालीं!

२०. राजाक कुंवर जालो म्हणून धादोसकायेन बंदखणींत ख्यास्त भोगपी बंदींक मेकळे करपाची रीत आसली. पुण दिलीप राजा प्रजेची राखण करपांत इतलो समर्थ आसलो कीं ताच्या राज्यांत कुंवर जालो म्हणून मेकळे करचेखातीर बंदखणींत बंदीच नासले. कुंवर जांवचेपयलीं तो राजाच पितरांच्या रिणांत आसलो. म्हणून पुत जाल्ल्यान ताणे स्वताकच त्या रिणांतल्यान मेकळो करून घेतलो.

२१. हें बाळक आपले मतीन ज्ञानाचे पलतडीमेरेन वचचें. युद्धांत ह्या बाळकान शत्रूक सोंपयमेरेन वचचें हे आस्तेन उतरांचो पुराय अर्थ जाणपी त्या राजान वचप ह्या धातूचेर आधारिल्लें रघु हें नांव आपल्या पुताक दवल्लें.

२२. सुर्याच्या सुषुम्ना नांवाचें कळेचे शक्तीन चंद्राची कोर ल्हानाची व्हड

**पितुः प्रयत्नात्स समग्रसंपदः शुभैः शरीरावयवैर्दिने दिने ।**
**पुपोष वृद्धिं हरिदश्वदीधितेरनुप्रवेशादिव बालचन्द्रमाः ॥२२॥**
**उमावृषांकौ शरजन्मना यथा यथा जयन्तेन शचीपुरंदरौ ।**
**तथा नृपः सा च सुतेन मागधी ननन्दतुस्तत्सदृशेन तत्समौ ॥२३॥**
**रथांगनाम्नोरिव भावबन्धनं बभूव यत्प्रेम परस्पराश्रयम् ।**
**विभक्तमप्येकसुतेन तत्तयाः परस्परस्योपरि पर्यचीयत ॥२४॥**
**उवाच धात्र्या प्रथमोदितं वचो ययौ तदीयामवलम्ब्य चांगुलिम् ।**
**अभूच्च नम्रः प्रणिपातशिक्षया पितुर्मुदं तेन ततान सोर्भकः ॥२५॥**
**तमंकमारोप्य शरीरयोगजैः सुखैर्निषिंचन्तमिवामृतम् त्वचि ।**
**उपान्तसंमीलितलोचनो नृपश्चिरात्सुतस्पर्शरसज्ञतां ययौ ॥२६॥**

---

जाता. त्याप्रमाण सगळे तरेचें वैभव आशिल्ल्या बापायचे जतनायेन तो बाळक बरेभशेन दिशीं दिशीं आंगापांगान पसवून वाडलो.

२३. शर नांवाच्या तणाचेर जो जल्माक आयलो आनी स दैवी कृत्तिकांनीं जाका थंय सांबाळ्ळो त्या कार्तिकस्वामीक लागून उमा-महेश्वर खोशी जालीं. पुरंदर इंद्र आनी इंद्राणी शची हांच्या जयंत पुत्राक लागून तीं धादोशी जालीं. तेच भाशेन कार्तिकेय आनी जयंत हांच्या तोलाच्या रघु पुत्राक लागून दिलीप राजा आनी मागधी राणी खोसयेलीं.

२४. चक्रवाक आनी चक्रवाकी ह्या सवण्यांच्या जोड्याचो एकमेकांचेर चड मोग उरता. तेच भाशेन तो राजा आनी राणी एकमेकांचेर मोग करतालीं. तांच्या दोगांयच्या एकमेकाविशीं मोगाचो वांटो घेवपी पुत जालो तरी तांची एकमेकांवेली माया चड वाडली.

२५. त्या कुंवराक धरतलेन शिकयल्लें उत्तर तो उलयलो. ते धरतलेचे बोटयेक धरून तो चललो. ताका नमस्कार करूंक शिकयल्ल्याप्रमाण तो नमस्कार करूंक लागलो. आपल्या असल्या कर्तुपांनीं त्या बाळकान बापायची धादोसकाय वाडयली.

विश्वनाथान आपल्या साहित्यदर्पण ह्या पुस्तकांत वत्सल रसाची देख म्हणून हो श्लोक दिला.

२६. पुताक मांडयेर बसयतकूच, आपल्या आंगाक ताजें आंग लागतकूच, ताच्या कातींतल्यान जणु अमृताचो शिंवर आपलेर जाता अशें मानून तो राजा सुखांत भिजतालो. ताच्या दोळ्यांचे कोनशे धांपताले आनी

**अमंस्त चानेन परार्ध्यजन्मना स्थितेरभेत्ता स्थितिमन्तमन्वयम् ।**
**स्वमूर्तिभेदेन गुणाग्र्यवर्तिना पतिः प्रजानामिव सर्गमात्मनः ॥२७॥**
**स वृत्तचूलश्चलकाकपक्षकैरमात्यपुत्रैः सवयोभिरन्वितः ।**
**लिपेर्यथावद्ग्रहणेन वाङ्मयं नदीमुखेनेव समुद्रमाविशत् ॥२८॥**
**अथोपनीतं विधिवद्विपश्चितो विनिन्युरेनं गुरवो गुरुप्रियम् ।**
**अवन्ध्ययत्नाश्च बभूवुरत्र ते क्रिया हि वस्तूपहिता प्रसीदति ॥२९॥**

व्हड सुखाक लागून ताची शुद्ध वताली आनी बऱ्याच वेळान ताका पुताच्या सांसपणेची जाण कळटाली.

२७. ब्रह्मदेवान प्रजापती म्हणून सगळी सृष्टी रचली तेन्ना सत्व, रज आनी तम ह्या तीन गुणांमदल्या म्हालगड्या सत्वगुणाचो चड वांटो घातिल्यान विष्णुदेव ब्रह्मदेवापरस चड नामनेक पावलो. तेच भाशेन दिलीप राजा आपल्या वंशाची रीत राखपी आसुनय आपल्या पुताचे श्रेष्ठ गुण वळखून हो आपल्या गुणांक लागून आपल्या वंशाचो म्हालगडो म्हणून नामनेक चडटलो, हें दिलिपान वळखिलें.

२८. शास्त्रांत नेमिल्ल्याप्रमाण त्या रघु कुंवराचो जायवळ करपाचो विधी जालो. म्हळ्यार भुरग्याच्या तिसऱ्या वर्सा म्हाल्याकडल्यान केंसांची कापणी करून शेंडी वाडवपाचो सुवाळो. ब्राह्मणांक केंसाचे एके बटेयेदी शेंडी दवरताले, आनी क्षत्रियांक पांच बटांयेदी मोठ्या भोंवऱ्याची शेंडी दवरताले. क्षत्रियांच्या शेंडयेच्या दोनय वशींनीं कावळ्याच्या पांखांभशेन शेंडयेचीं झुलपां दिसतालीं. आपले तकलेवयले शेंडयेचीं कावळ्याच्या पाखांभाशेन दिसपी झुलपां हालयत तो रघु कुंवर प्रधानांच्या आपले विरायेच्या पुत्रांबरोबर पन्नास अक्षरांची बाराखडी शिकून न्हयेंचे खाडयेंतल्यान समुद्रांत वतात ते भाशेन तो वाङ्मयांत भितर सल्लो.

२९. आठव्या वर्सा ब्राह्मणाच्या पुताची मुज बांदची. क्षत्रियाची अकराव्या वर्सा बांदची आनी वाणयाची बाराव्या वर्सा मुज बांदची, अशें शास्त्रांत सांगलां. शास्त्राप्रमाण रघु कुंवराची मुज बांदली. विद्वान गुरूनीं ताका विद्या शिकयल्यो. ताका विद्या शिकोवंचेखातीर ताणी केल्ले यत्न सफळ जाले. रघूक आपले गुरू आवडटाले. फाव ते वस्तीचेर केल्ल्या वावरान फळ मेळटा. शिक्षणाक योग्य अशा भुरग्याक शिकयलो तर तो शिकता.

**धियः समग्रैः स गुणैरुदारधीः क्रमाच्चतस्रश्चतुरर्णवोपमः ।
ततार विद्याः पवनातिपातिभिर्दिशो हरिद्भिर्हरितामिवेश्वरः ॥३०॥
त्वचं स मेध्यां परिधाय रौरवीमशिक्षतास्त्रं पितुरेव मंत्रवत् ।
न केवलं तद्गुरुरेकपार्थिवः क्षितावभूदेकधनुर्धरोऽपि सः ॥३१॥
महोक्षतां वत्सतरः स्पृशन्निव द्विपेन्द्रभावं कलभः श्रयन्निव ।
रघुः क्रमाद्यौवनभिन्नशैशवः पुपोष गाम्भीर्यमनोहरं वपुः ॥३२॥**

३०. बुद्धीचे सात गुण आसतात : शुश्रूषा श्रवणं चैव ग्रहणं धारणं तथा। ऊहापोहोऽर्थविज्ञानं तत्वज्ञानं च धीगुणाः॥ अशें कामन्दक सांगता. (१) ज्ञान शिकून घेंवचो तळमळ वा जबर इच्छा, (२) लक्ष लावप, (३) सारकी समजण, (४) ध्यानांत दवरप, (५) बरें-वायट तपासून बरें तितलें घेवप, (६) तात्पर्य समजून घेवप आनी (७) मुळावें ज्ञान शिकून घेवप. बुद्धीच्या ह्या सगळ्या गुणांनीं तिखे बुद्धीचो असो रघु, एकीफाटल्यान एक, चार समुद्रांभशेन अंतपार नाशिल्ल्यो, आन्विक्षिकी, त्रयी, वार्ता आनी दंडनिती ह्यो चार विद्या, सूर्यदेव आपल्या वाऱ्यापरसय चड वेगान धांवपी सात तांबशा घोड्यांचेर बसून चारय दिशांचे कोनशान कोनशे परजळीत भोवंता, त्या प्रमाण चारूय विद्यांचे सगळे आस्पाव उजवाडायत रघु आपल्या सात गुणांचे बुद्धीन शिकलो.

आन्विक्षिकी म्हळ्यार आत्मविद्या. त्रयी म्हळ्यार चार वेद, धर्मशास्त्रां आनी पुराणां. वार्ता म्हळ्यार शेतकामत, गोरवां पोसप, व्यापार आनी चाकरी करप. दंडनिती म्हळ्यार राज्यशास्त्र. हें कामंदकान सांगलां.

३१. पवित्र अशें काळ्या रंगाच्या मिर्गाचें चामडें न्हेसून रघून आपल्या बापायकडल्यान मंत्रांसयत अस्त्रांची म्हळ्यार मंत्र म्हणून शत्रूचेर मोखून मारचेल्या धामींची विद्या शिकून घेतली. कारण ताजो बापूय हो निखटो सर्व-श्रेष्ठ राजाच नाशिल्लो, तर पिर्थुमेवेलो सगळ्यांत खांपो धनुर्धर आसलो.

३२. ल्हान पाडूक वाडून पाड्याचे आंगलटींत पुष्ट जाल्लें दिसता वा हत्तीचो पिलो व्हड हतयाचो आकार घेता, ते भाशेन रघु भुरगेपणांतल्यान दिशीं माशीं मानाय जालो. आपल्या मर्यादशीलकायेक लागून ताची आंगकाठी देखणी दिसताली. रघुभितर गांभीर्य म्हळ्यार गरंगिलकाय आसली. हो गुण आसलो कीं मनशाच्या मनांतले भंय, राग, हर्ष बी दुबळिको दुसऱ्यांक कळूंक पावनात.

**अथास्य गोदानविधेरनन्तरं विवाहदीक्षां निरवर्तयद्गुरुः ।**
**नरेन्द्रकन्यास्तमवाप्य सत्पतिं तमोनुदं दक्षसुता इवाबभुः ॥३३॥**
**युवा युगव्यायतबाहुरंसलः कपाटवक्षाः परिणद्धकंधरः ।**
**वपुःप्रकर्षादजयद्गुरुं रघुस्तथाऽपि नीचैर्विनयाददृश्यत ॥३४॥**
**ततः प्रजानां चिरमात्मना धृतां नितान्तगुर्वीं लघयिष्यता धुरम् ।**
**निसर्गसंस्कारविनीत इत्यसौ नृपेण चक्रे युवराजशब्दभाक् ॥३५॥**

३३. धर्मशास्त्राप्रमाण ब्राह्मणांनींवी सोळा वर्सां जातकच केंस मारून, ग्वाड काडून लग्न न्हावें येता. क्षत्रियांनीं बावीस वर्सांचे पिरायेर कापणी करून गृहस्थाश्रमांत येवंचें. वाणयांनीं ताजेकय चड पिराय जातकीर लग्न न्हावंचें. हो कापणेचो विधी करच्या वेळार गायो वी दान दिवंच्यो. हो विधी करून दिलिपान रघूचें लग्न केलें. दक्ष प्रजापतीच्या सत्तावीस कन्यांनीं काळखाक आमडून घालपी चंद्रीम हो बरो घोव वरलो. त्या प्रमाण पिर्थुमेवेल्या राजकुंवरींनीं रघूक वरलो.

विवाहदिक्षा घेवप म्हणजे वानप्रस्थाश्रम घेयसर बायलेबरोबर संवसार करून रावतलों म्हणून सपूत घेवप. ब्रह्मदेवाच्या उजव्या आंगठ्यांतल्यान दक्ष प्रजापती जलमलो. दाव्या आंगठ्यांतल्यान ताजी बायल जलमली. दक्षाक अठावीस कन्या जाल्यो. तांतल्यो सत्तावीस कन्या दक्षान चंद्राकडेन लग्न करून दिल्यो. तीं अंत्राळांतलीं सत्तावीस नक्षत्रां: अश्विनी, भरणी पासून रेवती मेरेन. दक्षाची सगळ्यांत धाकटी कन्या सती ही ताणे शिव देवाक लग्न करून दिली. दुसऱ्या कांय पुराणांनीं दक्षाक पन्नास, साठ, चव्वेचाळीस वी कन्या आसल्यो, तांतल्यो तेरा, सतरा वा आठ कन्या कश्यप ऋषीक लग्न करून दिल्यो आनी मागीर तांकां देव, दैत्य, मनीस, नाग, गरुड बी प्रजावळ जाली अशीं वर्णनां आसात.

३४. जुवान, गाड्याच्या जुंवाइतल्या लांब आनी फुगिल्ल्या बावळ्यांचो, नावीच्या फळ्यांभशेन हड्डें आशिल्लो, भरिल्ले मानेचो, आपले आंगलटीन बापायक फाटीं घालपी रघु मर्यादेक लागून बापायमुखार सदां सकयले नदरेन रावतालो.

३५. जायतो काळ प्रजेक सांबाळपाचें चड जड अशें आपल्या खांद्यार घेतिल्लें वजें लहव करचेखातीर त्या राजान सभावान आनी संस्कारांनीं मर्यादशीळ

**नरेन्द्रमूलायतनादनन्तरं तदास्पदं श्रीर्युवराजसंज्ञितम् ।**
**अगच्छदंशेन गुणाभिलाषिणी नवावतारं कमलादिवोत्पलम् ॥३६॥**
**विभावसुः सारथिनेव वायुना घनव्यपायेन गभस्तिमानिव ।**
**बभूव तेनातितरां सुदुःसहः कटप्रभेदेन करीव पार्थिवः ॥३७॥**
**नियुज्य तं होमतुरंगरक्षणे धनुर्धरं राजसुतैरनुद्रुतम् ।**
**अपूर्णमेकेन शतक्रतूपमः शतं क्रतूनामपविघ्नमाप सः ॥३८॥**
**ततः परं तेन मखाय यज्वना तुरंगमुत्सृष्टमनर्गलं पुनः ।**
**धनुर्भृतामग्रत एव रक्षिणां जहार शक्रः किल गूढविग्रहः ॥३९॥**
**विषादलुप्तप्रतिपत्ति विस्मितं कुमारसैन्यं सपदि स्थितं च तत् ।**
**वसिष्ठधेनुश्च यदृच्छयाऽऽगता श्रुतप्रभावा ददृशेऽथ नन्दिनी ॥४०॥**

---

जाल्लया पुताक युवराज ही पदवी दिवन अभिषेक केलो.

३६. त्या राजाच्याठांय मुळांत रावणेक आशिल्ली भाग्यदेवता कांय वांट्यान गुणांच्या मोगाक लागून त्या युवराजाचेठांय आलाशिऱ्याक आयली. सुंदरकायेची देवता पुराय फुलिल्ल्या कमळांतल्यान नव्यान फुलिल्ल्या कमळांत आस्रयाक येता.

३७. उज्याक वाऱ्याची मजत मेळ्ळी कीं तो पालवप कठीन. मळबांत कुपां नासतात, अशा शरद्ऋतूंत सुर्याचो उजवाड उणो करपाचो उपाय ना. हत्ती मस्तेक येवन ताज्या कानसुलांक कात्रे पडले कीं ताका सांबाळप कठीन. त्या प्रमाण रघूचे मजतीक लागून दिलीप राजाकडेन झुजपी कोण उल्लोच ना.

ही मालोपमा ओपार.

३८. धनुर्धर अशा रघूक दुसऱ्या राजकुंवरांसयत अश्वमेध यज्ञाच्या घोड्याची राखण करूंक नेमून इंद्राइतल्या तेजिष्ट दिलीप राजान नव्याणव अश्वमेध यज्ञ विघ्नांविरयत केले.

३९. शंबरावो अश्वमेध यज्ञ करचेखातीर दिलिपान अश्वमेधाचो घोडो दाव्यांतल्यान मेकळो सोडलो. त्या घोड्याची राखण करपी धनुर्धारी विरां-मुखारच इंद्रदेवान मनशांक दिसनाशिल्ले कुडीन थंय येवन तो घोडो व्हेलो.

४०. तो घोडो ना-सो जावंचेलें कारण त्या राजकुंवराच्या सैन्याक कळ्ळेंच ना, म्हणून तांकां दुःख जालें आनी तो घोडो कसो सोडून काडचो तें न कळिल्ल्यान तांकां अजापाचो धपको बसलो. वसिष्ठ ऋषीचे नन्दिनी गायेचे व्हडविकेविशीं ताणी आयकिल्लें. ती नंदिनी थंय आपशींच आयली !

**तदंगनिस्यन्दजलेन लोचने प्रमृज्य पुण्येन पुरस्कृतः सताम् ।**
**अतीन्द्रियेष्वप्युपपन्नदर्शनो बभूव भावेषु दिलीपनन्दनः ॥४१॥**
**स पूर्वतः पर्वतपक्षशातनं ददर्श देवं नरदेवसंभवः ।**
**पुनः पुनः सूतनिषिद्धचापलं हरन्तमश्वं रथरश्मिसंयतम् ॥४२॥**
**शतैस्तमक्ष्णामनिमेषवृत्तिभिर्हरिं विदित्वा हरिभिश्च वाजिभिः ।**
**अवोचदेनं गगनस्पृशा रघुः स्वरेण धीरेण निवर्तयन्निव ॥४३॥**
**मखांशभाजां प्रथमो मनीषिभिस्त्वमेव देवेन्द्र सदा निगद्यसे ।**
**अजस्रदीक्षाप्रयतस्य मद्गुरोः क्रियाविघाताय कथं प्रवर्तसे ॥४४॥**
**त्रिलोकनाथेन सदा मखद्विषस्त्वया नियम्या ननु दिव्यचक्षुषा ।**
**स चेत्स्वयं कर्मसु धर्मचारिणां त्वमन्तरायो भवसि च्युतो विधिः ॥४५॥**
**तदंगमग्र्यं मघवन्महाक्रतोरमुं तुरंगं प्रतिमोक्तुमर्हसि ।**
**पथः श्रुतेर्दर्शयितार ईश्वरा मलीमसामाददते न पद्धतिम् ॥४६॥**

---

४१. सज्जन जिका मान दिताले, ते नन्दिनी गायेच्या आंगाक आइल्ले पवित्र मुमेन रघून आपले दोळे धुले. तेन्ना ताका इंद्रियांनीं जें ज्ञान जायना, तेंय ताच्या दोळ्यांक दिसूंक लागलें.

४२. पर्वतांचीं पांखां कापून उडवपी इंद्राचो सारथी त्या अश्वमेध यज्ञाच्या घोड्याची सुटून वचचेखातीर केल्ली धडपड आळाबंदा हाडून ताका रथाच्या काढण्यांनीं बांदून व्हरतासतना रघूक पूर्व दिशेवसल्यान दिसलो.

४३. पिंगशा घोड्यांवेल्यान आनी आंगार पातयो हालनाशिल्ल्या शेंकड्यांनीं दोळे आशिल्ल्या इंद्रदेवाक वळखून रघून अंत्राळाक भिडपी अशा गंभीर आवाजान ताका हटकिलो, म्हणून इंद्रान फाटीं वळून पळेलें.

४४. "देवेंद्रा, यज्ञ, तपबी करतल्या जाणट्यांनीं सांगलां, कीं तूं यज्ञांत सगळ्यांत पयली आहुती घेता. अशें आसतना सतत यज्ञ करपाचें एकवत आंगयल्ल्या म्हज्या बापायच्या यज्ञांत तूं विघ्न हाडूंक कसो फुडें सल्ला ?

४५. "तूं स्वर्ग, पिर्थुम आनी पाताळ ह्या तीन लोकांचो देव. सगळें तीनय काळांत घडपी, लागचें आनी पयशिलें पळोवपी तुजी दिव्य नदर! ते नदरेन यज्ञाचो विद्वाट करपी आसतात तांकां तुवें ख्यास्त लावंक जाय. तूंच जर धर्मान चलतल्या लोकांचे आड येवंक लागलो, तर यज्ञयाग बी धर्मकार्यां सोंपलींच अशें म्हणचें पडलें !

४६. "इंद्रदेवा, ह्या अश्वमेधाखातीर चड गरजेचो अशा ह्या घोड्याक

**इति प्रगल्भं रघुणा समीरितं वचो निशम्याधिपतिर्दिवौकसाम् ।**
**निवर्तयामास रथं सविस्मयः प्रचक्रमे च प्रतिवक्तुमुत्तरम् ॥४७॥**
**यदात्थ राजन्यकुमार तत्तथा यशस्तु रक्ष्यं परतो यशोधनैः ।**
**जगत्प्रकाशं तदशेषमिज्यया भवद्गुरुर्लंघयितुं ममोद्यतः ॥४८॥**
**हरिर्यथैकः पुरुषोत्तमः स्मृतो महेश्वरस्त्र्यम्बक एव नापरः ।**
**तथा विदुर्मां मुनयः शतक्रतुं द्वितीयगामी न हि शब्द एष नः ॥४९॥**
**अतोऽयमश्वः कपिलानुकारिणा पितुस्त्वदीयस्य मयाऽपहारितः ।**
**अलं प्रयत्नेन तवात्र मा निधाः पदं पदव्यां सगरस्य संततेः ॥५०॥**

---

तुवें सोडून दिवंक फाव. वेदांनीं घालून दिल्ल्या मार्गान वचपी महात्मे घाणयारे वाटेन वचनात."

४७. रघून मोठे धिटायेन उलयल्लें भाषण आयकून त्या देवांच्या राजान अजापून रघूक उफाट्टी जाप दिवंचेखातीर आपलो रथ फाटीं परतिलो.

४८. "आरे क्षत्रियपुत्रा, तूं म्हणटा तें सगळें खरें आस. पुण आपली किर्ती हीच आपली जोड अशें जे मानतात, ताणी ती जोड दुसरे कोणीय व्हरतीत म्हणून सांबाळून दवरूंक जाय. हांवें सगळ्या संवसारभर नामना जावंची अशें यश जोडलां. हो यज्ञ करून तुजो बापुय तें फाटीं काडूंक सोदता. ४९. एकल्या विष्णुदेवाक पुरुषोत्तम म्हणटात. म्हाका एकट्या इंद्राकच शंबर अश्वमेध यज्ञ करपी, शतक्रतु म्हणून वळखतात. ह्यो पदव्यो दुसऱ्या कोणाक आमचेकडल्यान घेवंक मेळच्यो नात. ५०. तुज्या बापायचो हो अश्वमेध यज्ञाचो घोडो कपिल मुनीभशेन हांव घेवन वतां. म्हाका आडावपाचो यत्न तूं करशीत तर फुक्कट वतलो. आनी सगर राजाच्या पुतांभशेन तुजी अवस्ता करून घेवं नाका."

जायत्या काळापयलीं अयोध्येचो सगर राजा शंबरावो अश्वमेध यज्ञ करतालो; आनी ताजे साठ हजार पुत्र यज्ञांच्या घोड्याचें रक्षण करीत ताज्या फाटल्यान वताले. इंद्रान दुस्वासान तो घोडो चोरून व्हरून पाताळांत कपिल मुनीच्या आस्रमांत बांदलो. सगराच्या पुतांनीं सगळी पिर्थूमभर घोड्याक सोदलो आनी मागीर धर्तरी खणून ते पाताळांत गेले. थंय आस्रमांत कपिल मुनी ध्यान करीत बशिल्लो आनी घोडो लागसारच चरतालो. सगराच्या पुत्रांक दिसलें कीं घोड्याक चोरून चोर ध्यान करपाचें सवंग करून आपल्याक फसोवंक सोदता. ताणी कपिल मुनीक ख्यास्त लावपाक सुरवात केली. तेन्ना मुनीन तांकां स्राप

**ततः प्रहस्यापभयः पुरंदरं पुनर्बभाषे तुरगस्य रक्षिता ।**
**गृहाण शस्त्रं यदि सर्ग एष ते न खल्वनिर्जित्य रघुं कृती भवान् ॥५१॥**
**स एवमुक्त्वा मघवन्तमुन्मुखः करिष्यमाणः सशरं शरासनम् ।**
**अतिष्ठदालीढ विशेषशोभिना वपुःप्रकर्षेण विडम्बितेश्वरः ॥५२॥**

---

दिवन भस्म केले. कपिल मुनीन सगराचो घोडो चोरून व्हरूंक नासलो. इंद्रान रघुकडेन उलयल्ल्या ओपारींत सुरय फट मारिल्ली. पुण रघु इंद्राक बदपी नासलो !

५१. तेन्ना घोड्याचें रक्षण करपी तो निर्भय रघु मोठ्यान हांसून इंद्र-देवाक परतो उलयलो: "असो तुजो निश्चय आस जाल्यार तूं हातांत शस्त्र घे. रघूक जिखल्याबगर तुका घोड्याक व्हरूंक मेळचो ना." ५२. अशें उलोवन वरशें तोंड करून इंद्राकडेन पळेत धनुंष्याचेर बाण लायत रघु दावो पांय फाटीं बागोवन उजवो पांय फुडें रोवन शंकर देवाभशेन उबो रावलो. तेन्ना ताणे कुड फुलयल्ल्यान आनी जे धाटणेन तो उबो रावलो त्या ताज्या विरासनाक लागून तो चड सोबीत दिसलो.

धनुर्धारी वीर झुजतासतना पांच तरांचीं आसनां घालून झुजतात अशें मल्लिनाथ सांगता : (१) वैशाख—ह्या आसनांत झुजपी दोन पांवलांमदीं तीन वेंथींचो जागो दवरून दांग घालून उबो रावता. (२) मंडल—असल्या आसनांत दोनीय पांयांमदल्या आस्पावाक लागून कमर आनी पांय हांचो मेळून एक दरवटोच जाता. (३) समपद—ह्या विरासनांत झुजपी पांवलाक पांवल लावन उबो रावता. (४) आलीढ—ह्या आसनांत रघु उबो राविल्लो. (५) प्रत्यालीढ आसनांत दावो पांय फुडें आनी उजवो पांय फाटीं बागोवन झुजपी झुजता. वल्लभदेव हो कालिदासाचो दुसरो टीकाकार, पद्मासन, दुराकार आनी गरुडक्रम हीं तीन तरांचीं आसनां भरीक घालून सगळीं आठ तरांचीं विरासनां आसतात अशें सांगता.

मयासुरान असुरांखातीर अंत्राळांत, वायांत आनी धर्तरेर, भांगराचें, तांब्याचें आनी लोखणाचें अशीं तीन पुरां बांदिल्लीं. तांकां त्रिपुर म्हणटाले. त्या तीन पुरांनीं असुरांनीं उच्छाद मांडलो, तेन्ना तीं पुरां ना—करून उडोंवचीं हें काम शंकर देवाकडेन आयलें. तीं तिनय पुरां एकठांय येतलीं तेन्नाच तांचें घट्टण करूं येतालें. म्हणून शंकर देव आलीढ हें विरासन घालून वरशे नदरेन तीं पुरां एकठांय केन्ना येतात, तें पळेत एक हजार वर्सां उबो रावलो; आनी

रघोरवष्टम्भमयेन पत्रिणा हृदि क्षतो गोत्रभिदप्यमर्षणः।
नवाम्बुदानीकमुहूर्तलांछने धनुष्यमोघं समधत्त सायकम् ॥५३॥
दिलीपसूनोः स बृहद्‌भुजान्तरं प्रविश्य भीमासुरशोणितोचितः।
पपावनास्वादितपूर्वमाशुगः कुतूहलेनेव मनुष्यशोणितम् ॥५४॥
हरेः कुमारोऽपि कुमारविक्रमः सुरद्विपास्फालनकर्कशांगुलौ।
भुजे शचीपत्रविशेषकांकिते स्वनामचिह्नं नीचखान सायकम् ॥५५॥
जहार चान्येन मयूरपत्रिणा शरेण शक्रस्य महाशनिध्वजम्।
चुकोप तस्मै स भृशं सुरश्रियः प्रसह्य केशव्यपरोपणादिव ॥५६॥

---

तीं नगरां एकठांय आयलीं तेन्ना ताणे तांचेर बाण सोडलो.

५३. रघूचें विरासन घाल्रून नेटान उबो रावप आनी ताचें इंद्राक दबकावन उलवप हांकां लागून इंद्राचें अंतस्कर्ण बाणांनीं काळीज दुखावता तशें दुखलें. नवीन कुपां एकठांय आयलीं कीं तांचेर खिणभर दिष्टी पडटा अशा इंद्रधनुष्याचेर इंद्रान रागान बाण जोडलो. ५४. तो बाण दिलिपाच्या पुताच्या भरभक्कम बावळ्यांमजगत शिरकलो. भयांकृत राक्षसांचें रगत पिवपाची सवंय आशिल्ल्या त्या बाणाक पयलीं केन्नाच रूच घेवंक नाशिल्लें अशें पयलेच फावटीक मनशाचें रगत सुवाद घेवंक मेळ्ळें.

५५. पुराण काळांत आपल्या बाणाचेर कितेंय खूम वा नांव कोरांतपाची चाल उरताली. शंकराचो पुत्र कार्तिकस्वामी हाचेइतल्या पराक्रमी रघून आपल्या नांवाची खूण आशिल्लो बाण ऐरावत हतयाक आमडून खरखरीत बोटयो आशिल्ल्या इंद्राच्या बावळ्यार, जंय इंद्राणी शचीच्या कपळावेले रंगीत नकशेचो छाप उठिल्लो, अशा जाग्यार नेम धरून माल्लो. इंद्राच्या बावळ्याचें उशें करून शची न्हिदतकीर तिच्या कपलार रंगयल्ली नकशी इंद्राच्या बावळ्याक लागताली. अशा जाग्यार बावळ्यार बाण मारून रघून इंद्राचो मोठो अपमान केलो. ५६. रघून दुसरो एक बाण माल्लो. त्या बाणाक मोराच्या पांखांचो पांखाटो लायिल्लो. ह्या बाणान रघून इंद्राची वज्राचें चिन्ह आशिल्ली गुडी पिंदून उडयली. जणु रघून स्वर्गांत रावपी देवांच्या भाग्यलक्ष्मीचे केंसच हुंपकून काडले. हाका लागून इंद्र रघूचेर आकांताचो कोपलो.

५७. इंद्र अंत्राळांत आशिल्लो आनी रघु धर्तरेर आशिल्लो. एकमेकांचेर जैत मेळवंचे इच्छेन दोनूय एकमेकांचेर वेल्यान सकल आनी सकयल्यान वयर

**तयोरुपान्तस्थितसिद्धसैनिकं गरुत्मदाशीविषभीमदर्शनैः ।**
**बभूव युद्धं तुमुलं जयैषिणोरधोमुखैरूर्ध्वमुखैश्च पत्रिभिः ॥५७॥**
**अतिप्रबन्धप्रहितास्त्रवृष्टिभिस्तमाश्रयं दुष्प्रसहस्य तेजसः ।**
**शशाक निर्वापयितुं न वासवः स्वतश्च्युतं वह्निमिवाद्भिरम्बुदः ॥५८॥**
**ततः प्रकोष्ठे हरिचन्दनांकिते प्रमथ्यमानार्णवधीरनादिनीम् ।**
**रघुः शशांकार्धमुखेन पत्रिणा शरासनज्यामलुनाद्बिडौजसः ॥५९॥**

बाण सोडटाले. त्या बाणांच्या तोंकांक वीख लायिल्लें उरतालें आनी तांच्या पांखांच्यांक सत्रण्यांचीं पांखां लायिल्लीं. ते बाण म्हळ्यार पांखां आशिल्ले भयांकृत सोरोप कशे दिसताले. दोगांयमदीं आकांताचें झूज जालें. सिद्ध आनी सैनीक तें झूज पळेताले.

सिद्ध म्हळ्यार तपश्चर्या करून जल्ममरणाच्या भोवांड्यांतल्यान मेकळे जाल्ले आत्मे. ताणी आठ सिद्धी मेळयल्ल्यो आसतात: अणिमा लघिमा प्राप्तिः प्राकाम्यं महिमा तथा। ईशित्वं च वशित्वं च तथा कामावसायिता॥ अणिमा म्हळ्यार अणूयेदें ल्हान रूप घेवन वावुरपाची शक्ती. लघिमा म्हळ्यार ल्हव जावन वाऱ्याचेर उडपाची शक्ती. प्राप्ति म्हळ्यार इच्छिल्ली वस्त मेळवपाची शक्ती. प्राकाम्य म्हणजे जी जी इच्छा जायत, ती ती पूर्ण करून घेवपाची शक्ती. महिमा म्हणजे जाय तितलो मोठो आकार घेवन वावुरपाची शक्ती. ईशित्व म्हळ्यार श्रेष्ठपण, दुसऱ्यांच्याकय वरचड जावप. वशित्व म्हळ्यार दुसऱ्यांचेर शेक चलोवपाची शक्ती.

सिद्ध हे देव आनी मनीस हांच्या मदल्या पांवड्यावेले आत्मे. ते अठ्ठ्याऐशीं हजार आसतात. संवसारांतल्यो कसल्योच इच्छा नाशिल्ले अशे ते शुद्ध आत्मे उरतात. ज्या झुजांत झुजपी आकान्ताच्यो गर्जना करून झुजतात ताका तुमुल युद्ध म्हणटात. एके वशीन अंत्राळांतल्यान ते सिद्ध आनी जमनीवेल्यान रघूचे सैनीक रघु आनी इंद्र हांचे मदीं पेटिल्लें तें झूज पळेताले.

५८. सोसूंकच जायनात अशा अस्त्रांचो इंद्रदेव रघूचेर एकसारको न थांबतां पावस घालीत रावलो. पुण लोकपाल देवांच्या तेजान जल्माक आयिल्ल्या तेजिष्ट रघुभितर इंद्राचें तेज आशिल्ल्यान तीं अस्त्रां ताका नखनामी करूंक पावनासलीं. कुपांतल्यान वीज धर्तरेर पडून उजो लायता, तो उजो कुपाच्या उदकान पालवना. ५९. इंद्राच्या दाव्या हाताचे पोवठेक हरिचंदन लायिल्लें

**स चापमुत्सृज्य विवृद्धमत्सरः प्रणाशनाय प्रबलस्य विद्विषः ।**
**महीध्रपक्षव्यपरोपणोचितं स्फुरत्प्रभामण्डलमस्त्रमाददे ॥६०॥**
**रघुर्भृशं वक्षसि तेन ताडितः पपात भूमौ सह सैनिकाश्रुभिः ।**
**निमेषमात्रादवधूय तद्व्यथां सहोत्थितः सैनिकहर्षनिःस्वनैः ॥६१॥**
**तथाऽपि शस्त्रव्यवहारनिष्ठुरे विपक्षभावे चिरमस्य तस्थुषः ।**
**तुतोष वीर्यातिशयेन वृत्रहा पदं हि सर्वत्र गुणैर्निधीयते ॥६२॥**

---

आनी थंय ताज्या धनुष्याची वादी बाण सोडटासतना ताणिल्ल्यान घुंवळून घुंवळून, देवांनीं आनी दैत्यांनीं दर्या धवळिल्लो तेन्ना गाजतालो, तसो घोरांकारांचो घवं घवं आवाज करतौली. रघून चंद्राची केर आसता तसल्या तोंडाचो बाण धनुष्याक जोडून अशे शिताफेन सोडलो, कीं ताकालागून इन्द्राच्या धनुष्याची वादी लुवून तिच्यो वाद्‍यो जाल्यो.

स्वर्गलोकांत मोठे नामनेचे अशे पांच तरांचे रूख आसातः मन्दार, पारजत, सन्तान, कल्परूख आनी हरिचंदन.

६०. इंद्र खुबलो! ताणे धनुष्य कुशीक उडयलें. आनी आपल्या समर्थ शत्रूक जिवानशीं मारून उडोवंचे वान्सेन पर्वतांचीं पांखां शिंदचेली सवंय आशिल्लें, भोंवतणी चकचकाटान परजळपी काण आशिल्लें वज्र हें अस्त्र हातांत घेतलें !

वृत्र ह्या देवांच्या दुस्मानाक मारचेखातीर दधीचि ऋषीन आपलो प्राण सोडून हाडां देवांक दिलीं. त्या हाडांचें विश्वकर्म्यान वांटकुळें वज्र घडयलें आनी इंद्राक तें दिवन ताणे त्या वज्रान वृत्राक माल्लो. तें वज्र मारतकीर ताच्या धुंवपान कडांतल्यान उज्याचे लोळ सुटटात. कांय पुराणांनीं तें कड्यासारकें वांटकुळें आनी मदीं पोकळ पुण मध्याचेर बारीक बुराख आशिल्ली ल्हान मुदी उरता, अशें वर्णिलां.

६१. तें वज्र रघूच्या काळजार आपटलें आनी रघूक मोठो धपको बसून तो ताज्या सैनिकांच्या दोळ्यांतल्या दुखांसयत भुंयेर पडलो. पुण दोळ्याचें पातें हालोवंक लागता तितल्या खिणाभितर ती दूख रघून आंगांतल्यान झाडून तो सैनिकांच्या हर्षाचे गर्जनेबरोबर उठलो. ६२. शत्रूचेर वज्र मारपाइतलो निष्ठूर अंतस्करणाचो तो इंद्र आसलो. पुण वज्राचो फार घेवनय रघु पयलीं इतल्याच धिटायेन ताच्या मुखार तिगून उबो राविल्लो पळोवन इंद्र रघूचेर संतुष्ट

**असंगमद्रिष्वपि सारवत्तया न मे त्वदन्येन विसोढमायुधम् ।**
**अवेहि मां प्रीतमृते तुरंगमात्किमिच्छसीति स्फुटमाह वासवः ॥६३॥**
**ततो निषंगादसमग्रमुद्धृतं सुवर्णपुंखद्युतिरंजितांगुलिम् ।**
**नरेन्द्रसूनुः प्रतिसंहरन्निषुं प्रियंवदः प्रत्यवदत्सुरेश्वरम् ॥६४॥**

---

जालो. बऱ्या गुणांचो सगळ्यांचेर प्रभाव पडटा.

पुराणांत दिल्ल्या वर्णनाप्रमाण वृत्र हो कालकेय जातीच्या असुरांचो मुखेल आसलो. ताणे आपल्या पराक्रमान स्वर्ग जिखून देवांक थंयच्यान धांवडायले. ब्रह्मदेवाचे सांगणेन देव दधीचि ऋषीकडेन वचून ताणी वृत्राक मारचेखातीर दधीचि ऋषीचीं हाडां मागलीं. संवसाराचें कल्याण जावंचें म्हणून दधीचीन योगबळान आपली कुड सोडली. विश्वकर्मा हो देवांचो तंत्रज्ञ म्हळ्यार वस्ती, दूर्ग, नगरां घडोवपी. ताणे दधीचि ऋषीच्या हाडांचें वज्र घडोवन इंद्राक दिलें. इंद्रान त्या वज्रान वृत्राक मारून असुरांक स्वर्गाभायरे केले.

वेदांतल्या वर्णनाप्रमाण वृत्र म्हणजे काळोख वा दुकळ घडोवपी राक्षस. तो कुपांचेर शेक चलयता आनी दुकळ घालता. वेदांत ताका अहि, शंबर, नमुचि, बल-बी नांवां दिल्यांत. कुपां म्हळ्यार असुरांचीं नगरां वा दूर्ग. इंद्र तांचेर वज्र मारून दीस उजवाडायता आनी पाऊस घालता. ही इंद्राची वेदांतली मुळावी व्हडवीक.

६३. इंद्र सडसडीत उलयलो, "म्हज्या वज्रांत सयमाची शक्ती आस. पर्वतांकलेगीत पूड करून उडोवपी हें आवत आस. तुजेबगर हाचो फार सोसून कोण तिगलोच ना. हांव तुजेर खोशी जालां. अश्वमेधाचो घोडो सोडून त्या भायर तुका जायतें माग."

६४. रघु भात्यांतल्यान भांगराचो पांखाटो आशिल्लो बाण भायर काडटालो. आनी त्या भांगराची लकलकसाण रघूचे बोटयेर दिपकावताली. इतल्यांत इंद्राच्या उलोवण्याक लागून रघून बाण भात्यांतसून भायर काडटां काडटां परतो भात्यांत दवरून, ताणे देवांच्या राजाक गोड उतरांत जाप केली.

इंद्र जें कितें उलयल्लो तें रघूक खोशी करपी नासलेंच. तरी आसतना इंद्राकडेन गोड उतरांनीं उलोवपाक रघु खरेलोच मनाचेर शेक दवरपी आसूंक फाव. नितीचे दिष्टीन इंद्राची रघुबरोबरची चलणूक मुळाकसावन अन्यायाची आसली. दिलीप राजा शंबरावो अश्वमेध यज्ञ करून इंद्राच्या नाखाक दावो

**अमोच्यमश्वं यदि मन्यसे प्रभो ततः समाप्ते विधिनैव कर्मणि ।**
**अजस्रदीक्षाप्रयतः स मद्गुरुः क्रतोरशेषेण फलेन युज्यताम् ॥६५॥**

हात लायता जाल्यार, इंद्रान दोनशीं अश्वमेध यज्ञ करून आपली शतक्रतु ही पदवी दुपटावन द्विशतक्रतु ही पदवी जोडूंक कोणे ताका आडावंक नासलो. तशें न करतां इंद्र आपलें नाख कापून दिलिपाक अपशकून करूंक आयलो! येदो देवांचो देव यज्ञाचो घोडो चोरून व्हरूंक लागलो! ही चोरी पचनाशी दिसून येतकीर दिलिपासारक्या पुण्यात्म्या राजाच्या नवसा-सायासांनीं जाल्ल्या एकल्या एकसुऱ्या कुंवराक जिवानशीं मारूंकय इंद्रान फाटींफुडें पळेलें ना. असलो हो उफाटळ्या काळजाचो, दुस्वासी, लोभी इंद्र. आपल्याकडल्यान रघूचें पारपत जायना म्हणून तकलेंत उजवाड पडटकच आतां तो इंद्र रघूक वर दिवंक फुडें सल्ला. इतलेंय जावन घोडो परतो दिवंक तयार नाच! आतां असल्या दुस्वासी वर्तणुकीच्या शत्रुबरोबर गोड उलोवपाक रघूचो मनार शेक आसूंक जाय. हेरां सामान्यांचें हें काम न्हय.

भगवद्गीतेंत वर्णिल्ल्या वाणीच्या तपाचें आचरण करपी तो रघु म्हळ्यार एक श्रेष्ठ योगीच आसलो अशें म्हणचें पडटा!

**अनुद्वेगकरं वाक्यं सत्यं प्रियहितं च यत् ।**
**स्वाध्यायाभ्यसनं चैव वाङ्मयं तप उच्यते ॥** भ. गीता १७-१५ ॥

दुसऱ्याक वाज येत अशें आपणे केन्ना उलोवंचें न्हय. सत्य, म्हळ्यार गजाल घडल्या तशी सांगची. फटी मारच्यो न्हय. घडिल्ल्या घडिचारांत फकाणां मारचेखातीर लेगीत फट भरसून सांगची न्हय. आयकुप्याक आपलें उलोवप आयकून त्रास जावंचो न्हय, उफाट्टें आपणें सांगिल्लें आयकून बरें दिसचें, अशे भाशेन उलोवंचें. आपुण उलयतात तें दुसऱ्याच्या बऱ्याचें, हिताचें आसचें. आयकतल्यान वाजेवंचें न्हय अशें, सत्य, जायत तितल्या गोड उतरांत, आयकतल्याचें कल्याण जावंचें अशे तरेचें, इतलीं सगळीं पथां सांबाळून उलोवप म्हळ्यार, ताचेखातीर बरोच स्वाध्याय आनी अभ्यास करचो पडटा. स्वाध्याय म्हळ्यार आपुण जावन, शिकोवपी कोण नासतनाय शिकप. आनी अभ्यास म्हळ्यार परत परत कठीन वस्त करपाचें ज्ञान घेवप. कठीन वस्त शिकून घेवंक परत परत ती करीत रावंची पडटा. हाकाच अभ्यास म्हणटात. अशे तरेचें अनुद्वेगकर, सत्य, प्रिय आनी हितकर उलोवणें उलोवपाक वाणीचें तप करचें

**यथा च वृत्तान्तमिमं सदोगतस्त्रिलोचनैकांशतया दुरासदः ।**
**तवैव संदेशहराद्विशांपतिः शृणोति लोकेश तथा विधीयताम् ॥६६॥**
**तथेति कामं प्रतिशुश्रुवान्रघोर्यथागतं मातलिसारथिर्ययौ ।**
**नृपस्य नातिप्रमनाः सदोगृहं सुदक्षिणासूनुरपि न्यवर्तत ॥६७॥**
**तमभ्यनन्दत्प्रथमं प्रबोधितः प्रजेश्वरः शासनहारिणा हरेः ।**
**परामृशन्हर्षजडेन पाणिना तदीयमंगं कुलिशव्रणांकितम् ॥६८॥**
**इति क्षितीशो नवतिं नवाधिकां महाक्रतूनां महनीयशासनः ।**
**समारुरुक्षुर्दिवमायुषः क्षये ततानसोपानपरंपरामिव ॥६९॥**

पडटा. रघू तिखे बुद्धीचो आशिल्ल्यान ताका असलें उलोवप साधलें. इंद्र ताच्या जिवार उठिल्लो. तरीय ताणे इंद्राचो मान सांबाळून ताचेकडे थंडपणान उलोवन यश जोडलें. इंद्राक झुजांत मारप कोणाच्यानच घडचें ना. कारण तो अमर. तरीय त्या इंद्राची फजेत करून रघून ताका हरयलो आनी आपल्या बापायक शंबराव्या अश्वमेध यज्ञाचें पुण्य मेळोवन दिलें.

रघु उलयलो :

६५. "देवा, तूं घोड्याक सोडचेलोच ना जाल्यार, यज्ञाची दिक्षा घेवन बशिल्ल्या म्हज्या बापायक ताणे शास्त्रसंगीत शंबरावो यज्ञ पूर्ण केल्ल्याचें पुण्य जोडून दी. ६६. म्हजो बापूय यज्ञाची दिक्षा घेवन पवित्र यज्ञशाळेंत शंकर-स्वरूप जावन बसला. थंय कोणाक वचपाक तांक ना. तुज्या इंद्रदेवाच्या दुतानच ताका थंय यज्ञाचें पुण्य मेळ्ळें म्हणपाचें हें सगळें वर्तमान कळोवंचें!" ६७. "तशेंच जांव!" इंद्रान रघूक परती जाप केली. आनी तो आयिल्ले वाटेन परतो गेलो. रघूय ह्या घडिचारान चडसो खोशी जायनासतना दिलीप राजाचे सदरेर आयलो. ६८. दिलिपान इंद्राच्या दुताकडल्यान सगळें वर्तमान आयकून रघूक मोठे धादोसकायेन येवकार दिलो; आनी ताका वज्राच्या फारान जाल्ल्या घायाक परतो परतो सांसपून दिलिपान पुताक शाबासकी दिली!

६९. स्वर्गांत वचचे इच्छेन बरे भाशेन राज्य चलवपी आनी नव्याणव यज्ञ केल्लो तो दिलीप राय आपले जिणेचे सिमेर पावम्हणसर स्वर्गांत वचपाची जणु सोपाणांची पाजच रचून रावलो.

७०. इक्ष्वाकु वंशांतल्या राजांच्या कुळाचाराप्रमाण, जिणेचे देवंतेर त्या राजान इंद्रियांक सुख भोगवपी भायल्या वस्तींवेलें चित्त काडून घेतलें. आपले

**अथ स विषयव्यावृत्तात्मा यथाविधि सूनवे ।**
**नृपतिककुदं दत्त्वा यूने सितातपवारणम् ॥**
**मुनिवनतरुच्छायां देव्या तया सह शिश्रिये ।**
**गलितवयसामिक्ष्वाकूणामिदं हि कुलव्रतम् ॥७०॥**

**इति महाकवि श्रीकालिदासकृतौ रघुवंशे महाकाव्ये रघुराज्याभिषेको नाम तृतीयः सर्गः ॥**

---

राजसत्तेची खूण अशें धवें राजछत्र आपल्या जुवान कुंवराक दिलें. आपले शिरवन्ती सुदक्षिणा राणयेसयत त्या राजान, तपस्वी लोक तप करतात, त्या अरण्यांतल्या एका रुखाचे सांवळेचो आस्रय घेतलो.

महाकवी कालिदासान रचिल्ल्या रघुवंश महाकाव्यांतलो रघुराज्याभिषेक नांवाचो तिसरो सर्ग जालो.

O O O

दिलीप हो योगी राजा, राजर्षी आसलो म्हणपाचें पयल्या दोन सर्गांच्या निमाणे सांगलांच. रघु हो कामधेनू देवतेच्या आशीर्वादान जाल्लो, देवांचे वांटे एकठांय येवन जल्माक आयिल्लो देवराजा आसलो. देव असल्या महापुरुषांची परीक्षा घेवन मागीरच तांकां तांची पदवी दिता. कामधेनू नन्दिनीन दिलिपाची परीक्षा घेतली. इंद्रान रघूक वज्राच्या उज्यांत घालून पळेलो, म्हळ्यार ताका रांदनींत घालून वायलांतल्यान भायर काडलो. आनी तरीय रघूची मान ताठच उल्ली! म्हणून तो आपल्या वंशाक आपलें नांव दवरूंक पावलो. सासणांची सासणां कालिदासाच्या कल्पनेच्या सुरांनीं संवसार ह्या दोनूय राजांची नामना गायतलो. इंद्रान रघूक छळ्ळो म्हणून आमकां इंद्राचो राग येवंचें कारण ना. देव साधु मनशांक कोणायच्या रुपान छळून कसाक लावन पळेता. अशा वेळार स्रद्धेन दुबळे आसतात तांकां देवाचें करतूत अनयीत अशें दिसून, ते देवाक दोष लायतात. तांचे तपश्चर्येचें, धर्माचरणाचें फळ मागीर तांकां मेळूंक पावना. हाजे उफाटटें जे लोक देवाची लिला म्हळ्यार खेळ आपले स्रद्धेन वळखून निमाणे मेरेन छळ सोसून स्रद्धा तिगवन रावतात, तांकां देव निमाणें तांचे स्रद्धेचें फळ दिता. ज्या इंद्रान ताका छळ्ळो त्याच इंद्राक रघु जल्मभर यज्ञ-होम करून स्रद्धेन आहुत्यो दियत राव्लो, म्हणून तुमी आमी 'रघुवंश' तोखेतात.

O O O

# रघुवंश

## चवथो सर्ग

**स राज्यं गुरुणा दत्तं प्रतिपद्याधिकं बभौ ।**
**दिनान्ते निहितं तेजः सवित्रेव हुताशनः ॥१॥**
**दिलीपानन्तरं राज्ये तं निशम्य प्रतिष्ठितम् ।**
**पूर्वं प्रधूमितो राज्ञां हृदयेऽग्निरिवोत्थितः ॥२॥**
**पुरुहूतध्वजस्येव तस्योन्नयनपंक्तयः ।**
**नवाभ्युत्थानदर्शिन्यो ननन्दुः सप्रजाः प्रजाः ॥३॥**

---

१. सूर्यदेव आमोरेर अस्तमतेक मावळटासतना आपलें तेज उज्याक दिता आनी ताका लागून उज्याचें तेज परजळटा. तेच भाशेन दिलीप राजान पुताक आपलें राज्य दिलें. तें राज्य मेळून रघूचें मोठेपण वाडलें.

सविता म्हणजे निर्माण करपी. रातीच्या काळखांत संवसार ना-जाल्लो उरता. तो सकाळींफुडें सूर्य उदेवन परतो निर्माण करता. ऋग्वेदांत सुर्याक (ऋ. २-३८) सविता, पूषन् आनी मित्र अशी तीन नांवां दिवन त्या त्या नांवांच्या अर्थाक फाव तशीं तशीं त्या देवाचीं कामां तो करता, अशें वर्णिलां. वायु-पुराणाच्या दुसऱ्या खंडांत, त्रेप्पन्नाव्या अध्यायाच्या ७ ते १३ श्लोकांत सुर्याचे सुषुम्ण, हरिकेश, विश्वकर्मन्, विश्वकार्य, संपद्वसु, अर्वावसु, स्वराज् अशे सात वेगळ्या वेगळ्या तरांच्या तेजाचे किरण अनुक्रमान चंद्र, नक्षत्रां, बुध, शुक्र, मंगळ, गुरू आनी शनी हांकां आपापल्या तेजाची पुरवण करतात अशें म्हळां.

२. दिलिपानंतर रघु राज्यार आयलो. हें आयकून पयलीं दिलिपासंबंदान ज्या राजांच्या मनांत दुस्वासाचो उजो धुवंरावन आशिल्लो, तो पेटून जाळ जावन परजळलो.

३. इंद्राचो मान करचेखातीर उबारिल्ल्या गुडयांकडे लोक जितले खोसयेन पळेताले, तितलेच धादोसकायेन रघूची प्रजा आपल्या भुरग्याबाळांसयत राजाचो उदेकार पळेताली.

**सममेव समाक्रान्तं द्वयं द्विरदगामिना ।**
**तेन सिंहासनं पित्र्यमखिलं चारिमंडलम् ॥४॥**
**छायामंडललक्ष्येण तमदृश्या किल स्वयम् ।**
**पद्मा पद्मातपत्रेण भेजे साम्राज्यदीक्षितम् ॥५॥**
**परिकल्पितसांनिध्या काले काले च बन्दिषु ।**
**स्तुत्यं स्तुतिभिरर्थ्याभिरुपतस्थे सरस्वती ॥६॥**
**मनुप्रभृतिभिर्मान्यैर्भुक्ता यद्यपि राजभिः ।**
**तथाऽप्यनन्यपूर्वेव तस्मिन्नासीद्वसुंधरा ॥७॥**
**स हि सर्वस्य लोकस्य युक्तदंडतया मनः ।**
**आददे नातिशीतोष्णो नभस्वानिव दक्षिणः ॥८॥**

---

पावस्या दिसांनीं इंद्र देवान बरे भाशेन पावस घालून उदक, तण, पीक चकचयाळ जालें म्हणून सगळे लोक इंद्र देवाच्या भोग्मानाखातीर भाद्रपद शुद्ध अष्टमीसावन दुवादशीमेरेन पांच दीस आपल्या आंगणांनीं मानगे पुरून गुडयो उबारताले. कालिकापुराणांत हें वर्णन आयलां.

४. हत्तीचे चालीन (हत्तीर बसून) भोवंपी अशा रघुरायान बापायचें सिंहासन आनी सगळ्या दुस्मानांचे मेळ हीं दोनय एकदम आपल्या शेकाखाला घेतलीं. ५. साम्राज्य चलोवपाची दिक्षा म्हळ्यार कर्तव्य ताणे आपल्या आंगार घेतिलें. खासा लक्ष्मीदेवता कोणाचे दिष्टीक पडनासतना ताचेर कमळाचें छत्र धरताली. त्या छत्राक लागून रघूचे कुडीभोंवतणी सांवळेचें वळें दिसतालें; आनी स्वता लक्ष्मी तें छत्र ताजे तकलेर धरताली म्हणून ताच्या आंगांतल्यान उजवाड परजळटालो. हो उत्प्रेक्षा अळंकार जालो. ६. रघुराजाचे बन्दी ताजी स्तुती वेळार गाताले. ती त्या रायाली तारीफ अर्थभरीत म्हळ्यार खरी उरताली. सरस्वती देवी त्या बंदी गावप्यांच्या सांगातान त्या राजाची सेवा करताली.

राजा हो देवाचो वांटो आसता. म्हणून सरस्वती देवी ताजी सेवा करता. हेरशीं दुसऱ्या राजांचे बंदी जीं राजाचे तारफेचीं कवनां रचून म्हणटात तांतूंत पायलेक पांच शेर नामना उरता. पुण रघुराय खरेलो गुणी राजा आशिल्ल्यान ताजी स्तुती अर्थभरीत जावंक पावताली.

७. वैवस्वत मनुसारक्या राजांनीं पयलीं धर्तरेचेर राज्य केलें. आनी तांची प्रजा तांकां मोगान मान दिताली. तरीकय रघुचेर ताजे प्रजेचें इतलें अप्रूप प्रेम उरतालें कीं जणु हो धर्तरेचो पयलोच राजा जाला. ८. तो लोकांक फाव

मन्दोत्कण्ठाः कृतास्तेन गुणाधिकतया गुरौ ।
फलेन सहकारस्य पुष्पोद्गम इव प्रजाः ॥९॥
नयविद्भिर्नवे राज्ञि सदसच्चोपदर्शितम् ।
पूर्व एवाभवत्पक्षस्तस्मिन्नाभवदुत्तरः ॥१०॥
पंचानामपि भूतानामुत्कर्षं पुपुषुर्गुणाः ।
नवे तस्मिन्महीपाले सर्वं नवमिवाभवत् ॥११॥
यथा प्रह्लादनाच्चंद्रः प्रतापात्तपनो यथा ।
तथैव सोऽभूदन्वर्थो राजा प्रकृतिरंजनात् ॥१२॥

---

तितलीच ख्यास्त लायतालो. ताचे न्यायबुद्धीचेर प्रजा खोशी आसली. दक्षीण दिशेकडल्यान येवपी वारो चड हून नासता आनी चड थंडय उरना. म्हणून तो सगळ्यांक आवडटा. ९. आंब्याच्या रुखाक तंवर येता तो पळोवन लोक खोशी जातात. तंवर वचून मागीर त्या रुखाक आंबे लागतकीर लोक इतले धादोस जातात कीं तेन्ना, पयलीं आशिल्ली तंवरांची सुंदरकाय आनी परमळ गेलीं म्हणून लोक दुःख करिनात. हेच भाशेन दिलीप रायाच्या राज्यांत लोक सुखी आसले. पुण रघुराजा दिलिपापरस गुणांनीं वरचड आशिल्लो. म्हणून ताज्या राज्यांतल्या लोकांक दिलिपाच्या काळांतल्यो यादी जावन वायट दिसपाचें कारण उर्लें ना. १०. राज्यांतले राजकरणी लोक राजाक कसल्याय विषयांतले बरो आनी वायट अशे दोनूय मार्ग दाखोवन दिताले. पुण रघु तांतलो पयलो म्हळ्यार बरो मार्ग पत्करतालो. हेर म्हळ्यार वायट मार्ग धरिनासलो. ११. पांच महाभुतां म्हळ्यार मुळाव्यो वस्तीः पृथ्वी म्हळ्यार भूंय वा माती; आप म्हळ्यार उदक, तेज म्हळ्यार उजो वा हुनसाण; वायु म्हळ्यार वारो; आनी आकाश म्हळ्यार आस्पाव वा अंत्राळ. ह्या पांच मुळाव्या वस्तींचे पांच गुण उरतात. भुंयेचे वा मातयेचे गुण म्हळ्यार वास, रोस, रूप, सांसपण आनी शब्द म्हळ्यार आवाज हे पांच गुण. उदकाचे रोस, रूप, सांसपण आनी आवाज अशे चार गुण उरतात. उज्याचें रूप, सांसपण आनी आवाज हे तीन गुण उरतात. सांसपण आनी आवाज हे दोन वायाचे गुण. आस्पावाचो वा अंत्राळाचो एकच गुण आनी तो म्हळ्यार आवाज. हीं पांच महाभुतां रघूच्या राज्यांत उदरगतीक आयलीं, म्हळ्यार गुणांनीं वाडलीं. ताच्या राज्यांत सगळो निजच जणु नवो घडलो.

१२. चंद्र ह्या उतराची फोडणिशी आनंद दिवपी अशी जाता. लोकांक

कामं कर्णान्तविश्रान्ते विशाले तस्य लोचने ।
चक्षुष्मत्ता तु शास्त्रेण सूक्ष्मकार्यार्थदर्शिना ॥१३॥
लब्धप्रशमनस्वस्थमथैनं समुपस्थिता ।
पार्थिवश्रीर्द्वितीयेव शरत्पंकजलक्षणा ॥१४॥
निर्वृष्टलघुभिर्मेघैर्मुक्तवर्त्मा सुदुःसहः ।
प्रतापस्तस्य भानोश्च युगपद्व्यानशे दिशः ॥१५॥

---

आनंद दिता म्हणून चंद्राक चंद्रिम म्हणटात. तेच भाशेन लोकांक ताप म्हळ्यार हुनसाण दिता म्हणून सुर्याक तपन म्हणून नांव दिलां. तेच तरेन प्रजेक सुख दितालो वा प्रजेचें रंजन करतालो म्हणून रघु राजा जालो.

खरेपणान व्याकरणी दिष्टीन राज् ह्या धातूची फोडणिशी रंजयति वा सुख दिता अशी जायना. राज् म्हळ्यार सोबप. पुण कालिदासासारक्या कवीक रसभंग करिनासतना उतराचो अर्थ बदलपाची सोड पंडीत लोक दितात. व्यासान महा-भारताच्या शान्तिपर्वांतय 'रंजिताश्च प्रजाः सर्वास्तेन राजेति शब्द्यते,' अशी राजा ह्या उतराची फोडणिशी दिल्या. ती फोडणिशीय व्याकरणाक धरून ना.

१३. रघूचे दोळे मोठे आशिल्ले. ताजे नदरेचे कोनशे कानाच्या तोंकांमेरेन पावताले. पुण ताणे शास्त्रांचें ज्ञान खोलायेमेरेन रिगून शिकून घेतिल्लें. म्हणून शास्त्रांच्या घुस्पागदळ करपी उतरांचो खरो अर्थ समजून घेवन, कितें करचें आनी कितें करीसारकें ना, म्हणपाचें थारावन त्या प्रमाण तो वावुरतालो. हे ताजे ज्ञानाचे दिष्टीक लागून ताका खरो द्रष्टो म्हळ्यार पळोवपी म्हणटाले.

हितोपदेशांत सांगलां– **अनेक संशयोच्छेदि परोक्षार्थस्य दर्शकम् ।**
**सर्वस्य लोचनं शास्त्रं यस्य नास्त्यन्ध एव सः ॥**

सगळे दुबाव कातरून आपले अफकी कितें घडटा तें दाखोवन दिवपी शास्त्र, ही सगळ्या लोकांची नदर आस. जाका शास्त्राचें ज्ञान ना, तो आंधळो.

१४. आपणाक मेळिल्लें राज्य ताणे थीर जांवचें म्हणून जाय जाल्ली तजवीज करून प्रजेक शांतताय लाभची म्हणून तो वावुल्लो. इतल्यांत शरद ऋतूंत कमळांची केळवण घेवन राज्यलक्ष्मी ताचे मुखार आयली. हो ताका जणु दुसऱ्या लक्ष्मीचो दिष्टावो जालो. १५. पावसाळो सोंपलो. आनी शरद ऋतू आयलो. ल्हान ल्हान कुपांनीं आशिल्लो पावस धर्तरेर पडून सुर्याचे आडमेळें कुशीक सरून ताजें खर वोत सगळ्या दिशांक पातळून रावलें.

वार्षिकं संजहारेन्द्रो धनुर्जैत्रं रघुर्दधौ ।
प्रजार्थसाधने तौ हि पर्यायोद्यतकार्मुकौ ॥१६॥
पुंडरीकातपत्रस्तं विकसत्काशचामरः ।
ऋतुर्विडम्बयामास न पुनः प्राप तच्छ्रियम् ॥१७॥
प्रसादसुमुखे तस्मिंश्चन्द्रे च विशदप्रभे ।
तदा चक्षुष्मतां प्रीतिरासीत्समरसा द्वयोः ॥१८॥
हंसश्रेणीषु तारासु कुमुद्वत्सु च वारिषु ।
विभूतयस्तदीयानां पर्यस्ता यशसामिव ॥१९॥
इक्षुच्छायानिषादिन्यस्तस्य गोप्तुर्गुणोदयम् ।
आकुमारकथोद्घातम् शालीगोप्यो जगुर्यशः ॥२०॥

पावसाळो सोंपतकूच रघुराजा आपल्या सैन्याक घेवन दुसऱ्या राजांचेर घुरी घाल्यूंक मेकळो जालो. सैन्याचे चालीक पावसाचो त्रास जाता तें आडमेळें कुशीक सर्लें. १६. इंद्रान आपलें पावस घालपाचें धनुष्य कुशीक दवर्लें. आनी रघून आपलें दुसऱ्या राजांचेर जय मेळोवपाचें धनुष्य हातांत घेतलें. रघु आपल्या धनुष्यान राजांकडल्यान खंड वसूल करून यज्ञ करून देवांक संतुष्ट करपाचो आसलो. आनी इंद्र आपल्या धनुष्यान पावस घाल्यून रघूचे प्रजेक धादोशी करचो आसलो. हे भाशेन धनुष्यां घेवन ते एकामेकांक भजत करताले. १७. रघूचें छत्र कमळाभशेन घडयर्लें. ताज्यो चवऱ्यो फुलत्या काश फुलासारक्यो आसल्यो. शरद् ऋतू धवीं कमळां फुलयतालो. आनी चवऱ्यांभशेन काश फुलांय फुलतालीं. पुण रघूभशेन आपल्या सरंजामाची सोबा दिसची म्हणून शरद्ऋतून कितलेय प्रयत्न केले तरी रघूच्या राजवैभवाचो देखाव तो करूंक पावलोच ना. १८. चकचकीत चंद्राक पळोवन आनी रघुराजाच्या हांसत्या तोंडाकडे पळोवन पळोवप्यांक सारकोच आनंद जातालो. १९. हंस पक्ष्यांच्यो रांगो, नक्षत्रांनीं भरिल्लें अंत्राळ आनी उदकांतलीं कमळां हांचेभितर रघूची चकचयाळ संपदा वांटून आशिल्ली. २०. शेतांभोंवतणी शेतकामनी उशिकांडे लायतात. ह्या उशिकांड्यांच्यो दोन तीन वळी लायतात. त्यो शेताभोवंतणी वंयेभशेन उपकारा पडटात. आनी तांची सांवळी शेताचेर पडना. शेताभोवंतणी सांवळी नाशिल्ले ल्हान रूख लायतात. तांचे सांवळेक बसून आंकवारी चल्यो सवण्यांनीं, गोरवांनीं शेत खांवचें न्हय म्हणून राखण करताल्यो, तेन्ना रघूच्या ल्हानपणान-सूनच्या पराक्रमाचीं, गुणांचीं गितां गाताल्यो. २१. कुम्भांतल्यान म्हळ्यार

प्रससादोदयादम्भः कुम्भयोनेर्महौजसः ।
रघोरभिभवाशंकि चुक्षुभे द्विषतां मनः ॥२१॥
मदोदग्राः ककुद्मन्तः सरितां कूलमुद्रुजाः ।
लीलाखेलमनुप्रापुर्महोक्षास्तस्य विक्रमम् ॥२२॥
प्रसवैः सप्तपर्णानां मदगंधिभिराहताः ।
असूययेव तन्नागाः सप्तधैव प्रसुस्रुवुः ॥२३॥

---

कळशांतल्यान जल्माक येवपी अगस्ति ऋषी आनी वसिष्ठ ऋषी हे दोगूय जाण मित्रा-वरुणी देवांचे पुत्र अशी ऋग्वेदाच्या सातव्या मंडळांत कथा आयल्या. अगस्त्यान एक फावट रागान समुद्र पिवन उडयलो अशीय कथा आस. मागीर ताणे सगळो समुद्र पोटांतल्यान सोडून दिलो. समुद्र, उदक अगस्ती ऋषीक भितात. अगस्ती तारो जावन अंत्राळांत कुंभ राशीच्या आवाठांत रावता. श्रावण म्हयन्यांत रवी सिंह राशीक आयलो कीं अगस्तीचो तारो सांजवेळचो मळबांत उदेता. ताका पळोवन उदकाची पुरवण करपी पावस भिवन कमी पडत वेता. आनी शरद् ऋतू ये म्हणसर बंद जाता. पावसान खदवळिल्लें उदक निवळटा. अगस्ती ऋषी परत पिवन उडयत म्हणून उदक भिवन पळटा. शरद् ऋतूंत रघु आपणाचेर घुरी घालीत म्हणून पिर्थुमेवेले राजा भिताले. अगस्ती ऋषीक भिवन पळून गेल्लें उदक रघूच्या शत्रूंच्या काळजांत एकठांय जावन रावतालें. रघूच्या भंयान तांच्या काळजाचें उदक जातालें अशी कालिदासाची कल्पना.

२२. गिमांत बैलांक चरपाक चार मेळना, सुकून वता. करड खावन थोड्या थोड्या उदकाचेर दीस काडचे पडटात. पावसांत शेतकामताचे जायते कष्ट करचे पडटात. शरद् ऋतू आयलो कीं हाडांक काती लागिल्ले बैल परते नवी चार खावन, उदक पिवन धादोशी जावन आंगान फुगतात. न्हयच्या कांठार चरतासतना पराक्रमी रघुरायाभशेन बैल खुबून मस्तेन एकमेकांक धिरी मारपाचे खेळ खेळटात. २३. सप्तपर्ण रुखांक शरद् ऋतूंत फुलां येतात. तांचो वास उग्र उरता. तो वास नाखांत शिरकतकच हत्ती तिडटात. आपले परस चड उग्र वास सोडपी हे कोण आयले? म्हणून ते रागान आपल्या आंगाच्या सात कडांतल्यान उग्र मद रकवंक लागतात.

फुलांचो वास हत्तींक मारता, तिडायता, हो उत्प्रेक्षा अळंकार जालो. हत्तींच्या ताळू, हड्डें, पोले म्हळ्यार कानसुलांनीं, फुडल्या पायांतल्यान, फाटले-

सरितः कुर्वती गाधाः पथश्चाश्यानकर्दमान् ।
यात्रायै चोदयामास तं शक्तेः प्रथमं शरत् ॥२४॥
तस्मै सम्यग्घुतो वह्निर्वाजिनीराजनाविधौ ।
प्रदक्षिणार्चिर्व्याजेन हस्तेनेव जयं ददौ ॥२५॥
स गुप्तमूलप्रत्यन्तः शुद्धपार्ष्णिरयान्वितः ।
षड्विधं बलमादाय प्रतस्थे दिग्जिगीषया ॥२६॥

वशीन कुल्यांतल्यान, कमरेंतल्यान, सोंडेंतल्यान अशा सात आंगांक कात्रे पडून तांतूंतल्यान ते मद रकयतात.

२४. शरद् ऋतूंत न्हयांचें उदक उणें जाल्ल्यान, पलतडी वचपाक सोपें पडटा. मार्गांतलो चिखल सुकिल्ल्यान सैन्याक चाल मारपाक त्रास पडना. रघूच्या आंगांत भोंवडेची उमेद येवंचे पयलीं शरद्ऋतू ताका उत्साह दितालो, म्हळ्यार धोंगशितालो. ओगी बसूंक दिनासलो.

२५. शत्रूंचेर सुवारी करचेपयलीं घोड्यांक आनीक हत्तींक ओंवाळच्या वेळार केल्ल्या होमांतलया अग्नीन प्रदक्षणेच्या निमतान उजवेवशीन वळून जणु रघुराजाक जैताचो कौल दिलो.

'वाजिनीराजना' म्हळ्यार घोड्यांक आनी हत्तींक ओंवाळपाचो सुवाळो. आश्वीन म्हयन्याचे शुद्ध नमीक वा कार्तिकाचे अष्टमी, दुवादशी वा पुनवे दिसा भोंवडेर भायर सरचेपयलीं राजाचो पुरयत, प्रधान आनी सैन्याचे सगळे गण, आवतां, रथ बी सगळ्यांनीं शुद्ध जावंचें म्हणून हो विधी करताले. वराहमिहिरान रचिल्ले बृहत्संहितेंत चव्वेचाळिसाव्या अध्यायांत ह्या विधीचो तपशील दिलाः पयलीं हत्ती-घोड्यांचेर झुली घालच्यो. मागीर गन्ध लावंचें, अक्षता, माळो घालच्यो, धूप दाखोवंचो. मागीर तबेल्याच्या दारांत तोरणाकडेन गोड उलयत तांकां व्हरचे. तेन्ना हत्ती वा घोडे राजाक उजवो पांय उखलून शुभशकून दाखोवन दितात. पद्मपुराणांत, अग्निपुराणांतय ह्या सुवाळ्यांचे तपशील दिल्यात.

अग्नीन उजवे वशीन वळून राजाक कौल दिलो, हो उत्प्रेक्षा अळंकार.

२६. आपलें राजपाटण आनी सरादीवेले दूर्ग हांचे राखणेची बरे भाशेन व्यवस्था करून, फाटल्यान आपल्या राज्यार कोण दुस्मान घुरी घालपी ना, हाजी खात्री करून, स तरांच्या लोकांनीं सजयल्लें सैन्य घेवन रघु संवसार जिखूंक भायर सल्लो. स तरांचें सैन्य म्हळयार सैन्यांत नेमिल्ले सैनिकः (१) मूल म्हळ्यार

अवाकिरन्वयोवृद्धास्तं लाजैः पौरयोषितः ।
पृषतैर्मन्दरोद्धूतैः क्षीरोर्मय इवाच्युतम् ॥२७॥
स ययौ प्रथमं प्राचीं तुल्यः प्राचीनबर्हिषा ।
अहिताननिलोद्धूतैस्तर्जयन्निव केतुभिः ॥२८॥
रजोभिः स्यन्दनोद्धूतैर्गजैश्च घनसंनिभैः ।
भुवस्तलमिव व्योम कुर्वन्व्योमेव भूतलम् ॥२९॥

---

वंशपरंपरेन खेत्री धंद्यांतले झुजारी. खेत्र्याचे गुण मूळपासून आंगांत आशिल्ले, राजाचे सेवक. (२) भृत्य म्हळ्यार पगारी सैनीक, (३) सुहृद् म्हणजे राजाच्या मित्रा-राजांचे सैनीक. हांचेर राजाचो प्रत्यक्ष अधिकार उरनासलो. पुण नितीन ते ह्या राजाखातीर झुजपाक आयिल्ले आशिल्ल्यान झुजपाक बांदिल्ले उरताले; (४) श्रेणी म्हळयार झुजाच्या वेळार तात्पुरते चाखरेंत घेतिल्ले पगारी सैनीक. (५) द्विषद् म्हळ्यार आपल्या दुस्मानाच्या शत्रूचे सैनीक आनी (६) आटविक म्हळयार वनवासी झुजपी. हे निष्ठूर, खांपे झुजारी आनी घटघुमट उरताले. शत्रूचेर सुर्वेकच धुरी घालपाक हांकां सगळ्यां-मुखार सैन्यांत दवल्ल्यार हे आपलें काम बरे भाशेन करताले.

२७. ताज्या नगरांतल्या जाण्ट्या बायलांनीं रघूचेर ल्हायो शिंवरल्यो. समुद्रमंथनाच्या वेळार मंदार पर्वताचो खवलो करून देव आनी दैत्य क्षीर-सागर चाळटाले. मंदार पर्वत एकेवसल्यान वांकडो जालो म्हणून विष्णु देवान आपलो बावळो लावन तो पर्वत उबो धल्लो, तेन्ना त्या मंदार पर्वतावेल्यान क्षीरसमुद्राचे थेंब विष्णुदेवाचेर शेकानशेक शिंवरले.

उपर्यगेन्द्रं गिरिराडिवान्य आक्रम्य हस्तेन सहस्रबाहुः ।
तस्थौ दिवि ब्रह्मभवेन्द्रमुख्यैरभिष्टुवद्‌भिः सुमनोभिवृष्टः ॥

—भागवत अष्टम स्कन्ध—७—१२.

२८. रघुराय पराक्रमान इंद्रदेवाचे बरोबरीचो आसलो. इंद्र हो पूर्व दिशेचो राखणदार म्हणून रघून पूर्व दिशेकडल्यान आपले भोवंडेक सुरवात केली. ताज्यो गुडयो वाऱ्यार फडफडटाल्यो. तांकां लागून शत्रूंक भंय दिसतालें. २९. ताज्या रथांक लागून धुल्ल अंत्राळांत हुबून अंतराळ धर्तरेभशेन दिसूंक लागलें. ताचे कुपांयेदे हत्ती धर्तरेर चलताले. ते पळोवन धर्तरीच कुपांनीं भरिल्ली अंत्राळकशी दिसूंक लागली. ३०. ताजे भोवंडेंत सगळ्यांत फुडें ताज्या खर पराक्रमाची

प्रतापोऽग्रे ततः शब्दः परागस्तदनन्तरम् ।
ययौ पश्चाद्रथादीति चतुःस्कन्धेव सा चमूः ॥३०॥
मरुपृष्ठान्युदम्भांसि नाव्याः सुप्रतरा नदीः ।
विपिनानि प्रकाशानि शक्तिमत्त्वाच्चकार सः ॥३१॥
स सेनां महतीं कर्षन्पूर्वसागरगामिनीम् ।
बभौ हरजटाभ्रष्टां गंगामिव भगीरथः ॥३२॥

---

कीर्त वताली. ताज्या फाटल्यान ताज्या सैन्याचे चालीचो बोवाळ भोवंतालो. फाटोफाट सैन्यान हुबयल्लो धुल्ल वतालो. आनी निमाणे ताजे रथ आनी हेर मुस्तायकी चलताली. हे भाशेन ताज्या सैन्याचे चार वांटे जाताले.

हो रघुराज्याच्या सैन्याचो दिष्टावो कवीचे कल्पनेंतलो आसा. खरेपणान पोन्न्या काळाक सैन्याचे चार वांटे उरताले: (१) रथ, (२) हत्ती, (३) घोडे-सुंवार, आनी पांयदळ. सैन्यांत सरसकट ७२९ हत्ती, तितलेच रथ, २१८७ घोडेसुंवार आनी ३६४५ पांयदळाचे सैनीक उरताले. हाकाच चतुरंग दळ म्हणटाले.

३१. आपले भोंवडेच्या वेळार तो आपल्या (योग)बळान रेंवेंच्या मळां-चेर उदका-झरी व्हांवयतालो. न्हयांतल्यान व्हड्यांनींच भोवं येता इतलें उदक आसलें तरी तांचेवेल्यान आपलें सैन्य पलतडी वचत अशी व्यवस्था तो करतालो. ताजें सैन्य वचचें म्हणून अरण्यांचीं मैदानां करतालो. ३२. आपलें मोठें सैन्य समुद्रावशीन व्हरतासतना, शंकराचे जटेंतल्यान भगीरथ गंगा न्हयेक समुद्रा-कडेन व्हरतालो तशें रघून केलें.

गंगा न्हय स्वर्गांत व्हावंताली. पिर्थुमेर नासली. इक्ष्वाकु वंशांतल्या सगर राजान शंबरावो अश्वमेध यज्ञ करतासतना, ताजे साठ हजार पुत घोड्याचें रक्षण करतासतना, पाताळांत कपिल मुनीच्या स्रापान भस्म जाले. स्वर्गांतली गंगा न्हय धर्तरेवेल्यान पाताळांत व्हेल्याबगर साठ हजार सागरांचे आत्मे स्वर्गाक वचनात. म्हणून तांच्या वंशांतल्या सगर, ताजो पुत्र असमंजस, नातु अंशुमान, पण्टू दिलीप हाणी गंगेक धर्तरेर हाडचेखातीर तपश्चर्या करीत जिणो सोंपयल्यो. निमाणे सगराचो शण्टू भगीरथ हाणे खर तपश्चर्या करून ब्रह्मदेवाक आनी शंकराक प्रसन्न करून गंगा न्हय धर्तरेर हाडली, आनी मार्ग दाखयत पूर्वसमुद्रा-कडेन व्हरून तिका थंयच्या सागर कुंडांतल्यान पाताळांत व्हरून आपल्या

त्याजितैः फलमुत्खातैर्भग्नैश्च बहुधा नृपैः ।
तस्यासीदुल्बणो मार्गः पादपैरिव दन्तिनः ॥३३॥
पौरस्त्यानेवमाक्रामंस्तांस्तांजनपदांजयी ।
प्राप तालीवनश्याममुपकंठं महोदधेः ॥३४॥
अनम्राणां समुद्धर्तुस्तस्मात्सिन्धुरयादिव ।
आत्मा संरक्षितः सुह्मैर्वृत्तिमाश्रित्य वैतसीम् ॥३५॥
वंगानुत्खाय तरसा नेता नौसाधनोद्यतान् ।
निचखान जयस्तम्भान्गंगास्त्रोतोन्तरेषु सः ॥३६॥

---

पितरांक पावन करून घेतले. वालिमकी रामायणांत बालकांडाच्या २५ ते २९ सर्गांत ही गंगेच्या अवतरणाची म्हळ्यार पिर्थुमेर उतरपाची आनी भगिरथाच्या खर प्रयत्नांची कथा आयल्या.

३३. एकाद्रो हत्ती अरण्यांतल्यान वचूंक लागलो कीं आपले वाटेंतल्या कांय रुखांचीं फळां तोडून उडयता. कांय रुख हुमटून उडयता. आनी जायत्या तरांनीं नासाडी करता. तेच भाशेन रघून आपले भोवंडेन जे राजा ताचे आड आयले तांकां ताणे राज्याभायरे केले. कांय राजांक सिंहासनावेल्यान काडून उडयले आनी जायत्या तरांनीं राजांक जिखले.

३४. मत्स्यपुराणांत ११३ व्या अध्यायांत पुर्वेच्या देशांचीं नांवां आयल्यांत. त्याचप्रमाण महाभारताच्या सभापर्वांत तिसाव्या अध्यायांतय तांचीं नांवां दिल्यांत. अंग, वंग, मद्गुरक, अंतर्गिरी, बहिर्गिरी, प्राग्ज्यौतिष, पुंड्र, सुह्मोत्तर, सुह्म, प्रसुह्म, मोदागिरी, ताम्रलिप्त, आनी कर्वट हे देश जिखून रघुराय महा-सागराचे वेळेर ताड रुखांच्या काळ्ख्या अरण्यांनीं पावलो. ३५. सुह्म देशांत बेतकाठयांचीं रानां मात्तात. हुंवराच्या वेळार बेतकाठयो बागवून उदकाक वयरसून वचूंक दितात आनी हुंवार गेलो कीं परतून उब्यो जातात. तांची देख घेवन सुह्म राजांनीं, रघूक आड येवपी राजांची ताणे कशी विपष्टा केल्ली तें पळोवन, ते राजा ताजेमुखार नमले आनी ताणी आपणाक अखरेग्वले.

३६. वंग हो आतांचो बांगला देश. तो उत्तर बंगाल न्हय. माधवचम्पूंत वर्णिलां कीं वंग देशांतल्यान पद्मा आनी ब्रह्मपुत्रा न्हयों व्हावंताल्यो. वराहसंहितेंत ओरिसा देशाक ओद्र हें नांव दिलां, आतांच्या कामरुपाक प्राग्ज्यौतिष म्हळां. वंग देशाच्या राजांनीं रघूचेर फतेमाऱ्यांतल्यान घुरयो घाल्यो. पुण रघून तांकां जमनीभरवण केले, गंगेचे खाडयेंतल्या जुव्यांचेर आपल्या जैताचे खांबे बांदले.

आपादपद्मप्रणताः कलमा इव ते रघुम् ।
फलैः संवर्धयामासुरुत्खातप्रतिरोपिताः ॥३७॥
स तीर्त्वा कपिशां सैन्यैर्बद्धद्विरदसेतुभिः ।
उत्कलादर्शितपथः कलिंगाभिमुखो ययौ ॥३८॥
स प्रतापं महेन्द्रस्य मूर्ध्नि तीक्ष्णं न्यवेशयत् ।
अंकुशं द्विरदस्येव यन्ता गंभीरवेदिनः ॥३९॥
प्रतिजग्राह कालिंगस्तमस्त्रैर्गजसाधनः ।
पक्षच्छेदोद्यतं शक्रं शिलावर्षीव पर्वतः ॥४०॥
द्विषां विषह्य काकुत्स्थस्तत्र नाराचदुर्दिनम् ।
सन्मंगलस्नात इव प्रतिपेदे जयश्रियम् ॥४१॥

---

३७. शेतांत हुंवार येतकूच साळीच्या भातांचे रोंपे तकली बागोवन हुंवाराचें उदक वचूंक दितात. ते भाशेन ते राजा रघूकडल्यान स्यास्त भोगतकूच ताका नमून ताच्या साळकांसारक्या पायांचेर ताणी तकल्यो दवल्ल्यो. तेन्ना ताणे भाताचो तरवो काडून शेतांत रोयतात तशे परते तांकां तांच्या राज्यार बसयले. ताणी रघूक खूब धन ओपलें. ३८. कपिशा न्हयेचेर हत्तींचो पूल रचून रघून आपलें सैन्य कलिंग देशांत व्हेलें. तेन्ना उत्कल देशांतल्या राजांनीं ताका वाट दाखयली. ३९. ताणे महेंद्र पर्वताचेर आपलो सोसूंक कठीन असो पराक्रम गाजयलो. गंभीरवेदी म्हणून हत्ती आसता, ताका साद्या अंकुशांनीं माल्लो तर तो सांगिल्लें आयकना. ताका तिख्या तोंकाचो अंकुश वापरचो पडटा. ते भाशेन कलिंग देशांतल्या राजाचेर शेक दवरपाक खर उपाय करचे पडले.

महेन्द्र पर्वताचेर पराक्रमाचो अंकुश तोपलो म्हळ्यार महेंद्र पर्वताच्या धन-याचेर, कलिंग देशाच्या राजाचेर जैत मेळयलें. हो लक्षणा अळंकार जालो.

४०–४३. इंद्र पर्वतांचीं पाखां कापूंक गेलो, तेन्ना पर्वतांनीं ताजेर तळपांचो आनी खडपांचो पावस कोसळ्ळो. तेच भाशेन रघु कालिंग राजाकडे झुजूंक गेलो तेन्ना आपल्या पर्वतांसारक्या हतयांनीं तो कालिंग राजा रघूकडेन झुजलो. ताणे मारिल्ल्या नाराच बाणांच्या पावसान बरे भाशेन न्हावन जणु रघून कालिंगा-चेर जैत मेळयलें. थंयच्या पोरसांनीं पानवेलींच्या दोण्यांतल्यान रघूचे झुजारी नाल्लाच्या माडांची माडी पिले. जणु ते शत्रूची कीर्तच पिले. रघु धर्मिष्ट राजा आसलो. ताणे कालिंग महेंद्राक बंदखणींत घालो आनी ताजेकडल्यान खंड घेवन मागीर ताका सोडून दिलो. ताजें राज्य जिखून घेतलें ना.

**तांबूलीनां दलैस्तत्र रचितापानभूमयः ।**
**नारिकेलासवं योधाः शात्रवं च पपुर्यशः ॥४२॥**
**गृहीतप्रतिमुक्तस्य स धर्मविजयी नृपः ।**
**श्रियं महेन्द्रनाथस्य जहार न तु मेदिनीम् ॥४३॥**
**ततो वेलातटेनैव फलवत्पूगमालिना ।**
**अगस्त्याचरितामाशामनाशास्यजयो ययौ ॥४४॥**
**स सैन्यपरिभोगेण गजदानसुगन्धिना ।**
**कावेरीं सरितां पत्युः शंकनीयामिवाकरोत् ॥४५॥**
**बलैरध्युषितास्तस्य विजिगीषोर्गताध्वनः ।**
**मारीचोद्भ्रान्तहारीता मलयाद्रेरुपत्यकाः ॥४६॥**

---

न्हावन धोवन लक्ष्मीक म्हळ्यार संपत्ती आपल्या हातांत धरची अशें शास्त्रांत सांगलां. कालिंगाच्या लोखणाच्या बाणांच्या पावसान न्हावन रघून कालिंगाची संपदा आपल्या हातांत घेतली. दुर्दिन ह्या उतराचो लक्षणेन मंगल न्हाण असो कालिदासान अर्थ केला. संस्कृत बरयांनीं तीन तरांचे जिखपी आसतात अशें म्हळां: (१) धर्मविजयी, हे धर्माखातीर म्हळ्यार यज्ञ करचे-खातीर भोवंडी काडून, शत्रूक जिखून, शत्रूकडल्यान खंड वसूल करून, ताजें राज्य ताका परत दितात; (२) लोभविजयी, हे शत्रूक जिखून ताचें राज्य आनी धन घेवन, ताका जिवानशीं सोडून दितात; आनी (३) असुरविजयी म्हणून जे जिखपी उरतात, ते शत्रूक मारून उडोवन ताजें राज्य आनी धन हरण करतात. रघु धर्मविजयी आसलो.

४४. ताजेफुडें रघु समुद्राचे वेळेवेल्यान माडयांच्या कुळागरांकडल्यान, अगस्ती ऋषी दक्षिण दिशेक गेल्लो, तेवशीन गेलो. थंय वचपाक ताका झुजां मारचीं पडलीं ना. शत्रूक जिखचे पडले ना. ते आपशींच ताचेमुखार नमले. ४५. कावेरी न्हयेंतल्यान ताजें सैन्य पलतडी गेलें, तेन्ना न्हयेच्या उदकाक हतयांच्या मादानाच्या रोसाचो उग्र वास येवंक लागलो. आनी ताका लागून सगळ्या न्हयांचो पती सागर हाका आपली बायल कावेरी हिच्या पतिनिष्ठेविशीं दुबाव आयलो जावंये.

४६. संवसार जिखपाचे इच्छेन भोवंडेर गेल्ल्या रघूचें सैन्य खूब प्रवास करून मलय पर्वताच्या देगांनीं काळ्या मिरयांच्या वालींच्या देशांत हारीत

**ससंजुरश्वक्षुण्णानामेलानामुत्पतिष्णवः ।**
**तुल्यगन्धिषु मत्तेभकटेषु फलरेणवः ॥४७॥**
**भोगिवेष्टनमार्गेषु चन्दनानां समर्पितम् ।**
**नास्रसत्करिणां ग्रैवं त्रिपदीच्छेदिनामपि ॥४८॥**
**दिशि मन्दायते तेजो दक्षिणस्यां रवेरपि ।**
**तस्यामेव रघोः पाण्ड्याः प्रतापं न विषेहिरे ॥४९॥**
**ताम्रपर्णीसमेतस्य मुक्तासारं महोदधेः ।**
**ते निपत्य ददुस्तस्मै यशः स्वमिव संचितम् ॥५०॥**

---

जातींचे कीर उरतात थंय पावलें. ४७. थंय सैन्यांतल्या घोड्यांच्या खुरांनीं वेलच्यांचो परमळ अंत्राळांत हुबलो आनी हत्तींच्या कानसुलांनीं फुटिल्ल्या कात्रयांनीं हो वेलच्यांचो रांप बसून हत्तींचें मादान चिके उणावलें. ४८. थंय हत्तींच्या गळ्याक सांखळ्यांनीं बांदून त्यो सांखळ्यो चंदनाच्या रुखांक बांदिल्ल्यो. चंदनाच्या रुखांभोवंतणीं सोरपांच्या विळख्यांक लागून पयलींच खांपां पडिल्लीं उरतात. त्या खांपांत ह्यो सांखळ्यो गच्च बसल्यो. आनी पांयांक बांदिल्ल्यो सांखळ्यो तोडपी अशा त्या बळिष्ठ हतयांक ह्यो सांखळ्यो तोडूंक येनात जाल्यो. ४९. दक्षिण दिशेक सूर्य गेलो कीं ताजें तेज कमी जाता. रघु दक्षिण दिशेक गेलो तरी थंयच्या पाण्ड्य राजांच्यान रघूचो खर पराक्रम सोसूंक जायना जालो. म्हळ्यार रघुमुखार तांकां नमचें पडलें.

चोल देशाचे नैऋत्य दिशेक पाण्ड्य देश आसलो. मलय पर्वत आनी ताम्रपर्णी न्हय ह्यो पाण्ड्य देशाचो मेरो आसल्यो. कालिदासाच्या काळांत नेगापट्टम् वा नागपट्टण हें पांड्य देशाचें राजपाटण मद्रास नगराचे दक्षिणेक १७ मैलांचेर आसलें. रामेश्वर हो जुवों पाण्ड्य देशांत पडटालो.

५०. ताम्रपर्णी ही न्हय पल्लमकोट्टा गांवांकडल्यान मनारच्या आखातांत सागरांत देवंता. थंय न्हय आनी समुद्राचे घोवबायलांचे मेळामेळीक लागून मोतयां पिकतात. पाण्ड्य राजांनीं आपलें धवेंफुल्ल यश अशा धव्या मोतयांचे राशीचो खंड रघूक घालो. न्हय समुद्राक मेळटा थंय समुद्र आपलीं ल्हारां घेवन न्हयेक येवकार दिवंक फुडें येता. ही निखटी भेट नासता, तर मेळामेळ आसता. रघुवंशाच्या तेराव्या सर्गाच्या णवव्या श्लोकांत कालिदासान न्हय आनी समुद्र हांचे मेळामेळीचें वर्णन केलां:

स निर्विश्य यथाकामं तटेष्वालीनचन्दनौ ।
स्तनाविव दिशस्तस्याः शैलौ मलयदर्दुरौ ॥५१॥
असह्यविक्रमः सह्यं दूरान्मुक्तमुदन्वता ।
नितम्बमिव मेदिन्याः स्त्रस्तांशुकमलंघयत् ॥५२॥
तस्यानीकैर्विसर्पद्भिरपरान्तजयोद्यतैः ।
रामास्त्रोत्सारितोऽप्यासीत्सह्यलग्न इवार्णवः ॥५३॥

---

मुखार्पणेषु प्रकृतिप्रगल्भाः स्वयं तरंगाधरदानदक्षः ।
अनन्यसामान्यकलत्रवृत्तिः पिबत्यसौ पाययते च सिन्धूः ॥

न्हयो आपलीं तोंडां थिटायेन फुडें काडून समुद्रांत विरघळूंक सोदतात. समुद्र आपलीं ल्हारां हेच जणु ओंठ न्हयांचे सुवादीन करता. तो स्वता न्हयांक पिता आनी आपणाक स्वताक तांचेकडल्यान पियोवन घेता. ही कलत्रवृत्ति अनन्यसामान्य, म्हळ्यार ही घोवकी संवसारांत हेर कुटुंबांनीं पळोवंक मेळना.

५१ आनी ५२ ह्या दोन श्लोकांचे जोडयेक युग्म म्हणटात.

मलय आनी दर्दुर हीं पश्चिम घाटाचीं दोन तोंकां. तीं पाण्ड्य देशांत आसलीं. मलय आनी दर्दुर हे दोन पर्वत म्हळ्यार धर्तरेचीं दोन थानां! तांच्या कडांचेर चंदनाच्यो रुखावळी लागल्यात. ह्या मलय-दर्दुर पर्वतांच्या आवांठां-तल्यान मेकळेपणान भोवूंन रघु धर्तरेची जणु कमरच अशा सह्य पर्वताचेर आयलो. रघूचो पराक्रम असह्य म्हळ्यार कोणाच्यान सोसूंक नज असो आसलो. आनी तो पर्वत सह्य म्हळ्यार चडूं येता, भोवूं येता असो आसलो. जणु धर्तरेच्या कमरेवेलें लुगट घसरून पडिल्लें ! रघून तो पर्वत हुपलो.

५३. परशुरामान बाण मारून सह्याद्रीचे पश्चिमेचो अपरान्त हो आवांठ समुद्राक आमडून मनशांचे वसतेखातीर मेकळो केल्लो. रघूचें सैन्य ह्या अपरान्त म्हळयार कोंकणांत पातळ्ळें. तेन्ना सह्य पर्वताक सोडून पैस गेल्लो समुद्रच सह्य पर्वताक येवन तेंकलो अशें लोकांक दिसलें. रघूचें सैन्य हो एक समुद्रच कसो दिसतालो.

परशुरामान बापायच्या मरणाचो सूड घेवंचेखातीर एकवीस फावट धर्तरेवेले क्षत्रीय मारून उडयले; तांच्या रगताच्यो आहुत्यो दिवन यज्ञ केलो. आनी सगळी भूंय कश्यप ऋषीक दान केली. मागीर आपणाक रावपाक जागो जाय म्हणून कश्यपाचे सांगणेन परशुरामान पश्चिम समुद्राचेर बाण मारून भूंय

भयोत्सृष्टविभूषाणां तेन केरलयोषिताम् ।
अलकेषु चमूरेणुश्चूर्णप्रतिनिधीकृतः ॥५४॥
मुरलामारुतोद्धूतमगमत्कैतकं रजः ।
तद्योधवारबाणानामयत्नपटवासताम् ॥५५॥
अभ्यभूयत वाहानां चरतां गात्रशिंजितैः ।
वर्मभिः पवनोद्धूतराजतालीवनध्वनिः ॥५६॥
खर्जूरीस्कन्धनद्धानां मदोद्गारसुगंधिषु ।
कटेषु करिणां पेतुः पुंनागेभ्यः शिलीमुखाः ॥५७॥

मेकळी केली. निका कौंकण अशें म्हणटाले. कौंकणाचें कोंकण जालें. सह्याद्रीचे पूर्वेक घांटार रावपी लोक ह्या कोंकणाक अपरान्त म्हळ्यार सह्याद्रीचे दुसरे वशींतलो देस अशें म्हणूंक लागले. अपरान्त हें उतर खंच्याय देशाचें स्वतंत्र नांव जायना. दशकुमारचरिताच्या आठव्या उल्लासांत दंडीन दक्षिणेंतल्या सात देशांचीं नांवां दिल्यांतः (१) अश्मक, (२) कुंतल, (३) कोंकण, (४) वनवासी, (५) मुरला, (६) ऋचीक आनी (७) नासिक्य. मुरला म्हळ्यार आतांचो केरळ देश. अश्मक म्हळ्यार आतांचो त्रावणकोर. मुरला न्हय केरळांत आस म्हणून केरळाक मुरला म्हणटाले. नेत्रावती न्हयेचेर मंगळूर वसलां. सरस्वती न्हयेचेर होनावर आस. सदाशिवगड कालीनदीच्या कांठार बांदिल्लो. केरळच्या लोकांकय मुरला हें नांव दिल्लें. केरळाचें उर्ग हें आनीक एक नांव आसलें.

५४. रघूचें सैन्य पळोवन केरळ देशांतल्यो बायलो भिल्यो आनी ताणी आपले केंस वळोवन शिणगार करपाचें काम अर्द्यार उडयलें. रघूच्या सैन्याचे धावंडेन हुब्रिल्लो धुळ त्या बायलांच्या केंसांर शिगगारचेखातीर मारचेल्या पिठ्याभशेनच बसलो.

५५. मुरला न्हयेंवेल्यान आयिल्ल्या वाऱ्यान केगदांच्या लोतींतलीं वासाचीं कुस्कुरां रघुरायाच्या झुजाऱ्यांच्या कवचांचेर बसून तांकां केगदांचो वास येवंक लागलो. म्हळ्यार गन्धाची उटी लायस्याबगर गन्धाचो घमघम येवंक लागलो. ५६. थंयच्या उंच माडांतल्यान वाऱ्याच्या तुफानान जो आवाज घुमतालो तो रघुरायाच्या घोड्यांच्या आंगार घातिल्लया कवचांच्या खणखणाटान आयकूंक येना जालो. ५७. धुतऱ्याच्या खांदयांच्या बेळक्यांक हतयांक बांदिल्ले. तांच्या कानसुलांतल्यान मद व्हावंतालो. त्या मदाच्या वासाक लागून अशोकाच्या रुखांवेले गांजील मूस हतयांच्या कानसुलांचेर येवन बसूंक लागले.

अवकाशं किलोदन्वान्रामायाभ्यर्थितो ददौ ।
अपरान्तमहीपालव्याजेन रघवे करम् ॥५८॥
मत्तेभरदनोत्कीर्णव्यक्तविक्रमलक्षणम् ।
त्रिकूटमेव तत्रोच्चैर्जयस्तंभं चकार सः ॥५९॥
पारसीकांस्ततो जेतुं प्रतस्थे स्थलवर्त्मना ।
इन्द्रियाख्यानिव रिपूंस्तत्त्वज्ञानेन संयमी ॥६०॥
यवनीमुखपद्मानां सेहे मधुमदं न सः ।
बालातपमिवाब्जानामकालजलदोदयः ॥६१॥
संग्रामस्तुमुलस्तस्य पाश्चात्त्यैरश्वसाधनैः ।
शाङ्र्गकूजितविज्ञेयप्रतियोधे रजस्यभूत् ॥६२॥
भल्लापवर्जितस्तेषां शिरोभिः श्मश्रुलैर्महीम् ।
तस्तार सरघाव्याप्तैः स क्षौद्रपटलैरिव ॥६३॥

---

खर्जुरी म्हळ्यार खाजराचो माड आनी धुतऱ्याचो रूख अशे दोन अर्थ जातात. दक्षिणेंत खाजराचे माड जायनात आनी तांकां बेळक्रीं नासतात. म्हणून धुतरो हो अर्थ लागू जाता.

५८. परशुरामान मागतकीर समुद्रान ताका वसतेक आस्पाव दिलो. त्याच आस्पावाच्या अपरान्तांतल्या राजांच्या रुपान जणु समुद्रान रघुराजाक खंड घालो. ५९. केरळांतलो त्रिकूट दोंगर रघूच्या हत्तींनीं तिडकीन तांच्या सुळ्यांनीं फापशिलो. रघून त्या त्रिकूट दोंगराकच आपल्या जैताचो खांबो केलो.

६०. स्वताचेर शेक आशिल्लो मनीस सत्याचे जाणविकायेचो पालव घेवन आपल्याच इंद्रियांच्या रुपान आशिल्ले दुस्मान जिखता. तेच भाशेन रघु भुयें-वेल्या मार्गान पारशी लोकांक जिखूंक गेलो. ६१. पावसाळो नासतना आड दिसांनीं सकाळच्या पाराक कुपां आयलीं तरी तीं कमळांवेलें वोत उणें करिनात. तेच भाशेन यवनी बायलांच्या सूर पिवन तिकतिकपी पोल्यांची दखल रघून घेतली ना.

६२. त्या अस्तमतेकडल्या सैन्यांत घोडेसुंवार जायते आसले. तांचेकडेन रघूच्या झुजप्यांचें घोरांकारांचें झूज जालें. झुजाक लागून हुब्रिल्ल्या धुळींत शत्रू कोण आनी मित्र कोण हें कळूंक कठीन जालें. धोणवांच्या वादयांच्या गाजाक लागून आपले आनी शत्रूचे झुजपी वळखूंक येताले. ६३. रघूच्या झुजप्यांनीं भल्ल जातीच्या बाणांनीं त्या पारशी झुजप्यांचीं शिरां भुंयेर शिंवरलीं.

अपनीतशिरस्त्राणाः शेषास्तं शरणं ययुः ।
प्रणिपातप्रतीकारः संरम्भो हि महात्मनाम् ॥६४॥
विनयन्ते स्म तद्योधा मधुभिर्विजयश्रमम् ।
आस्तीर्णाजिनरत्नासु द्राक्षावलयभूमिषु ॥६५॥
ततः प्रतस्थे कौबेरीं भास्वानिव रघुर्दिशम् ।
शरैरुस्रैरिवोदीच्यानुद्धरिष्यन्रसानिव ॥६६॥
विनीताध्वश्रमास्तस्य सिंधुतीरविचेष्टनैः ।
दुधुवुर्वाजिनः स्कन्धाँल्लग्नकुंकुमकेसरान् ॥६७॥

---

भल्ल म्हळ्यार दोन तोंकाची कोर आशिल्लो लोखणाचो बाण. पारशी झुजारी खाडां दवरताले आनी तकलेच्या केंसांची कापणी करताले. तांच्या भुंयेर शिंपडिल्ल्या तुळटुळीत तकल्यांचेर म्होंवाचे मूस बसले. तेन्ना तांच्यो तकल्यो म्होंवाळ्यांभशेन दिसूंक लागल्यो.

रघूचे भोवंडेंत ताका बंगालांत नौसाधन म्हळ्यार फतेमाऱ्यांतल्यान झुजपी बंग झुजाऱ्यांकडेन झुजचें पडलें. कालिंग हे गजसाधन म्हळ्यार हतयांचेर बसून तांचे मजतीन झुजपी. तांकांय रघुरायान जिखले. अस्तमतेक अश्वसाधन म्हळ्यार खांपे घोडेसुवार अशे पारशी झुजपी आसले. तांकांय ताच्या सैन्यान आपले धनुर्विद्येन जिखले.

६४. बाकी जिते उरिल्ल्या पारशांनीं आपलीं शिरस्त्राणां काडून ते रघूक शरण आयले. मोठे मनीस खुबले कीं तांचो राग निवळावपाक तांकां नमस्कार करप होच खरेलो उपाय.

६५. झुजाच्या स्रमांनीं थकिल्ले रघूचे झुजारी दाकांच्या वालींच्या माटवांनीं मोलादीक चामडीं हातरून बसले आनी दाकांचो गोड सुरबूस कसाय पिवन ताणी आपली थाकाय काडली.

६६. सगळ्या संवसारांत तेजिष्ट असो सूर्य उत्तरायणांत उत्तर दिशेक वचून आपल्या किरणांनीं धर्तरेवेलें उदक चोखून घेता. ते भाशेन रघू आपल्या बाणांनीं उत्तरेच्या राजांक हुमटूंक कुबेर देव राखता ते दिशेन गेलो. ६७. पारशांबरोबर खेळिल्ल्या झुजांत रघूच्या घोड्यांक जायतें पुरो जाल्लें. सिंधु न्हयेच्या व्हाळवटार ते घोडे लोळ्ळे; तेन्ना तांच्या आंगांक केशराच्यो सुतल्यो लागल्यो. त्या घोड्यांनीं आपलें आंग झाडून थाकाय घालयली, तेन्ना तांच्या आंगांक लागिल्लें केशर ताणी झाडून उडयलें.

**तत्र हूणावरोधानां भर्तृषु व्यक्तविक्रमम् ।**
**कपोलपाटलादेशि बभूव रघुचेष्टितम् ॥६८॥**
**काम्बोजाः समरे सोढुं तस्य वीर्यमनीश्वराः ।**
**गजालानपरिक्लिष्टैरक्षोटैः सार्धमानताः ॥६९॥**

सिंधु न्हयेच्या कांठार केशर खंयसावन आयलें? मल्लिनाथ सांगताः सिन्धुर्नाम काश्मीरदेशेषु कश्चिन्नदविशेषः । म्हळ्यार काश्मिरांत सिंधु म्हणून ल्हान न्हय आसली. चारित्रवर्द्धन हो टिकाकार सिंधूच्या जाग्यार वंक्षु हें उतर घेता, आनी प्राध्यापक पाठकांनीं इसवी सनाच्या १९१२ सालांत वंक्षु म्हळ्यार आतांची ऑक्सस न्हय म्हणून सिद्ध केलां. सुमतिविजय हो टिकाकार सिंधु ह्या उतराच्या जाग्यार आपले फोडणिशेंत वेक्ष हें न्हयेचें नांव घेता.

पारशांच्या सैन्यांत खांपे घोडेसुंवार आसले. तांचेबरोबर युद्ध खेळपाचो भार रघूल्या घोड्यांचेर पडिल्लो. ते घोडे आतां विश्रांती घेवन परते झुजाक तयार जाले.

६८. फुडें उत्तर दिशेक हूण राजांच्या सैन्याबरोबर रघूचीं झुजां जालीं, आनी ताणे तांकां जिखले. त्या वेळार हूण क्षत्रियांच्या बायलांनीं दुःखान आपले पोले फोडून घेतिल्ल्यान ते तांबडेलाल्ल जाले. रघून तांच्या पोल्यांचेर जणु आपलो पराक्रम रंगवन दवल्लो.

६९. ताजे फुडें काम्बोज राजांक रघूच्या मुखार झुजाक उबे रावपाक काळीज जालें ना; म्हणून ते ताका शरण आयले. थंयच्या अक्रोड रुखांक रघूचे हत्ती बांदिल्ले म्हणून ते रूख हत्तींच्या मस्तेक लागून बागवले. तशे ते कांबोज राजा रघूचे मुखार बागवले.

महाभारतांत सभापर्वांत सत्ताविसाव्या अध्यायाच्या तेविसाव्या श्लोकांत राजसूय यज्ञाच्या वेळार अर्जुनान दरद आनी कांबोज लोकांक जिखले म्हणून वर्णन आयलां. हे कांबोज राजा हिंदुकुश पर्वताच्या गिलगिट व्हाळयेसावन धाकलें तिबेट म्हळ्यार लडाखमेरेन पातळिल्ले. कुरुक्षेत्रावेल्या युद्धांत ते कौरवांचे वशीन पांडवांलागीं झुजले. अक्षोटैः सार्धमानताः म्हळ्यार अक्रोड रुखांसयत कांबोज राजा रघुमुखार नमले. हो सहोक्ति अळंकार अशें मम्मट काव्यप्रकाशांत सांगता.

७०. उत्तम जातीचे घोडे आनी धनाच्यो मोठ्यो मोठ्यो राशी खंड

**तेषां सदश्वभूयिष्ठास्तुंगा द्रविणराशयः ।**
**उपदा विविशुः शश्वन्नोत्सेकाः कोसलेश्वरम् ॥७०॥**
**ततो गौरीगुरुं शैलमारुरोहाश्वसाधनः ।**
**वर्धयन्निव तत्कूटानुद्धूतैर्धातुरेणुभिः ॥७१॥**
**शशंस तुल्यसत्त्वानां सैन्यघोषेऽप्यसंभ्रमम् ।**
**गुहाशयानां सिंहानां परिवृत्यावलोकितम् ॥७२॥**

---

म्हणून रघू-मुखार येवन पडटाल्यो. पुण हे कमाविशीक लागून रघूक मातूय गर्व जालें ना. ७१. हाजेमुखार रघु घोडेसुंवारांचें सैन्य घेवन हिमालय पर्वताचीं तेमकां चडून पेल्यान उत्तरेक गेलो. रथ आनी हतयांक घेवन हिमालय चडप कठीन. म्हणून घोडेसुंवारांचें सैन्य वाडोवन तो हिमालय चडलो. ताज्या घोड्यांल्या खुरांनीं हुबिल्ल्या धातूंच्या धुल्लान तो धातूंनीं घडिल्लो हिमालय पर्वत जणु वाडून चड उंच जालो.

कुमारसंभवांत कालिदासान हिमालय पर्वताचे धातूंचे संपत्तीचें वर्णन केलां:

**यश्चाप्सरोविभ्रममंडनानां संपादयित्री शिखरैर्बिभर्ति ।**
**बलाहकच्छेदविभक्तरागामकालसंध्यामिव धातुमत्ताम् ॥ कुमारसं. १-४ ॥**

स्वर्गींच्या अप्सरांक प्रेमाचे खेळ खेळटासतना शिणगार करपाखातीर वेगळया वेगळया जिनसांची पुरवण करची, आनी वेळकाळ नासतना अंत्राळांतल्या कुपांचेर सांजवेळचो तांबसो रंग शिंवरचो, म्हणून हिमालय पर्वतान आपल्या तेमकांभितर तरेकतरा धातूंच्यो कोठयो भरून दवल्ल्यात.

७२. त्या पर्वताचेर रघूल्या सैन्याचो इतलो बोवाळ जातालो, तो पर्वताचे धोलींनीं रावपी सिंह मान वळवन पळोवन बिलकुल गणमणनासतना स्वस्थ राविल्ले पळोवन, रघुरायान त्या सिंहांच्या मनाचे घटवायेची तारीफ उलोवन दाखयली.

ह्या श्लोकांत 'शशंस' म्हळ्यार तारीफ केली, ह्या क्रियापदाक कर्तो ना. म्हणून 'रघु' हें उतर कर्तो म्हणून अध्याहृत मानचें काय न्हय, हाजेविशीं कालिदासाचे टिकाकार चारित्रवर्द्धन, दिनकर आनी वल्लभ हांचेभितर वाद चलता. 'असंभ्रमं' म्हणजे 'गणमणनासतना' हें उतर 'अवलोकितम्' म्हणजे 'पळेलें' ह्या उतराचें विशेषण म्हणून मानचें कीं न्हय हाचेविशीं वाद घाल-तात. हे टिकाकार व्याकरणाचे खांपे पंडीत उरताले. आनी एकाद्या उतराचीं




रघुरायाचे संवसार-जैताचे भोवंडेचो मार्ग··················

भूर्जेषु मर्मरीभूताः कीचकध्वनिहेतवः ।
गंगाशीकरिणो मार्गे मरुतस्तं सिषेविरे ॥७३॥
विशश्रमुर्नमेरूणां छायास्वध्यास्य सैनिकाः ।
दृषदो वासितोत्संगा निषण्णमृगनाभिभिः ॥७४॥
सरलासक्तमातंगग्रैवेयस्फुरितत्विषः ।
आसन्नोषधयो नेतुर्नक्तमस्नेहदीपिकाः ॥७५॥
तस्योत्सृष्टनिवासेषु कंठरज्जुक्षतत्वचः ।
गजवर्ष्म किरातेभ्यः शशंसुर्देवदारवः ॥७६॥

कानो-मात्रा उणीं-अदीक जालीं जाल्यार उतराच्यो तिस्त्यान तिस्त्यो करून फोडणिशी करताले. संस्कृत भाशेंत प्रत्येक अक्षराक स्वतंत्र अर्थ उरता. नामां क्रियापदांतल्या मूळ धातूवेल्यान घडयल्लीं आसतात.

७३. भूर्ज रुखावळींमदल्यान सूंऽऽ असो आवाज करीत, कणकी-बुराखांतल्यान शेनायेची शिळोणी घालीत, गंगा न्हयेंतल्या उदकाच्या शिंवरा-सयत वाय रघुराजाक वारो घालून ताची सेवा करतालो.

७४. रघूचे सैनीक देव-अशोक रुखां-खाला सांवळ्यांनीं कस्तुरी मिर्गाची बोंबली लागून कस्तुरीच्या परमळान घमघमतात अशा तळपांचेर बसून विसंव घेताले. ७५. सरल जातींच्या देवदार रुखांक त्या दळांतल्या हतयांक बांदिल्ले. रातचे पारार हिमालयांत चडटेर–देंवतेर लागिल्ल्या वखदां-वालींतल्यान उजवाड येतालो. तो हतयांल्या सांखळ्यांचेर चकचकतालो आनी रघुरायाल्या सैन्याक राती-काळखांत तेलाविरयत दिवजांभशेन उपकरतालो. ७६. रघूल्या सैन्याची वसती हाल्ली, कीं आपलीं घरां सोडून पळून गेल्ले किरात परते येताले. देवदार रुखांक रघूचे हती बांदिल्ले थंय सांखळदंडांक लागून रुखां-साली पिष्टिल्ल्यो तांकां दिसताल्यो. ताजेवेल्यान रघूल्या हतयांची उंचाय केदी आसली तें तांकां कळून ते रघूल्या हतयांचे उंचेची तारीफ करताले.

किरात म्हळ्यार धनगर वा पारधी जातींचे लोक. पुराणांनीं तांचीं वर्णनां आयल्यांत. ते रंगान काळे, मोटवे, तांचे बावळे आनी दांगां ल्हान, खाडक्यो ल्लांबट, दुडे आंगलटीचे, हड्डें रुंद, चपटें नाख, तांबड्या-लाल्ल दोळ्यांचे आनी पिंगशा केसांचे रानवट भिल्ल. महाभारतांत सभापर्वांत तिसाव्या अध्यायांत राजसूय यज्ञाचे भोवंडेंत भिमान विदेह, दरभंगा आनी पूर्व नेपाळांतल्या किरातांक

तत्र जन्यं रघोर्घोरं पर्वतीयैर्गणैरभूत् ।
नाराचक्षेपणीयाश्मनिष्पेषोत्पतितानलम् ॥७७॥
शरैरुत्सवसंकेतान्स कृत्वा विरतोत्सवान् ।
जयोदाहरणं बाह्वोर्गापयामास किंनरान् ॥७८॥
परस्परेण विज्ञातस्तेषूपायनपाणिषु ।
राज्ञा हिमवतः सारो राज्ञः सारो हिमाद्रिणा ॥७९॥

जिखले. ते क्रूर आनी खांपे तिरकामठी आसताले. ते चामडीं न्हेसताले आनी फळां आनी कंदमुळां खावन रावताले. रत्नावलींत तांकां मोरपिसां न्हेसपी पारधी अशें म्हळां.

७७. हिमालय पर्वताचेर रावपी जमाती आनी रघूलें सैन्य हांचेमदीं घोरांकारांचें झूज जालें. रघूचे सैनीक नाराच हे लोखणाचीं पातीं आशिल्ले बाण तांचेर सोडटाले. आनी ते पर्वताचे रड्वासी रघूल्या सैन्याचेर रोवणांनीं फातर मोखून मारताले. फातर आनी बाणाचीं पातीं एकमेकांचेर घांसून उजो पेटटालो.

७८. उत्सवसंकेत जातींतल्या लोकांबरोबर झूज मारून रघून आपल्या बाणांनीं तांकां जिखून निरुत्सवी म्हळ्यार दुःखी केले. थंयच किंनर जातींतल्या, गावपांत हुशार आशिल्ल्या लोकांक झुजांत जिखून रघून आपले गुण गावंक लायले.

आतांच्या लडाख प्रांताक रघूच्या काळार हाशक म्हणटाले. थंय कूनर न्हय व्हांवता. पुराणकाळांत थंय किंपुरुष जमातीचे लोक वसताले. तेच किन्नर. ते मनीस आनी देव हांचे मदल्या पावंड्याचे जिंत्रूप उरताले.

उदाहरण म्हळ्यार मोठ्या आवाजान विजयाचीं गायनां म्हणप. हीं कवनां मालिनी वृत्तांत म्हणटाले. दर वळीचे सुवेंक "जयति" हें उतर म्हणटाले. किंनर म्हळ्यार 'कुत्सित नर' म्हळ्यार विद्रूप मनीस. तांचीं तोंडां घोड्याच्या तोंडांसारकीं दिसतालीं आनी बाकीची कुड मनशाची आसताली. महाभारतांत राजसूय यज्ञाचे वेळचे उसलाचे भोवंडेंत अर्जुनान ह्या सात जमातींच्या लोकांक जिखले.

७९. थंयचे गांवकार रघुराजाक केळवणो घेवन आयले, तेन्ना त्या राजाच्या पराक्रमाची तांकां पुराय वळख जाली. आनी त्या राजाकय तांचे संपदेची पूर्ण कल्पना आयली. त्या राजान हिमवताक वळखून घेतलो आनी हिमाद्री राजाक वळखलो. हिमवत हो धातूंची आनी ओखदांची संपत्ती आशिल्लो पर्वत, आनी हिमाद्री हो बर्फान भरिल्लो हिमवत पर्वत.

**तत्राक्षोभ्यं यशोराशिं निवेश्यावरुरोह सः।**
**पौलस्त्यतुलितस्याद्रेरादधान इव ह्रियम् ॥८०॥**

८०. आपल्या पराक्रमाच्या तरंगाचें नारींग थंय पर्वताचेर घट्ट बरें मारून रघुराय, रावणान एक वेळ तुळिल्ल्या कैलास पर्वताक जिखप आपणाक सोबना, म्हणून थंय वचनासतना तो सैन्यासयत भारतांत देंवलो. रघूली ही वर्तणूक त्या पर्वताक लजेक म्हारग जाली!

रामायणाच्या उत्तरकांडांत अगस्त्य ऋषीन रामाक रावणाची सगळी काणी सांगली. तेन्ना सोळाव्या सर्गांत रावणान कैलास पर्वत उबाल्लो म्हणपाची खबर आयली. पुष्पक विमानांत बसून रावण कैलास पर्वताचेर वचूंक लागलो. थंय नन्दीन ताका आडायलो, आनी शंकर पार्वती कैलासार आसात, तांकां त्रास दिवं नाका म्हणून सांगलें. रावणान मोठ्या गर्वान कैलास पर्वत उखल्लूंक आपले वीस हात घाले: "म्हज्या पुष्पक विमानाची चाल बंद करपी हो कैलास पर्वत कोण ?"

**तमिमं शैलमुन्मूलं करोमि तव गोपते। केन प्रभावेण भवो नित्यं क्रीडति राजवत् ।२४।**
**................................. । ................भुजान् विक्षिप्य पर्वते ॥२५॥**
**तोलयामास तं शैलं स शैलः समकंपत। चालनात्पर्वतस्यैव गणा देवस्य कंपिताः ॥२६॥**
**चचाल पार्वती चापि तदाश्लिष्टा महेश्वरं।**
**ततो राम महादेवो देवानां प्रवरो हरः ॥२७॥**
**पादांगुष्ठेन तं शैलं पीडयामास लीलया। ..................................... ॥२८॥**

रावणाचें गर्व रावणाक भुजलें. शंकरान पायांच्या आंगठ्यान तो पर्वत दांबलो आनी रावण कैलासाच्या वज्यापोंदा खासावीस जावन व्हड्डान बेंबटूंक लागलो !

**मुक्तो विरावः सहसा त्रैलोक्यं येन कंपितं। ...................................... ॥३०॥**

मोठ्या लोकांचें सगळेंच मोठें! रावणाचे बोबेन आनी बोंबलेच्या देंठापासून काडिल्ल्या होळमांनीं त्रिभुवनांतल्या जिंत्रुपांचे कान किटले ! समुद्रांत तुफानां जालीं! पर्वत कोसळूंक लागले! शंकरान ताका हजारभर वर्सां पोटभर रडयत बसयलो. तो एकसारकें शंकराक गारायणें घालीत काकुळटी येवंक लागलो. निमाणे त्या भोळया देवाक ताजी दया येवन ताणे रावणाक मेकळो केलो. इतलो काळ सुमाराभायर सतत रडत कारान्दाय केली म्हणून शंकरान ताका रावण म्हळ्यार 'रडपी' ही पदवी दिली!

**चकम्पे तीर्णलौहित्ये तस्मिन्प्राग्ज्योतिषेश्वरः ।**
**तद्गजालानतां प्राप्तैः सह कालागुरुद्रुमैः ॥८१॥**
**न प्रसेहे स रुद्धार्कमधारावर्षदुर्दिनम् ।**
**रथवर्त्मरजोऽप्यस्य कुत एव पताकिनीम् ॥८२॥**
**तमीशः कामरूपाणमात्याखण्डलविक्रमम् ।**
**भेजे भिन्नकटैर्नागैरन्यानुपरुरोध यैः ॥८३॥**

---

**शैलाक्रान्तेन यो मुक्तस्त्वया रावः सुदारुणः । ........................... ॥३८॥**
**तस्मात्त्वं रावणो नाम नाम्ना राजन् भविष्यसि । ........................ ॥३९॥**

वा. रामायण, उत्तरकांड.

आत्मिक तेजान ब्राह्मण क्षत्रियांपरस वयल्या पावंड्याचे. पुण कुडीच्या बळग्यान क्षत्रियांमुखार ब्राह्मण दुबळे! रावणासारक्या बामणान हालयल्ल्या कैलास पर्वताचेर रघुसारक्या धनुर्धराक घुरी घालपाक बरें दिसलें ना! तो आपले वशीन आयलो ना म्हणून कैलास पर्वताक लज दिसली जावंये!

८१. रघुराय लौहित्या म्हळ्यार ब्रह्मपुत्रा न्हयेचे आलतडी उतल्लो. ताचे घुरयेक लागून प्राग्ज्योतिष देशाचो राजा भंयान कांपलो! रघूल्या सैन्यांतले हत्ती थंय काळ्या अगुरु ह्या रुखांक सांखळ्यांनीं बांदिल्ले. हतयांचे मस्तेक लागून ते रूखय कांपले!

प्राग्ज्योतिषपूर हें नगर हिंदुस्थानचे ईशान्य दिशेच्या कामरूप देशाचें राजपाटण. पूर्व भूतान आनी पश्चिम आसाम ह्या भागांचो मेळून हो प्राग्ज्योतिष देश जाल्लो. नक्षत्रां रचचे पयलीं ब्रह्मदेव ह्या नगरांत राविल्लो; म्हणून हे नगरीक तें नांव पडलें अशें म्हणटात. लौहित्या हो मोठो नद कैलासार लौहित्य नांवाच्या तळ्यांतल्यान उमळ्टा. ब्रह्मदेवाच्या तेजाक लागून लौहित्या न्हयेक ब्रह्मपुत्रा म्हणूंक लागले. परशुरामान आपले कुराडीन हे न्हयेक हिमालयावेल्यान देवूंक वाट करून दिली. ही वर्णना कालिका पुराणांत आयल्या.

८२. रघूच्या सैन्याच्या रथांचे धावंडेन हुबिल्ल्या धुल्लाक लागून अंत्राळांत सूर्य दिसना जालो. पावस पडनासतना कुपांनीं भरिल्लें अंत्राळ आनी दमट दीस उरता तशी अवस्ता जाली. त्या कामरुपाच्या राजाच्यान तेंच सोसूंक नज जालें. तो रघुरायाच्या सैन्याची घुरी कशी सोशीत? ८३. मादान चडिल्ल्या अशा ज्या हतयांक घेवन कामरुपाच्या राजान दुसऱ्या राजांकडेन झुजां मारिल्लीं, तेच हत्ती ताणे रघुरायाक भेट म्हणून ओपले.

कामरूपेश्वरस्तस्य हेमपीठाधिदेवताम् ।
रत्नपुष्पोपहारेण च्छायामानर्च पादयोः ॥८४॥
इति जित्वा दिशो जिष्णुर्न्यवर्तत रथोद्धतम् ।
रजो विश्रामयन्राज्ञां छत्रशून्येषु मौलिषु ॥८५॥
स विश्वजितमाजह्रे यज्ञं सर्वस्वदक्षिणम् ।
आदानं हि विसर्गाय सतां वारिमुचामिव ॥ ८६॥

करतोया वा सदानीरा हे न्हयेपासून आसाम देसाची मेर सोंपता थंयसर कामरूप देस पातळिल्लो. महाभारतांत सभापर्वांत सव्विसाव्या अध्यायांत कामरूप देसाचो भगदत्त हो शूर राजा राजसूय यज्ञाखातीर भोवंडेर आयिल्ल्या अर्जुना-कडेन आठ दीस झूज मारतालो. तेन्ना ताणे आपले मजतीक किरात, चीनी आनी दर्याचे वेळेर रावपी खांपे झुजारी हाडिल्ले. आठ दिसांनीं तो अर्जुनाक शरण आयलो. भारतीय युद्धांत भगदत्तान कौरवांचो पाखो घेतलो, आनी पांडवांनीं ताका मारून उडयलो, अशें वर्णन आसा.

८४. मागीर त्या कामरूपच्या रायान रघुरायाले चरणलक्ष्मीचेर फुलांच्या जाग्यार रत्नहार घालून तिची पुजा केली. ८५. हे भाशेन सगळ्यो दिशा जिखून रघुराजान सगळ्या राजांचीं धवींफुल्ल छत्रां काडून घेतलीं, आनी आपल्या रथांचे धावंडेन हुबिल्लो धुल्ल तांच्या तकल्यांर थापलो, आनी तो परतो अयोध्येक आयलो. ८६. मागीर त्या रघुरायान विश्वजित् यज्ञ केलो. कुपांनीं एकठांय केल्लें उदक धर्तरेर पावसाच्या रुपान शिंवरचेलें आसता. तशें रघुराजान एकठांय केल्लो खंड तांतूंत आपली स्वताची घरची सगळी जोड घालून सगळें धन विश्वजितासारक्या यज्ञांत दान दिवंचेखातीरच आसता. 'विश्वजित्सर्वस्वदाक्षिणः' अशी विश्वजित् ह्या उतराची वेदांत फोडणिशी दिल्या. विश्वजित् हो सगळ्या यज्ञांभितर श्रेष्ठ असो यज्ञ उरता. ह्या यज्ञांत येजमान्यान पुरयतांक आपलें सर्वस्व दान करचें आसता. ह्या यज्ञांत दोन वा पांच बोकडच बळी दितात. आपलें संवसार–भोवंडेक लागून रघून सगळ्या क्षत्रिय राजांलागीं संबंध जोडून तांकां आपलेशे केले. तांकां सगळ्यांक यज्ञाक आमंत्रण दिवंचें आसता. तांचो सगळ्यांचो पावणेचार करपाचो आसता. आपले भोवंडेक लागून रघून संवसारभर वाटो करून देसांदेसांमदीं वेपार वाडपाक वाणी लोकांक मजत केली. ताणे नव्यो जमनी शेतकामताक मेकळ्यो करून कष्टेल्यांक खोशी केले. निमाणे यज्ञ करून ब्राह्मणांक संतुष्ट केले. आनी तांचे आशिर्वाद घेतले.

सत्रान्ते सचिवसखः पुरस्क्रियाभि—
गुर्वीभिः शमितपराजयव्यलीकान् ।
काकुत्स्थश्चिरविरहोत्सुकावरोधान्
राजन्यान्स्वपुरनिवृत्तयेऽनुमेने ॥८७॥
ते रेखाध्वजकुलिशातपत्रचिह्नं
सम्राजश्चरणयुगं प्रसादलभ्यम् ।
प्रस्थानप्रणतिभिरंगुलीषु चक्रु —
र्मौलिस्रक्च्युतमकरन्दरेणुगौरम् ॥८८॥

इति महाकवि श्रीकालिदासकृतौ रघुवंशे महाकाव्ये रघुर्दिग्विजयो नाम चतुर्थः सर्गः ॥

---

८७. यज्ञ करून जातकीर रघून आपल्या मंत्र्यांसयत त्या आमंत्रीत राजांच्या मनांत तांच्या पराभवाक लागून कांय वायटपण उरचें न्हय म्हणून बरे भाशेन तांची उठबस केली. तांकां तांचीं राज्यां आनी कुटुंबां सोडून जायने दीस जाल्ले, म्हणून परते घरा वचपाक निरोप दिलो. त्या राजांच्यो राणयो तांची वाट पळेताल्यो जावंये !

हो विश्वजित् यज्ञ बरेच दीस चलतालो.

ह्या सर्गाचे १ ते ८६ श्लोक अनुष्टुप वृत्तांत आसात. आनी ८७ आनी ८८ हे दोन निमाणे श्लोक प्रहर्षणी वृत्तांत आयल्यात.

८८. रघुराजाच्या हाताचेर आनी पांयांचेर सम्राट वा सार्वभौम राजाचीं चिन्हां आसलीं. ते पावणे राजा निरोप घेवन वतासतना रघुरायाच्या पांयां पडले. तांच्या माथ्यांचेर फुलांचे हार माळिल्ले; त्या फुलांतल्या म्होंवाचे थेंबे आनी फुलांतले रेवें रघुरायाच्या पावलांचेर पडून तीं पावलां हळडुवीं आनी गोरीं दिसूंक लागलीं.

सामुद्रक शास्त्रांत सांगलां :

यस्य पादतले पद्मं चक्रं वाऽप्यथ तोरणम् ।
अंकुशं कुलिशं छत्रं स सम्राट् भवति ध्रुवम् ॥

जाच्या पावलांच्या तळांचेर पद्म म्हळ्यार साळीक, चक्र वा गुडी, अंकुश, वज्र, छत्र हीं चिन्हां आसतात तो राजांचो राजा जाता. जाच्या हातांचेर धनुष्य आनी अंकुशाचीं चिन्हां आसतात तो सम्राट जाता अशेंय सांगलां.

हे भाशेन महाकवी कालिदासान रचिल्ल्या रघुवंश महाकाव्यांतलो रघु-दिग्विजय नांवाचो चवथो सर्ग जालो.

O O O

ह्या सर्गांत रघुरायाचे संवसार-भोवंडेचें वर्णन आयलां. सुर्वेच्या वीस श्लोकांत पावशे दीस सोंपले आनी शरद्‌ऋतू आयलो इतलेंच तपशिलान ओपारींसयत आयलां. मागीर ल्हवूच रघुरायाले भोवंडेची गजाल आयली. फुडल्या पैंसट श्लोकांत रघून राजांचेर कशें जैत मेळयलें आनी खंड वसूल केलो, झुजां कशीं माल्लीं तें आयलें. निमाण्या तीन श्लोकांत विश्वजित यज्ञाविशीं वर्णन साणटेशें आयलां. रघून सगळ्या संवसारार जैत मेळयलें! हाचेपरस ताणे आपल्या इंद्रियांचेर आनी मनाचेर, दोळ्यांक दिष्टी पडनात पुण मोठ्यामोठ्या शूर विरांक लोळयतात अशे भितल्ले शत्रू—स विकार—काम, क्रोध, लोभ, मद, मोह आनी मत्सर—हांचेर जैत मेळयलें. हें वाचप्यांनीं चड ध्यानांत धरपासारकें आस. येदी संपत्ती जिखून हाडली, हाल-उपाद्रे, त्रास-कष्ट सोसून मेळयल्लें धन सगळें वांटून उडयलें! त्या धनाविशीं कांय गर्व मनांत आयलें ना. तें धन वांटटासतना तो कांगचेलो ना! फाल्यां आपलें, आपल्या बायलां-भुरग्यांचें, राज्यलक्ष्मीचें, वैभवाचें, संपदेचें, अब्रूचें, किर्तीचें कितें जातलें म्हणपाचो ताणे हुस्को केलो ना. पंचप्राण तळठार घेवन, रातीचे दीस करून एकठांय केल्लें धन आंगावेल्या रत्नां-माणकां, पोशेगांसयत, आयदनां, घरदार सगळें दान केलें! अशें संवसारांत घडलें ना. असो दुसरो राजा जालोच ना. आनी म्हणून कालिदासान ताका रघुवंशांत अव्वेर केलो. सगळो रघुरायालो इतिहास एका श्लोकांत आयलो:

**स विश्वजितमाजह्रे यज्ञं सर्वस्वदक्षिणम् ।**
**आदानं हि विसर्गाय सतां वारिमुचामिव ॥८६॥**

सतां आदानं विसर्गाय । साधु लोक जोड जोडटात, ती वांटून उडोवंचे खातीर जोडटात!

इतल्यान रघूची काणी सोंपना. दैव ताका आनीकूय खर कसाक लायता. तो निर्धन जाला अशे अवस्तेंत ताजें सत्त्व पळेता. हें कशें घडटा तें फुडल्या सर्गांत वाचुया!

O O O

# रघुवंश

## पांचवो सर्ग

**तमध्वरे विश्वजिति क्षितीशं निःशेषविश्राणितकोषजातम् ।
उपात्तविद्यो गुरुदक्षिणार्थी कौत्सः प्रपेदे वरतन्तुशिष्यः ॥१॥**

---

१. वरतंतु ऋषीच्या कौत्स नांवाच्या शिष्यान गुरूकडल्यान विद्या शिकून घेतल्यो. गुरूक दक्षणा दिवपाची व्यवस्था करचेखातीर तो अयोध्येक रघुराजाकडेन आयलो. हेवटेन रघुराजान कांय एक जिन्नस बाकी दवरिनासतना विश्वजित यज्ञाखातीर आपली कोठी रिकामी केल्ली !

ह्या सर्गाच्या ७६ श्लोकांत ५, ९, १३, २२, ३५, ३८, ४० आनी ६० हे श्लोक इंद्रवज्रा वृत्तांत रचल्यात. ३, २७ आनी ५३ हे श्लोक उपेन्द्रवज्रा वृत्तांत रचल्यात. ६३ ते ७३ हे श्लोक वसंततिलका ह्या वृत्तांत आयल्यात. ७४ आनी ७५ मालिनी वृत्तांत. निमाणो श्लोक पुष्पिताग्रांत; आनी बाकी सगळे म्हळ्यार एकावन श्लोक उपजाति वृत्तांत आसात. णवव्या सर्गांत तेरा वृत्तां वापरल्यांत म्हणून फाटीं ४७ व्या पानार आयलां. णवव्या-फाटोफाट पांचव्या सर्गांत स वृत्तां आयल्यांत. बाकीच्या सर्गांत कालिदासान सर्गागणीक दोन, तीन, चार इतलींच वृत्तां वापरल्यांत. कालिदासान रघुवंशांत चडांत चड श्लोक अनुष्टुप (५४८) आनी उपजाति (४९३) वृत्तांत रचले. हाचे फाटल्यान रथोद्धता (१४७), वैतालीयं (९१), इंद्रवज्रा (७३), वंशस्थ (६९), द्रुतविलंबित (५४) आनी वसंततिलका (३७) अशीं वृत्तां घेतलीं. एक फावट एका वृत्तांत सर्गाक सुरवात केली, कीं निमाणचे कांय श्लोक सोडून सगळो सर्ग तो एकाच वृत्तांत घेतालो. वैतालीयम् वृत्तांत रचिल्ल्या ९१ श्लोकांपैकीं ९० श्लोक एकाच आठव्या सर्गांत वापरले. कालिदासाच्या काळार हे श्लोक मोठ्या आवाजान सवकासायेन सुंदर चालींचेर गावपी गाताले. म्हणटकच आयकुपी चार-चौगांक तीं वृत्तां वळखूंक येतालीं. तीं आयकून खोस जाताली. आयचे म्हालीक विमानांच्या घरघर आवाजांत ही वृत्तां आनी दुसरें जायतें सगळें बेजाराचें जालां !

**स मृण्मये वीतहिरण्मयत्वात्पात्रे निधायार्घ्यमनर्घशीलः ।**
**श्रुतप्रकाशं यशसा प्रकाशः प्रत्युज्जगामातिथिमातिथेयः ॥२॥**

तर तो कौत्स रघुराजाकडेन याचक म्हणून आयलो.

२. विश्वजित यज्ञांत भांगराचीं आयदनां-विरदनां सगळीं सोंपिल्लीं. भांगराचो चकचकाट गेल्लो. पुण रघु राजा यशान परजळटालो. वेदाच्या ज्ञानाचें जणु साक्षात तेजच असो तो पावणो! ताका येवकार दिवंक हो मोलादीक सभावाचो येजमान मातयेच्या कयलार अर्घ्य घेवन ताजेमुखार गेलो!

कालिदास ओपारींखातीर नांवाजला. ओपारी म्हळ्यार उपमा, उत्प्रेक्षा, अर्थान्तरन्यास, अन्योक्ती, सहोक्ती, श्लेष, लक्षणा, व्यंजना, निदर्शना अशे शेंकड्यांनीं अर्थाळंकार कवी वापरतात आनी काव्य सोबयतात. अर्थाळंकारांनीं काव्य सजोवंक खूब चतुराय आनी प्रतिभाशक्ती लागता. अळंकारांची दुसरी तरा म्हळ्यार शब्दाळंकार. देखीक, यमक म्हळ्यार चरणाचीं निमाणीं तीन अक्षरां तींच तींच घालप. आनी त्या अक्षरांचीं उतरां आनी तांचो अर्थ वेगवेगळो आसप. जुने मराठी कवी असलीं यमकां जुळयल्याबगर कविता रचिनासले. हे चडकरून पंडित कवी उरताले. हांतलो नामनेचो कवी मोरोपंत. ताणे शब्दाळंकार आनी जड-गुळो अशीं संस्कृत उतरां घालून समासीक उतरां वापरून आपली कविता त्या काळचे रितीन सोबीत करून उडयली. मोरोपंतान अनुप्रास शब्दाळंकार खूब वापरला. देखीक,

**तो शर गरधरवरसा रविसा पविसा स्मरारिसायकसा ।**
**पार्थ भुजांतरिं घुसला वल्मीकामाजि नागनायकसा ॥**

हे आर्येंत यमक शब्दाळंकाराक लागतात तीं निमाणीं तीन अक्षरां आनी तांचे वेगळे अर्थ हे दोनय नेम कवीन पाळ्ल्यात. यमकाबगर मराठी कविता तेन्ना घडच नासली. हालींचे म्हालीक यमक, मात्रा, गण, वृत्तां हें सगळें पोन्नें जालें. आतां मुक्त छंदाबगर बरी कविता जायना. वाचप्यांक वाचून समजना तें नवकाव्य! पळोवप्यांक निहाळून समजना ती नव चित्रकला!

शब्दाळंकारांत अनुप्रासाचें प्रस्थ मोठें! एकच अक्षर सा, सा, सा वयले मोरोपंताचे आर्येंत एके वळींत पांच फावटी आयलां. र हें अक्षर पांच फावटी आयलां. हाका म्हणटात अनुप्रास. एक वा दोन पूर्ण उतरां एके वळींत परतीं परतीं आयलीं कीं लाटानुप्रास हो शब्दाळंकार घडटा.

**तमर्चयित्वा विधिवद्विधिज्ञस्तपोधनं मानधनाग्रयायी।**
**विशांपतिर्विष्टरभाजमारात्कृतांजलिः कृत्यविदित्युवाच ॥३॥**

संस्कृत काव्यांत यमक कोण वापरिनात. पुण अनुप्रास जायते फावटी येतात. देखीक, पांचव्या सर्गाच्या दुसऱ्या श्लोकांत र्घ्य हें अक्षर दोन फावटीं एकेच वळींत आयलां. अर्घ्य आनी अर्घ हीं उतरांय एकेच वळींत एका फाटो-फाट आयल्यांत. दुसरे वळींत प्रकाश हें उतर आनी अतिथिमातिथेयः ह्या उतरांनीं अनुप्रास हो शब्दालंकार चालू दवरला.

कालिदास हो मोठो प्रतिभावान कवी आपल्या मोलादीक कल्पनांनीं, ओपारींनीं आनी बुद्धीक भिडटात, अंतस्कर्ण भिजयतात असल्या येवजण्यांनीं वाचप्यांचीं मनां जिखता. बुद्धीक घुवंळायता. कांय थोड्या जाग्यांनीं तो अनुप्रासा-सारक्या शब्दालंकाराच्या मोहांत घुसपता. ताच्या तोलाच्या कवीक असले शब्दा-लंकार, सुंदर ल्हान भुरग्याक पोल्याचेर काजळा-बोट लायतात ते भाशेन दिष्ट काडूंक उपकरतात! बाकी जायते कवी सुंदर कल्पना सुचना जातकूच शब्दालंकाराच्या मोहांत पडून आपलें काव्य इबाडून उडयतात. देखीक,

सहितमहाहवमल्लमतल्लिकमल्लितरल्लकमल्लरते ।
विरचितवल्लिकपल्लिकमल्लिकझिल्लिकभिल्लिकवर्गवृते ॥
सितकृतफुल्लिसमुल्लसिताऽरुणतल्लजपल्लव सल्ललिते ।
जयजय हे महिषासुरमर्दिनि रम्यकपर्दिनि शैलसुते ॥१८॥
—भगवतीपद्यपुष्पांजलिस्तोत्रम् ॥

रघुवंशाच्या णवव्या सर्गांत कालिदासान अनुप्रासांची गर्दी केल्या. पैल्या श्लोकापासून सुरवात.

..................यमवतामवतां च धुरि स्थितः ॥१॥
..................सनगरं नगरन्ध्रकरौजसः ॥२॥
..................श्रमनुदं मनुदण्डधरान्वयम् ॥३॥
..................शमरतेऽमरतेजसि पार्थिवे ॥४॥
..................न न महीनमहीनपराक्रमम् ॥५॥

मनुस्मृतींत सांगलां:

**संप्राप्ताय त्वतिथये प्रदद्यादासनोदके । अन्नं चैव यथाशक्ति सत्कृत्य विधिपूर्वकम् ॥**

देवाक, ब्राह्मणांक, गुरूक, विद्वान, मानादीक लोकांक अर्घ्य दितात. अर्घ्य म्हळ्यार फुलां, उदक, तांदूळ बी जिन्नस. तंत्रशास्त्रांत अर्घ्यांत आठ जिन्नस घालतात अशें सांगलां:– उदक, दूद, कुशाग्र तण, धंय, तूप, तांदूळ, यव,

अप्यग्रणीर्मन्त्रकृतामृषीणां कुशाग्रबुद्धे कुशली गुरुस्ते ।
यतस्त्वया ज्ञानमशेषमाप्तं लोकेन चैतन्यमिवोष्णरश्मेः ॥४॥
कायेन वाचा मनसाऽपि शश्वद्यत्संभृतं वासवधैर्यलोपि ।
आपाद्यते न व्ययमन्तरायैः कच्चिन्महर्षेस्त्रिविधं तपस्तत् ॥५॥
आधारबन्धप्रमुखैः प्रयत्नैः संवर्धितानां सुतनिर्विशेषम् ।
कच्चिन्न वाय्वादिरुपप्लवो वः श्रमच्छिदामाश्रमपादपानाम् ॥६॥
क्रियानिमित्तेष्वपि वत्सलत्वादभग्नकामा मुनिभिः कुशेषु ।
तदंकशय्याच्युतनाभिनाला कच्चिन्मृगीणामनघा प्रसूतिः ॥७॥

---

धवी म्होवरी. एकच रात पावणो म्हणून रावंक येता तो अतिथी, अशें मनुस्मृतीच्या तिसऱ्या अध्यायांत ११२व्या श्लोकांत सांगलां.

३. संवसारांत भौसाकडसून बरें म्हणून घेवंचें हें ध्येय मानप्यांमदीं तो रघुराय मुखेल आसलो. असल्या लोकांक मानधन, यशोधन म्हणटात. अशा मानधन रघुरायान आसनार बसोवन त्या तपोधन ब्राह्मणाची शास्त्रनेमाप्रमाण पुजा केली. ब्राह्मण उंच आसनाचेर बसनात. जमनीर हांतरिल्ल्या जमखणाक वा दाळयेक विष्टर अशें म्हणटात. कारण रघुराजाक शास्त्रांचें सगळें ज्ञान आसलें. मागीर तो हात जोडून लागीं उबो रावन त्या ब्राह्मणाकडेन उलयलो:

४–११. “ तिखे बुद्दीच्या म्हाजना, सगळो संवसार सूर्यदेवाकडसून जिणेची शक्ती घेता. त्याचप्रमाण गुरूकडल्यान ज्ञानाच्या रुपान जीणभर उपकरा पडत अशी सामुग्री शिष्य घेता. गुरूकडल्यान घेतिल्ले ज्ञान हे शक्तीन शिष्य जल्मभर जगता. अशे रितीन तुमकां ज्ञान पुराय दिवपी आनी वेदांच्या मंत्राचो दिष्टावो जाल्ल्या ऋषींमदीं मुखेल असो तुमचो गुरू खुशाल आसा मू ? तुमच्या थोर गुरून कुडीन, वाणीन आनी मनान तिटडी तप करून त्या तपाच्या तेजान, इंद्रासारक्या देवाक तुमचो गुरू इंद्रपद मेळयत आनी आपुण उबन्त पडूं म्हणून भंय पडलें. त्या तुमच्या गुरूच्या तपांत कांय विघ्नां येवन त्या आडमेळ्यांनीं तुमच्या गुरूचें तप इब्राडलें बी ना मू ? मुळांत भोवंतणी आळीं बी बांदून आपल्या स्वताच्या भुरग्यांइतली जतनाय घेवन ल्हानाचे व्हड केल्ले, तुमच्या आश्रमांतले रूख तुमचो श्रमांनीं आयिल्लो शीण घालयतात. वाऱ्याच्या वादळाक बी लागून त्या तुमच्या रुखांक नखनामी जावंक ना मू ? तुमच्या आस्रमांतल्या मिर्गाचीं पिलां जल्माक येतात तींच वारीसयत मुनींच्या होटयेंत हातरूण म्हणून न्हिदतात ! आनी यज्ञाखातीर हाडिल्लें कुशतण त्या मिर्गाच्या पोरांक

**निर्वर्त्यते यैर्नियमाभिषेको येभ्यो निवापांजलयः पितॄणाम् ।**
**तान्युञ्छषष्ठांकितसैकतानि शिवानि वस्तीर्थजलानि कच्चित् ॥८॥**
**नीवारपाकादि कडंगरीयैरामृश्यते जानपदैर्न कच्चित् ।**
**कालोपपन्नातिथिकल्प्यभागं वन्यं शरीरस्थितिसाधनं वः ॥९॥**

---

खायनशें दिसलें जाल्यार तुमचे मुनी त्या पिलांची इच्छा पुरयल्याबगर केन्नाच रावंचे नात, इतली तांची अपुर्बाय करतात! तीं हरिणींचीं पोरां बरीं आसात मू? तुमकां शास्त्राप्रमाण अभिषेक करपाक आनी पितरांक तर्पण करचेखातीर जांच्या व्हाळवटार तुमी पिकवन काडिल्ल्या पिकाचो सवो वांटो पटी म्हणून काडून राजाच्या चाखरमान्यांनीं राजाखातीर व्हरचो म्हणून दवरतात, अशा न्हंयांचीं पवित्र उदकां जाय तितलीं मेळटात मू? तुमचें आरोग्य बरे भशेन उरचें म्हणून गरजेचें अशें रानांत पिकता तें नीवार धान्य बी तुमकां आनी जेवणा-वेळार आयिल्ल्या तुमच्या पावण्या-रावळ्याक जाय तितलें मेळटा मू? लागशिल्या गांवांतलीं पिकांतलें पोल खावपी गोरवां येवन तुमचें पीक खावन वचनात मू? तुमच्या व्हड गुरून तुमकां मोठ्या आनंदान विद्या शिकोवन आनी तुमच्या ज्ञानान खोशी जावन तुमकां घरा वचून गृहस्थास्रमी जावंक आज्ञा दिली काय ना? कारण ब्रह्मचर्यास्रम, वानप्रस्थास्रम आनी संन्यासास्रम ह्या तीनय आस्रमांतल्या लोकांक सगळ्या परींनीं उपकारा पडपी असो हो गृहस्थास्रम आसता. आनी जिणेंतल्या ह्या दुसऱ्या आस्रमांत वचपाची तुमची पिराय जाल्या. तुमी वनांतल्यान म्हज्या घरांत येवन म्हजो भोवमान केलो. तुमी म्हगेले-थंय आयले, इतल्यान म्हजें समाधान जालें ना. तुमचें कितेंय काम म्हजेकडल्यान घडचें अशी म्हाका उमळशीक लागल्या. तुमी तुमचेच इच्छेन हांगा आयले, काय तुमच्या गुरूचे आज्ञेन आयल्यात?"

रघुराजान मोठ्या विनयान हात जोडून कौत्स मुनीक हे प्रस्न केले. रघुवंशांतल्या राजांचे घरची रीतरवीस वाचप्यांनीं शिकून घेवंची. सगळो संवसार जिखून राजांच्यो तकल्यो आपल्या पांयांर बागोवपी असो हो रघु राजा तपोधन ब्राह्मणामुखार कितलो ल्हानविकायेन उलयता! कितलें अगत्य आनी कितली आस्त दाखयता! आपुण दुडवांनीं दळिद्री जाला म्हणून ताका पर्वा ना. दारांत आयिल्ल्या अतिथीचें काम करपाची ताका ताकीत जाल्या.

'ब्राह्मणं कुशलं पृच्छेत्' म्हणून शास्त्राची आज्ञा आस. शास्त्राची आज्ञा

**अपि प्रसन्नेन महर्षिणा त्वं सम्यग्विनीयानुमतो गृहाय ।**
**कालो ह्ययं संक्रमितुं द्वितीयं सर्वोपकारक्षममाश्रमं ते ॥१०॥**
**तवार्हतो नाभिगमेन तृप्तं मनो नियोगक्रिययोत्सुकं मे ।**
**अप्याज्ञया शासितुरात्मना वा प्राप्तोऽसि संभावयितुं वनान्माम् ॥११॥**

राजान पाळूंक जाय. मागीर सगळी प्रजा तशी वागून सुखी जातली. ब्राह्मण मेळ्ळो कीं ताची खुशाली विचारून घेवंची. चार ते अकरा ह्या आठ श्लोकांनीं रघुरायान कौत्साची खुशाली विचाल्ली. सगळ्यान पयलीं गुरुविशीं खुशाली विचाल्ली. स गुरुर्यः क्रियां कृत्वा वेदमस्मै प्रयच्छति । अशें यजुर्वेदांत सांगलां. वेद शिकयता तो गुरू. देवल ऋषीन अकरा गुरू म्हळ्यार जाणटेले अशें सांगलां: आचार्य, बापुय, जाणटो भाव, राजा, मामा, मांव, संकटांतल्यान आपणाक वाटावपी, आवयचो बापुय, बापायचो बापुय, आपल्या वर्णांतलो जाणटो मनीस, बापुलयो. हे सगळे गुरू.

आस्रमांत जल्माक आयिल्ल्या मिर्गाच्या पिल्यांक धा दिसांमेरेन मुनी मांडयेर रातदीस घेवन बसताले. सावदां येवन ताका खातीत म्हणून सांबाळटाले, अशें हेमाद्रि शांतिदयोक्त ग्रंथांत सांगता.

आठव्या श्लोकांत पितर म्हणून उतर आयलां. आपलें भायर पडिल्ले जाणटे म्हळ्यार बापुय, आजो, पणजो, शणजो, खरशणजो बी, असो ह्या उतराचो अर्थ जाता. त्या भायर सगळे मनीसजातीचे पितर म्हळ्यार मनीस जातीक मुळांत जल्माक घालपी अशे हे ब्रह्मदेवाचे पुत्र. तांकां पितर म्हणून ब्राह्मणांनीं तर्पण करचेलें आसता. हे दैवी शक्ती आशिल्ले आत्मे. ते सात वर्गांतले उरतात: वैराज, अग्निष्वात्त, बर्हिषद, सुकाल, आंगिरस, सुस्वधा आनी सोमपा. पयल्या तीन वर्गांतले पितर अमूर्त म्हळ्यार महाभुतांचे जाल्ले नासले. ते आत्मिकच आसतात. तांच्यान आपल्याक जाय तसली कुड, रूप घेवन भोवं येता. उरिल्ल्या चार वर्गांतले पितर कुडीच्या आधारान रावतात.

हे पितर आमच्या भूलोकार आमच्या दोळ्यांक दिसनात. ते दुसऱ्या लोकांत म्हळ्यार भुवर्लोक, स्वर्लोक असल्या लोकांत वावुरतात. ते आमचे भोंवतणी भोंवतणी आसले तरी आमकां तांकां वळखूंक येना. तांचे वेव्हार ते करीत आसतात आनी ताचे बरेवायट परिणाम आमी भोगतात. वायुपुराणांत ह्याचो विस्तार आयला. मनुस्मृतींतय हांचें वर्णन आयलां.

इत्यर्घ्यपात्रानुमितव्ययस्य रघोरुदारामपि गां निशम्य ।
स्वार्थोपपत्तिं प्रति दुर्बलाशस्तमित्यवोचद्वरतन्तुशिष्यः ॥१२॥
सर्वत्र नो वार्तमवेहि राजन्नाथे कुतस्त्वय्यशुभं प्रजानाम् ।
सूर्ये तपत्यावरणाय दृष्टेः कल्पेत लोकस्य कथं तमिस्रा ॥१३॥
भक्तिः प्रतीक्ष्येषु कुलोचिता ते पूर्वान्महाभाग तयाऽतिशेषे ।
व्यतीतकालस्त्वहमभ्युपेतस्त्वामर्थिभावादिति मे विषादः ॥१४॥
शरीरमात्रेण नरेन्द्र तिष्ठन्नाभासि तीर्थप्रतिपादितर्द्धिः ।
आरण्यकोपात्तफलप्रसूतिः स्तम्बेन नीवार इवावशिष्टः ॥१५॥
स्थाने भवानेकनराधिपः सन्नकिंचनत्वं मखजं व्यनक्ति ।
पर्यायपीतस्य सुरैर्हिमांशोः कलाक्षयः श्लाघ्यतरो हि वृद्धेः ॥१६॥

---

१२. रघुरायाचीं तीं उदार मनान उलयल्लीं उतरां आयकून आनी अर्घ्य दिवंचेखातीर पडगो वा ताठ नाशिल्ल्यान मातयेच्या कयलांतल्यान रघून अर्घ्य दिल्लें तें पळोवन, रघून आपलें सगळें धन दान केलां, आपलें काम रघूकडे जावंचें ना, अशें येवजून निर्शेवन तो वरतन्तूचो शिष्य उलयलो :

१३. "राजा, सगळ्या अर्थांनीं आमी खुशाल आसात, हें समज. तूं आमचो राजा आसतना प्रजेक त्रास कशे जातीत? सूर्य माथ्यार परजळटासतना लोकांक काळखे रातीचो त्रास कसो जायत?"

हो अर्थान्तरन्यास अळंकार जालो, अशें पुराणे काव्यशास्त्री म्हणटात. हालींच्या काव्यशास्त्र्यांच्या मत्तान हो दृष्टान्त अळंकार जालो.

१४. "जांकां मान दिवंक फाव अशांचो आदर करप, ही तुज्या कुळांतल्या राजांची वंशपरंपरा चलत आइल्ली संपदा आस. आनी ह्या गुणांत, व्हड राजा, तुज्या जाणटेल्या राजांचेकूय तूं चड परजळटा. हांव तुजेकडेन कितें मागूंक आयिल्लों. पुण म्हजो वेळ वांकडो म्हणून म्हाका वायट दिसता. १५. निवाराच्या रोंप्याचे सगळे दाणे वनवाशी मुनींनीं उरबडून व्हरतकूच ताची निखटी कांडी फाटल्यान उरता, ते भाशेन आपली सगळी संपत्ती फाव त्या योग्यतायेच्या मागप्यांक दान दिवन तूं तुजी निखटी कुड घेवन रावला.

१६. "काळखे पंद्रशींत देव चंद्राक खिस्ति-खिस्तींनीं पिवन सोंपयतात. चांदन्याचे पंद्रशींत तो वाडटा. ते वाडीपरस काळखे पंद्रशींतलें ताचें सोंपप हें चड मोलाचें उरता. आनी ताका लागून ताजी नामना जाता. तूं रायांचो राय

**तदन्यतस्तावदनन्यकार्यो गुर्वर्थमाहर्तुमहं यतिष्ये ।**
**स्वस्त्यस्तु ते निर्गलिताम्बुगर्भं शरद्घनं नार्दति चातकोऽपि ॥१७॥**

आसून यज्ञाक लागून निर्धन जाला. ह्या तुज्या वावरान तुवें मोठें यश जोडलां. तें तुका फावसारकें आस. योग्य आस."

ऐतरेय ब्राह्मणांत सांगलां, कीं चंद्राच्यो सोळा कळा आसतात. काळ्खे पंद्रशींत देव एका फाटल्यान एक दिसानदीस ताज्यो कळा पियत पंद्रा कळो सोंपयतात. उरिल्ले सोळावे कळेन चंद्र उमाशे दिसा सुर्यांत रिगता. देवीपुराणांत सांगलां : शुक्ल पक्षांत म्हळ्यार धवे पंद्रशींत सूर्य चंद्राक सोळा कळा दिवन वाडयता. काळखे पंद्रशींत पाडव्या-दिसा अग्नी चंद्राची पयली कळा पिता. बिये-दिसा वायुदेव ताची दुसरी कळा पिता. तये-दिस विश्वेदेव तिसरी कळा पितात. चवथी-दिसा प्रजापती पिता. पंचमी-दीस वरुणदेवाची खिस्त. षष्ठीचो दीस वासवाचो. सत्तमी-दिसा स्वर्गांचे दिव्य ऋषी ताचेर घुरी घालतात. अष्टमी-दीस तो अष्टावसु म्हळ्यार आठ वसूंच्या तोंडांत पडटा. नमीक इंद्र ताजी कळा पिवन वता. दसमी-दिसा मरुद्गण चंद्राची कळा पितात. अकरा रुद्र ताका एकादशी-दीस कवळटात. दुवादशीक विष्णुदेवाची खेप. तिरोदस कुबेराची. शंकर चतुर्दशीक ताका पिता. उमाशे-दिसा पितर ताची पंद्रावी कळा घेवन चल्ले. आनी उरिल्ले एके कळेन तो सूर्यमंडळांत रिगता. अमृतेनामृतं कृष्णे पीयते दैवतैः क्रमात् ।

कामन्दक सांगता: धर्मार्थं क्षीणकोशस्य क्षीणत्वमपि शोभते ।

शुक्ल पक्षाच्या पाडव्या दिसा चंद्र ल्हानांत ल्हान आसलो तरी लोक ताज्या पायां पडटात. शुक्लप्रतिपदि सर्वे क्षीणमपि चंद्रं नमस्कुर्वान्ति ॥

वृद्धचाणक्य सांगताः गुणाः सर्वत्र पूज्यन्ते न महत्योऽपि संपदः ।
पूर्णेन्दुः किं तथा वन्द्यो निष्कलंको यथा कृशः ॥

चंद्र उदकाचोच गुळो अशें वराहमिहिर म्हणटा. भगवद्गीतेंत, पुष्णामि चौषधीः सर्वाः सोमो भूत्वा रसात्मकः । अशें पंद्राव्या अध्यायांत तेराव्या श्लोकांत आयलां. चंद्र अमृताचो शिंवर करपी रोसाचो गुळो आस. तो धर्तरेवेल्यो ओखदांच्यो वनस्पती पोसता.

१७. "शरद्ऋतूंत मळबांतल्या कुपांतलें उदक सोंपिल्लें आसता. म्हणून चातक सवणें तेदवळच्या कुपांकडेन उदक मागना. म्हजें दुसरें कांय काम ना.

**एतावदुक्त्वा प्रतियातुकामं शिष्यं महर्षेर्नृपतिर्निषिध्य ।**
**किं वस्तु विद्वन्गुरवे प्रदेयं त्वया कियद्वेति तमन्वयुंक्त ॥१८॥**
**ततो यथावद्विहिताध्वराय तस्मै स्मयावेशविवर्जिताय ।**
**वर्णाश्रमाणां गुरवे स वर्णी विचक्षणः प्रस्तुतमाचचक्षे ॥१९॥**

---

म्हज्या गुरूक दिवंक म्हाका धन जाय, तें हांव दुसरेकडच्यान मेळोवंचो यत्न करीन. तुजें कल्याण जावं !"

चातक हें सवणें चिमणेयेदें आसता. ताजी शेपडी लांब उरता. काळो, धवो आनी हळडुवो अशे तीनय रंग ताज्या पिसांनीं आंगभर दिसतात. ताजे तकलेर धनुष्य आनी बाण हांच्या आकाराचो एक तुरो उरता. त्या तुऱ्याक लागून तकली बागोवन चोंचीन ताका जमनीवेलें उदक पिवंक येना. मळबांतल्या कुपांतल्यान पडपी थेंबे हें सवणें मदींच गिळटा. ताजो आवाज कोगळीच्या सुराइतलो उंच आनी कर्कश उरता. हें सवणें पावसांत हिंदुस्थानांत येता आनी शियाळ्या दिसांनीं दुसऱ्या देशांत वता. ह्या देशांतल्या शियाळ्या दिसांनीं दुसऱ्या देशांत जंय पावस पडटा थंय वचून रावता जावंये. चेरापुंजीक वर्सभर पावस पडटा. थंय वता जावंये. मळबाकडे पळोवन चातक "मेघ", "मेघ" म्हणून आड्डल्याभाशेन आवाज काडटा. कालिदासाची कल्पना कीं चातक मेघाक सोडून आनीक कोणाकडल्यान उदक मागून पिवंक तयार ना. कै. शंकर पांडुरंग पंडित हे एकुणिसाव्या शेंकड्यांत मोठे नांवाजते संस्कृत भाशेचे विद्वान जावन गेले. ताणीं जायत्या संस्कृत ग्रंथांचेर टिका बरयल्यो. तांचे माहितीप्रमाण चातक हें सवणें पश्चिम हिंदुस्थानांत पावसाळ्यांत दिसता.

दंडी आनी भोज ह्या काव्यशास्त्र्यांल्या मतान ह्या श्लोकांत अर्थांतरन्यास हो अळंकार जालो, पुण हालींच्या विद्वानांल्या मतान हो दृष्टान्त अळंकार जाता.

१८. अशे तरेन उलोवन तो महर्षीचो शिष्य परतो वचूंक लागलो. तेन्ना राजान ताका वचूंक दिलो ना! ताज्या विद्वान गुरूक दक्षणा कितें दिवंक जाय तें विचाऱ्लें.

१९–२२. जाणे शास्त्राप्रमाण यज्ञ केल्लो, जाका मुळांतच गर्व नासलो, जो चार वर्ण म्हळ्यार ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र; आनी ब्रह्मचर्य, ग्रार्हस्थ, वानप्रस्थ आनी संन्यास ह्या चार आस्रमांची व्यवस्था राखतालो अशा त्या रघुरायाक तो विद्वान ब्रह्मचारी कौत्स उलयलो : "म्हजें शिक्षण पूर्ण जालें तेन्ना

समाप्तविद्येन मया महर्षिर्विज्ञापितोऽभूद्गुरुदक्षिणायै ।
स मे चिरायास्खलितोपचारां तां भक्तिमेवागणयत्पुरस्तात् ॥२०॥
निर्बन्धसंजातरुषाऽर्थकार्श्यमचिन्तयित्वा गुरुणाऽहमुक्तः ।
वित्तस्य विद्यापरिसंख्यया मे कोटीश्चतस्रो दश चाहरेति ॥२१॥
सोऽहं सपर्याविधिभाजनेन मत्वा भवन्तं प्रभुशब्दशेषम् ।
अभ्युत्सहे संप्रति नोपरोद्धुमल्पेतरत्वाच्छ्रुतनिष्क्रयस्य ॥२२॥
इत्थं द्विजेन द्विजराजकान्तिरावेदितो वेदविदां वरेण ।
एनोनिवृत्तेन्द्रियवृत्तिरेनं जगाद भूयो जगदेकनाथः ॥२३॥
गुर्वर्थमर्थी श्रुतपारदृश्वा रघोः सकाशादनवाप्य कामम् ।
गतो वदान्यान्तरमित्ययं मे मा भूत्परीवादनवावतारः ॥२४॥

हांवें, गुरुदक्षणा कितें दिंव, म्हणून महर्षीक ल्हानविकायेन विचाल्लें. कांय उणेंपण दवरिनासतना सतत भक्तीन हांवें गुरुची सेवा केल्ली. ती सेवा दक्षणे-परस चड मोलाची अशें म्हजो गुरू मानतालो. हांवें गुरूक परतो परतो आग्रो करून विनंती केली म्हणून गुरूक राग आयलो आनी म्हज्या दळिद्राचो विचार करिनासतना गुरून म्हाका सांगलें: 'हांवें तुका चौदा विद्या शिकयल्यो तर तितल्योच कोटी भांगराच्यो म्होरो घेवन यो!' अशे अवस्तेंत तुजें पुजेखातीर वाफारिल्लें मातयेचें अर्घ्याचें आयदन पळोवन, तूं निखटो नांवापुरतो राजा उल्ला हें वळखून म्हजे विद्येची दक्षणा मोठी आशिल्ल्यान तिचेखातीर तुका त्रास दिवपाक म्हाका तोंड येना!"

२३–२५. तो वेदमूर्ति कौत्स चंद्राच्या तेजाइतली कांत मारता अशा रघुराजाक हें उलयलो. तो राजा केन्नाच वायट कर्म करपाची वान्सा धरिनासलो. सगळे पिर्थुमेचो तो धनी कौत्साक उलयलो: "पुराय विद्या शिकिल्लो एक याचक रघूकडे गुरुदक्षणेखातीर आयलो आनी रघूकडल्यान आपलें काम जालें ना म्हणून दुसऱ्याकडे गेलो! असो म्हज्या नांवाक नवो कळंक लागचो न्हय! म्हणून अशे अवस्तेंत भौमान्य पुरुषा, म्हजे नांवाजते आनी मानादीक अशे यज्ञसाळेंत तुमी चवथ्या अग्नीप्रमाण दोन–तीन दीस रावंचेलो उपकार करा. इतितल्याभितर हांव तुमची इच्छा पूर्ण करचो यत्न करतां."

द्विज म्हळ्यार दोन फावटी जल्मल्लो. हें उतर ब्राह्मण, क्षत्रिय आनी वैश्य ह्या तिनय जातींतल्या लोकांक लागू पडटा. मातुरग्रेऽधिजननं द्वितीयं

**स त्वं प्रशस्ते महिते मदीये वसंश्चतुर्थोऽग्निरिवाग्न्यगारे ।**
**द्वित्राण्यहान्यर्हसि सोढुमर्हन्यावद्यते साधयितुं त्वदर्थम् ॥२५॥**
**तथेति तस्यावितथं प्रतीतः प्रत्यग्रहीत्संगरमग्रजन्मा ।**
**गामात्तसारां रघुरप्यवेक्ष्य निष्क्रष्टुमर्थं चकमे कुबेरात् ॥२६॥**

मौंजिबन्धने । अशें मनुस्मृतीच्या दुसऱ्या अध्यायांत १६९ व्या श्लोकांत सांगलां. हें उतर ब्राह्मणांक लागून चड वापरतात. चंद्राक ब्राह्मणांचो राजा म्हणटात. चंद्राचो उजवाड सोंपलो तरी तो सुर्याकडल्यान तेज घेवन परतो परजळटा. तसो कौत्स ब्राह्मण गरीब आसलो तरी रघूकडल्यान धन घेवन शिरवंत जावपाचो आसलो. द्विजराज ही पदवी पयलीं सोम वनस्पतीक दिल्ली. वेद-काळांत सोम वनस्पतीक सगळ्या वनस्पतींचो राजा म्हणटाले. कारण यज्ञ करतासतना सोम रोसाची चड गरज लागताली. वेदकाळांत सोमाच्या थेंबाक इन्दु म्हणटाले. ऋग्वेदांत मागीर सोमाकच इन्दु म्हणूंक लागले. पुराणकाळांत हें नांव आकाराचे सारकायेक लागून चंद्राक दिलें. मागीर संसर्गाचे रितीन सोमाचे सगळे गुणदोष चंद्राक लायले. कै. शंकर पांडुरंग पंडित हाणी सोम आनी चंद्र हांचे सारकायेर ही फोडणिशी केल्या.

रघूक चंद्राची कांत मारताली, पुण चंद्राचे दोष रघूक लागू जायनासले. बृहस्पतीची बायल तारेचेर प्रेम केलें म्हणून चंद्राक जसो कळंक लागलो, तसो रघुराजा नासलो. म्हणून कालिदासान ताका मुद्दाम 'एनोनिवृत्तेन्द्रियवृत्ति' म्हळ्यार निष्पाप अशें म्हळां. ह्या श्लोकांतल्यान मदीं मदीं अनुप्रास अळंकार आयल्यात.

रघूचे यज्ञशाळेंत तीन अग्नी पयलींच आशिल्ले. ते म्हणजे: गार्हपत्य अग्नी; प्रत्येक गृहस्थाश्रमी मनशाक ताजो बापुय हो गार्हपत्य अग्नी दिता. घराच्या येजमान्यान हो अग्नी सदांच पेटत दवरचो आसता, आनी मागीर आपल्या पुताक दिवपाचो आसता. ह्या अग्नींतल्यान यज्ञाचो अग्नी पेटवंचेलो आसता. दुसरो अग्नी आहवनीय. हो गार्हपत्यांतल्यान पेटोवंचेलो आसता. ह्या अग्नींत सगळ्यो आहुत्यो दिवंचेल्यो आसतात. तिसरो अग्नी आसता तो दक्षिणाग्नी.

२६. "तशें जांव!" अशें त्या ब्राह्मणान म्हणून रघूचें फुकट न वचपी वचन घेवन तो खोशी जालो. सगळे धर्तरेवेलें धन आपणे वसूल केलां हें जाणून

**वसिष्ठमन्त्रोक्षणजात्प्रभावादुदन्वदाकाशमहीधरेषु ।
मरुत्सखस्येव बलाहकस्य गतिर्विजघ्ने न हि तद्रथस्य ॥२७॥
अथाधिशिश्ये प्रयतः प्रदोषे रथं रघुः कल्पितशस्त्रगर्भम् ।
सामन्तसंभावनयैव धीरः कैलासनाथं तरसा जिगीषुः ॥२८॥**

कुबेरदेवाकडल्यान खंड उशील करचो अशें रघून थारायलें.

कुबेर हो इंद्रदेवाचो कोठावळो. ताज्या हातांत स्वर्गींचे कोठयेची चावी. कुबेराचो बापुय विश्रवस आनी आवय इडाविडा. तो रावणाचो सावत्र भाव. तो कैलास पर्वताचेर अलका नगरींत रावता. यक्ष आनी किन्नर हे कुबेराची प्रजा. तो दिसपाक कुडीन विद्रूप. कुबेर ह्या उतराचो अर्थ कुरूप. ताका तीन पांय आसात. आठच दांत आसात. ताजो एक दोळो सारको आस आनी दुसऱ्या दोळ्याच्या जाग्यार हळडुवो दाग आस. ताजी म्हूर्त करून कोणे पुजा बांदली ना. ताका लंकेचें राज्य दिलें तें रावणान सरी करून ताका आनी ताजे प्रजेक आमडून थंय राक्षसांचें राज्य केलें. ताजें पुष्पक विमानय रावणान झगडून घेतलें म्हणून रामायणाच्या उत्तरकांडांत वर्णन आयलां. कुबेर हो उत्तर दिशेचो लोकपाल. संध्या करतासतना सदांच उदिच्ये दिशे कुबेराय नमः । म्हणून नमस्कार करतात.

विश्वजित यज्ञाचे भोवंडेंत रघू कैलासार वचूंक नासलो. कौत्स मुनीखातीर कुबेराचेर धुरी घालची अशें ताणे थारायलें.

२७. रघूक राज्याभिषेक करतासतना वसिष्ठ ऋषीन मंत्र म्हणून ताजेर उदक शिंवरिलें. वसिष्ठाच्या त्या मंत्रांच्या आनी प्रोक्षणाच्या तेजाक लागून रघूचो रथ अंत्राळांतल्यान, दर्यावेल्यान आनी पर्वतांवेल्यान आडमेळ्याविरयत धांवतालो. वाय सांगाताक आसलो कीं कुपां विघ्नांविरयत भोंवतात तसो रघूचो रथ चलतालो.

२८. कैलास पर्वताचो राजा कुबेर हो जणु आपलो खंड घालपी सामंत अशें येवजून रघून तिळसनां रथांत शस्त्रां भरून दवरून आपुण शास्त्रनेमाप्रमाण सगळे विधी करून आनी शुद्ध जावन दुसरे दिसा कुबेराक पराक्रमान जिखतलों म्हणून तो रातचो रथांत न्हिदलो.

कुबेरदेवाचेर धुरी घालपाक आत्मीक तेज लागता हें रघू जाण आसलो. म्हणून ताणे पयलीं आत्मीक बळगें मेळोवंचेखातीर देवस्पण केलें.

**प्रातः प्रयाणाभिमुखाय तस्मै सविस्मयाः कोषगृहे नियुक्ताः ।**
**हिरण्मयीं कोषगृहस्य मध्ये वृष्टिं शशंसुः पतितां नभस्तः ॥२९॥**
**तं भूपतिर्भासुरहेमराशिं लब्धं कुबेरादभियास्यमानात् ।**
**दिदेश कौत्साय समस्तमेव पादं सुमेरोरिव वज्रभिन्नम् ॥३०॥**
**जनस्य साकेतनिवासिनस्तौ द्वावप्यभूतामभिनन्द्यसत्त्वौ ।**
**गुरुप्रदेयाधिकनिःस्पृहोऽर्थी नृपोऽर्थिकामादधिकप्रदश्च ॥३१॥**
**अथोष्ट्रवामीशतवाहितार्थं प्रजेश्वरं प्रीतमना महर्षिः ।**
**स्पृशन्करेणानतपूर्वकायं संप्रस्थितो वाचमुवाच कौत्सः ॥३२॥**

२९. सकाळफुडें रघु भायर सरता जाल्यार ताका ताजे कोठयेकार अजापून सांगूंक लागले, कीं कोठयेभितर मळबांतल्यान भांगराचो पावस पडला!

कुबेर हो देव आनी रघु हो मनीस. मनशा-हातान देवाचो पराभव करून रघूक मोठो पराक्रमी मनीस करून कुबेर देवाक ल्हानपण हाडप हें कालिदासाक बरें दिसलें नासुंये. बरें, रघूक जैत मेळोवन दिवन ताका यशस्वी करूंक तर जाय! निमाणें कालिदासान फाव ते भाशेन कुबेराक अपेस न दितां रघूक यश मेळोवन दिलें. कालिदासान आपल्या वाङ्मयांत असलें शाणपण जायते फावटी दाखोवन दिलां. आपल्या मनशांची अब्रू कशी राखची हें कालिदासाइतलें दुसऱ्या कोणा कवीक समजना.

३०. ज्या कुबेराचेर रघु धुरी घालपाचो आसलो ताचेचकडल्यान मेळिल्ली ती चकचकत्या भांगराची रास म्हळ्यार जणु इंद्राच्या वज्रान कापून काडिल्लो सुमेरु पर्वताचो एक मुळसांतलो शेकानशेक दोंगर! रघून ती सगळी रास कौत्साक दिवन उडयली!

३१. गुरूक दिवंक जाय आसलें ताचेपरस चड धन व्हरूंक तो कौत्स तयार नासलो! आनी मागूंक आयिल्ल्या याचकाक मागता ताचेपरस चड दिवपाची रघूची इच्छा आसली! दोगूय जाण मोठ्या मनाचे! त्या धनांतलें कांयच दवरूंक रघु तयार जायना. आनी गुरूक जाय ताचेपरस चड धन व्हरूंक कौत्स तयार ना. त्या दोगांयमदल्या ह्या वेव्हाराक लागून साकेत नगरींतले रड्वासी लोग तांचें दोगांयचें कवतूक करूंक लागले!

३२-३३. शेंकड्यांनीं करीं आनी खेचरां व्हरचे खातीर लागचीं, इतलें तें धन घेवन कौत्स महर्षी भायर सल्लो. रघुरायान ताका नमस्कार घालो. तेन्ना

किमत्र चित्रं यदि कामसूर्भूर्वृत्ते स्थितस्याधिपतेः प्रजानाम् ।
अचिन्तनीयस्तु तव प्रभावो मनीषितं द्यौरपि येन दुग्धा ॥३३॥
आशास्यमन्यत्पुनरुक्तभूतं श्रेयांसि सर्वाण्यधिजग्मुषस्ते ।
पुत्रं लभस्वात्मगुणानुरूपं भवन्तमीड्यं भवतः पितेव ॥३४॥
इत्थं प्रयुज्याशिषमग्रजन्मा राज्ञे प्रतीयाय गुरोः सकाशम् ।
राजाऽपि लेभे सुतमाशु तस्मादालोकमर्कादिव जीवलोकः ॥३५॥

ताचे तकलेर हात दवरून कौत्स उलयलो: "आपले लागणुकेक जागपी असो तूं राजा! तुज्यो सगळ्यो इच्छा धर्तरेन पूर्ण करच्यो हांतूंत अजाप कसलें? पुण तुजे शक्तीची कल्पना करप कठीन! कारण तुज्यो इच्छा तूं स्वर्गांतल्यानय पूर्ण करून घेता!"

राजाच्यो चार लागणुको उरतात:

गुरोः पूजा घृणा शौचं सत्यमिन्द्रियनिग्रहः ।
प्रवर्तने हितानां च तत्सर्वं वृत्तमुच्यते ॥ हेमाद्रि.

(१) गुरूची पुजा करप, ताचे आज्ञेंत वागप; (२) पापकर्माविशीं तिरस्कार, केन्नाच वायट वर्तणुकेंत घुसपुंचें न्हय; (३) सत्यान चलचें, खरेपणान वागचें; आनी (४) इंद्रियां आपल्या शेकातळा दवरुंचीं: आपणे जिबेचे सुवादीन रावून अजीण जायसर खावप ना; दोळ्यांक बरें दिसचें म्हणून सुंदर बायलांच्या नादाक लागून लोकांचीं घरां मोडचीं न्हय; मन आपल्या ताव्यांत दवरुंचें. ह्या चार लागणुकांक लग्नीक रावून राजा वावुल्लो कीं प्रजेचें कल्याण आनी पिर्थुमेर धर्माचें, न्यायाचें राज्य चलता.

येदो सार्वभौम रघुराजा ब्राह्मणांमुखार साष्टांग नमस्कार घालतालो. विद्येक, तपाक मान दितालो. स्वताच्या सुखाची पर्वा करिनासलो. दिलीप राजा दुसऱ्यां-खातीर कुड झरयतालो. रघु प्रजेखातीर जीव हातार घेवन झुजां मारतालो. इंद्र म्हणु नाका, कुबेर म्हणु नाका, कलिंगाचो महेन्द्र आसूं, सगळ्यांकडेन झुजून ताणे आपलो, धर्माचो दबाजो राखलो. ताजेमुखार कोण तिगलो ना. सगळेच नमले! सगळेच ताका वरमून रावले!

३४. कौत्स उलयता: "राजा तुका आशीर्वाद दिवप म्हणजे उलयल्लें परतें उलवप. कारण सगळ्या यशांचो तूं धनी जाला. इतलें मागतां, कीं तुज्या बापायक ताज्या गुणांक फावो असो तूं पुत्र जालो. तुज्या तोलाचो पुत्र तुका

**ब्राह्मे मुहूर्ते किल तस्य देवी कुमारकल्पं सुषुवे कुमारम् ।**
**अतः पिता ब्रह्मण एव नाम्ना तमात्मजन्मानमजं चकार ॥३६॥**
**रूपं तदोजस्वि तदेव वीर्यं तदेव नैसर्गिकमुन्नतत्वम् ।**
**न कारणात्स्वाद्बिभिदे कुमारः प्रवर्तितो दीप इव प्रदीपात् ॥३७॥**
**उपात्तविद्यं विधिवद्गुरुभ्यस्तं यौवनोद्भेदविशेषकान्तम् ।**
**श्रीः साभिलाषाऽपिगुरोरनुज्ञां धीरेव कन्या पितुराचकांक्ष ॥३८॥**

---

जावं!" ३५. राजाक असो आशिर्वाद दिवन तो ब्राह्मण आपल्या गुरूम्हल्यांत गेलो. सुर्याकडच्यान सगळ्या संवसाराक उजवाड मेळटा. तेच तरेन त्या ब्राह्मणाच्या आशिर्वादान रघूक पुत्रलाभ जालो.

३६. एक दीस ब्राह्म म्हुर्ताचेर ताचे राणयेन कार्तिकस्वामीसारक्या तेजस्वी पुत्राक जलम दिलो. ब्रह्मदेवाच्या म्हुर्तार जलमाक आयलो म्हणून रघून आपल्या पुताचें नांव अज म्हळ्यार अग्रजन्मा म्हळ्यार, ब्रह्मदेवाचे कृपेन जलमाक आयिल्लो अशें दवल्लें !

अष्टमो मुहूर्तो ब्राह्मः । अशें हेमाद्रि सांगता. सूर्य उदेता तेन्ना दिसाक सुरवात जाता. एका दिसाक आठ मुहूर्त आसतात. मुहूर्ताकच प्रहर वा पार अशें म्हणटात. तीन घंट्यांचो पार वा म्हूर्त. दिसाउजवाडे चार पार सोंपतात. आनी रातीक चार पार उरतात. दिसाचो आठवो पार म्हळ्यार रातीचो निमाणो वा चवथो पार.

रघुरायाचे पट्टराणीचें नांव प्रभावती. तिका अज हो पुत्र जलमलो अशें हेमाद्रि सांगता.

३७. त्या पुत्राची आंगलट, ताजें तेज, ताज्या सभावाचो उंच पावंडो, कशेंच भाशेन तो बापायपरस वेगळो दिस नासलो. मोठ्या दिव्यान दुसरो दिवो पेटोवंचो तसो सगळ्या तरांनीं तो पुत्र बापायभाशेन जाल्लो. ३८. शास्त्रनेमांप्रमाण तो पुत्र गुरूकडल्यान विद्या शिकलो. आपले जुवान कांतीक लागून तो सगळ्यांक आवडूंक लागलो. त्या रघुराजाचे वैभव-देवतेकलेगीत तो चड आवडूंक लागलो. बऱ्या कुळांतली कन्या घोव पसंत करतासतना बापायचे आज्ञेची वाट पळेता. ते भाशेन राजवैभवाची देवता अज राजपुत्राकडेन वचचेपयलीं आपलो पयलो धनी रघुराज हाचे आज्ञेची वाट पळेताली.

श्री म्हळ्यार वैभव-देवता, राजलक्ष्मी. राज्य करपी राजा वानप्रस्थाश्रमांत

अथेश्वरेण क्रथकैशिकानां स्वयंवरार्थं स्वसुरिन्दुमत्याः ।
आप्तः कुमारानयनोत्सुकेन भोजेन दूतो रघवे विसृष्टः ॥३९॥
तं श्लाघ्यसंबन्धमसौ विचिन्त्य दारक्रियायोग्यदशं च पुत्रम् ।
प्रस्थापयामास ससैन्यमेनमृद्धां विदर्भाधिपराजधानीम् ॥४०॥
तस्योपकार्यारचितोपचारा वन्येतरा जानपदोपदाभिः ।
मार्गे निवासा मनुजेन्द्रसूनोर्बभूवुरुद्यानविहारकल्पाः ॥४१॥

वच-म्हणसर राजलक्ष्मी ताजेबरोबर रावता. तो वानप्रस्थाश्रमांत गेलो कीं ती लक्ष्मी नव्या राजाकडेन वता. रघुवंशाच्या सव्या अध्यायाच्या ४१ व्या श्लोकांत कालिदासान लक्ष्मीक चंचल म्हळां. ज्या मनशाकडेन लक्ष्मी वता तो मनीस चंचल सभावाचो जालो कीं ती लक्ष्मी आपुण चंचल जावन दुसऱ्याकडेन वता. चंचलपण हो लक्ष्मीचो खाशेलो गुण न्हय. ज्या मनशाक ती वरता ताजो तो दोष उरता. असल्या चंचल पुरुषाच्या संसर्गान लक्ष्मीक तो दाग दसता.

३९. इतल्या सुमाराक क्रथकैशिकांचो राजा भोज हाणे आपली भयण इन्दुमती हिच्या स्वयंवराखातीर अज राजकुंवराक हाडचो म्हणून आपल्या एका विस्वासू दुताक रघुराजाकडे धाडलो.

विदर्भ म्हणून एक राजा जावन गेलो. ताज्या राज्याक विदर्भ देश म्हणूंक लागले. विदर्भ राजाक क्रथ आनी कैशिक म्हणून दोन पुत्र आसले. क्रथ आनी कैशिकाच्या वंशांतल्या क्षत्रियांक सगळ्यांक क्रथकैशिक म्हणूंक लागले. ते विदर्भ देशांत राज्य करताले. तांच्या राजाचें नांव भोज अशें आसलें. भोज हे यादव वंशाच्या कुळयेंतलेच एके खांदयेचे राजा. ते खूब बळीष्ट आनी पराक्रमी राजा जावन गेले. मध्य आनी दक्षिण हिंदुस्थानच्या वेगळ्या वेगळ्या देशांत ताणी प्राचीन काळांत राज्यां केलीं अशें कै. पंडीत सांगतात. गोंयांत चांदर गांवांत कालिदासाच्या काळांत भोज राजांचें राजपाटण आसलें अशें इतिहासाचे तज्ञ सांगतात.

४०. रघुरायान येवजिलें कीं क्रथकैशिकांकडे आपली सोयरीक आसल्यार बरी. आपलो कुंवर लग्नाचे पिरायेचो जाला म्हणुनय ताणे चिंतलें. आनी अज कुंवराक सांगाताक सैन्य दिवन विदर्भ देशाच्या राजाच्या उपाट संपत्ती आशिल्ल्या राजपाटणांत रवाना केलो.

४१. विदर्भ देशांत वतासतना तो राजकुंवर ज्या शामियान्यांत रावतालो,

**स नर्मदारोधसिसीकरार्द्रैर्मरुद्भिरानर्तितनक्तमाले ।**
**निवेशयामास विलंघिताध्वा क्लान्तं रजोधूसरकेतु सैन्यम् ॥४२॥**
**अथोपरिष्टाद्भ्रमरैर्भ्रमद्भिः प्राक्सूचितान्तःसलिलप्रवेशः ।**
**निर्धौतदानामलगण्डभित्तिर्वन्यः सरित्तो गज उन्ममज्ज ॥४३॥**
**निःशेषविक्षालितधातुनाऽपि वप्रक्रियामृक्षवतस्तटेषु ।**
**नीलोर्ध्वरेखाशबलेन शंसन्दन्तद्वयेनाश्मविकुण्ठितेन ॥४४॥**
**संहारविक्षेपलघुक्रियेण हस्तेन तीराभिमुखः सशब्दम् ।**
**बभौ स भिन्दन्बृहतस्तरंगान्वार्यर्गलाभंग इव प्रवृत्तः ॥४५॥**
**शैलोपमः शैवलमंजरीणां जालानि कर्षन्नुरसा स पश्चात् ।**
**पूर्वं तदुत्पीडितवारिराशिः सरित्प्रवाहस्तटमुत्ससर्प ॥४६॥**

आनी जंय ताका थंयचे गांवकार केळवणी हाडून दिताले, थंय ताजें बिराड म्हळ्यार पोरसांत रचिल्ले खेळपाचे मांडकशेच दिसताले. थंयचे गांवकार रानवट नासले. ४२. सगळ्या दिसाची चाल मारून ताच्या सैन्यांतल्यो गुडयो धुल्लान म्हेळ्ळयो. रेवा न्हयेचे तडीर ताणे आपल्या पुरो जाल्ल्या सैन्याक विसंव घेवंक दिलो. थंय उदकाळ वाऱ्याच्या झोतान नक्तमाल रूख जणु नाचताले. ४३. ते नर्मदा न्हयेर एका जाग्यार मूंस घुवंताले. मस्तेक आयिल्लो हती मादानाचो रोस रकयत ते न्हयेंत निकतोच बुडी मारून रावला, हें थंयच्या लोकांच्या लक्षांत आयलें. इतल्यांत तो वर्गीसारक्या भक्कम कानसुलांचो रानवट हती उदकांतल्यान आपली मादानान भरिल्ली तकली धुवनबिवन वयर सल्लो! ४४. ऋक्षवत पर्वताच्या तळपांचेर धिरयो-धेंगशोबी मारून खेळटासतना फातरांभितर आशिल्ल्या धातूंचे घटसाणेक लागून ताज्या दोनय इमादांतांचे सुळे मुंडिल्ले. ताज्या दांतांवेल्यान निळ्यो रेगो वरशो गेल्ल्यो दिसताल्यो. ताजे-वेल्यान त्या हतयाचीं कर्तुपां कळून येतालीं. ४५. आपली सोंड तो बेगोबेग ल्हान व्हड करून मोठ्यान गर्जना करीत न्हयेच्या उदकाचीं मोठीं ल्हारां धुकलीत न्हयेचे तडीकडेन पळोवन जणु उदक कापीत येतालो. मादान चडिल्ल्या हतयाक आडावंचे खातीर मोठे रूख आडांब्यांभशेन वाटेर आडवे उडयतात. तो हती जणु अशे ल्हारांचे आडांबे मोडीत तडीर येतालो! ४६. पर्वताच्या तेमकायेदो तो हती, न्हयच्या उदकांतल्या शेळ्याच्यो जाळयो आपल्या हड्ड्यान वडीत तडीर पावंचेपयलीं, ताणे खदवळायल्ल्यान उदकाचो हुंवार ताज्यामुखार तडीर पावलो.

तस्यैकनागस्य कपोलभित्त्योर्जलावगाहक्षणमात्रशान्ता ।
वन्येतरानेकपदर्शनेन पुनर्दिदीपे मददुर्दिनश्रीः ॥४७॥
सप्तच्छदक्षीरकटुप्रवाहमसह्यमाघ्राय मदं तदीयम् ।
विलंघिताधोरणतीव्रयत्नाः सेनागजेन्द्रा विमुखा बभूवुः ॥४८॥
स च्छिन्नबन्धद्रुतयुग्यशून्यं भग्नाक्षपर्यस्तरथं क्षणेन ।
रामापरित्राणविहस्तयोधं सेनानिवेशं तुमुलं चकार ॥४९॥
तमापतन्तं नृपतेरवध्यो वन्यः करीति श्रुतवान्कुमारः ।
निवर्तयिष्यन्विशिखेन कुम्भे जघान नात्यायतकृष्टशार्ङ्गः ॥५०॥
स विद्धमात्रः किल नागरूपमुत्सृज्य तद्विस्मितसैन्यदृष्टः ।
स्फुरत्प्रभामंडलमध्यवर्ति कान्तं वपुर्व्योमचरं प्रपेदे ॥५१॥

४७. तो एकसुरो रावन मादान चडून मातिल्लो हती उदकाभितर खिणभर रावन तकलेन थंड जाल्लो आनी ताज्या कानसुलांतल्यान व्हांवपी काळशें मादान व्हांवपाचें बंद जाल्लें! पुण अजरायाच्या सैन्यांतल्या रानाभायर रावपी अशा जायत्या हतयांक पळोवन ताच्या मादानाचे वळभे चड नेटान व्हावूंक लागले! ४८. सप्तपर्ण रुखाच्या रोसाचो उग्र दर्प येता तशे तरेच्या त्या हतयाच्या मादानाच्या उमळशीक हाडपी वासान अजरायाच्या सैन्यांतले हत्ती त्या रानवट हतयाक भुजले! आपल्या राखणदारांनीं दिल्ली आज्ञा कसल्याय उपायांनीं ते मानिनातशे जाले!

४९. खिणाभितर त्या सैन्यांतल्या घोड्यांनीं आपलीं खाडवां तोडून रथांचे आंस मोडून, तशेच मोडिल्ले उडोवन घोडे सुसाट धावूंक लागले. थंच्या झुजाऱ्यांक बायलांक सांबाळप कठीण जालें! त्या सैन्याच्या शिबिरांत आक्रांताचो बोवाळ जालो!

५०. राजान रानवट हतयाक जिवानशीं मारनये म्हणपाची शास्त्राज्ञा त्या राजपुत्राक खबर आशिल्ली. म्हणून त्या आंगार आयिल्ल्या हतयाक फाटीं परतावंचे पुरतोच म्हणून आपलें शार्ङ्ग धनुष्य चड ताणिनासतना ताणे त्या हतयाचे तकलेर बाण सोडलो. ५१. त्या हतयाचे तकलेर अजाचो बाण बसलो मात्र! खिणाभितर त्या हतयाचो जीव गेलो आनी त्या जिवान एका स्वर्गींच्या पुरुषाची कुड-रूप घेवन, आंगाभोंवतणी उजवाडान परजळटा असो तो त्या सैन्यांतल्या लोकांक दिसून ते ह्या घटिचारान अजापून गेले!

**अथ प्रभावोपनतैः कुमारं कल्पद्रुमोत्थैरवकीर्य पुष्पैः ।**
**उवाच वाग्मी दशनप्रभाभिः संवर्धितोरःस्थलतारहारः ॥५२॥**
**मतंगशापादवलेपमूलादवाप्तवानस्मि मतंगजत्वम् ।**
**अवेहि गन्धर्वपतेस्तनूजं प्रियंवदं मां प्रियदर्शनस्य ॥५३॥**

---

५२-५३. आपले दैवी शक्तीन कल्परुखाचीं फुलां ताच्या हातांत आयलीं. तीं फुलां त्या पुरुषान अज कुंवराचेर शिंवरलीं. आपल्या हड्ड्याचेर ताणे मोठ्या मोतयांचो हार घातिल्लो, चकचकीत दांतांक लागून तो चड तेजिष्ट दिसतालो! उलोवपांत खांपो असो तो पुरूष उलयलो: "गंधर्वांचो राजा प्रियदर्शन. ताचो पुत्र हांव प्रियंवद. म्हज्या गर्वाक लागून मतंग ऋषीन म्हाका स्राप दिलो, आनी हांव कुपासारको दिसपी हती जालों."

मतंग ऋषीपासून जल्माक आयलो तो मतंगज म्हळ्यार हत्ती, अशी मतंगज ह्या उतराची फोडणिशी भानुजी दिक्षित हो टिकाकार करता. प्राध्यापक मोरेश्वर रामचंद्र काळे म्हणटात: 'ऋषीक हत्ती कसो जावंये? मतंग ह्या ऋषीन पयलेवयले हतयांक माणसाळावन ते मनशाक उपकारा पडपी आसतात म्हणून लोकांक दाखोवन दिलें जावंये.' प्रा. काळ्यांचें मत इतलें म्हत्वाचें दिसना. हती आनी कुपां हांकां सारकायेक लागून मतंगज हें एकच नांव लोकांनीं दवल्लें जावंये. कालिदासाक अनुप्रासांची चड उमळशीक दिसून येता. मदीं मदीं ताच्या श्लोकांत अनुप्रास मेळत रावतात. अनुप्रास साधूंक मेळचो म्हणून ताणे ऋषीचें नांव मतंग हें घेतलें जावंये. अनुप्रास जुळोवंचेखातीर कालिदासान अशे रितीन एकाच अर्थाच्या एका उतरा-जाग्यार अद्लूण दुसरें उतर घेतिल्लें जायते फावटी मेळटा. देखीक, चौदाव्या सर्गांत लक्ष्मण सितेक वनांत सोडूंक व्हरतासतना गंगेचे पलतडी वता. गंगां ततार संधामिव सत्यसन्धः । अशें कालिदास सांगता: प्रतिज्ञा ह्या उतराच्या जाग्यार ताणे संधा हें उतर घेतलां. सत्य उलोवपी मनीस आपलें दिल्लें उतर तरून म्हळ्यार पाळून फुडें वता, तसो लक्ष्मण गंगेचे पलतडी गेलो. 'संधा' आनी सत्यसन्ध ह्या उतरांतलें 'सन्ध' ह्या दोन उतरांचो अनुप्रास साधचेलो ह्या सिद्धहस्त साधु कवीली केदी मोठी साधना!

पंद्राव्या सर्गांत राम शत्रुघ्नाक लवणासुराक मारूंक धाडटा:

**अग्रजेन प्रयुक्ताशीस्ततो दाशरथी रथी ।**
**ययौ वनस्थलीः पश्यन्पुष्पिताः सुरभीरभीः ॥८॥**

**स चानुनीतः प्रणतेन पश्चान्मया महर्षिर्मृदुतामगच्छत् ।**
**उष्णत्वमग्न्यातपसंप्रयोगाच्छैत्यं हि यत्सा प्रकृतिर्जलस्य ॥५४॥**
**इक्ष्वाकुवंशप्रभवो यदा ते भेत्स्यत्यजः कुंभमयोमुखेन ।**
**संयोक्ष्यसे स्वेन वपुर्महिम्ना तदेत्यवोचत्स तपोनिधिर्माम् ॥५५॥**
**संमोचितः सत्त्ववता त्वयाऽहं शापाच्चिरप्रार्थितदर्शनेन ।**
**प्रतिप्रियं चेद्भवतो न कुर्यां वृथा हि मे स्यात्स्वपदोपलब्धिः ॥५६॥**

---

शत्रुघ्नाच्या जाग्यार दाशरथी हें उतर आनी फुडें रथी हें उतर घाल्हन अनुप्रास करचेखातीर धडपड! अभीः म्हळ्यार धिरिष्ट (शत्रुघ्न). हें उतर अद्रूण सुरभीक तेंकोवन एका श्लोकांत दोन अनुप्रास जोडपाक कालिदास तळमळटा!

मतंगज म्हळ्यार मतंग ऋषीक जाल्लो हत्ती हो पुत्र! हें भानुजी दिक्षिताचें टिकेचें तड्डक वाचून अजाप जाता! मतंग ऋषीन पयलेत्रयले हत्ती माणसाळायले जावंये, ह्या प्रा. काळ्यांच्या तर्काचेंय अजाप दिसता! मतंग ह्या उतराची फोडणिशी पळोवन त्या ऋषीक तें नांव कित्याक पडलें जावंये हाचो विचार भानुजी दिक्षित वा काळे करिनात. आसूं.

तो गंधर्व फुडें उलयलो :

५४. "मागीर हांवें त्या ऋषीच्या पांयां पडून म्हजेर दया कर म्हणून ताका विनयलो. आनी ताका म्हजी दया आयली. थंडसाण हो उदकाचो मूळ सभाव उरता. उज्याची वा वताची हुनसाण लागून उदक तापता."

ऋषी सभावान थंड आसतात. तांकां राग आयलो तरी तो रोखडोच व्रता. हितोपदेशांत सांगलां : आमरणान्ताः प्रणयाः कोपास्तत्क्षणभंगुराः ।
परित्यागाश्च निःसंगा भवन्ति हि महात्मनाम् ॥

५५. "तो ऋषी उलयलो, 'इक्ष्वाकू राजाच्या कुळांत जल्माक आयिल्लो अज लोखणाचें तोक आशिल्ल्या बाणान तुजी तकली फोडटलो, तेन्ना तुका तुजी निजाची कुड लाभतली.'

५६. "जायत्या काळापासून हांवें तुज्या दर्शनाची इच्छा धरिल्ली. तो तूं मोठो बळिष्ठ. तुवें म्हाका स्रापांतल्यान मेकळो केलो! म्हाका म्हजी निजाची पत लाभली. आतां हांवें तुजे उपकार पावयले ना जाल्यार म्हजी मूळ पदवी म्हाका मेळिल्ल्याचो उपयोग कितें? ५७. मित्रा, म्हजें संमोहन नांवाचें एक भूल घालपी अस्त्र तूं घे. हें अस्त्र कोणाचेरय सोडपाचो मंत्र वेगळो आनी

**संमोहनं नाम सखे ममास्त्रं प्रयोगसंहारविभक्तमंत्रम् ।**
**गान्धर्वमादत्स्व यतः प्रयोक्तुर्न चारिहिंसा विजयश्च हस्ते ॥५७॥**
**अलं ह्रिया मां प्रति यन्मुहूर्तं दयापरोऽभूः प्रहरन्नपि त्वम् ।**
**तस्मादुपच्छंदयति प्रयोज्यं मयि त्वया न प्रतिषेधरौक्ष्यम् ॥५८॥**
**तथेत्युपस्पृश्य पयः पवित्रं सोमोद्भवायाः सरितो नृसोमः ।**
**उदङ्मुखः सोऽस्त्रविदस्त्रमन्त्रं जग्राह तस्मान्निगृहीतशापात् ॥५९॥**
**एवं तयोरध्वनि दैवयोगादासेदुषोः सख्यमचिन्त्यहेतु ।**
**एको ययौ चैत्ररथप्रदेशान्सौराज्यरम्यानपरो विदर्भान् ॥६०॥**

---

सोडिल्लें अस्त्र परतें घेवपाचो मंत्र वेगळो उरता. हें अस्त्र शत्रूचेर सोडलें कीं शत्रूक जिवो मारिनासतना जिखूं येता."

वेदांत सांगलां: न हिंस्यात्सर्वाणि भूतानि। म्हळ्यार सगळ्या जिंवांक मारूं नये. गौतम बुद्ध जल्माक येवंचे पयलींच हिंसा करूं नये म्हणून हिंदु धर्मांत शास्त्र सांगत आयलां. हाची फोडणिशी अशी कीं फाव त्या कारणाबगर कोणाक जिवानशीं मारचो न्हय. कोणेय आपल्या एका पोल्याचेर माल्ल्यार ताच्यामुखार दुसरो पोलो मारूंक दिवंचो, असो हाचो अर्थ जायना.

५८. "म्हजेकडल्यान हें अस्त्र शिकून घेवपांत तूं लज मानूं नाका. हतयाचे कुडींत हांव आसतना तुवें म्हजेर फार माल्लो. पुण तो मारचेपयलीं कांय वेळ तुका म्हजी दया आयिल्ली. म्हणून आतां हांव तुका विनंती करतां. ती म्हजी विनंती तूं निष्ठूर जावन अमान्य करूं नाका." तो गन्धर्व उलयलो.

५९. "तशें जांव." अशें म्हणून त्या श्रेष्ठ पुरुषान, अजान, सोमवंशांतल्या पुरूरवा राजान वाट करून दिल्ल्या नर्मदा न्हयेच्या उदकान आचिमन करून दोळ्यांक उदक लावन उत्तर दिशेकडेन तोंड केलें. अज राजकुंवर मंत्र म्हणून बाण सोडून, शत्रूच्या सैन्यांत तरेकतरा धामी घालून वा शत्रूची झुजपाची शक्ती आडमेळयांनीं आळावंदा हाडप, ही अस्त्रविद्या शिकिल्लो. तरीय ताणे स्रापामेकळो जाल्ल्या त्या गंधर्वाकडल्यान संमोहन अस्त्राचो मंत्र शिकून घेतलो.

मंत्र शिकतासतना उत्तर दिशेक तोंड करचें अशें शास्त्रांत सांगलां.

६०. हे भाशेन वाटेवयले वाटेर बऱ्या नशिबाक लागून, येवजुंकय नाशिल्ली मैत्री घडून येवन, त्या दोगांमदीं एकलो म्हळ्यार तो गंधर्व चैत्ररथ गंधर्वरायाच्या प्रदेशांत गेलो. दुसरो, अज, राज्यांमदीं श्रेष्ठ आनी रम्य अशा

**तं तस्थिवांसं नगरोपकण्ठे तदागमारूढगुरुप्रहर्षः ।**
**प्रत्युज्जगाम क्रथकैशिकेन्द्रश्चन्द्रं प्रवृद्धोर्मिरिवोर्मिमाली ॥६१॥**
**प्रवेश्य चैनं पुरमग्रयायी नीचैस्तथोपाचरदर्पितश्रीः ।**
**मेने यथा तत्र जनः समेतो वैदर्भमागन्तुमजं गृहेशम् ॥६२॥**

---

विदर्भ राज्यांत गेलो. अस्त्रविदस्त्रमंत्रं म्हळ्यार अस्त्र विद्या जाण आसतल्यान अस्त्रमंत्र शिकून घेतलो. हीं उतरां कालिदासाची कांय वेळार गरजेबगर अनुप्रास करपाची खोड दाखयतात.

विदर्भ म्हळ्यार दर्भाविरयत. ह्या विदर्भ देशांत दर्भ तण रुजना. एका साधु पुरुषाचो पुत थंय दर्भाच्या पात्यांचो घाय जावन मेलो म्हणून तेन्नासावन थंय दर्भ वा कुश तण रुजना. विदर्भ म्हळ्यार आतांचो वऱ्हाड देश. कृष्णा आनी नर्मदा ह्या दोन न्हयांच्यो मेरो आशिल्लो हो विदर्भ देश. तो कुंतल देशाचे उत्तरेक आस. आकारान हें राज्य मोठें आशिल्ल्यान ताका महाराष्ट्र म्हणटाले अशें बालरामायण नाटकांत आसा. कुंडिनपूर विदर्भाची राजनगरी. ह्या कुंडीनपुराकच विदर्भ अशेंय म्हणटाले. हें कुंडिनपूर म्हळ्यार आतांचें बेदर शार जावंये. दमयंतीचो बापुय भीमराजा हो कुंडिनपुरचो. तसोच द्वारकेच्या कृष्णाची राणी रुक्मीण हिचो बापुय भीम राजाय कुंडिनपुरचो. मालविकाग्निमित्र नाटकांत आयलां ते भाशेन अग्निमित्र राजान विदर्भ राज्याचे दोन कुडके केले. वरदा न्हयेचे उत्तरेचो वांटो एक राज्य जालें. ताचें राजपाटण अमरावती. ह्या वांट्याक आजूनय विदर्भ म्हणटात. दक्षिणेचो वांटो म्हळ्यार भोज राजांचें राज्य. तांचें राजपाटण प्रतिष्ठान म्हळ्यार पैठण गोदावरी न्हयेचेर वसलां. हे भोजराजा द्रुह्यू राजाच्या कुळांतले. भोजपुरी राजा जायल्या राज्यांनीं राज्य करताले. तांचीं कुळांय वेगळीं वेगळीं आसलीं. कुन्ति-भोज हें एक कुळ. तांतल्या एका राजाक पांडवांची आवय ल्हानपणांत पोसकी कुंवरी म्हणून यदुकुळांतल्यान दिल्ली. मार्तिकावत भोज वा मृत्तिकावतचे भोज म्हणून आसले. ताणी भारतीय युद्धांत दुर्योधनाचो पाखो घेतलो. इसवी सनाच्या धाव्या शेंकड्यांत धारा नगरींत राज्य करपी भोज राजा हो ह्या भोज राजांच्या एके कुळयेंतलो आसूंक जाय.

६१. उचांबळिल्ल्या ल्हारांक घेवन दर्या चंद्राक मेळूंक वता, त्याप्रमाण क्रथकैशिकांचो राजा आपल्या राजपाटणाचे तक्षिमेंत येवन राविल्ल्या अजरायाच्या येवपान खूब खोशी जावन ताका नगरांत हाडूंक गेलो. ६२. अजरायाक येवकार

**तस्याधिकारपुरुषैः प्रणतैः प्रदिष्टां**
**प्राग्द्वारवेदिविनिवेशितपूर्णकुंभाम् ।**
**रम्यां रघुप्रतिनिधिः स नवोपकार्यां**
**बाल्यात्परामिव वशां मदनोऽध्युवास ॥६३॥**
**तत्र स्वयंवरसमाहृतराजलोकं**
**कन्याललाम कमनीयमजस्य लिप्सोः ।**
**भावावबोधकलुषा दयितेव रात्रौ**
**निद्रा चिरेण नयनाभिमुखी बभूव ॥६४॥**

---

दिवन विदर्भ राजा आपुण फुडें वेचत अजाक मानान नगरांत व्हरूंक लागलो. आपली संपत्ती ताणे अजाक भेटो म्हणून दिली. तें सगळें पळोवन थंयच्या लोकांक अज हो जणु घरचो येजमानी आनी वैदर्भ राजा हो ताजो भागेली पावणो अशें दिसलें. ६३. मनशाचें भुरगेपण सोंपलें कीं जुवान पिरायेंत मनशाचेर मदनाचो शेक चलता. त्याप्रमाण त्या राजाच्या चाखरमानी अधिकाऱ्यांनीं रघुरायाचो प्रतिनिधी अशा अजाक नमस्कार करून ताजेखातीर उबारिल्ल्या सुंदर अशा नव्या शामियान्यांत व्हेलो. थंय दरवट्याकडे बोंवल्याचेर उदकान भरिल्ले कळशे दवरिल्ले. अज कुंवरान आपले कांतीन तांकां सगळ्यांक मदनदेवा-भशेन आपल्या शेकाखाला घेतले.

६४. रत्नाभशेन सुंदर कांतीचे ते इंदुमती कुंवरीखातीर लग्नार्थी म्हणून जायते राजा स्वयंवराक आयिल्ले. आपल्या घोवाचो आपल्याचेर मोग आसा काय आपले सवतीचेर चड मोग आसा म्हणून एकाद्रे बायलेचे तकलेंन येवजण्यो घुवूंक लागल्यो कीं ती बायल आपल्या संशयी येवजण्यांक लागून आपल्याचेरच रागार जायत गडायत गडायत घोवाकडेन वता. तेच भाशेन त्या स्वयंवराच्या बोवाळान भरिल्ल्या वातावरणांत राजकुंवरी इंदुमती आपणाक वरीत काय ना म्हणपाचो दुबाव मारून अजरायाक ते रातीक उसरांच झांप लागली!

अशें सांगतात कीं, हो सर्ग त्याच दिसा पुराय रचून मागीर न्हिदचें अशी कालिदासाची इच्छा आसली. पुण बरयतां बरयतां सर्ग पूर्ण जावंचे पयलींच ताका न्हीद लागली! आपल्या प्रिय पुत्राची इच्छा पुरी करची, अशी काली मातेक इच्छा जावन तिणे तो न्हिदिल्लो आसतना, ह्या सर्गांतले फुडले श्लोक बरोवन दवल्ले. कालिदास दुसरे दिसा सकाळफुडें उठून बसता जाल्यार फुडले श्लोक बरोवन सर्ग पूर्ण जाल्लो पळोवन ताका व्हड अजाप जालें! ही काणी

**तं कर्णभूषणनिपीडितपीवरांसं**
**शय्योत्तरच्छदविमर्दकृशांगरागम् ।**
**सूतात्मजाः सवयसः प्रथितप्रबोधं**
**प्राबोधयन्नुषसि वाग्भिरुदारवाचः ॥६५॥**
**रात्रिर्गता मतिमतां वर मुंच शय्यां**
**धात्रा द्विधैव ननु धूर्जगतो विभक्ता ।**
**तामेकतस्तव बिभर्ति गुरुर्विनिद्र —**
**स्तस्या भवानपरधुर्यपदावलंबी ॥६६॥**

खरी आसत वा नासत. जागो आसतना मनांत भोवन भोवन घोळपी येवजण्यो पुऱ्यो करपाक जाय जाल्लो वावर कांय वेळार जबर इच्छेक लागून मनशाच्या हातान न्हिदांत आसतना घडटा. ते भाशेन कालिदासान न्हिदांतच ते श्लोक बरयले जावंये. पुण हे श्लोक इतले सुंदर जाल्यात कीं देवीन ते रचले आसुंये अशें कालिदासाक आनी हेर आयकुप्यांक-वाचप्यांक दिसलें!

६५. अजकुंवरान न्हिदांत तकली खांद्यावशीन केली कीं ताजीं कुंडलां पुष्ट खांद्यांक घांसतालीं. तो इन्दुमतीचो विचार करीत हातुळणार हे कुशीवेल्यान ते कुशीर सल्लो, कीं ताज्या आंगाक लायिल्लीं उटणीं हातुळणाच्या अस्तराक लागून आंगचीं पुसून उणीं जातालीं. फांत्या-पारार ताजे पिरायेचे ताजे चाखरेक आशिल्ले बंदींचे पुत अजाक आवडटीत अशीं गायनां म्हणून ताका जागो करूंक लागले.

ह्या स्तुतिपाठकांक वैतालिक अशें म्हणटाले. ते मधूर गायन म्हणून राजाक न्हिदेंतल्यान उठयताले.

ल्हवुल्हवू पांय वळीत, थंड वारो घालीत, गोड गाणीं म्हणून राजाक न्हिदांतल्यान जागोवंचो; अशें हेमाद्रि सांगता.

६६. "रात सोंपली! बुदवंतांमदीं श्रेष्ठ अशा राजा, आतां हातुळणावेल्यान ऊठ. ब्रह्मदेवान संवसाराचो वज्या-भार दोगांमदीं वांटला. एका तोंकाक तुजो बापुय जागरूक रावन तो भार सांबाळटा. दुसऱ्या तोंकाक हो भार सांबाळपी तूं समर्थ आस!"

हे वैतालिक दिसानदीस नवींनवीं कवनां रचून म्हणटाले. वेळाकाळाक फावतात, सोबतात अशीं गाणीं वेळच्या वेळार रचून म्हणपाची विद्या तांच्या आंगांत उरताली.

निद्रावशेन भवताऽप्यनवेक्षमाणा
पर्युत्सुकत्वमबला निशि खण्डितेव ।
लक्ष्मीर्विनोदयति येन दिगन्तलंबी
सोऽपि त्वदाननरुचिं विजहाति चंद्रः ॥६७॥
तद्वल्गुना युगपदुन्मिषितेन तावत्
सद्यः परस्परतुलामधिरोहतां द्वे ।
प्रस्पंदमानपरुषेतरतारमन्त —
श्चक्षुस्तव प्रचलितभ्रमरं च पद्मम् ॥६८॥

६७. "तूं न्हिदेंत आशिल्ल्यान तुजेखातीर तळमळटा ती सौंदर्यलक्ष्मी उपाय नाशिल्ल्यान सगळी रात चंद्राबरोबर खेळून वेळ काडटाली. तो चंद्र अस्तमतेचे धारेक लागून तुज्या मुखाइतलो परजळना!"

चारित्रवर्धन आनी दिनकर ह्या कालिदासाच्या दोगां टिकाकारांक हो श्लोक कालिदासाचो नासून दुसऱ्या कोणेय ह्या जाग्यार रचून घाला अशें दिसता. आपल्या ह्या मत्ताचें कारण ते दिनात. मल्लिनाथ कालिदासाचो प्रत्येक श्लोक मोठे चतुरायेन तपासून पळेल्याबगर रावपी टिकाकार न्हय. कालिदासान हो श्लोक रचला म्हणपाचें तो मानता.

सौंदर्याची देवता, सौंदर्यलक्ष्मी, तीन थळांर आसता अशें कवी मानतात. एक चंद्रिम, दुसरें थळ म्हळ्यार साळीक आनी तिसरो जागो म्हळ्यार सुंदर पुरुष वा बायल. अज सुंदर पुरुष आशिल्ल्यान ती अजाक सदांकाळ वश उरता. पुण तो न्हिदलो म्हणटकीर तिचो अपमान जालो. अजाइतलो सुंदर तिका चंद्राविरयत दुसरो कोण दिसना. म्हणून ती अजाचेर जीव आसुनय वेळ वचचो म्हणून चंद्राबरोबर फकाणां मारता; कारण रातच्या पाराक साळकांय जागीं नासतात. चंद्र निस्तेज जालो म्हणटकीर लक्ष्मी निर्शेली. अजान उठून लक्ष्मीक धादोशी करची अशें ते गावपी सूत म्हणटात.

६८. "जातूंत काळी बावली घुवंता असो तुजो मनाक भुलवपी दोळो आनी जातूंत काळो भोंवर घुवंता अशें साळीक हीं दोनय सुंदरकायेन एका-मेकांच्या तोलाचीं आसतात. तीं दोनय एकाच वेळार उक्तीं जावं!"

साळकां फुललीं आनी अज न्हिदिल्लोच उल्लो तर सौंदर्यलक्ष्मी साळकां-भितरच घुस्पतली. अजाच्या वांट्याक येवंची ना.

वृन्ताच्छ्लथं हरति पुष्पमनोकहानां
संसृज्यते सरसिजैररुणांशुभिन्नैः ।
स्वाभाविकं परगुणेन विभातवायुः
सौरभ्यमीप्सुरिव ते मुखमारुतस्य ॥६९॥
ताम्रोदरेषु पतितं तरुपल्लवेषु
निर्धौतहारगुलिकाविशदं हिमाम्भः ।
आभाति लब्धपरभागतयाऽधरोष्ठे
लीलास्मितं सदशनार्चिरिव त्वदीयम् ॥७०॥
यावत्प्रतापनिधिराक्रमते न भानु —
रह्नाय तावदरुणेन तमो निरस्तम् ।
आयोधनाग्रसरतां त्वयि वीर याते
किं वा रिपूंस्तव गुरुः स्वयमुच्छिनत्ति ॥७१॥

---

६९. "सकाळच्या वायाक तुज्या तोंडांतल्यान भायर सरपी निजाच्या घमघमीत वासाची उमळशीक लागल्या. पुण तूं न्हिदिल्लो आशिल्ल्यान तो वाय हो वास दुसरेकडच्यान जायांचो घेता. रुखांनीं देंठांतल्यान सोडिल्लीं बावर्की फुलां आनी अरुणाच्या किरणांनीं उक्तीं केल्लीं साळकां हांच्यांतल्यान सुटिल्लो वास सकाळचो वाय घेवंक सोदता.

७०. "तूं जागो आसतना तुज्या ओठांचेर तुजें हांसप खेळटा, आनी तुज्या दांतांचे सोबेन तें हांसप परजळटा. पुण तूं न्हिदिल्लो आसतकूच, सकाळफुडें हारांतल्या घांशिल्ल्या-पुशिल्ल्या मोतयांभशेन धवेफुल्ल दंवाचे थेंबे भितल्ल्यान तांबसार आशिल्ल्या रुखांच्या कंवळ्या खोलयांचेर पडटात; आनी रात्रपाक बरो जागो मेळिल्ल्यान ते थेंबे तुज्या हांसपाभशेन सोबीत दिसतात."

अज जागो जाल्यार त्या दंवाच्या थेंब्यांचे बडवाचार चलपाचे नात!

७१. "जंवसर खर हुनसाणेचो सागर असो सूर्य देव आंगार येना, तंवसर ताजो सारथी, मांडयो नाशिल्लो अरुण काळखाक आमडून घालता. तूं अजवीर युद्ध करचेखातीर मुखार सरतकच शत्रूंक तुज्या बापायन स्वता कित्याक मारचे?"

अजान आपणे करचेलें काम बापायक करूंक दवरून आपणे न्हिदचें न्हय. हो श्लोक राजपाटणांत अयोध्येक आसतना त्या सूत गवयांनीं रचिल्लो दिसता. असल्या श्लोकाक लागूनच कै. पंडित म्हणटात कीं हे श्लोक केन्नाय

शय्यां जहत्युभयपक्षविनीतनिद्राः
स्तम्बेरमा मुखरशृंखलकर्षिणस्ते ।
येषां विभान्ति तरुणारुणरागयोगाद्
भिन्नाद्रिगैरिकतटा इव दन्तकोशाः ॥७२॥
दीर्घेष्वमी नियमिताः पटमंडपेषु
निद्रां विहाय वनजाक्ष वनायुदेश्याः ।
वक्त्रोष्मणा मलिनयन्ति पुरोगतानि
लेह्यानि सैंधवशिलाशकलानि वाहाः ॥७३॥
भवति विरलभक्तिर्म्लानपुष्पोपहारः
स्वकिरणपरिवेषोद्भेदशून्याः प्रदीपाः ।
अयमपि च गिरं नस्त्वत्प्रबोधप्रयुक्ताम्
अनुवदति शुकस्ते मंजुवाक्पंजरस्थः ॥७४॥

---

एक फावट रचून मागीर सदां म्हणटाले. तरीय कालिदास ६५व्या श्लोकांत त्या गायकांक उदारवाचः म्हळ्यार खांपे रचपी वा उलोवपी अशें म्हणटा. कैं. पंडितांपरस कालिदासाच्या उतराचें म्हत्व केन्नाय चड आसूंक जाय. वेळचे वेळार नवीन नवीन श्लोक ते रचताले जावंये!

७२. "दोनीय वशींनीं न्हिदेक झाडून तुजे हत्ती काबळ्यांवेल्यान उठले. पांयांक बांदिल्ल्यो खणखणपी सांखळ्यो ते वडटात. पर्वतांच्या धातूंनीं भरिल्ल्या कडांत सदां धोंगसुंची संवय जाल्ल्या तांच्या इभादांताचेर सुर्याचें कंवळें तांबशें वत पडून ते दांत फुलत्या कळ्यांभाशेन दिसतात.

७३. "कमळासारक्या दोळ्यांच्या राया! वनायु (इराण) देशांतले तुजे घोडे मोठ्यामोठ्या तंबूंतल्यान बांदल्यात. ते जागे जाल्यात. त्या घोड्यांनीं चाटून खावंचें म्हणून तांच्या फुड्यांत पादेलोणाच्यो फातरी दवल्ल्यो तर आपल्या तोंडांतल्या हून श्वासांनीं ते पादेलोणाच्यो फातरी म्हेळयतात."

सिद्धयोगसंग्रह ह्या ग्रंथांत सांगलां कीं घोड्यांक सकाळीं उठून पादेलोण चाटपाक दिवंचें. म्हणटकीर तांची जिरवणशक्ती बरी उरता.

७४. "तुका ओपिल्ल्या फुलांच्या हारांची गांथवण विसकळ्ळया. दिसाचो उजवाड जाल्ल्यान रातीच्या दिव्यांच्या जोतींतल्या तेजाचीं किरणां जोतींतल्यान उसळून येनात. हो मंजूळ उलोवपी पांजऱ्यांतलो तुजो कीर तुका उठोवंचेखातीर आमी म्हणटात तींच उतरां उलयता."

इति विरचितवाग्भिर्बन्दिपुत्रैः कुमारः
सपदि विगतनिद्रस्तल्पमुज्झांचकार ।
मदपटु निनदद्भिर्बोधितो राजहंसैः
सुरगज इव गांगं सैकतं सुप्रतीकः ॥७५॥
अथ विधिमवसाय्य शास्त्रदृष्टं दिवसमुखोचितमंचिताक्षिपक्ष्मा ।
कुशलविरचितानुकूलवेषः क्षितिपसमाजमगात्स्वयंवरस्थम् ॥७६॥

**इति महाकवि श्रीकालिदासकृतौ रघुवंशे महाकाव्ये अजस्वयंवराभिगमनो नाम पंचमः सर्गः ॥**

---

७५. हे भाशेन रचिल्लीं गायनां त्या बन्दीपुत्रांनीं म्हटलीं. तेन्ना तो राजकुंवर आपल्या हातुळगावेल्यान रोखडोच उठलो. ईशान्य दिशेचो सुप्रतीक नांवाचो दिग्गज म्हळ्यार धर्तरी सांबाळपी स्वर्गीचो हती, सुर्योदयाच्या वेळार गंगा न्हयेच्या व्हाळवटावेल्यान मस्त्या राजहंसांच्या कळकळाक लागून असोच न्हिदिल्लो उठून वेता.

७६. जाच्या दोळ्यांच्या पातयांचे केंस सुंदर दिसताले, त्या अज राजकुंवरान सकाळफुडें करपाचे शास्त्रांत सांगिल्ले विधी केले. हुशार सजोवपी चाकरमान्यांकडल्यान स्वयंवराच्या समारंभाक फाव असो पोशेगबी करून घेवन तो राजकुंवर स्वयंवराच्या माटवांत जमिल्ल्या राजांच्या मेळांत गेलो.

हे भाशेन महाकवी कालिदासान रचिल्ल्या रघुवंश महाकाव्यांतलो अजाचें स्वयंवराक वचप नांवाचो पांचवो सर्ग जालो.

० ० ०

पांचव्या सर्गांत सगळे ७६ श्लोक आसात. तांचेपैकीं पयल्या ३५ श्लोकांत विश्वजित यज्ञांत रत्नां-भांगराचो सगळो संवसार दान करून कुयंडीं, मडक्यो, बुडकुले, मालतुल्यांच्या संवसारांत रघु दीस काडटा. वरतंतु ऋषीचो शिष्य कौत्स रघूकडल्यान चौदा कोटी म्होरांची इच्छा पूर्ण करून घेवन, रघूक ताज्या तोलाचो पुत्र जावं म्हणून आशिर्वाद दिवन वता. रघुवंशांतल्या सगळ्या राजांत रघु राजा श्रेष्ठ. बाकीचे रघुवंशांतले राजा धर्तरेचेर राज्य करताले. रघुराजान धर्तरी जिखून सगळें दान केलें आनी स्वर्गाचेर शेक चलोवन मनांत आयिल्ली इच्छा स्वर्गांतल्यान पुरी करून घेतली. म्हणून कवींनीं ताचें नांव ताज्या कुळाक दिलें. ताजेनंतर जे पुरूष ताज्या कुळांत जावन गेले

तांकां 'राघव' म्हणूंक लागले. रामासारक्या अवतारी पुरुषाक लेगीत रघुवीर, राघव, रघुपति, रघुनंदन म्हणून घेवंक भूषण दिसलें. असो रघुसारको दुसरो राजा जालो ना!

छत्तिसाव्या श्लोकापासून अजाचें आख्यान सुरू जालें. अज हो सगळ्या परींनीं रघूभशेनच गुणी जाला, अशें कालिदास सांगता. मोठ्या दिव्यान दुसरो दिवो पेटलो. प्रवर्तितो दीप इव प्रदीपात् ॥ अज जुवान जालो. ताका स्वयंवराचें आमंत्रण आयलें. कालिदासाच्या काळांत स्वयंवर थंडपणान सुसंगीत जावप कठीन आसलें. राजांमदीं रणखेवां जाताली! त्या मारामारेंतल्यान अजाक-इंदुमतीक अचळय अयोध्येक हाडप ही कालिदासाची जापसालदारकी! म्हणून गंधर्व हती जालो आनी अजाक संमोहनास्त्र शिकयलें म्हणपाची काणी आपशींच कालिदासाचे कल्पनेंतल्यान आयली. ह्या सर्गांतले ६५ ते ७५ हे अकरा श्लोक चड सुंदर रचल्यात हातूंत दुबाव ना.

अज-इंदुमतीचें स्वयंवर सव्या सर्गांत वर्णिलां आनी आठव्या सर्गांत अजाच्या विखळापाचें वर्णन आयलां. हे दोन सर्ग सगळ्या रघुवंशांत हेर सर्गांपरस काव्यगुणांनीं परजळटात. म्हणुनच ह्या पुस्तकांत पान १७ पासून पान ४३ मेरेन रघुवंशाची कथा थोड्याभितर सांगतासतना सव्या आनी आठव्या सर्गांची कथा मुळांत आसा तशी तपशिलासयत अणकारची पडली.

रघुवंश ह्या काव्यांत दिलीप (१७३ श्लोक), रघु (१९२ श्लोक), अज (२७० श्लोक), दशरथ (१५१ श्लोक), राम (४८३ श्लोक), कुश (९५ श्लोक), अतिथि (७७ श्लोक) आनी अग्निवर्ण (५४ श्लोक) अशीं आठ राजांचीं आख्यानां आयल्यांत. बाकीचे राजा नांवापुरते आयल्यात. कुश आनी अग्निवर्ण राजांच्या आख्यानांत शृंगार रस चड उचांबळटा. अतिथीच्या आख्यानांत नीत आनी राज्यशास्त्र हांची माहिती आयल्या. अजविलाप आनी सीतात्यागांत करुण रस वाचप्यांच्या काळजाक हात घालता! दिलीप, रघु आनी राम हांच्या आख्यानांत वाचप्यांक ईश्वरी अंश आनी ईश्वरी अवतार आशिल्ल्या महापुरुषांचें दर्शन घडटा.

कालिदास वाचप्यांक संतांची पदवी दिता: तुमी संतांनीं हें काव्य वाचचें, आयकुचें. तं सन्तः श्रोतुमर्हन्ति ॥ तुमचे परीक्षेच्या उज्यांत म्हजें काव्य घालें कीं तांतूंतलें हीण जळून भांगर तितलें उरतलें. हेम्नः संलक्ष्यते ह्यग्नौ विशुद्धिः श्यामिकाऽपि वा ॥ शेंकड्यांनीं वर्सां लाखांनीं लोकांनीं संवसारभर हें काव्य

वाचलें आनी वाचून वाचून धादोसकायेन फुलले! असलीं सुंदर महाकाव्यां रचून मेळप कठीन, महाकठीन!

जॉन कीट्स् हो कवी सांगता : *A thing of beauty is a joy for ever!*

*सुंदर वस्त म्हळ्यार सासणाचो आनंद!*
*ती चड सुंदर जायत वता,*
*तंवसर ती केन्नाच सोंपना !*
*ती तुजे-म्हजेर शांतीचें सुख शिंवरता.*
*आमचे न्हिदेंत ती मधुर सपनां जावन येता.*
*संवसाराचेर केदोय संव्हार येवं,*
*दुःख, दुस्वास, घाम, रणखेंव मातूं;*
*तें दोळ्यांक सुखावपी, परमळान धुंद करपी,*
*नाजुकसाणेन अंतस्कर्ण हालोवपी,*
*सुंदर फूल, सवणें, बाळक, नागणीचो पिलो,*
*सिंहाचो पेटो, संगीत, शिल्प, दुद-सागर,*
*आमकां सदांच शिकयतलीं : माया, आस्त, काकुळट;*
*आनी आमच्या सुखाचो आमकांच जातलो होयसाद;*
*वांचून उल्ले म्हणून अणभवूंक असली सुंदर वस्त !*

आमी रघुवंश शिकूंक जिते उल्ले म्हणून आमचो आमकांच होयसाद जाता!

O O O

रघुवंश आनी कुमारसंभव हीं काव्यां सोंपयतासतना कालिदासान भरत-वाक्य वा कसलीच प्रार्थना वा संकल्पवाक्य अशें रचलें ना. कालिदासानच रचिल्ली रघुवंशाच्या धाव्या सर्गातली प्रार्थना आमी म्हणुं या!

रावणान स्वर्ग जिखून देवांक बंदखणींत घाले. तांकां वेठीक धरून तो तांचेकडल्यान आपली सेवा करून घेवंक लागलो. तेन्ना सगळे देव विष्णु परमात्म्याकडे वचून ताणी ताजी प्रार्थना केली.







प्रार्थना

नमो विश्वसृजे पूर्वं विश्वं तदनु बिभ्रते ।
अथ विश्वस्य संहर्त्रे तुभ्यं त्रेधास्थितात्मने ॥१६॥
रसान्तराण्येकरसं यथा दिव्यं पयोऽश्नुते ।
देशे देशे गुणेष्वेवमवस्थास्त्वमविक्रियः ॥१७॥
अमेयो मितलोकस्त्वमनर्थी प्रार्थनावहः ।
अजितो जिष्णुरत्यन्तमव्यक्तो व्यक्तकारणम् ॥१८॥
हृदयस्थमनासन्नमकामं त्वां तपस्विनम् ।
दयालुमनघस्पृष्टं पुराणमजरं विदुः ॥१९॥
सर्वज्ञस्त्वमविज्ञातः सर्वयोनिस्त्वमात्मभूः ।
सर्वप्रभुरनीशस्त्वमेकस्त्वं सर्वरूपभाक् ॥२०॥

---

१६. मुळाक संवसार निर्माण करपी, ताजेनंतर तो पोसपी आनी ताका शोषून घेवपी म्हळ्यार मुळांत वहून घेवपी, अशा तीन तरांच्या रुपांनीं आसपी तुका नमस्कार. १७. एकच सुवाद आशिल्लें अंतराळांतल्यान पडिल्लें उदक देशादेशांनीं लोकांक वेगळीवेगळी रूच दिता, त्याप्रमाण कसोच बदलना असो तूं सत्त्व, रज आनी तम ह्या तीन गुणांच्या संवसर्गान वेगळीं वेगळीं रुपां घेता. १८. तुका कोणाच्यानच मेजूं वा मापूंक नज. पुण मेजूंक वा मापूंक येता अशा संवसारांत तूं आसा. तुका कसली अर्थ ना. पुण जे कोण मनांत वान्सा धरून तुजी प्रार्थना करतात, तांच्यो अर्थी तूं पुरयता. तुका कोणे केन्ना जिखलो ना. तुवें सगळें जिखलां. कोणच आपल्या इंद्रियांनीं तुका वळखूंक पावलो ना. पुण सगळे जाण इंद्रियांनीं जें कितें वळखतात त्या सगळ्याच्या मुळाक तूं आसा. १९. तूं सगळ्यांच्या अंतस्कर्णांत आसता. तरीय तुजेकडेन कोण पावना, वा तुका वळखूंक शकना. कसलीच इच्छा नासतना तूं सगळ्या संवसाराच्यो राटावळी रातदीस करीत आसता. तूं दयेस्त आस. पुण स्वता दुःख भोगून तसो जावंक ना. दुःख तुका आफडूंक पावलें ना. सगळ्यांपरस पुराणो आसुनय तूं म्हातारो जावंक ना. २० तूं सगळें जाणा. पुण तुका कोण वळखूंक पावना. सगळ्या संवसाराचें मूळ कारण, पुण स्वता तूं सैमी. तूं सगळ्या संवसाराचो

सप्तसामोपगीतं त्वां सप्तार्णवजलेशयम् ।
सप्तार्चिर्मुखमाचख्युः सप्तलोकैकसंश्रयम् ॥२१॥
चतुर्वर्गफलं ज्ञानं कालावस्थाश्चतुर्युगाः ।
चतुर्वर्णमयो लोकस्त्वत्तः सर्वं चतुर्मुखात् ॥२२॥
अभ्यासनिगृहीतेन मनसा हृदयाश्रयम् ।
ज्योतिर्मयं विचिन्वन्ति योगिनस्त्वां विमुक्तये ॥२३॥

---

धनी. तुजो धनी कोण ना. तूं एकलो एकसुरोच आसा. पुण तूं सगळ्यांच्या रुपांनीं नटला. २१. सात तरांच्या साम गितांनीं तुका गायला. साता-समुद्रांत तूं न्हिदता. सात जिबळ्यांचो अग्निदेव हो तुजें मुख. तुज्या आधारान सात लोक तिगून आसात.

सामवेद हो तिसरो वेद. ताच्या सुक्तांक म्हळ्यार प्रार्थनागीतांक साम म्हणटात. तीं सामां सात तरांचीं आसातः (१) रथंतर, (२) बृहद्रथंतर, (३) वामदेव्य, (४) वैरूप्य, (५) पावमान्य, (६) वैजय आनी (७) चान्द्रमस. प्रजापतीन ह्या सात तरांच्या सामगीतांनीं तुजें वर्णन केलें. (१) क्षीरसागर म्हळ्यार दुदसागर, (२) खाऱ्या उदकाचो समुद्र, (३) धंयाचो समुद्र, (४) तुपाचो समुद्र, (५) गोड्या उदकाचो समुद्र, (६) आत्मीक सोऱ्याचो समुद्र, आनी (७) उशिकांड्याच्या रोसाचो समुद्र. कल्प सोंपता आनी कल्पांताचो वेळ येता तेन्ना हे सगळे समुद्र एकठांय येतात आनी तांतूंत विष्णु भगवान न्हिदता. ही चारित्रवर्धनान फोडणिशी दिल्या. हें वर्णन वायुपुराणांतल्यान घेतलां. अग्नीच्यो जिबळ्यो सात तरांच्यो आसतातः (१) काली, (२) कराली, (३) धूमा, (४) लोहिता, (५) मनोजवा, (६) स्फुलिंगिनी आनी (७) विश्वरुचि–विश्वरूपा. अग्नीच्या ज्वाळांचें हिरण्या, कनका, रक्ता, कृष्णा, सुप्रभा, अतिरिक्ता आनी बहुरूपा म्हणुनय हेमाद्री आनी चारित्रवर्धनान वर्णन केलां. सात लोकः (१) भूः, (२) भुवः, (३) स्वः, (४) महः, (५) जनः, (६) तपः, (७) सत्यं.

२२. धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष हीं चार फळां जोडून दिवपी ज्ञान तुज्यांतल्यानच आयलां. कृत, त्रेता, द्वापर आनी कली हीं चार युगां तुज्यांतल्यानच आयल्यांत. चार तोंडां आशिल्ल्या तुज्यांतल्यानच ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र हे चार वर्ण म्हळ्यार चार तरांचे वावर करपी लोक जल्मले. २३. योगी लोक रूप, रस, स्पर्श, शब्द आनी गंध ह्या विषयांतल्यान मन काडून, जीण आनी मरण हांतूं-

अजस्य गृह्णतो जन्म निरीहस्य हतद्विषः ।
स्वपतो जागरूकस्य याथार्थ्यं वेद कस्तव ॥२४॥
शब्दादीन्विषयान्भोक्तुं चरितुं दुश्चरं तपः ।
पर्याप्तोऽसि प्रजाः पातुमौदासीन्येन वर्तितुम् ॥२५॥
बहुधाप्यागमैर्भिन्नाः पन्थानः सिद्धिहेतवः ।
त्वय्येव निपतन्त्योघा जाह्नवीया इवार्णवे ॥२६॥
त्वय्यावेशितचित्तानां त्वत्समर्पितकर्मणाम् ।
गतिस्त्वं वीतरागाणामभूयः सन्निवृत्तये ॥२७॥
प्रत्यक्षोऽप्यपरिच्छेद्यो मह्यादिर्महिमा तव ।
आप्तवागनुमानाभ्यां साध्यं त्वां प्रति का कथा ॥२८॥
केवलं स्मरणेनैव पुनासि पुरुषं यतः ।
अनेन वृत्तयः शेषा निवेदितफलास्त्वयि ॥२९॥
उदधेरिव रत्नानि तेजांसीव विवस्वतः ।
स्तुतिभ्यो व्यतिरिच्यन्ते दूराणि चरितानि ते ॥३०॥

---

तल्यान सोडवण जावंचेखातीर, अंतस्कर्णांत परजळपी अशा तुका सोदीत आसतात; तुजें ध्यान करतात. २४. तूं जल्माक येवंक ना, तरीय जल्म घेता. कांय इच्छा नासतना आनी कांय वावर करिनासतना तुवें शत्रूंक माह्ले. तूं न्हिदिल्लो आसता म्हळ्यार योगन्हिदेंत आसता आनी तरीय जागो आसता. तुका बरे भाशेन वळखता असो कोण आसा? २५. शब्द, रूप, रस, स्पर्श आनी वास हे विषय भोगूंक, तशीच कठीन तपश्चर्या करूंक, प्रजेक पोसूंक आनी कांयच इच्छा धरिनासतना वर्तूंक तूं समर्थ आसा. २६. वेगळ्यावेगळ्या न्हयांचे लोंडें समुद्राक वचून मेळटात. त्याप्रमाण पुरुषार्थ जोडपाचीं वेगळींवेगळीं तत्वज्ञानां तुजेभितर येवन मेळटात. २७. जाणी आपलें मन पुराय तुजे सुवादीन केलें, जाणी आपलो सगळो वावर तुका अर्पण केलो, जाणी संवसारांतल्यान मन काडून घेतलें अशा लोकांचो निर्वाणीचो आलाशिरो तूंच उरता. २८. पिर्थुम बी मोठमोठ्या वस्तींतल्यान तुजें मोठेपण दिसून आयलें तरी पुराय समजूंक कठीन उरता. वेद आनी तर्कशास्त्र हीं शिकून तुका कसो वळखूं येत? २९. निखट्या तुज्या स्मरणान म्हळ्यार तुजी याद केल्यार तूं लोकांक पापांतल्यान मेकळे करता. तर तुका पळोवंक मेळ्ळो वा तुका सांसपूंक मेळ्ळें तर ताजो लाभ चड मोठो आसूंक जाय. ३०. समुद्रांतलीं रत्नां मेळप कठीन. सुर्याचीं किरणां आपले सुवादीन

**अनवाप्तमवाप्तव्यं न ते किंचन विद्यते ।**
**लोकानुग्रह एवैको हेतुस्ते जन्मकर्मणोः ॥३१॥**
**महिमानं यदुत्कीर्त्य तव संह्रियते वचः ।**
**श्रमेण तदशक्त्या वा न गुणानामियत्तया ॥३२॥**

करप हें घडना. तुजीं कळूंक कठीन अशीं कर्तुपां गावप हें आमच्या हाताभायले काम आस. ३१. तुका मेळ्ळें ना आनी मेळोवंचेलें आसा अशें कांय नासता. संवसाराचें कल्याण करचें म्हणून तूं जल्म घेता आनी वावर करता. ३२. तुजें मोठेपण गावन आमची वाणी थांबता आनी विसंव घेता. तुजे गुण गावपाचो वावर करून सोंपलो म्हणून ती वाणी थारना, तर तिचें बळगें सोंपता म्हणून ती थारता.

आदिकवी ब्रह्मदेवान आनी हेर देवांनीं गायिल्ली सुंदर प्रार्थना आयकूंक विष्णु परमात्मो योगनिद्रेंतल्यान रोखडोच जागो जालो. कालिदासान वर्णन केलां :

**अव्याक्षेपो भविष्यन्त्याः कार्यसिद्धेर्हि लक्षणम् ॥**

विष्णून बेगीन जागो जावन त्या देवांचें कार्य सिद्धीक वतलें म्हणपाचें चिन्ह दाखोवन दिलें! तो तांचेर प्रसन्न जालो.

प्रतिभासंपन्न प्रार्थनेंत मंत्रशक्तीची तांक उरता. तुमी-आमी ही प्रार्थना म्हळ्यार आमचींय कार्यां सिद्धीक वतलीं.





गलितवयसामिक्ष्वाकूणामिदम् हि कुलव्रतम् ॥ रघु. ३-७० ॥